वर्स : 4; अंक : 7 (जुलै - डिसेंबर 2017)

# अनन्य

गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका



संपादक
**डॉ. जयंती नायक**

स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका
अनन्य
वर्स : 4; अंक : 7 (जुलै - डिसेंबर 2017)

प्रकाशक : सचिव, गोवा कोंकणी अकादेमी

संपादकीय कार्यालय : गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी - गोंय - 403001
फोन नं. : 0832-2437385/87
ईमेल : konkaniakademi@gmail.com



संपादक : डॉ. जयंती नायक

मुखचित्र आनी फाटलें चित्र : परेश नरेंद्र कामत

रेखाचित्रां : सिया पंडित

टायपसेटर : रिया ग्राफिक्स, ओल्ड गोवा

छापणावळ : लोकमान्य प्रोसेस, खोर्ली, तिसवाडी

मोल : ₹50/-

ANANYA :
(A Six Monthly Literary Journal in Konkani)
Vol : 4, No. : 7
(July - December 2017)
Goa Konkani Akadami, 243, Patto Colony, Panaji - Goa - 403 001
Ph. No. : 0832-2437385/87

*(अंकांतलीं मतां त्या त्या लेखकांचीं, त्या मतां कडेन गोवा कोंकणी अकादेमी सहमत आसाच अशें ना.)*




# अनन्य

गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका
वर्स : 4; अंक : 7 (जुलै - डिसेंबर 2017)

---

## मांडावळ

# संपादकीय...

जिज्ञासा ही सगळ्या कलांची प्रेरणा. साहित्याचीय ती प्रेरणा. आपले सरभोंवतणी कितें घडटा, कितें घडून गेलां आनी कितें घडपाचें आसा हें जाणून घेवपाची रचनाकाराच्या मनांतली जिज्ञासाच ताका बरोबपाक प्रेरीत करता. जिज्ञासेवरवीं लेखनाक मेळिल्ली प्रेरणा ही आयची कालची न्हय तर ती खूब आदिम. मनशाक जेन्ना विचार करपाची कुवत प्राप्त जाली , त्या काळाची. आदिम मनशाक ह्या संवसारांत घडटल्या घडामोडींचें, चंद्र-सूर्य, नकेंत्रां- गिरे, गिराणां - काळखी राती, सुकती-भरती, जीव-जितापत, औरां-मोडां, वत- पावस, हुंवार- दुकोळ ...इतकेंच न्ही या धतरिवयलें आपलें अस्तित्वय हाचेविशींय कुतूहल आशिल्लें, ताचे फाटलें सत्य जाणून घेवपाची जिज्ञासा आशिल्ली. आपले बौध्दीक कुवतीच्या आनी कल्पकतेच्या आदारार ताणें ह्या सगळ्याविशीं अनुमान काडलें आनी तें हेरांक सांगपाच्या उद्देशान ताचेसंबंदी काणयो रचल्यो, गितां रचलीं. हांगाच्यान साहित्यीक वारसो सुरू जालो. सुरवेच्या काळावेलें हें साहित्य मौखीक आशिल्लें आनी तें समुहाचे मालकीचें आशिल्लें, काळभोंवडेंत ताका लिखीत रुप मेळ्ळें आनी तें व्यक्तीचे म्हणजे  लेखकाचे मालकेचें जालें.

जिज्ञासा जशी साहित्याचे निर्मिती फाटली प्रेरणा तशेंच अणभवसिध्दता आनी गिन्यानसंपन्नता हीं साहित्याचीं बलस्थानां. लेखकाचे अणभव जितले खर आनी व्यापक तितकें ताचे साहित्य प्रभावी. तेचपरी या संवसारांतल्या घडामोडीविशीं, सैमीक आनी मनीस निर्मित विवीध गजाली आनी उत्थांनाविशीं लेखकाचें गिन्यान सखोल आनी प्रामाणीक , तितकें तें कालातींत.

साधना ही साहित्यीकाची कसवटी. लेखक जितके निश्ठेन आनी निस्वार्थीपणान अखंडीत आपली साधना चालू दवरता , तितकें यश ताच्या पांयांर आपूण जावन घालून घेता. साधना म्हळ्यार अभ्यास. आपलेमदलीं उणेपणां जाणून घेवपाची आनी आपल्याक अपग्रेड करपाची प्रक्रिया. पूण सगळ्यांकच ती मानवता अशें ना. एका पांखान मोर जावपी जायते लेखक दिसतात. ताच्या बरपांतलीं कोणें उणेंपणां दाखयिल्लीं तांकां मान्य ना. तेच बरोबर स्वता तीं जाणून घेवन आपलेमदीं सुदारणां घडोवन हाडपय तांचे प्रकृतींत बसना.

साहित्यकृती म्हणजे निकटी खबर वा बातमी न्हय. तर ती एक कलाकृती. आपले अणभव आनी अनुभूती कलात्मकेन आनी नकसूदपणान उबे करपाची कळाशी लेखका कडेन आसूंक जाय. होच ताका जाल्लो प्रतिभेचो साक्षात्कार.  कोंकणी लोककथा भांडारांत विष्णूकन्या नांवाची एक काणी मेळटा. हे काणयेंत आपले फाटीक घामाक लागून आयिल्ल्या मळापासून (चिकलापासून) विष्णूची बायल लक्ष्मी एक सोबीत बावली घडयता आनी ते बावलेंत प्राण वोतून ताची एक स्वरूप सुंदर जिवंत कन्या जल्माक घालता. साहित्यीकाचेंय अशेंच. आपल्या अणभवांकडेन ताणें तादाम्य पावपाची गरज आसता, तेन्नाच ताची लेखनकृती सर्वोत्कृश्ठ जावंक

पावता. ताका नवनिर्मितीचो अतुल्य आनंद आनी समाधान मेळटा. पुरस्कार-भोवमानाचे अपेक्षेन केल्ली साहित्य रचना ताचे प्रतिभेकडेन प्रतारणा करता तेच बरोबर ती ताका आत्मसमाधान दिवंक पावना. उत्कृश्ठ साहित्यकृतीचो भोवमान समाज निश्चितच करता, वाचक तिका उखलून माथ्यार घेतात, ती अजरामर - अक्षय जाता. शेकड्यांनी वर्सां ती लोकांचे स्मृतींत उरता.

कोंकणींतल्या दर्जेदार लेखन कृतींक एक सोबसारकें व्यासपीठ निर्माण करून दिवचें हे हेतून सुमार चार वर्सां आदिं म्हळ्यार जुलै-डिसेंबर 2014 सावन गोवा कोंकणी अकादेमीन ही पत्रिका सुरू केली. आतांमेरेन आमी स अंक उजवाडायल्यात. हो सातवो अंक . ह्या अंकावरवीं आमी कोंकणी साहित्य भांडारांत दखल घेयसारख्या साहित्याची भर घातल्या. वट्ट 36 कथा, 180 कविता, 5 साहित्यीकां विर्शी स्मृतीशेश, 5 साहित्यीकांची जीण आनी कार्य , 6 अनुवादीत कथा, 12 अनुवादीत कविता, 3 प्रवास वर्णनां, 3 नाटकां, 6 लेख, 14 पुस्तकांच्यो समिक्षा, 3 दीर्घ गीतकाणयो, 3 लोकवेद लेख, 18 ललीत लेख आनी 2 दिसपटयो प्रसिध्द केल्यात.

आतां ह्या सातव्या अंकावरवीं हे संख्येंत आनीक भर पडटा. एक -दोनांचो आडवाद सोडून वयलीं सगळीं सदरां ह्या अंकांतय दवरपाचो आमी यत्न केला. ह्या अंकाचें खास वैशिश्ट म्हणजे ह्या वेळावेलें चौकेर सदर . हे फावट ह्या सदरांतल्यान नामनेचे कवी श्री. माधव बोरकार हांचे जीण आनी साहित्यीक कार्याविर्शी जाणून घेवपाचो आमी यत्न केला. तांचेकडेन वार्तालाप सिध्दहस्त कवयित्री नयनाबाय आडारकार हिणें केला. माधवबाब हे कवी तेच बरोबर कवितेचे अभ्यासकय. संवसारीक साहित्याचोय तांकां अभ्यास आसा. तांणी हे मुलाखतींत मंडिल्ल्या विचारांचो निश्चितचपणान साहित्याच्या अभ्यासकांक फायदो जातलो.

एक गजाल मुजरत सांगूंक जाय ती म्हणजे आमकां अंकाक आजून मेरेन साहित्याची वाण पडिल्ली ना. जांकां जांकां आमी साहित्य धाडपाची विनंती केली तांणी तांणी आमकां उस्फुर्तपणान प्रतिसाद दिलो. तांकां सगळ्यांक आमचे मनापासून दिनवास.

काळजासावन चित्रां-रेखाचित्रां काडपी, टायपसेटींग करपी, छापणावळ करपी तशेंच मुद्रीत शोधन करपी हांचे सगळ्यांचे आमी उपकारी.

**जयंती नायक**
संपादक

चौकेर

(सुसंवाद)

नयना आडारकार

# कलेचे साधक माधव बोरकार



माधवबाब आपले अभ्यासिकेंत मग्न.

वेणीमाधव बोरकार म्हणल्यार कवितेची निरंतन साधना करपी साधक. तांचो जल्म 4 जून 1954 वर्सा जालो. आतांमेरेन तांचे 'चंवर' (1969), 'वताच्यो सांवळ्यो' (1972), 'उजवाडाचो रूख' (1975), पर्जळाचें दार (1986), 'यमन' (1999), 'अव्यक्ताचीं गाणी' (2002), 'सिंफनी' (2012) हे कविता संग्रह उजवाडाक आयल्यात. तांणी हेर भाशेंतल्या उत्कृश्ठ साहित्याचे कोंकणींत अणकारूय केल्यात. ते मर्दी प्रभाकर माचवे हांचें 'कबीर' आनी रविंद्रनाथांच्यो 'एकशें एक कविता' ह्या पुस्तकांचो आस्पाव आसा.

विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर हे संस्थेचो श्रीमती विमला पै पुरस्कार, कला अकादमीचो साहित्य पुरस्कार, केंद्रीय साहित्य अकादमीचो साहित्य पुरस्कार

**नयना आडारकार** : जल्म : 1959, कवयित्री, बालसाहित्यकार, निबंदकार. सतरा वयर पुस्तकां प्रकाशीत. *'मनसांवार'* (कविता), *'स्पंदन'* (कथा) आनी *'पोवनां'* आनी *'चांफो'* (निबंद) हीं म्हत्वाचीं प्रकाशनां. डॉ. टी. एम्. ए. पै फावंडेशनाचो प्रशस्ती पुरस्कार, अखिल भारतीय कवयित्री संमेलनाचो डॉ. चंपाप्रसाद पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमीचो उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : मो. : 9823537563.

**(2001) तशेंच साहित्य अकादमीच्या अनुवाद पुरस्कारान (2004) ते सन्मानीत आसात.**

**आकाशवाणी पणजी केंद्राचे निदेशक आनी गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष, अशा भोवमानाचीं पदांय तांणी भुशयल्यांत.**

*प्रस्न : माधवबाब, तुमकां कवितेची आवड खंयच्यान निर्माण जाली?*

*जाप :* आमच्या घरांत बापायचे वतीन साहित्य परंपरा ना. कोणाकूच साहित्याची आवड ना. पणजो श्रीधर (शिरेबाब) ज्ञानेश्वरी वाचतालोसो दिसता. ती याद म्हणून ती प्रत मुद्‍दम बायंड करून दवरल्या. कलेची आवड आवय वटेंतली. म्हजे आजयेचो मामा मुकुंद विठोजी प्रतापराव सरदेसाय हाका बरोवपाची आवड. ताणें बरयिल्ल्यो कथा 'भारतमित्रां'त मेळ्ळ्यात. एक 35 पानांचें चरित्रूय मेळ्ळां. ताचो बापूय विठोजी म्हजो शेणजो हाका मोरोपंत, संगीतबी आवडटालें. हे सगळे गूण म्हजी आजी आनी आजयेचीं भावंडां हांचे मदीं कमी चड प्रमाणांत आशिल्ले दिसतात. आवयच्या मामाक गोपेबाबाक सगळ्या कलांची आवड आशिल्ली. गावपाची, नाटकांत काम करपाची ती जालीच ताका शिवणकाम करपाक, चित्रां काडपाक आवडटालें. तशेंच बरें रांदपाक आनी कलात्मक रितीन रुचीन जेवपाकूय खूब आवडटालें. ताचें अक्षर सुंदर आशिल्लें. तशें सुंदर रितीन बरोवपाचें आंग म्हाका आयलां. म्हजो मामा पिरायेच्या 50 वर्सां उपरांत वेवस्थीत तालीम घेवन गायन शिकला. म्हजे आवयचो सख्खो मावसभाव प्रा. सुभाष भेंडे हो एक लेखक.

म्हाका स्वताक शास्त्रीय संगिताची आवड. हांवें शास्त्रीय संगीत पयले फावट 8 वर्सांचो आसतना आयकलां तें आयज मेरेन आयकतां. तातूंतल्यानूच हांव कविते कडेन वळ्ळों. कविते परसूय म्हाका गायन आयकुपाक आनी चित्रां काडपाक खूब आवडटालें. ती आवड मागीर वाडली ना.

*प्रस्न : पूण मागीर कविते कडेन कशे वळ्ळे?*

*जाप :* कितें तरी बरोवचें, व्यक्त करचें अशें ते पिरायेचेर दिसूंक लागलें. पूण कशें व्यक्त करचें तें समजनाशिल्लें. एकदां पणजे कोंकणी भाशा मंडळाच्या काव्य उत्सवाचें रेकॉर्डींग रेडियोचेर आयकूंक मेळ्ळें. तें आयकून बरोवचें अशें दिसलें. हांवें कविता म्हणटा त्यो फकत पाठ्यपुस्तकांतल्यो वाचिल्ल्यो. म्हाका कविता सुचत रावली तशें हांव बरयत गेलों. आंतोन मोरायसबाब हो म्हज्या कवितांचो पयलो वाचक. तो कोंकणी भाशा मंडळ, पणजेचे कचेरेंत बसतालो तेन्ना हांव म्हज्यो कविता ताका वाचून दाखयतालों. 'बऱ्यो कविता बरयता आं' म्हणून ताणें म्हजें कौतूक करप. एकदां मनोहरबाब सरदेसाय कचेरेंत आयिल्लो तेन्ना तांकांय म्हज्यो कविता वाचून दाखयल्यो.

मनोहरबाबालें 'गोंया तुज्या मोगा खातीर' हें हांवें विकतें घेतिल्लें पयलें पुस्तक. मागीर 'समग्र बोरकारांची कविता' हें बाकीबाबालें



**माधवबाब आनी कवी ग्रेस (1 फेब्रु. 2011)**

पुस्तक वाचलें. पयलीं समजलें ना पूण परते परते वाचतकच समजलें. त्या वेळार म्हजो बरोवपाचो झपाटो खूब आशिल्लो. त्यो कविता पळोवन मोराय बाबान कविता संग्रह काडपाचो आगरो केलो. ताका लागून म्हजो पयलो कविता संग्रह 'चंवर' येवंक पावलो. ह्या संग्रहांतल्या कवितांचें सिलेक्शन आनी प्रस्तावना मनोहरबाबान बरयिल्ली. 1969 त 26 जानेवारीच्या काव्योत्सवांत गुरुनाथबाब केळेकार हांणी तो कविता संग्रह छापून हाडलो. ह्या काव्योत्सवांतल्या काव्यवाचना वेळार रमेश वेळुस्काराची वळख जाली ती अजून मेरेन उरल्या.

*प्रस्न : तुमी बरोवंक लागले तेन्नाचें वातावरण कशें आशिल्लें?*

*जाप :* 1972 चो काळ हो वेगळोच आशिल्लो. वेळुस्कार, प्रकाश पाडगांवकार आनी नागेश करमली बी आमी पणजेच्या काफे प्रकाश ह्या हॉटेलांत मेळटाले. हॉटेलाच्या कोनशाक एक मेज आशिल्लें थंय आमचें बसप आसतालें. नवीं पुस्तकां वाचून तांचेर चर्चा बी करप. तेन्ना 'सत्यकथा' हें मराठींतलें म्हत्वाचें म्हयनाळें वाचून तातूंतल्या साहित्याचेर बरी वायट चर्चा करप जातालें. दिगंबर सिंगबाळूय अर्दी मर्दी येतालो. पाडगांवकार, रमेश आनी हांव नोकरी करून शिकपी. ताका लागून बोल्सांत थोडे भोव पयशे आसताले. केन्नाय नागेशबाबाच्या मळ्यांतल्या घरांत आमी मेळटाले. गजानन जोग म्हजे बराबर इव्हनिंग कॉलेज करपी. मिरामार आशिल्लें धेंपे कॉलेजींत सांजवेळचे वर्ग भरताले 6 ते 8.30. बी. ए. क आसतना वेळुस्कारूय इंग्लीश आनी मानसशास्त्र घेवन म्हज्याच वर्गांत आशिल्लो. धकचपाट्याचे ते दीस आसुनूय आमी सगळे एके तरेचें थ्रील

अणभवताले. दिगंबरूय आमचे बराबर आशिल्लो. मुखार ताणें कॉलेज सोडून गोवा कॉलेज ऑफ आर्टसांत प्रवेश घेतलो. ताचे विशींची एक याद म्हणल्यार लॅक्चर सुरू आसतना तो एके वटेन आयकतालो आनी दुसरे वटेन लॅक्चररांची रेखाटनां करतालो.

*प्रस्न : साहित्य मळा वयली वाटचाल करतना तुमकां तुमच्या घरच्यांचो कितें आंदार जालो?*

*जाप :* कलेच्या वेव्हारांत घरच्यांचो तेंको जायच आसता. सुरवातीच्या काळांत म्हजी बरपावळ पुस्तकरुपान हाडपाक म्हज्या बापायन फुडाकार घेतलो. तेन्नाच्या कठीण अर्थीक परिस्थितीच्या काळांत ताणें तें कशें तरी जमयलें. मुखार म्हजी घरकान्न मनकर्णिका हिचो खूब पालव म्हाका मेळ्ळो आनी मेळटा. योगिनी आनी चेतन म्हजी धूव आनी जांवय हांचो सांगात तर म्हाका सदांच आसा. म्हजो चलो चिन्मय हो अभियंतो. तरी ताका वाचनाची आवड आसा. म्हजो पुस्तकांचो संग्रह आसा तसो तोवूय वेगवेगळ्या विशयां वयलीं पुस्तकां मागयता. सध्या तो गोवा इन्स्टिट्यूट ऑफ मॅनेजमेंटात वेवस्थापनाचो कोर्स करता.

*प्रस्न : तुमी गोवा कोंकणी अकादेमीचें अध्यक्षपद भुशयलें. तुमचो बरो-वायट अणभव?*

*जाप :* गोवा कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष म्हणून हांव दोन वर्सां वावुरलों. हो अणभव कोडू आनी गोड अशेंच हांव म्हणीन. अकादेमीचो कॉन्सेप्ट अजुनूय आमकां सारको खबर ना. ताका लागून खूब गोंदळ जाता. अध्यक्षाच्या कदेलार बसप्याक अकादेमीक फाटभूंय आसपाक जाय. दुसरें खंयचेंय सरकारी ऑफीस आनी अकादेमी एक सारकी न्हय. हो फरक आमच्या लक्षांत येना. अकादेमीक एक बरी वास्तू जाय. तूर्त तरी आमचे अकादेमीक ती ना. अकादेमींतलो कर्मचारी वर्ग बरो आसा. तांचे विशीं म्हाका आदरूय आसा. म्हज्या कार्यकाळांत म्हाका जुझे लॉरेन्स सारको वांगडी मेळ्ळो. अकादेमी खातीर तो खूब वावुरलो. अकादेमीचें वाचनालय जाग्यार घालपा खातीर ताणें खूब कश्ट घेतले. हांव ताचो उपकारी आसां. 'अनन्या' सारकिलो जर्नल अकादेमीचें भूशण अशें हांव मानतां. डॉ. जयंती नायक तार्चे संपादन खूब बरे तरेन करता. ताका संपादनाची वेगळीच नदर आसा. ह्या दोन वर्सांच्या काळांत हात बांदून काम करचें पडलें. कांय खंती आसातूच. जें सपन मनांत घेवन अकादेमींत गेल्लों तें सफळ जालें ना. कारणां खूब आसात. सगळेंच सांगप योग्य जावचें ना.

*प्रस्न : कलेची साधना म्हणल्यार कितें?*

*जाप :* कलेची साधना ही व्रता भशेन आसता. व्रत धरतना कांय पथ्यां पाळचीं पडटात. होच नेम कलेकूय लागता. हे वाटेर मोहाचे कितले तरी खीण येतात तार्चे भान कलावंताक आसचें पडटा. नाजाल्यार ह्या कलावंताच्या जिविताचें तारूं खडपाक आपटून फुटून वतलें. कला आनी वेव्हार हांचो मेळ घालूंक ज्या कलावंताक जमलें तो दोनूय कडेन जैतीवंत जावंक पावता.



**आकाशवाणी पणजी स्टुडिओंत एके साहित्यीक चर्चेंत माधवबाब, रमेश वेळुस्कार आनी अरुण साखरदांडे. (जुलै 2013)**

वेव्हार सांबाळटना मन मात कले कडेन लावंक शिकपाची संवय करूंक जाय. ही गजाल दिसता तितली सोपी न्हय.

*प्रस्न : तुमचे कवितेंत लयेची जाण दिसता. ताचे फाटलें कारण?*

*जाप :* म्हाका दिसता हांव भुरगेपणा सावन संगीत आयकत आयलां ताका लागून ही लयेची जाण आपसूक म्हजे कवितेंत आयल्या आसूंक जाय. हांव पद्दतशीर गाणें शिकूंक ना. तरी एकाद्री सुरावट आवडली काय ती दिसाचे दीस गुणगुणत रावपाची म्हजी संवय. खूब फावट ती सुरावट गुणगुणत आसतना म्हाका कांय कविता सुचल्यात. 'यमन' ही म्हजी अशीच सुचिल्ली कविता. ह्या आयकुपाच्या रियाजांतल्यान म्हाका कांय चालंत तशेच अनवट राग वळखुपाक येवपाक लागले. तालांची थोडी भोव संवकळ जाली. दुसरी गजाल म्हजे नित्याचे पुजेंत कांय स्तोत्रां आस्पावतात. तातूंत शांतादुर्गेचें स्तोत्र आनी नारायणीस्तुती आसा. हांचें पठण करतना आपसूक ओवी सारकिलो छंद तोंडार बसता. मुक्तछंदांत कविता येतना त्या छंदाची लय कळूंक जाय. पु. शि. रेगे ह्या कवीन मुक्तछंद केळयलो तेच भशेन 'स्वानंदबोध' ही एकशें आठ ओवयांची दीर्घ कविता बरयली.

ह्या संदर्भांत म्हाका बाकीबाबाच्या उद्‌गारांची याद जाता. जी बायल नृत्य शिकता तिचे सादे चालींतूय नृत्याची लय आसता अशें ते म्हणटाले. ज्या कवीची छंदाचेर पकड आसता ताणें बरयिल्लो मुक्तछंदूय लयबद्ध जाता अशें ते सांगताले. नाजाल्यार तो मुक्तछंद फशिल्ल्या गद्याची देख जाता. आमच्या लोकगितांनी छंदाचे वेगळेवेगळे पॅटर्नस् दिसतात. तांचो अभ्यास फळादीक जातलो. आयचे पिळगेक अशा अभ्यासाची गरज आसा. असो अभ्यास तांचे कवितेक फायद्याचो जातलो. पूण तांचे भितर ती वान्सा दिसना. असो अभ्यास शंकर रामाण्यान म्हजे कडल्यान करून घेतला. केन्नाय म्हजो कानूय धरला.

*प्रस्न : तुमी गद्यूय बरयलां. तो अणभव*

*कसो कितें?*

*जाप :* हांव गद्या कडेन खूब उसरां पावलों. सुरवातीक कथा बरोवपाचो यत्न केलो. पूण रोखडेंच तें म्हजें क्षेत्र न्हय अशी जाणीव जाली. समिक्षा म्हाका आवडटाली. पूण एक तरी साहित्य प्रकार म्हाका सारको येवचो हे खातीर हांवें तो मोह टाळ्ळो. बी. ए. च्या वर्गांत आसतना कांय इंग्लीश समिक्षक हांवें वाचले. टी.एस. एलियटाचो 'द ट्रॅडिशन अॅण्ड इंडिव्हिज्युयल टॅलेंट' हो निबंद म्हाका अजूय म्हत्वाचो दिसता. 2019 वर्सा ह्या निबंदाक शंबर वर्सां पुराय जातलीं. हो निबंद इंग्लीश समिक्षेच्या मळा वयलो वाटचिरो. ताचीं हेर पुस्तकां अभ्यासपा सारकीं आसात. तो कवी, नाटककार आनी समिक्षक आशिल्लो. पूण नाटकांत ताका म्हणपा सारकें येस मेळ्ळें ना. सर्जनशील लेखकाक आपले परंपरेचें भान आसूंक जाय हो ताचो विचार काळाभायरो जावपाचो ना. कवी आनी समिक्षक हाची दुसरी देख डब्ल्यू. व्ही. एट्स. तात्वीक समिक्षे परस आस्वाद समिक्षा ताका भावताली. एम.ए.क आसतना सौंदर्यशास्त्राचो अभ्यास जालो. ही सगळीं तत्वगिन्याना कडेन झुकपी समिक्षा. सौंदर्यशास्त्राच्या दोन पेपरां बराबरूच समिक्षेचो आनीक एक पेपर आशिल्लो. अॅरिस्टॉटल धरून ते एफ. आर. लेवीस मेरेनचे समिक्षक तातूंत आस्पावताले. हो पेपर आमकां डॉ. वि. ना. ढवळे ह्या विद्वान प्रोफेसरान शिकयलो. डॉ. ढवळे हे ऑक्स्फर्ड विद्यापिठाचे विद्यार्थी. नामनेच्यो समिक्षक हॅलन गार्डनर हांच्या मार्गदर्शना खाला तांणी आय.ए. रिचर्डस ह्या समिक्षकाचेर डॉक्टरेट मेळयिल्ली. थंय आसतना एफ.आर. लेवीस हांचीं व्याख्यानां तांणी आयकल्लीं. तांच्या शिकोवपाचो म्हजेर खूब प्रभाव पडलो. सतत अभ्यासांत गुल्ल आसपी हो प्रोफेसर. सौंदर्यशास्त्रांत दोन विशय आसताले. चित्रकलेचें सौंदर्यशास्त्र आनी संगिताचें सौंदर्यशास्त्र. हे विशय शिकोवपाक अनुक्रमान द. ग. गोडसे आनी डॉ. अशोक दामोदर रानडे मुंबय सावन आयिल्ले. तांचीं व्याख्यानां आयकप म्हणजे बुद्दीक आव्हान कशें. म्हज्या मुंबयच्या राबित्यांत डॉ. रानडेक मेळपाची संद मेळ्ळी.

सांगपाचें म्हणल्यार ह्या सगळ्यांचो म्हजी नदर घडोवपाक आदार जालो. खोलायेन वाचन केले बगर समिक्षा बरोवप ना अशें म्हाका दिसपाक लागलें. मुंबय आसतना म्हाका अना म्हांब्रो हांचो सहवास लाबलो. व्हिटगिन्स्टायन वा कान्ट हांच्या तत्वज्ञानाचेर ते खूब सुंदर उलयताले. ह्या दोनूय फिलॉझफरांचो आर्विल्ले समिक्षेचेर कसो प्रभाव आसा हें तांणी म्हाका समजावन सांगलें.

तर हांव सांगतालों म्हजे गद्य बरपावळी संबंदान. 1975 वर्सा पांडुरंग भांगी हांच्या साहित्याचेर हांवें एक रेडियो टॉक दिलो. तें म्हजें पयलें समिक्षा लेखन. पूण म्हजे गद्य बरपावळीक कसलें तरी निमित्त लागता. हालीं ज्यो प्रस्तावना बरयल्यात त्यो कोणें सांगल्यात म्हणून. ही बरपावळ संथगतीन जाता. कविता वा कथा हांचो आशय मनांत रुजले बगर प्रस्तावना आकार घेना.



साहित्य अकादेमीचे त्यावेळा वयले अध्यक्ष श्री. रमकांत रथ हांचे हस्तुकीं पुरस्कार स्विकारताना माधवबाब.(2001)

प्रस्तावनेच्या निमतान वाचप जाता.तोच एक लाव. पूण एक फावट हातबरप हातांत पडटकच कांय जाण परत तोंड दाखयनात आनी पुस्तकाची एक प्रत दिवपाचेय कश्ट घेनात. कविता म्हाका येतात भितरले उर्मीन. पूण गद्य मात बरोवपाक कसलें तरी कारण लागता. विंदा करंदीकर ह्या कारणाक विडी म्हणटा. कांय व्यक्तीचित्रां हांवें बरयल्यांत.

*प्रस्न : दिसाळ्यांनी तुमी स्तंभलेखन केलां. ताचे विशीं तुमचो अणभव कितें?*

*जाप* : कॉलम बरोवप म्हणल्यार एके तरेचें बंधन कशें. ताका लागून हांव तें टाळटालों. तेन्नाचे 'सुनापरान्त'चे संपादक संदेश प्रभुदेसाय हांकां लागून हांव आपरोस हो स्तंभ बरोवपाक लागलों. म्हयन्यांतल्यान दोन फावटी नव्या कवींच्या कवितांचें तें रसग्रहण आशिल्लें. हांवें सुमार णव वर्सां हो स्तंभ चलयलो. म्हाका एक खंत आसा. ज्या कोणा कवींचेर हांवें बरयलें तातूंतल्यो मेजून तीन आडवाद सोडल्यार कोणेंच म्हाका आपल्यो प्रतिक्रिया कळयल्यो नात. हे बरपावळीच्यो दोन दाट फायली जाल्यात. कांय वेंचीक लेखांचें एक पुस्तक जातलें. कवितांचेर बरयतना कविते संबदान विचार मांडपाचो हांवें यत्न केला. कवींचें सोड ह्या निमतान म्हजो बरोवपाचो रियाज जालो हाचेंच म्हाका समाधान आसा. 2016 वर्सा किशोर शिंदे हाका लागून 'गोवादूत' ह्या दिसाळ्यांत हांवें 'स्पंदन' हो स्तंभ बरयलो. मराठी बरोवपाची म्हाका संवय नाशिल्ली पूण हे बरपावळीक लागून मराठी गद्याचो सराव जालो. एका वर्साच्या काळांत 'गोवादूत'च्या संपादकान म्हाका कसलीच प्रतिक्रिया कळयली ना. म्हाका ताची मौज दिसता. ह्या वर्सा 'लोकमत' आनी 'नवप्रभा' ह्या दोन दिसाळ्यां खातीर 'आरोह अवरोह' आनी 'अन्वय' अशे दोन स्तंभ बरयतां. आतां म्हाका मराठी बरयतना आडखळिल्ले भशेन जायना. ह्या स्तंभांनी देशी आनी विदेशी साहित्य ते भायर संगीत

आनी चित्रकला ह्या विशयांचेर वाचप जाता तो एक मोटो लाव. राजू नायक, परेश प्रभू हांच्यो प्रतिक्रिया उमेद वाडयतात.

*प्रस्न : तुमी हेर भासांनी कितें बरयलां?*

*जाप :* हिंदी भाशेंतलें साहित्य हांवें भरपूर वाचलां आनी आयजूय वाचतां. पूण हे भाशेंत बरोवपाचो प्रसंग व्हडलोसो येवंक ना. 'गजल' ह्या विशयाचेर हांवें एक निबंद साहित्य अकादेमीच्या चर्चासत्रांत वाचिल्लो. तो इंग्लिशींत आशिल्लो. वासदेव मोही ह्या सिंधी लेखकाक तो हिंदींत करून जाय आशिल्लो. हांवें तो हिंदीच्या प्राध्यापकां कडल्यान अणकार करून घेवपाचो यत्न केलो. पूण कोणेच तो केलो ना. निमाणें त्या निबंदाच्या आदारान हांवेंच एक नवो निबंद केलो. वासुदेव मोहींक तो आवडलो. कोणूय तरी असो फाटीक लागत जाल्यार हिंदींत थोडें भोव बरयनूय. साहित्य अकादेमी खातीर मनोहरराय सरदेसाय हांचेर एक इंग्लीश पुस्तक बरोवन जालें. ते भायर म्हज्या कांय कवितांचें इंग्लीश अणकारूय हांवें केल्यात. नागेश करमली हांच्यो कांय कविता इंग्लिशींत हाडल्यात.

कितें जाणा नयनाबाय, भौभाशिकत्व हें कोंकणी लेखकांचें बलस्थान. शणै गोंयबाबाचीच देख घे. ताका देशी आनी विदेशी अशो कितल्यो तरी भासो येताल्यो. रवीन्द्रबाब कोंकणी, मराठी, हिंदी, इंग्लीश, पुर्तुगेज आनी गुजराती भासांनी पारंगत आशिल्ले. तांचे गुजराती भाशे वयल्या प्रभुत्वाचो अणभव हांवें आकाशवाणी मुंबयचेर घेतला. मनोहरबाबाक तर बारा ते तेरा भासो येताल्यो. आमची पिळगी चार भासो बरी जाणा आशिल्ली. नागेशबाबाचें इंग्लीश वाचन इंग्लिशीच्या प्राध्यापकांक लजेक घालतलें. हो भाशीक अवकाश आतां आटत चल्ला. आमच्यांतले कांय इंग्लिशीक भियेतात. हांव म्हणटां तुमी एकदम शेक्सपियर हातांत घेवं नाकात. आर. के. नारायण वा रस्कीन बाँडा पासून सुरवात करात. तुमच्या मनांतलो इंग्लिशीचो भंय खंयचे खंय नाच्च जावन वतलो. इंग्लीश भाशेच्या अभ्यासाक लागून कितलेश्याच युरोपी साहित्याची जनेलां म्हाका उक्तीं जालीं. तेच भशेन भारतीय साहित्याचीय वळख जावंक पावली. देखून हे भाशेचो मनांत आशिल्लो भंय जितले बेगीन आमी मनांतल्यान काडून उडयतले तितलें बरें. पूण हें कोणाक सांगपाचें? आयकून घेवपाची कोणाचीच तयारी दिसना. दुसरी आनीक एक गजाल आसा. आमच्यांतल्या कांय लेखकांक अमकें एक पुस्तक वाचपाक सुचयल्यार तांकां तें आवडना. हांवें आतां कोणाक कितेंय सांगपाचें, सुचोवपाचें सोडून दिलां. एक दोन इनामां मेळटकच तांचे हात मळबाक तेंकतात. तांची वाड खिन्नाळटा.

*प्रस्न : आनी तुमचीं श्रद्धास्थानां?*

*जाप :* आमी बोरकारांची कुलदेवता कवळेंची शांतादुर्गा आनी हेर पंचिष्टां मदीं शिंवीपुरुस, बोरयेची नवदुर्गा, बांदोडेची महालक्ष्मी आमची पालवी. ते भायर मंगेश. शांतादुर्गेचे मुर्ती कडेन पळयतना म्हाका सौंदर्यांचो साक्षात्कार जाता. तिची अभिशेक मूर्त आनी आरते उपरांत दिसपी तिची दर्शन



**माधवबाब आपली घरकान्न मनकर्णिका आनी बापूय श्रीधर हांचे वांगडा.**

मूर्त हातूंत एक वेगळीच सौंदर्यानुभूती आसा. दाना बराबर अभय दिवपाक तिच्या हातांच्यो मुद्रा आनी तिच्या मुखा वयलें तेज हें शब्दां पेलें आसा. हो सगळो अणभव पु. शि. रेगे हांच्या 'मी कशी दिसते?'हे कवितेंत व्यक्त जाला. तिच्या रुपाचें वर्णन करतना

*रूप!*
*डोळ्यात हे असं साठलेलं,*
*गालांवर थोडं कलंडलेलं,*
*ओंठावर थबकलेलं*
*आनी पुन्हा*
*भरपूर*
*हे दुपटीन छातीवर!*
*कुठे नि कसं*
*मन धरावं जसं!*

हे कवितेंतलो अणभव म्हज्या संवेदनशील मनाक येता.

जिविताच्या संघर्शांत खूब कोडू गोड अणभव आयलो. केन्ना केन्ना कांय लागशिल्ल्यांनी म्हाका डंख मारले आनी तेच भशेन कांय जाणांनी आमकां माया दिली. म्हज्या आवय बापाय फाटोफाट म्हजो मामा आनी मामी आसात. म्हज्या बापायचो आतेभाव डॉ. पुंडलीक दत्तात्रय गायतोंडे आनी ताच्यो भयणी निर्मल पै आनी मंगला वागळे हांणी आमकां खूब आपुलकेन वागयले. मनशाच्या बरेपणाचेर म्हजी श्रद्धा आसा. मुंबय आसतना म्हज्या मेवण्याच्या एका उतराचेर आमकां आपल्या फ्लॅटार दोन म्हयने फुकट रावंक दिवपी गुलाटी हो एक पंजाबी आमकां भेटलो. मनीसपण जंय दिसता थंय हांव उचंबळून येतां.

*प्रस्न : कविते विशीं तुमकां आनी कितें सांगचें अशें दिसता?*

*जाप :* फाटलीं पन्नास वर्सां हांव कविता बरयतां खरो पूण फकत बरयतां

अशेंच हांव म्हणटां. अजून कविता म्हाका समजल्या वा ती म्हज्या हाताक लागल्या अशें म्हणपाचें म्हाका धाडस जायना. प्रत्येक कविता बरयतना ही निकतीच सुरवात अशेंच म्हाका दिसता. कलेक अपूर्णतायेचो एक स्रापूच आसता. एकाद्री शंबर वळींची कविता बरयले उपरांतूय खूबशें सांगपाचें उरलां अशी रुखरुख मनाक लागता. प्रेमा सारकिलो अणभव घेयात. अगणीत अशो कलाकृती आनी कविता ह्या आशयाचेर बरोवन जाल्यात. संवसारांतल्या सगळ्या संस्कृतायांनी हो आशय आयला. आनी कितें बरोवपाचें अशें कोण म्हणिना. पूण ह्यो कविता अभ्यासाचे नदरेन वाचल्यार ताचो अणभव येतलो तो म्हणल्यार अपूर्णताय. एकाच अणभवा कडेन भिन्न संस्कृतायेंत वाडिल्ले कवी आपले वाटेन वतात. रायनर मारिया रिल्क हाची 'लव्ह साँग', मान्युअल बांदिअेर हाची 'बोनोयत मारिया' आनी पु. शि. रेगेची 'पहाट होतां'ह्यो कविता प्रेम ह्या अणभवाचीं वेगळींवेगळीं तासां दाखयतात. 'जपानी रमलाची रात' ही बाकीबाबाची भौचर्चीत कविता ताची आनी एक देख. हे कवितेन बाकीबाबाक येसाच्या तेमकार व्हेलो आनी आयजूय मराठी भाशेंतलीच न्हय भारतीय कवितेंतूय तिका सुवात आसा. हे कविते उपरांतूय बाकीबाबान आनीकूय प्रेम कविता बरयल्यो. ताचें कारण अणभवाचे खरीक वचपाची ताची इत्सा.

*प्रस्न : ह्या संदर्भांत तुमकां आनी कितें सांगपाचें आसा? तुमचे कवितेंत समाजीक आशय केन्ना आयिल्लो दिसना?*

*जाप :* मुळांत म्हजी कालेत खूब वेगळी. हांव बरोचसो म्हज्यांतूच मुंगरून रावपी. अशें जरी आसलें तरी समाजांत आनी आशिकुशीक जें कितें घडटा तें पळोवन हांव अस्वस्थ जातां. पूण कित्याक कोण जाणा हो अणभव म्हजे कवितेंत येना. हांवें सगले तरेच्यो कविता वाचल्यात आनी वाचतांय. पाब्लो निरुदाच्यो अत्यंत उत्कट अश्यो भाव कविता म्हाका आवडल्यात. तेच भशेन ताच्यो समाजीक आनी राजकीय आशयाच्यो कविता म्हाका भावतात. हो कवी अणभवाच्या काठार उबो रावना तर तो भितर बुडी मारता. नारायण सुर्वे हो एक म्हाका आवडिल्लो कवी. ताची 'माझे विद्यापीठ' सारकिली कविता म्हाका अस्वस्थ करून उडयता. 'पावसाळा' ह्या नांवाची ताची एक कविता आसा. उटंगाराच्या पावसांत मुंबयतले झोपडपट्टेंत रावपी कुटुंबाची कितें दैना जाता हें ती कविता सांगता. ती कविता वाचतना म्हजें काळीज दर्वेता. पूण हांव अशे तरेच्यो कविता बरोवपाक शकना. कित्याक तर हांव त्या अणभवांतल्यान प्रत्यक्ष रितीन वचूंक ना. पूण गोंदळ खंय जाता जाणा? सामाजीक आशयाची कविता म्हणजेच श्रेश्ठ कविता असो तरेचो समज आमी करून घेता तेन्ना. लोकांची आवड पळोवन ते तरेच्यो कविता कवीन बरोवच्यो न्हय. हाका लागून आमचे कांय कवी वाट चुकल्यात. कविता कितल्या लोकांक आवडल्या वा कविता संग्रहाच्यो कितल्यो आवृत्त्यो आयल्यो हो बरे कवितेचो निकश जावंक शकना. आमकां हें केन्ना समजतलें



श्री. राजमोहन गांधी हांचे वांगडा.

आनी उमजतलें? र. वि. पंडिता सारकिल्या कवीन आपल्या कविता संग्रहांचो आंकडो फुगोवपाच्या नादांत आपले कवितेचें लुकसान करून घेतलें. ही एक मोटी देख आमचे मुखार आसा.

आर्किबाल्ड मॅक्लीश ह्या अमेरिकन कवीचें एक विधान आसा. 'अ पोयम शूड नॉट मीन बट बी' (A poem should not mean but be). कविता वाचतकच ती सगळ्यांत पयलीं कविता कशी दिसूंक जाय. आमच्यो बऱ्योच समाजीक आशयाच्यो कविता निबंद कशे दिसतात. खरें म्हणल्यार कवी हो एक आत्मनिश्ठ व्यक्ती आसता हाचो विसर पडटा म्हणून हो गोंदळ जाता. कवितेंत अणभवाची उत्कटताय ही म्हत्वाची आसता. 000



# कथामंच

गजानन जोग

(कथा)

## स्राप काय वरदान?

पंदरा ऑगस्ट लागीं पावता तशीं तशीं वर्तमानपत्रां आनी हालींसराक सोशल मिडिया कितें तरी सनसनाटी खबर हाडपाचे उमेदीन वावुरतात, बारीक नदरेन तेळीत आसतात. अशा वेळार पर्यावरणा संबंदान म्हत्वाची थारिल्ले एके जनहीत याचिकेवेलो हायकोर्टाचो निकाल ऑगस्टाचे बारा तारखेक जाहीर जालो आनी खबरांचो बरोच खवदळ जालो. दुसऱ्या दिसा कांय खबरांपत्रांनी तेच बातमेचेर हेडलायनी केल्यो.

साकरशें गांवांतली म्हादयेचे उप न्हंयेक सामकी तेंकून आसलेली ती हायग्रेडीची फामाद खण बेकायदेशीर चलता हें याचिकादार श्री.विश्वंभर गोवेकार हांचें म्हणणें. तें कोर्टान मानून घेतिल्लें आनी ती खण बेगोबेग बंद करपाचो आदेश दिल्लो.

च्या पितासतना, भायर हॉटेलार भाजी खातासतना ज्या ज्या जाग्यार ती दोन जाणटीं मनशां मेळ्ळीं ताणी ते बातमेचेर चिंतेच्या सुरांत उलोवपाक सुरवात केली. साकरशें आनी आशिकुशीच्या खण वाठारांतल्या गांवांनी तीच चर्चा दोन दीस चल्ली आनी ती चर्चा फुडे येवपाच्या, चड करून अर्थीक आडमेळ्यांच्या एका कस लावपी कालखंडाची नांदीच थारली.

1954–55 साला सावन साकरशें गांवांत नावाजत्या अशा चडशा खण धनयांचो ल्हान-व्हड खणी आनी कांय जाणांची धाकटीं धाकटीं पॉकेटां आसलीं. वर्ससंकीनी नेटान घडघडत, धुल्लाचीं, रेबटांची कोणां माड्डीत वचपी ट्रकांच्या टायरां पोंदचे ते सगले गांव आपणाल्याच

**गजानन जोग** : जल्म : 1952, कथाकार, अनुवादक, ‘रूद्र’, ‘सोद’ आनी ‘खांद आनी हेर कथा’ हे कथासंग्रह तशेंच ‘गोपी’ आनी ‘वर्स फुकट वचूंक ना’ ह्यो बालनवलिका प्रकाशीत. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या आनी साहित्य अकादेमीच्या बालसाहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : मुक्ता कामत पायग्रूप इस्टेट, आयडियल हायस्कुला लागीं, ताळगांव, गोंय - 403002, मो. : 9421246655.

कामाधंद्यांनी घुस्पल्ले. फांतोडेर पांचाक ट्रकांचे घुरघुरप सुरू जातालें. पावसाळो आसत जाल्यार चिकल, रेबो आनी तांबड्या-भगव्या हळशीक उदकार्ची कोंडांच कोंडां रस्त्यार तयार जातालीं. पावसाळो उलगले बराबर ती सगली ट्रकांनी कांडिल्ली माती सुकताली आनी तिची धुल्ली जाताली. ती वस्त्रगाळ धुल्ली रस्त्याच्या दोनूय वटांनी पयस पयस मैरेन वाऱ्या वांगडा हुबून वताली. फुडें फुडें वचत रावून वाली, घरां, झाडां-पेडां आपणाल्या त्या तांबशा रंगान रंगोवन काडटाली. नदर पावता थंय मेरेनचो सगलोच वाठार धुल्लोमय जातालो. वारें, उदक सगल्याक धुल्ल. न्हंयेंच्या उदकाचो रंग चड करून आयतारा रगताळलेलो आसतालो. कारण आयतारा दिसा त्या कितल्याशाच किलोमिटरां मेरेनच्या न्हंयेच्या देंवण्यां देंवण्यांनी, आनी जंय जंय न्हंयेच्या उदकांत घालून घेवपाक मेळटा थंय थंय शेंकड्यांनी ट्रक सुमानाच्या सुमानाक आयतारचे न्हावपाक देंवताले. किलिंडर तांकां शाबू बिन लावन बरे न्हाणोवन चकचकीत करताले. कालान्तरान त्या गांवांतल्यो कांय खणी म्हाल फावत्या ग्रेडीचो मेळना जावन, कांय कडेन खूब खोल गेल्ल्या कारणान फोंडांनी हिसपा भायर उदक लागून बंद पडल्यो.

फुडें 1990 च्या दसकांत चीना कडल्यान खणींतल्या लोखण मित्रीत फातरांक भांगराचें मोल आयले उपरांत अकस्मात थोड्याच म्हयन्यांत संबंदीत लोकां भितर उमेदीचें एक व्हड ल्हार येयल्लें. बंद पडिल्ल्यो लोग्रेड मीनाच्यां खणीय चालू जाल्यो. तांचो म्हाल हायग्रेड म्हालांत भरसून विकपाक मेळटालो ताका लागून तांच्याय म्हालाक मागणी आयली. नवे नवे भायल्यान आयिल्ले लेगीत खण-धनी अकस्मात उप्रासले. व्हडलो घडघड सुरू जाल्लो. खणींचे धनी, ल्हान-व्हड सगले संबंदीत कोंत्राददार, रातच्या थोड्या वरां पुरते पंदरा पंदरा ट्रक दारांत उबे आसपी ट्रकांचे धनी, जेसीबी आनी हेर तरांच्या माकनांचे धनी, खणींच्या वेव्हाराचेर निंबून आशिल्ले तरेकवार पसरकार, हॉटेलकार, बारकार, मडवळ, म्हाले सगलेच लोक धंद्यांक आयिल्ले तेजीक लागून घोंसार आसले. टीपर ट्रक बंद पडिल्ल्यान रस्त्याकुशीक ट्रकांतलो म्हाल रकोवन ट्रक गॅरेजींत पावयला, रातभर काम करून ट्रक सकाळीं त्या जाग्यार हाड जाल्यार म्हालूच ना जाला, कोणें तरी तो रातयांत चोरून व्हेला अशोय घडणुको तेन्ना घडटाल्यो. आनी कदीम काळार मायनींचें रिजेक्ट-कवर म्हणटात तें सामकें लो ग्रेड मीन लेगीत चड हायग्रेड म्हालांत मिश्रण करपा खातीर सोदून काडू-काडून ट्रकांनी भरू-भरून व्हरपी बुरांटे मायनिंगवाले तयार जाल्ले. दिसा परस रातचीं असलीं कामां चड चलतालीं.

देशाच्या बिहार, उत्तराखंड, झारखंड, ओरिसा, अखंड-बंगाल, काश्मिर, उदेंत दक्षिण राज्यां आनी हेर कितल्याशाच वाठारांतल्यान पोटा खातीर तर तरांचे लोक गोंयांत येवन राबितो करून राविल्ले. कामदार, ड्रायव्हर, मॅकानिक आनी खणीं

कडेन संबंदीत कितल्योशोच सेवा दिवपी लोक पयसो कचकचीत मेजून घेताले आनी एके तरेच्या उन्मादांत जगताले. रातचीं थोडींच वरां सोडलीं जाल्यार ते जाग जाग जागताले, राब राब राबताले आनी जोड जोड जोडटाले. मागीर सुटये दिसा गोंयचे पद्दतीन खावन पिवून मजा मारताले. जायत्या गोंयकारांचो फोल्गी सभाव तांणीय आपणायिल्लो. जांचीं पाकिटां नोटांनी गच्च भरिल्लीं, हातांची चडशीं बोटां मुदयांनी भरिल्लीं आसतालीं, गळो राजवावरी गडगंज सरपळ्यांनी भरिल्लो आसतालो अशे अवघेच नवगिरेस्त धनी, तांचे भुरगे धंयार धुमके मारचे तशो तरेकवार मजा मार मार मारताले. भाजी खावपाक तिस्कार जाल्यार दनपरां जेवणाक कोलव्यां आनी रातचे पार्टेक कळंगूट-हणजुण्यां मुजरत पावताले. म्हारग्या मोटारींची आनी मोटार-सायकलींची मागणी वाडत आसली. फामाद अशा दर्यावेळांचेर रातचो केन्ना काळोख असो जायच ना. सगलोच चकचक आनी फसफस चलतालो.

अशे फाटभुंयेर ती पाडी बातमी आयली. खण धनयांक ते बातमेंतलो मतितार्थ ज्युस्त कळ्ळो. तांणी बेगोबेग हालचाल केली आनी ते वयल्या कोर्टांत गेले पबण खणी मात बंद जावपाची प्रक्रिया चालू जाली कारण पावूणशां वयर खणी गरजेच्या अशा दाखल्यां बगर चलताल्यो हीवूय गजाल उक्ताडाक आयिल्ली. पर्यावरण खातें, सैम रक्षक शादूर जाल्ले आनी तांणी बेगोबेग प्रत्यक्ष कृती करपाची तयारीय सुरू केल्ली. सुस्त न्हिदून पडपाची संवय आसलेल्या गोंयची न्हीद खळ्ळी.

हजारांनी लोक, शेंकड्यांनी ट्रक आनी तांचे ड्रायव्हर पुलिसांनी बंद केल्ल्या ते खणीच्या ऑफिसा दारांत त्या दिसा उबे राव राव रावले आनी मागीर तिडकीन वचून तांणी पिकांसावांचे पेटयलें. त्या दिसा ते पंचक्रोशींतली ताव्हेनां, बारां गजबजलीं. व्हडे राती गल्लो मेजतना त्या सगल्यांच्याच धनयांच्या मनात फाल्यां कितें जातलें हो मोठो हुस्को आसलो. तो हुस्को दुसऱ्या दिसा आनी त्यान फुडें तसोच उरलो. त्या दिसाचो गल्लो हो कांय जाणांच्या आयुश्यांतलो निमाणो गल्लो थारलो.

* * *

विसुकाकाचो दनपारच्या वेळार फोन वाजलो. तेन्ना तो कुळागरांत गेल्लो आनी काकी रांदताली. तिणें फोन घेतलो.

"नमस्कार विश्वंभरबाब."

"ते कुळागरांत गेल्यात, हांव तांची घरकान्न. थोड्या वेळान करशात, येवपाचे जाले ते. कोणाचो फोन हो?"

"हांव दैनिक जनगणचो संपादक, तांची मुलाखत घेवपाची आसली आमकां." ते मेरेन थंय विसुकाका पावलो आनी ताणे बायले कडल्यान फोन घेतलो "हां, हांव विश्वंभर, सांगात!"

"हांव संपादक मदन-मदन माडकार-तुमची मुलाखत जाय आसली आमकां. तुमी ती केस जिखले न्हय! तुमची हरकत नासत जाल्यार आयज सांजचो साडेचारांक पावूं तुमगेर? " मात्सो विचार करून

विसुकाकान परत विचारलें,

"अं... जनगण... हां हां, आसा,आसा लक्षांत. उपकारता, पूण म्हजें घर, साठेक किलोमिटर, साकोरशां. रस्तो खबर आसा तुमकां?"

"ती चिंता ना, तेवटेनच्याच एका गांवचो एक भुरगो आमचे कडेन काम करता, ताका घेवन येतां, थल्लें, येवूं मूं?"

"येयात तुमी.' फोन दवरतनाच विसुकाकाच्या मनांत तो जनगणचे कचेरेंत गेल्लो ती याद जाली. हालींच लागला म्हणटालो त्या प्रज्योताचीय याद जाली आनी पत्रकारिते भितर चलिल्ल्या कितल्याशाच, अनिश्ट, भ्रश्ट चालींची याद जावन ताका भिरभिरी मारली. फाटल्या दोन वर्सां भितर गोंयच्या झाडून सगल्या खबरांपत्रांनी लागीं लागीं ताचेर बहिश्कार घातिल्लो. दरेका एक ऑगस्टाक लोकमान्यांच्या नांवान पत्रकारांचो दीस साजरो करपी असले पत्रकार सपनांत लेगीत दिसचे न्हय कोणाक अशें ताका दिसलें...

त्या दिसा व्हड उमेद दवरून विसुकाका त्या नांवाजत्या जनगण दिसाळ्याच्या कार्यालयांत फोन करून, वेळ थारोवन गेल्लो. देड वर वाट पळोवपाक लावन निमाणो हो मदन माडकार येवन पावलो. ताणें भायर बसलेल्या आपणाक वळखुचें अशी आशा विसुकाकाक नासलीच, पूण उसरां आयले उपरांतूय टायम दिल्ल्या मनशाक भितर आपोवन उसरां पावले बद्दल माफी मागपाची सादी उपचारीक पद्दतूय ताणे पाळूंक नासली. एक जाणटो मनीस बसला हाची मात लेगीत दखल घेनासतना तो आपणाल्या केबिनांत गेल्लो. विसुकाकान वाट पळयली आनी निमाणें रिसेप्शनिश्ट चलये कडेन तो गेलो. आपलीं रंगयल्ली नाखटां मर्दी मर्दी तेळटना मुखा वयल्या कॉम्प्युटरार कितें तरी पळयताली. तकली वयर करून तिणे तोंडार दिसतासो एक प्रस्न उबो केलां. विसुकाकान तिका विचारिल्लें,

"म्हाका धांचो टायम दिल्लो संपादकान, आतां बारा जावन गेलीं. म्हाका संपादक मेळटलो काय हांवें घरा वचपाचें?"

तिणें रोखडेंच आंतर-संवाद यंत्रार संपादकाक विचारलं आनी मागीर हयन्हयसो आयकुपाक येता असो आवाज काडून सांगले, "चलात तुमी भितर."

संपादक फोनार आसलो. दोळ्यांनीच खूण करून विसुकाकाक बसपाक सांगलें. मागीर फोन दवरून ताणें म्हळें, "मुखेलमंत्र्यानी प्रेस कॉन्फरन्स घेतली, थंय वरभर उरलों. तुमी चड वेळ रावूंक ना मूं हांगा?"

"चड वेळ काय थोडो वेळ तें कित्यान मेजपाचें? धांक पांच मिणटां आसतना हांव पावलों. आतां बारा जाल्यांत तुमचे वणटीवयले घडयाळी प्रमाण.'

"ती घडयाळ मात्शी फुडें आसा. तें आसूं, सांगात तुमी तुमची बाजू, म्हणणें बरोवन हाडलां मूं? तें दियात, आनी पांचूच मिन्टां हांव तुमकां दितां, सांगात."

"ही बातमी, तुमच्या पत्रकारा कडल्यान

जाय जाल्यार खात्री करून घेयात. हे चार-पांच थंयची परिस्थिती दाखोवपी फोटे. तुमचें वर्तमानपत्र नांवाजतें, ते खातीर हांगा आयलां.''

''बरें आसा, वाचून, खात्री करून छापतां. आनीक कितें सांगपाक सोदतात तुमी?''

''हेंच. मिनेरांक तांकां जाय तशें करूंक दिवपाचे दीस सोपोवपाक नाका? जमनींतल्या मीनाचेर, न्हंयांतल्या उदकाचेर, उदकांतल्या नुस्त्यांचेर निमाणें धनीपणाचो हक कोणाचो, हें राजनीतीन जांव समाज नीतीन थारोवपाक नाका?'' त्या त्या गांवचे संबंदीत लोक, सर्वसादारण समाज, सरकार, पत्रकार, न्यायवेवस्था हांकां कोणाकूच जर ह्या मिनाच्या धंद्यांतल्या आजनेरी आड आवाज उठोवपाचो नासत जाल्यार हांव तो उठयतलों. जिवांत जीव आसा मेरेन हांव हें झूज झुजत रावतलों.'' उलयतां उलयतांच विसुकाका उबो रावलो आनी ताचो आवाजूय वाडलो. संपादकान उदकाचो ग्लास मुखार धरलो. हातानूच नाका नाका म्हणत, टेबलार दवरिल्ली आपणाली शबनम झोळी खांदाक लावन विसुकाका भायर सरलो.

'बरें तर.'म्हणत संपादकान नदर दुसरे कडेन घुंवडायली आनी मुखा वयल्या हेर पेपरांच्या दाळांत लक्ष घालें. भायर ताका प्रज्योत मेळ्ळो, तो विसुकाकाचीच वाट पळयतालो.

''काका, कशे आसात तुमी, वळखलो म्हाका?''

''हय तर, आमच्या मदल्या वाड्या वयल्या रागल्याचो नातू मरे तूं. नांव मात विसल्लां. पूण सांगताली तुजी आजी, तूं पणजे कामाक लागलो म्हणोन. तूं कविताय बरयतालो न्हय रे?''

''हय काका, हांव प्रज्योत. तुमच्या हातांतल्यान पयल्या वर्सा म्हाका बक्षीस मेळलेले मूं, नव्यावाड्या वयल्या वासंतिक सर्तींत!''

''हां हां, आयलें लक्षांत. आरे, तुजो आजो-रागलो उलयतां उलयतां कवनां करतालो, आरे, शिगम्या वेळार जंयचे थंय जती रचून म्हणपी मनीस मरे तो ! तूं नांव काडटलो तेचें!'' ताचे फाटीर हात दवरून विसुकाकान म्हणलें,'प्रगती करीत राव. उद्धरेत् आत्मनात्मानम्. आपणेंच आपणाचो उद्धार करपाक जाय. हांवें ते खणीची परिस्थिती सांगपाक एक बातमी करून दिल्या, फोटेय आसात. लक्ष दवर.'

* * *

विसुकाकाचें निवेदन,बातमी आनी ते फोटे कितें आसतले हें संपादकाक बेस बरें खबर आसलें. ताणें तो वाठार सोता पळयल्लो. ताका तांतूत नवें कांयच नासलें. देखून हेवटेन विसुकाकाची फाट जाली, तेवटेन संपादकाचो त्या खणीच्या धनयाक फोन गेलो.

ही खबर विसुकाकाक त्याच दिसा रातीं समजल्ली. प्रज्योतान खंयच्यान तरी फोन करून ती विसुकाकाक सांगली. विसुकाकाक व्हडलेंशें कांय दिसलें ना. तशें जातलें, घडये ती बातमी छापच्या

बदला कायराच्या डब्यांत घाली जाल्यार पेपराचो आनी संपादकाचो चड फायदो जांव शकतालो हें ताका खबर आसलें. ताचो हो पयलोच संपादक जांव पयलीच बातमी नासली. न्हातना आनी देवाची पूजा करतना ताच्या मनांत तोच विचार घोळटालो. निमाणो सगलो विचार करून विसुकाकान निर्णय बदल्लो. फोनाच्या यंत्रांत ताका संपादकाचो नंबर मेळ्ळो. ताणें रोखडोच फोन लावन संपादकाक कळयलें–आयज मुलाखत नाका, मागीर केन्नाय घेवया, हांवूच तुमकां फोन करतां, तुमी तसदी घेवं नाकात.

* * *

एक दीस सकाळीं आठांक सुमार विसुकाका गांवचे दूद सोसायटेंल्यान दूद हाडपाक व्हॅनीन सदचे भशेन भायर सरलो तेन्ना काकीन फुडें येवन कळवळ्यान म्हणलें, "तुमी आतां गांवात एकटुक्यांनी भोंवूं नाका, कितके फावटी तुमास सांगायस हवे?"

"'मी माझ्या गावांत भोंवणार! कोण मज आडिवतो तें बघूया!" विसुकाकान हांसत म्हणलें आनी दुदाचो कॅन उबारलो. "तूं अशीच मदें आडवी यायस लागली तर तूं मज पांगळा करून थेवणार हां!' ल्हान भुरग्याक हावक्याचो भंय दाखोवचो तशे तरेन उलयता ती, अशें विसुकाकाक दिसलें. विसुकाका आपल्याच वाद्याचो. ताच्या मनांत आसा तेंच तो करपी. एकदां आपणें मनांत घेतलें जाल्यार मागीर ब्रह्मदेवाचो बापूय लेगीत ताका आडावंक शकना अशें तोच सांगतालो. त्रास काडून शिकिल्लो, एक खणी वयलीच प्रायवेट शिर्विस, मागीर सरकारी सादीशी शिर्विस मागीर पार्टटायम पोलिटेक्निक डिप्लोमा, मागीर भायल्यान परिक्षा दिवन ए. एम. आय. ई. अशे तरेन तो जाण्टेपणात लेगीत शिकत राविल्लो. रिटायर जातना एक कुशळ, चरित्रवान सिविल इंजिनियर म्हणून ताका लोक तोखेताले.

"माझें आयका तरी, तुमी ती खण आडिवल्याय, सातय गांवांतले लोक काय काय बोलतात,खबर नाय तुमास! तुमी तुमच्या वाचनात अणि केर्शीनी मग्न!! कळ्ळें, तुमास काय तें दाखीवणार म्हण्टात लोक, खालच्या वाड्यावरचें यमुने कालच सांगत होतें! तुमचें वय तरी काय तें बघा मू?"

आपणाक पासश्ट वर्सां जावन गेल्यांत हें अकस्मात ताच्या लक्षांत आयलें. तीं केन्ना जालीं कांयच कळ्ळें ना. बायलेक चिंता जावप सारकेंच आसलें आनी विसुकाकाकूय तिचें म्हणणें पट्टालें. खणीर निंबून आसलेल्या सगल्याच लोकांच्या मनांनी ताचे विशीं उपाट तिडक आसली हें तो जाणटालो आनी तांचे नदरेन विचार केल्यार तांचेंय खरेंच अशें ताका दिसलें. इतलेंच कित्याक ताच्या दोन पुतांतलो एकलो गॅरेज आनी ऑटोइलेक्ट्रिकल दुकान चलयतालो आनी ताच्याय धंद्यार हावळ येतली हें विसुकाकाक खबर आसलें. आनी पूत तांच्या आड ना आनी तो दुसरो धंदो करून पोट भरतलो हेंवूय तांका खबर

आसलें.आनी पुताच्या धंद्याचो विचार करून ताचें पावल आतां फाटीं सरचेंच नासलें.

सदांच पयल्या स्वीचाक चालू जावपी इंजीन आयज चार-पांच फावटी स्वीच दिल्यारूय थंडूच आसलें. धा सेकंद रावून, चोकाचो बटण पुरायपणान ओडून ताणें स्वीच दिलो तेन्ना इंजीन सुरू जालें. आयज गाडयेचें जालें तरी कितें होच विचार करीत तो ते बंद पडिल्ले खणी कडेन पावलो. आदल्या काळा वयलो थंयचो देखावो ताच्या मनांत उबो रावलो. एके वटेन मळबाक तेंकपी काळोबाचो दोंगर आनी दुसरे वटेन बाराय म्हयने घसघशीत व्हांवपी न्हंय. ताणें गाडी थांबोवन दोळे मिटले.... खंय गेलो तो दोंगर, खंय गेली ती न्हंय? दोंगराच्या जाग्यार लागीं लागीं अर्दकोस मेरेन हो व्हडलो फोंड तयार जाल्लो आनी तातूंत उदक भरिल्लें. दुसरे वटेन न्हंयेंतली तळपां जीं चुकून केन्नाय माया म्हयन्यांत उकतीं पडटालीं, आतां पावसाळ्यांतूच तळयेच्या उदकांत बशिल्ल्या म्हशीं भशेन पळोवपाक मेळटालीं. थंयच्यान तो फुडें सरला मात, आशिकुशीच्यान हुसू हुसू करून पंदरा-वीस जाण रस्त्यार मद्दी उबे रावले. कांय जाणांच्या हातांत कोयते, पाळ जाल्यार एकल्याच्या हातांत गोरवां कापपाक खाटीक वापरतात तसलो व्हडलो सुरो आसलो. ते गुजू गुजू उलयताले. गाडी बंद करून विसुकाका भायर गाडये मुखार येवन गाडयेक फाट करून उबो रावून एकेकल्याच्या तोंडा कडेन पळोवपाक लागलो. कांय जाण नांवांगांवां सकट वळखीचे, कांय तोंडावयले जाल्यार फुडें आशिल्ले दोग जण आनी तो सुरेवालो पळयतनाच भायले हें ताका कळ्ळे.

"बाबांनो, तुमी म्हजो रस्तो आडयला, कायद्यान ही क्रीम" काकान नेटान म्हणलें.

"कायदो तुका लागना, आमकांच लागता?" एकल्यान म्हणलें आनी तेंच मागीर फाटोफाट तिगां -चवगांनी म्हणलें.

"आमच्या पोटार मारपाचो हो कसलो तुजो कायदो? ही ही खण बंद करून कितें सादलें रे काका तुव्हें?"

"हय, पोटार माल्लां तुयें धा गांवच्या लोकांच्या."

"हय हय, फाटीर मारचें, पोटार मारचें न्हूं."

"आमी तुका सोडचे नात, तुका नाच्च करतले आमी!"

"हय हय, हाणटले आमी काका तुका!" बोंवाळ वाडत गेलो. एकटुको रस्तो कुशीच्यान वचपाक मेळना अशी सुवात. काकान वयर पळयत एक नमस्कार केलो दोंगर आसलो थंयच्या काळोबाच्या नांवान नमस्कार केलो आनी दोनूय हात वयर धरून शरण आयिल्ले भशेन उबो रावत ताणे म्हटालें,

"येयात येयात, हाणात म्हाका. नाय जाल्यार हांव जाणटो जालां आनी धा पांच वर्सांनी मरतलोंच. कोण्ण हांगा अमर ना. हांवें सगलें त्यागलां, भोगलां. दोनूय चले आपापलें पोट भरतात. म्हजे फाटल्यान बायल उपाशींय पडपाची ना, तिका

सरकाराचें पेन्शन मेळटलें.''

''तें जालें तुजें. पूण तुज्या पुताच्या धंद्याचें कितें? तुज्या धाकल्याचो गॅरेजीचो धंदो ट्रकांचेरूच भरी भारून आसा तें विसल्लय तूं काका...''

''कांयच विसरोंक ना. जें गांवार येयलां तें घराक चुकता? आनी धंदो करतल्याक एक नाजाल्यार दुसरो धंदो करचोच पडटा, आनी तशें म्हजे पूत करतले. सरकारा कडेन मागपाक वच्चे नात. आमी जोडटाले तेन्ना धंद्यांतल्या फायद्याचो सरकाराचो वांटो आमी काडटाले रे बाबांनो? कालूच वाचलें पेपरार, ट्रकांचे धनी म्हणटात, सरकारान खंय तेंकां मदत करची!''

''आतां अशें कशें उलयलोय तूं.'' जाणटेल्या गांवकारान मुमुरख्यांनी हांसत विचारलें, ''म्हाका सांग गांवार जें येयलां, तें हाडलें कोणें काका? तुयेंच मूं, तुयेंच मूं?? हे सगले स्राप आसात स्राप, तुका लागोनूच ते आमचेर पडल्यात!''

''हय हय, तुयेंच हाडलें हें लचांड गांवार. खण बंद करपाचो कायदो, हो स्राप तुजोच!'' परतोय लोकांच्या उलोवपाचो आवाज वाडलो.

''चुकतात तुमी! हांवें खण बंद करूंक ना, हांवें तुमच्या पोटारूय मारूंक ना. फकत हांवें सरकाराक विचारलें, तुज्या दाखल्यां बगर खणी कशी चलतात, दोन सायडींनी दोन अभयारण्यां दोन-तीन मैलां भितर आसतना हांगा खण कशी चलता? जाल्यार सरकारान म्हाका कांयच जाप दिवंक ना. हांवें कोर्टाक विचारलें, हें जें चल्लां तें सारकें जाल्यार खंयच्या कायद्या खाला? आनी सारकें न्हय, तें कायदेशीर ना जाल्यार तें बंद कित्याक करिनात? हें सरकाराक विचारपा खातीर म्हाका कितलो खर्च जाला तो सांगल्यार तुमी म्हाका हांसतले. हजरांनी पानां हांवें लायब्ररेंत वचून वाचल्यांत. साताठ हापिसांनी हांवें पावटी मारून म्हायती काडल्या. झेरोक्सांचेच तीन-साडेतीन हजार जाले. म्हज्या तरनाट्या वकिलाक हांवें मजत केल्या. त्या बाबड्या भुरग्यान मनार घेतलें, जुविजांनीय म्हजें म्हणणें सारकें आसा हें जाणून घेतलें आनी हे भुंयेच्या बऱ्या नशिबाक लागुनूच ही खण बंद जाली. तुमी म्हाका मारतले म्हणटात मरे, रावात, गाडी कुशीक लायतां, येत्या वेत्याक बेठोच त्रास नाका.''

तो फुडें सरलो आनी त्या चोंब्याच्या मदेकाक वचून उबो रावलो.

''तुमी म्हाका मारपाक रावल्यात मरे ह्या जाग्यार, बरें आसा. हीच ती खण होच तो सोंपिल्लो दोंगर. हे वटेन न्हंय साक्षी आसा आनी हे वटेन न्हंये परसूय सकयल, सप्तपाताळांत पाविल्ली जमीन साक्ष आसा. हय, एका काळार हांगा हो व्हडलो दोंगर आसलो. काळोबा देंवचाराचो दोंगर म्हणोन तेका काळोबा दोंगर म्हणटाले. व्हडल्या व्हडल्या गचबंद झाडांचो भेस पांगरून हो दोंगर आनी फाटले चार पांच दोंगर दिग उबे आसले. असण, ओंवळ, गोळ, नंदनगोळ, अर्जून, किनळ, माट्ट, पिंपळ, वड, भिल्लमाड, घोटिंग, केळ, कळंम, नाणे, शिसे, ह्या दोंगरांत कांयच फाल्त

नासलें. घरवाली, सापडवाली वागचपके, सांतीव्ण, सांतांगे, एकविसांगे अशा वखदी वनस्पगतींचें कुळार आसलें हो दोंगर तशें म्हण्टालें ताका. हय मरे देमूवैजा? देमूवैज गेलो दिसता, दिसना हांगा तो. तेका पळयलां हांवें येदोळ. तेका खबर आसा ह्या दोंगरात कितें कितें आसलें तें. आज्या वांगडा तो वयतालो ह्याच दोंगरार वखदां शिकून घेवपाक?''

''हय रे दादो, आतां खंयचीं वखदां.. कामणीक वखद दितात त्या झाडाची साल हाडपाक म्हाका निर्वशाच्या दोंगराक वयचें पडटा न्हू आतां.''

''आतां म्हाका मारच्या आदीं फुडलें आयकात. आमचीं चार घरां आनी कुळागरांच्यो तळयो, झरी कित्याक आटल्यो? हजारांनी रुपया मोडून आमकां ह्या बारा म्हयने व्हांवपी न्हंयेच्या गांवांत बांयो मारून मोटर बसोवन कुळागरां कित्याक शिंपचीं पडलीं?तुमच्या सातांतल्या स वाड्यां वयल्यो झरी, दोन तळीं आनी पाणटे कित्याक आटले?''

लोक परत गुजू गुजू करपाक लागले. फाटले वटेनचे थोडे वचपाक लागले.

''आरे, रावात रे.'' देमू फुडें सरलो आनी ताणें काकाक हात जोडून सांगलें, ''काका, भुरग्यांचें मनार घेवं नाका. कोण कोणाक मारतलो, ते बेजारून तुका विचारपाक हांगा येयल्यात. उपकार कर आनी ती केश फार्टी घे! सातूय गांवांचे आशिर्वाद तुका मेळटले!''

''आशिर्वाद काय वर काय तुमी म्हणटात तशे स्राप हें म्हाका खबर ना, तें काळूच थारायतलो. पूण फाटल्या चाळीस मायज वर्सां भितर जे शिराप हे खर्णीनी घाल्यात ते कशे आनी केन्ना सोपपाचे? वर्ससंकींनी धुल्लो खावन फेफडां इबाडून टीबीचें जावन कितले लोक मेले खबर आसा? ट्रकां पोंदा चिड्डून इस्कोलांतलीं कितलीं भुरगीं सोंपलीं आनी कितलीं थोंटीं-अपंगूळ जावन पडलीं जाणात तुमी? कितलीं वांयगणां, कितले सर्द सोंपले, कितले काजींचे दोंगर नाच्च जाले आनी कितलीं सावदां हो वाठार सोडून गेलीं खबर आसा तुमकां? हिसपा भायली गरमी आनी शिरफिरो कसो पावस कित्याक लागून पडपाक लागलो जाणात तुमी? '

काका किंवाट्यान उलयतालो आनी मुखारचे लोक एकेकलो करून वचपाक लागिल्ले. मागीर सगलेच गेले. काका एकलोच थंय त्या जाग्यार त्या वाठाराची दशा पळयत आसलो.

* * *

विसुकाकान सदचे भशेन फांतोडेर उठून आपणालो सदचो व्यायाम, प्राणायाम केल्लो आनी कुळागरांत एक पासय मारून येवन, येतना पेणी झडपाक लागल्यात त्या दोन माडांच्या मुळांत तो वचून आयिल्लो आनी आतां कॉम्प्युटर उगडून बशिल्लो. ती रांदचेकुडींत कितें तरी न्हेरी करताली. तेन्नाच एक जीप येवन आड्या भायर उबी रावली. तीग जाण देंवले पूण एकलोच गेट काडून विसुकाकाल्या आंगणात आयलो आनी ताणें साद घालो ''ओ घरा-''

आवाज आयकून विसुकाका भायर आयलो. मुखार ताच्या हयन्हयशा वळखीचो पन्नास-पंचावनाचो एक हांसत्या तोंडाचो मनीस हात जोडून उबो रावलो..

''तूं तूं दामू-दामोदर?''

'सारकें. हांव दामोदर नायक. तुमच्या गांवांत आसलों हांव, मॅनेजर, तुमी वळखलोच म्हाका.''

''हय, वळखलो, बसात बसात.' काकीन गोडाचो खडो आनी तांबयो भर उदक हाडून ताच्या मुखार दवरलें. ल्हव आवाजांत तांचें उलावणें सुरू जालें.

दामोदर नायक खण धनयाचो एरिया मॅनेजर आसलो आनी तो खासा खण धनयाचो दूत कसो विसुकाकाक मेळपाक आयिल्लो. आमी वयल्या कोर्टांत वतात, तुमी थंय तुमची केस फार्टी घेवची अशें सुचोवपाक तो आयिल्लो.

काकीन दोगां खातीर खावपाक हाडून मुखार दवरलें.

''हें कितें तें व्हरात, म्हाका नाका तें. च्याच फकत घेतां हांव.'' नायकान म्हणलें.

''खावन पळयात हो, पानगो तो. आतां लोक पानगे करिनात. पळयात खावन. चून्न, गोड, घरावें तूप घालां''

नाका म्हणटां म्हणटां मॅनेजरान एक कुडको तोडलो आनी निमाणो ताणें तो एक पानगो खालो.हात धुवून येवन ताणें काकान दिल्ल्या, तुवाल्याक हात पुसले आनी बोल्सांतल्यान दोन लाखाटे काडले. तातूंतलो एक ताणें विसुकाकाक दिलो. तें खण धनयांचें पत्रं आसलें. वक्ल लावन सवकास वाचून विसुकाकान तें सकयल दवरलें.

''मतितार्थ समजलो!'' हांसत विसुकाकान म्हणलें.

''समजलो मूं? बरें तर, आतां हें कवर उगडून पळयात.''

''हांतूत कितें आसा तर?''लाखाटो घेनासतना काकान विचारलें.

''असली ऑफर सबसब कोण कोणाक दिना.''

''सारकें कितें तें सांग पळोवया!''

''सांगतां, तुमकां सगलें खबरूच आसा आनी ताचेर हांव वेळ खर्च करिना. तुमचे कडेन तुमच्याच गांवच्या लोकां खातीर मागता.'' अशें म्हणत ताणें तो लाखाटो विसुकाकाल्या हातांत दिलो.

''हांतूंत कितें आसा तें आदीं कळूं दी म्हाका. सादें आसल्यार तुजो भाटकार त्याच पत्रांत बरोवपाचो न्हय!''

''काका, सायन केल्लो हो पळयात कोरो चेक. ताचेर रक्कम तुमी बरोवपाची'' दामोदरान चेक भायर काडून विसुकाकाच्या मुखार धरलो. ''ह्या चेकार आंकडो तुमी बरोवपाचो. आंकडो केदोय व्हडलो आसूं, तो पास करपाची जबाबदारी भाटकाराची.''

''कितले कोटी बरोव?'' हांसत विसुकाकान विचारलें.

''तुमकां सांगपाक जाय, आदीं तुमीय मायनिंगा कडेन संबंदीत आसले काका.''

''हय, आसलो, सरकारी शिर्विसेक लागचे आदीं मायनिंगाच्या ऑफिसांत हांवें पांच वर्सां शिर्विसूय केल्या, तें नाकारपाचो

प्रस्नूच ना. पूण आतां जें चल्लां ताका तुमी मायनिंग म्हणटात जाल्यार म्हजें ते गजालीक सामकें स्ट्राँग ऑब्जेक्शन. सगलोच वेव्हार बेकायदेशीर जावपाक लागला. सगलेच ह्या बेकायदेशीरपणांत सामील जाल्यात. ट्रका पोंदा चिड्डील्या मनशांच्या प्रेतांचें मोल तुमी खंयच्या रस्त्यार मेला हाचेर करतात. पांच लाख, सात लाख अशे दरूय तुमी थारोवन दिल्यात आनी ट्रकां पोदां तुमी चिड्डिल्ल्या सर्वसादारण मनशांचे वारशी ते लाख तोंड धांपून, काळजार फातर दवरून घेतात कारण तुमचे कडेन झूज मारपाची तांक तांकांच कित्याक, कोणाकूच ना.''

''पूण तुमचे भितर ती आसा आनी तुमी सध्या तरी जिखल्याय बीन! सध्या खण बंद आसा.'' दामोदरान हांसपाचो यत्न करीत म्हटलें.

'हांव जिखलो फकत त्या सभागी न्यायाधिशांक लागून. तांकां विकते घेवपाचो कोणें आनी कितलो यत्न केलो हें कितें धांपून उरलां तर?'

हें आयकून आयिल्लो मायन धनयाचो मनीस कसो आयिल्लो दामोदर गडबडलो बळयां हांसत ताणे म्हणटलें, ''हांव ल्हान मनीस, म्हाका तें सगलें कळना. तुमी फकत हो चेक घेवन आंकडो बरयात. मागीरूय बरयल्यार जाता, हांव वतां.''

'म्हाका सांग रे, ह्या पयशांनी आटिल्ल्यो म्हज्यो दोनूय झरी परत्यो व्हांवपाक लागतल्यो? बांयक उदक मेळपाक लागतलें? उदकाक लागून जातात ते हाल सोंपतले? ह्या पयशांनी तो शेगानशेक पातळिल्ले पांचवेचार दोंगर परते आसले तशे उबे जातले? न्हंयेत बाराय म्हयने आदले भशेन नितळ निवळ उदक मेळपाक लागतलें?''

''तें कोणाच्यानूच करूं नजो काका पूण... सवकास विचार करात, तुमच्या चल्यांक, घरकान्नीक विचारात. हो कोरो चेक हांव दवरून वतां. तुमी आंकडो घालात आनी वाटायात. ही भाटकाराची तुमकां विनंती आसा. ताणी हें पत्रूय मुद्दम तुमी सगलो विचार करचो म्हणून बरयला.'

''भाटकाराक नमस्कार सांग आनी म्हजो रकाद दी. म्हणचे, कांय गजाली मोल करपा भायल्यो आसतात. त्यो त्या कृपावंत आनी विराट सैमान दिल्ल्यो आसत जाल्यार आमी फकत नमळायेन त्यो दिल्यात तितल्योच आपणावपाच्यो. झर उदक दिता तें पियेवपाचें, वापरपाचें. तिका मुळांतल्यान हुमटून काडून सगलेंच उदक आत्तां जाय म्हणशात जाल्यार हातांत फकत माती उरतली...उलयल्यार जायतें आसा, पूण तें आसूं. आतां चक्र घुंवपाक लागलां, हांव फकत ताका निमित्त जालां. आतां तें घुंवतत रावूं दी. थोडे दीस रावात, सगल्योच बेकायदेशीर खणी बंद जातल्यो. जावपाच्योच आसात त्यो...''

''पूण काका...''

''आमचे न्हंयेचें जें खातोण जालां तें ड्रेजर घालून उसपुपाक जायत जमत तुमकां? तुमकां गांवांतलो एक तरी रस्तो डांबरी करचोशें केन्ना दिसलां? फाटल्या पन्नास वर्सांत, खणींच्या गांवांगांवांनी कसल्यो

सुदारणा केल्यात तुमी?– गांवच्या नाटकाक चार नोटी शेंवटिल्यो, दोन देवळांचो जिर्णोद्धार करून तुमच्या नांवाच्या मार्बलांतल्यां पाटयो तुमी लायल्यो म्हणटकच जालें?... गांवचे फुटबॉल टिमी दोन बॉल आनी क्रिकेट क्लबाक खेळाचें सामान दिले, जालें तुमचें कर्तव्य? अब्जांनी रुपयांचो म्हाल वर्ससंकींनी काडून काडून व्हेलो, ताचो धनी खरेलेपणान कोण? सांगात कोण धनी त्या धनाचो? आमी हांगा थांबूया. हो विशय म्हजें प्रेसांव वाडयता. तुमी मुद्दम म्हगेर आयले, देव बरें करूं. हो पाकिटांतलो जो कितें चेक आसत तो व्हरून तुमच्या भाटकाराक दियात. ताका सांगात, हांवूय एक धाकलोसो भाटकार. पूण हांव भाट सांबाळटां, वाडयतां. हांव जमनीक माता मानतां. तिका हांव विकून खावपाचों ना! आसत तिचे भितर मीन जाल्यार खायत तें आमचीं नातरां आणि पणटुरां खांपर पणटुरां सगल्यांक मेळूं दी. धतरीच्या पोटांत तें मंत्र मारून कोणें तयार करूंक ना. तें तयार जावपाक धा लाख वर्सां लागल्यांत. तें मुळासकट खावपाचो अधिकार खंयच्याच भाटकाराक ना!''

चेक उखलून दामोदर गेलो. सकयल मान घालून वचपी ताची आकृताय विसुकाका तो जीपींत बसमेरेन पळयत आसलो. जीप गेली. एक किण्ण शांतीकाय थंय मांडली. काकी ताचे कुशीक येवन केन्ना उबी रावली विसुकाकाक कळ्ळेंच ना. 000



कथामंच

दिलीप बोरकार

(कथा)

# द लास्ट रावंड.....!

पणजे आल्तिन्या वयलो जॉगिंग पार्क. भांगरा सारके प्रायम सुवातेचेर हो पार्क केल्ल्यान बऱ्याच बिल्डरांक नसाय जाल्ली आसली तरी आमच्या सारक्या जायत्या जाणांचो चलपाचो, जॉगिंगाचो प्रस्न सुटला. पणजे रावंक आयिल्ल्याक हांव सकाळचो थंयच चलपाक वतां. गेटींतल्यान पार्कांत भितर सरले बराबर पयलीं उजव्यान चलूंक लागून पांच रावंड मारतां आनी मागीर उरफाटे तीन रावंड मारतां. आठ रावंडांक पंचेचाळीस मिनटां लागतात आनी चार किलोमिटर चलून जाता. तशे ते एकेच वटेन मारल्यारूय आठूच जावपाचे. पूण म्हाका जिवितांत बदल जाय आसता. एकेच वटेन घुंवत रावलों जाल्यार तींच तींच दृश्यां परत परत दिसतात आनी तातूंत नविदाद दिसना. उरफाट्या रावंडाक दोळ्यांक वेगळें पळोवंक मेळटा आनी चलपाक उबगण येना. दुसरो फायदो म्हणल्यार एकेच वटेन चलतना फुडें चलतल्यांची फकत फाटूच दिसता आनी पांच रावंड फाट पळयले उपरांत तीन रावंड तोंडां पळोवंक मेळिल्ल्यान तांकां सगळ्यांक हटकूंक मेळटा आनी 'गूड मॉर्निंगूय' म्हणूंक मेळटा. आनी दाखय लिपय कित्याक करप, फाटीं फुडें पणजे वेंचणुकेक उबो रावचें चिंतलें जाल्यार ह्या लोकां लागीं संवकळ आसल्यार वायटशें न्हय..!

दोन दिसां आदीचीच गजाल. हांवें शिरस्त्या प्रमाण म्हजे पयले पांच रावंड सुरू केले. मुखा वयल्यान येवपी वॉकर आपले धुंदीत चलताले. कोण एकामेकां लागीं खबरी करत चलताले जाल्यार कोण म्हाका 'हॅलो' म्हणून

**दिलीप बोरकार :** जल्म : 1957, नामनेचे साहित्यीक, *'बिम्ब'* म्हयनाळ्याचे संपादक, स्तंभलेखक, कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंतल्यान लेखन. कथा, कविता, एकांकी, नाटक, कादंबरी, बालसाहित्य, निबंद, अनुवाद अशा साहित्याच्या वेगवेगळ्या प्रकारांतल्यान लेखन. खुसखुशीत आनी चिंतनशील सदरां खातीर लोकप्रीय. 20 वयर पुस्तकां प्रकाशीत. साबार प्रतिशटेच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. तातूंत केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार (1995) आनी गोंय राज्य पुरस्कार (2015) हे म्हत्वाचे. संपर्क : धर्म-लक्ष्मी, सांत लोरैन्स वाडो, आगशी, गोंय. मो. : 9822136885.

वताले. चलयो–बायलोय आशिल्ल्यो. कांय जणीं नदर पडल्यार हांसो तोंडार खेळयत, 'गूड मॉर्निंग' म्हणून वताल्यो जाल्यार चडशीं हांवें तांकां नागयलां वा नागोवपाचों आसां अशें तोंड करून मान खाला घालून वतालीं. सकाळफुडें तोंडार हांसो दवरल्यार आपलेंय मन प्रसन्न उरता आनी जो कोण पळयता ताचेंय. तेभायर तोंडा वयल्या हांश्याक लागून कुरूप लेगीत सोबीत दिसता म्हणपाचें कोणेंतरी हांकां सांगूंक जाय. पूण सांगतलो कोण ? असो विचार करीत हांव सडसडीत मुखार पावलां मारतां, तेन्नाच दोळ्यां सामकार एक सोबीत मुखडो संथ गतीन येतना दिसता. नदरानदर जातकच दोळे आनी ओंठ एकाच वांगडा 'हॅलो' करतात. म्हाका रिस्पॉन्स दिवन तीय 'हॅलो' म्हणटा. म्हाका तेंकूनशी वतना वाऱ्याची एक मंद झुळूक स्पर्शून वचपा वांगडाच एक मंद परमळूय नाकांत वता. हो तिचो परमळ काय ट्रेकाचे कडेक फुलिल्ल्या चाफ्याचो काय..?

तिका हांवें हे आदीं पळोवंक नाशिल्ली. आयजूच आयल्या काय सदांच येता काय...? बायलांक घरांतले व्याप आशिल्ल्यान एकूच वेळ पाळप जमना. तेच पासत आमची चुकामूक जांव येताली. वा आयजूच पयलेच खेप आयल्या काय...? जांव येता. पावलां झपाझप उडयनाशिल्ली. बागेंत चलिल्लेवरी गणयत शी चलताली. कोण काय ती..? गोंयकार काय कोणा सरकारी अधिकाऱ्याची बायल बी काय..? सारकी पळोवंक गावली ना. दोडटली पर्थून..! आनी एकाच रावंडाक गेटींतल्यान भायर सरून गेली जाल्यार..? म्हजे पांय झपाझप उखलतात. म्हजो रावंड पुराय जावपाक पावता तेन्नाच मुखार ती येतना दिसता. तीच संथ चाल. हेर अस्तुऱ्यो आपलें सुटिल्लें आंग नियंत्रणाक हाडपाचे प्रखर इत्सेन धबा धबा चलतात तशें तिचें चलप दिसनाशिल्लें. तिणें पंजाबी ड्रेस केल्लो. पंजाबी ड्रेस काय सलवार कमीज...? कितें फरक आसता पंजाबी ड्रेसांत आनी सलवार कमीज हातूंत...? मुस्लीम अस्तुऱ्यो परिधान करतात ताका 'सलवार कमीज' म्हणटात असो म्हजो समज...!! कथा–कादंबऱ्यो, सिनेमा हातूंतल्यान मेळिल्लें तें अर्दकुटें गिन्यानूय आसूं येता. पूण तिणें परिधान केल्लो आयचो ड्रेस हो पंजाबी न्हय तर सलवार कमीज म्हणपाचें इन्फोर्मेशन म्हजे तकलेंत घालपाचें कारण थारिल्लें तें म्हणल्यार तिणें आपल्या माथ्या वयल्यान घेतिल्ली ओडणी. तिणें निळसर कोराची ओडणी आपल्या माथ्याक अशे तरेन रेवडायिल्ली की तातूंतल्यान फक्त पुनवेचो चंद्र कसो तिचें मुखामळ दिसतालें. तिच्या ह्या पेहरावाक लागून ती मुस्लीम बी आसूं येता असो हांवें तर्क केल्लो. पूण कितलो मुर्खपणाचो आशिल्लो तो..! शी..!! हांवें असो म्हूण तर्क करूं येता..? पूण पारंपारीक प्रभावांतल्यान भायरच सरप जायना अजुनूय. आतां सगळ्योच चलयो ओडणेन माथें रेवडावन घेतात. कांय तर हार्लीसराक पुराय तोंडाक कपडो गुठलावन फक्त दोळेच उगते दवरतात. कोण, कोणालें,

दिसूंक कशें तेंच कळपाक मार्ग उरना. हीं अशीं तोंडां लिपोवन भोंवपाक लागलीं जाल्यार मागीर आमी तांचें कितें पळोवन तोखेवपाचें...? आमचे सारक्या कवी-लेखकांनी कित्याचें वर्णन करपाचें...? पूण हालींचें वतूच इतलें खर की तीं तरी बाबडीं कितें करतलीं..? आमकां कविता सुचच्यो म्हूण तीं मुखामळां प्रदर्शित करीत भोंवलीं जाल्यार ह्या रखरखत्या वतांत तांचीं तोंडां करपल्ल्यो चपात्यो दिसतल्यो. हिणेंय तांचेवरींच केल्लें जाल्यार म्हाका हेंवूय सूख मेळचें नाशिल्लें. अशें आसतना ती मुस्लीम बी काय असो म्हज्या मनांत विचार लेगीत येवप म्हणल्यार पातक आशिल्लें. म्हजे हे मानसिकतायेक कितेंय ख्यास्त फावताली..!

इतल्यांत ती म्हाका पर्थून दोडली. येदोळ हॅलो म्हणिल्लें तशें आतांय म्हणटली काय..? हांव अपेक्षेन पळयत रावलों. ती लागीं आयली. तिची सरळ नदर मातशी तिरकस कशी म्हजे वटेन लकली.. खूब दिसांनी..? म्हज्या लागसून वतना आपले भितरूच उलयिल्लेवरी ती उलयली. ती रावल्या काय बी पळोवपाक हांवें म्हजी गती मंदायली आनी फाटीं वळून पळयलें. पूण ती रावली ना. तेच गतीन चलत रावली. म्हणचे ती म्हाका वळखता. 'खूब दिसांनी?' अशें तिणें विचारलें लेगीत. खंय मेळ्ळां काय हांव तिका..? माथ्या वयले ओढणेक लागून वळखूंक विसरलां जायत...! आरेच्चा...!! ती तर गोंयकार...! तातूंत हिंदू...! काय बरी कोंकणी उलयता...! आनी हांव तर... आसूं कित्याक खाल्ल्या सारकें करून घेवप..? साहित्यीक म्हणटकच येतात असल्यो कल्पना तकलेंत..

म्हजो हो पांचवो रावंड आशिल्लो. हो सोंपलो काय मागीर उरफाटे तीन. तिचें मुखामळ पर्थून नदरेक पडूंक जाय जाल्यार आनीक एक हेच दिकेन मारून आयज स करपाचे आनी उरफाटे दोन मारतकच आठ जाले. पूण कित्याक मोडप तो इतल्या दिसांचो नेम..? आनी असलीं थिल्लरपणां करपाक म्हजी पिराय तरी आसा..? ह्याच म्हयन्यांत तर एकसठी सोंपल्या. सोबना तें म्हाका अशें कोणाचे फाटल्यान लागप.. जनाची नासली तरी मनाची तरी..! पूण तें मनूच तर लज भीड सोडून अशें वागपाक लागलां ताका हांवें करप तरी कितें..? एकटेपणशें सतावंक लागलां. कोणाचो तरी सहवास जाय अशें दिसता आनी मागीर सांगात सोदूंक लागता तें. पूण सांगात जाय तरी कित्याक ? हे आदीं नाशिल्लो सांगात..? कितें दिलें त्या सांगातान ? क्लेश भोगयले काय ना..? अपमानीत करून घेतलें काय ना..? अशें आसुनूय परत तीच चूक करपाक धडपडप..? ओशो असलो सहवास म्हणल्यारूच पारतंत्र्यांत रावप म्हणटा आनी ताका तुवें हालींच संमतीय दिल्ली ती तूं विसरलो..? एकटेपणांतूच स्वातंत्र्य आसता. तातूंतच मुक्त जीवन उपभोगूंक मेळटा. कोणाचो भावनीक सहवास आपणावप म्हणल्यार बंदनांत अडकून पडप. तिची मर्जी सांबाळपाक आपल्याकूच गुलामींत बांदून घेवप. हो अणभव वांट्याक आसतना परत

एकदां गुलामीचे सोदीक हेडप...? कित्याक जाय तें पिडापीड भोगोवपी सहजीवन...? अजूनय खाज वचना...?

पूण ताका खाज तरी कशी म्हणप...? खाज ही सामकी सकयले पातळे वयली संकल्पना जाली..आतां हे पिरायेर आनी खाज कसली..? आतां सॅक्स म्हूण घेवपाक कूड सहकार्य करतली..? पूण संभोग हेंच अंतीम ध्येय म्हूण कोणें सांगलां..? उतार पिरायेर जोडपें हांसत खेळत सांगातान जीण सारतात ती कितें संभोग घेवपाक जाय म्हणून..? खरो सांगात जाय आसता तो संभोगाचो काळ उलगता तेन्नाच. संभोग, समागम बी गजाली सैमान नवनिर्मणे पासत केल्यात. नवनिर्मणेचो काळ सरलो काय कोणाच्या मनांत असली इत्साच जायना. पूण आपलेपणाची भावना मात उरता. तेन्ना एकामेकांक मायेन वेंगेंत घेतल्यारूच पुरो आसता. संभोगांतल्यान मेळपी सुखा परस हजार वांट्यानी चड सूख ह्या आपलेपणांतल्या स्पर्शांत आसता. हे आपलेपणाचे ओडी पासतूच तर म्हजें मन सांगातिणीचो सोद घेता. हांव सोद घेतां काय कोण तरी म्हज्या सांगाताची आस्त बाळगून म्हजे पासत वय्रेता काय..? म्हजें मन तेच वय्रेववणेंक दाद दिता, तिचें मन म्हज्या मनालागीं कनेक्ट जावंक सोदता अशेंय जावंक शकता. नातर हांव तिचें कडेन असो लालेवन सो कित्याक पळयतां...?

म्हजे पांच रावंड सोंपतात. आतां तीन रावंड उरफाटे दिकेन सुरू करूंक जाय. आतां ती म्हाका दोडचिना. कित्याक आतां हांव तिचे फाटल्यान उरतलों. ती बरीच पयस पावल्या आसतली. तिची फाट धरपाक हांव धांवूक काय शकना. ती आपलें चलप सोंपलें म्हूण मदींच गेटी भायरूय वचूंक शकताली. म्हणटकच ती परती मेळटलीच हाची खात्री नाशिल्ली. हांवें तिका म्हजे तकलेंतल्यान कुशीक काडून म्हजे गतीन चलत रावलों. तरी दरेक मोडणार ती दुसरे वटयां खंय दिसता काय म्हूण नदर तिका सोदतालीच. पिरायेन तिणें नक्कीच पन्नाशी हुपल्या आसतली. फकत पन्नाशी काय आनीक चड काय.. पंचावनं आसूं येतात. जितलीं वर्सां चड तितलीं बरीं.. म्हाका आतां एकसश्ठ सरल्यांत म्हणटकच पंचावनं बी तशीं बरीं..सामकीच तरणी सहचरिणी आसली आनी तिका सॅक्साची इत्सा जाली जाल्यार तें दिवपाक हांव समर्थ आसूंक जाय. म्हजे कडल्यान तिची कामपूर्ती जालिना जाल्यार मागीर कारणा बगर मनस्ताप. ती कोणा कडेन उलयत जाल्यार पासून मागीर दुबाव आनी मत्सर..म्हजे चलपाचे गती वांगडा विचारांचीय गती वाडटा. हांव जाणां हें म्हजें चिंतप म्हणल्यार मुंगेरीलाल के हसीन सपने..ती बरी घरंदाज आसतली. भुरगीं बिरगीं बरीं सॅटल जाल्यांत आसतलीं. ही आतां संवसारांतल्यान मुक्त जावन तृप्त जिवीत सारता आसतली. तिच्या तोंडार ती तृप्तताय निशेताली खरी... मागीर म्हाका तिची कंपनी मेळटली हें कित्या वयल्यान... घोवा वांगडा ती सुखान संवसार करता आसतली..तांचो संवसार डिस्टर्ब करप हें कितलें समा..? तिका तकलेंतल्यान काडून

उडोवप हेंच खरें...

म्हजे दोन रावंड सोंपतात आनी तिसरो आरंभ जाता. थोडें अंतर काडून मोडणार पावलों जाल्यार ती सामकार.... तिची संथ गती आनी माथ्या वयली निळसर ओडणी हांव वळखलों. ती गेटींतल्यान भायर सरूंक ना म्हणटकच ती फुडले गेटी मेरेन नक्कीच चलतली. हांवें म्हजी गती मातशी वाडयत जाल्यार हांव तिची फाट धरूंक शकतां. म्हाका कठीण न्हय तें. खरें म्हणल्यार म्हजे कडल्यान तें आदींच घडपाचें, पूण हांव निमण्या रावंडाक म्हजी गती उणीं करतां आनी म्हजो चलपाचो त्या दिसाचो आक्त सोंपयतां. हांव म्हज्या पावलांची गती वाडयतां. कांय पावलांचेर ती तेच संथ गतीन चलता. ती चलतना म्हाका तिची कमनीय फाटमोरी आकृताय दिसता. पिशें लावपा सारकी चाल. नितंब एके लयेर हालतात. दरेक पावल उडयतना नितंबाचेर एक थरथर..मध्यम पिरायेक लागून ती हस्तीनी काय कामधेनु तें कळना. तरणाटे पिरायेर नक्कीच ती मृगणी आसूंक जाय.. काय खिणांक हांव तिका समांतर जातां. तिच्या वांगडाच समांतर चलतां. तिचें मुखामळ म्हणल्यार कान, दोळे, पोले बी माथ्यार आशिल्ले ओडणीक लागून म्हजे नदरेक पडनात. फाटल्या दोन-तीन रावंडांक सामकार दोडिल्ली तेन्ना फक्त नाक आनी ओंठ तितलेंच म्हजे नदरेक पडिल्लें. आतां मान मुखार व्हरून वांकडी करून पळोवपाक म्हजी सभ्यताय म्हाका मान्यताय दिना. हांव तिच्या सांगातान चलतां..तिचो सांगात म्हाका कांय पावलांच मेळपाचो. म्हजो लास्ट रावंड सोंपत आयिल्लो. कांय मिटरांचेर गेट दिश्टी पडटाली. तरी कांय नजं... पयल्याच दिसा इतलो सांगात लाबलो तोच खूब जालो..ताकाच सप्तपदी मानून समाधान मानपाचें..

हॅलो...

हूं...

आमी पयलीं मेळ्ळ्यांत...?

हय..

खूब तेंपान मेळ्ळ्यांत...?

हूं...

म्हाका कशी याद जायना..?

जाता तशें केन्ना केन्नाय...

तूं सदांच येता हांगा...?

ना... अशेंच...

सदांच यो..म्हाकाय कंपनी मेळटली..!

ओके. नो प्रॉब्लेम..

हांव भुल्लुसतां. म्हणटकच तिच्याय मनांत हांव आसां तर...! पूण कोण काय ही...? नांव कितें काय...? खंयची काय...? इतली वळखता जाल्यार नांव कितें काय विचारप समा न्हय... आनी मेळटलीच न्हय सद्दां... कळटलें आपसूक...हांव म्हाकाच थातारतां.

तूं आनीक रावंड मारतली...?

म्हजो लास्ट रावंड सोंपत आयिल्लो म्हणून हांवें विचारलें.

हय रे बाबा..

तिणें सामकें उमेदीन म्हणलें. ‘तुंवूय मार न्हय म्हज्या सांगाताक एक’ असो कितें तातूंत सूर आशिल्लो. पूण म्हाका आदींच

कळाव जाल्लो. फाल्यां मेळटलींच न्हय आमी..

तशें जाल्यार फाल्यां मेळुंया..होच वेळ न्हय तुजो..?

म्हजो आवाज आनी स्वासूय मातसो वाडलो..चलतना उलयतालों म्हूण काय एक्सायटमेंटाक लागून तें म्हाका कळ्ळें ना.

चलतां चलतां ती रावली. तिणें मान म्हजे वटेन घुंवडायली. मुखामळार अनवळखी आनी त्रासीक भाव. तिणें अचळय आपल्या काना वयली ओडणी कुशीक सारली आनी कानांतल्यान इअरप्लग कुशीक काडलो. म्हजे कडेन जळजळीत नदरेन पळयलें..

एक तर सवकास चलात वा म्हाका वलांडून मुखार तरी वचात..अशे पॅरलल कितलो वेळ चलतले..?

इतलें म्हणून तिणें इयरफोन परत कानांत सरकयलो, काना वयली ओडणी सारकी केली आनी गेटी वटेन चलपाक लागली. तेच संथ गतीन...

म्हज्या कानार फक्त तिचीं उतरां सादलीं..

हॅलो... आं..कांय ना रे.. कोण तरी इडियट... जालें म्हजें...हय लास्ट रावंड.. राव येतां भायर..

म्हाका म्हजो आनीक एक रावंड वाडयले बगर पर्याय नाशिल्लो..

000



# कथामंच

(कथा)

हेमा नायक

## नाकाशी

मध्यानेर चारांकूच नाकाशीक जाग आयली. रातीं बरी सुस्त न्हीद पडूंक नाशिल्ल्यान ताका उठपाची उमेद नासली. हांथरूणार आनीक थोडो वेळ लोळत रावचें म्हण ताणें गोजडी परतून पांगरून घेतली.

एक वर्स जालें खबरेक. पोरूं ह्याच दिसा सकाळीं स वरांचेर ताची आवय मेल्ली. असोच पावस पडटालो. घोग्यांनी. दडकार दडको, ताका उगडास जालो. मरतना निमाणो स्वास घेतना आवयन म्हणलें,

'तो पोर गेलो तोंड घेवन. खंयच्या तेर्थाक आसा कोण जाणा. नवसा प्रयासांनी जाय जाय म्हण जाल्लो. अर्जून नाव दवरिल्लें. धनुर्धारी जावचो म्हण. पयशे जोडपाक मुंबय वतां म्हण गेल्लो ताचें परतून नांव निशाण ना. थंयचे गर्देंत खंय शेणून घुस्पून गेलो म्हण कोण जाणा. नाका पावूं तो. तुवेंच काडले म्हजे तरास. आतां मड्याक उजोय तुकाच लावचो पडलो. आयुश्यभर तुका खेपलें हांवें. बरें उतर केन्ना दिलें ना ताची खंत आसा म्हाका. तुवें केल्ली सेवा फुकट वचची ना. कुंडेकुस्कुरच म्हणी हांव तुका सदांच. पूण ताची निमाणें भरभराट जाली. ताका मेळिल्लो तसो राजकुंवर मेळूं तुका. तुजें बरें जांव.'

आनी तिणें दोळे धांपले. ती आनीक एक पांच मिनटां जिती उरिल्ली जाल्यार कुंडेकुस्कुराची अर्दकुटी उरिल्ली काणी पुराय जावपाची. 'निमाणे कितें जालें तें आतां तरी सांग मगे आई' अशें म्हणपाक वतना तिणें दोळे धांपले ते सासणाचे. ती मेली त्या दुख्खा परसय काणी अर्दी उरली हें दुख्ख नाकाशीक चड सतावपाक लागलें.

**हेमा नायक :** जल्म : 1952, ज्येश्ट कथाकार, कादंबरीकार, अनुवादक. *'पसय'* आनी *'दुर्गावतार'* हे कथासंग्रह, *'निर्बला आनी मुक्ती'* तशेंच *'भोगदंड'* ह्यो कादंबऱ्यो, *'भायली गोडी'* हो एकांकी संग्रह, *'अस्तुरी-मृग'* आनी *'अप्रूप'* हीं संपादीत पुस्तकां प्रकाशीत. पांच अनुवादाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. कला अकादमी, गोंय साहित्य पुरस्कार, शाश्वती पुरस्कार आनी केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारांनी (2002) सन्मानीत. संपर्क : वळवय, सावयवेरें, फोंडें, गोंय 403 401, मो. : 9764597628.

मागीलदारान घुडांत आशिल्ल्या कोंब्यान कों कोंच कोंऽऽ करून साद घालतकूच नाकाशी उठून उबें जालें. घडयाळीच्या एलार्मा परस ताका कोंब्याचो साद आवडटा. कोंबो पाळप हो ताका जडिल्लो सोस. एकलो गेलो सुटून वा मेलो जाल्यार दुसरो थंय तयार आसतालो. हौस म्हणून कोंबयोय पाळ्ळ्यात. गांवठी कोंबयो. तांचे खातीर वेगळे घूड केल्यात. तांतयां घालपी कोंबयो. विकून पयशे करचे बी अशी ताची इत्सा न्ही. कोणाक जाय तार्णे व्हरच्यो असलो सभाव. तें आपूण खायना. सामकें शिवराक. नुस्तेंय नाका आनी मासूय नाका. भाज्यो रोवपाच्यो आनी त्यो खावपाच्यो, फळां किल्लुवपाचीं आनी खावपाचीं. सगळें आपल्या हातचें, कश्टांचें. ऑर्गेनीक उत्पन्न.

दार उगडून तें भायर पडवेर आयलें. आयची ही पावसाळी फांतोड. वातावरणांतले मनभुलोवणे प्रसन्नतायेन तें भुल्लुसलें. तार्णे आंगांतलो आळस झाडून उडयलो आनी सभोवताली नदर भोंवडायली. निळनिळशें मळब काळ्या किट्ट कुपांनी दाटून आयिल्लें. पावसाची पिरपीर. हो पिरपिरो पावस ताका आवडना. घोग्यांनी कोसळपाक लागता तेन्ना तातूंतलें आगळेपण तें तोखेता. ताका दिसता, आपल्या मनांतल्यो सगळ्यो विवंचनां आनी दुख्खां मळबांतल्या कुपांवरी पावस जावन झडून वतात आनी मागीर खीणभरयांत सगळें मळब निवळ जावन आख्खें वातावरण प्रसन्न जाता, तशेंच जाता आपलें मनूय निर्मळ. ताका पिशें करून सोडटा हो सैम.

नाकाशीक सैमांतली ही नवलाय अप्रुपायेची दिसता आनी म्हणूनच फांतोडेचेर पासयेक वचप तें चुकयना. पूण मीर्ग लागिल्ल्याक फाटलें सप्तकभर सेगीत पावस पडत आसा. सत्री घेवन वचप ताका मान्य ना. एक तर वचप ना वा पावसांत धांवत वचून परतप. कृत्रीम गजाली चडांतचड टाळप हो ताचो सभावगूण. पूण आतां मात ताच्यान रावूं नजं जालें. ताका पासय सामकी गरजेची आसली. सैम आपणाक शिळोणी घालून आपयता असो ताका भास जालो आनी तें वचपाक तयार जालें. गेट काडून रस्त्यार आयलें. पावसाचे थंड वावशेन मातशें कुडकुडलें.

पावस सुरू जाल्ल्याक पासयेक वचपाचो ताचो पयलो दीस. तार्णे उदेंते कडेन तांबशी फांकिल्ल्या मळबा वटेन पळयलें,..आरे बाबा, सैमांत केदो बदल हो. रस्त्याच्या दोनूय कुशींचीं झाडां अशीं वाडल्यांत जसो किर्ते सबंद रस्त्याचेर माटोव घाला. त्या माटवांतल्यानूच आपूण चलतां कशें ताका दिसलें. सवण्यांच्या उलोवपान ताचे कान गच्च जाले. तांची एक वेगळीच तरा. एकलें उलोवंक लागलें काय सगळीं त्याच तालान उलोवपाक लागतात. नाकाशी तांच्या किलकिलाटाचो अदमास लायत चलतालें. चलतां चलतां ताका जाणवलें, तीं ताका विचारतालीं – आगो, खंय आशिल्लें इतले दीस? तुजो उगडास येतालो. वाट पळयली कितली तुजी.

ह्या सवण्यांच्या किलकिलाटांतले

सूर नाकाशीक सामके ओडलायणे. ताची पासयूच तांचे खातीर आसता. नाजाल्यार दीस धुकलना कसो दिसता ताका. देखून सकाळची पासय ताणें दीसपट्टे कार्यावळीचो नेम करून घेतला. तातूंत खंड पडना. फक्त ह्या पावसाच्या दिसांनी मातशें वेळापत्रक हाल्लें.

तें चलत रावलें. सांकवाचेर पावतकच आपूणशींच पावलां थारलीं, खीणभर. सांकवा पोंदच्यान संथ गतीन व्हांवतलो व्हाळ. ताकाय आसली लय आनी सूर सामकें खरें हें, संवसार निर्मणेची सोबितकाय तोखेवपाक दीस उजवाडाक येतनाचो वेळ जाय. झाडांची आनी फुलांची ही वेगळीच किमया पळोवपाक मेळटा. झाडाच्या पानापानांतल्यान वचपी मंद वाऱ्याची झुळूक आनी तातूंत भरस म्हण कोगळाचो लयमधूर म्होंवाळ सूर. हो सूर आयकुपाक नाकाशी सामकें कान फांकारून रावता. आतांय तशेंच जालें. तें थारलें आनी ताणें सभोवताली नदर मारली, तें गाता ते कोगुळेक सोदतालें. पूण ती नदरेक पडूंक आयल्या? अशा ह्या मंगलमय वातावरणांत नाकाशीचें प्रणयी मन केन्ना न्हय तें उचंबळून आयलें. फांतोडपारा कोगूळ गायता / आसमंतीं सूर घुमता / अशा वेळार मना म्हज्या / कोणाक साद घालता?

नाकाशीच्या तोंडार मुमुरखो हांसो उदेलो. नकळटना ओंठार आयिल्लें हें कवन. 'आरे, म्हजेंच मूं हें?' तें घुस्पलें. 'असल्यो कविता सुचपाक हांव चड शिकलां तर? आनी म्हजी आवय खंय शिकिल्ली? पूण ती धालो, फुगड्यो कितल्यो बऱ्यो म्हणटाली. आनी कुंडेकुस्कुरा सारकयो काणयो सांगनासली? आनी गितूय म्हणटाली भाकऱ्यो भाजतना अरे संसार संसार, जसा तवा चुल्हावरबहिणाबाईचें हें गीत दरेके बायलेच्या तोंडांत आसतालेंच. आनी ती तरी खंय शिकिल्ली? वेळ प्रसंगार ओंठार आयिल्ल्यो ह्यो रचना. 'नाकाशी चिंतनांनी' बुडलेंनाका शिकूं हांव शाळेंत वचून, पूण समाजांत वावुरतना गिन्यान पुंजायत गेलें. तातूंतल्यान मेळिल्ल्या शिक्षणान आयज मेरेन तग मारली. मेळटा तें पुस्तक वाचीत गेलें. चार लोकां कडेन वळखी केल्यो. इंग्लीश, हिंदी कळटा उलोवंक बरोवंक.

शेतांत वावुरतना प्रत्यक्ष अणभवांतल्यान मेळिल्ल्या गिन्यानान शेतांत आनी जमनींतल्यान काडिल्लें 'ऑर्गेनीक' उत्पन्न 'नाकाशी' ब्रॅण्ड जावन कांय वर्सां भितरच सगळ्याक फामाद जालें. लोक कितल्या पयसुल्ल्यान येतात खरेदी करपाक! ऑर्डरी घेवपाक नाका पुरो जाता. फोंडेंच्या, सांखळेच्या आनी बाणस्तारच्या बाजाराक खास गिरायकां स्टॉला कडेन सोदीत येतात आनी व्हेल्लो म्हाल सकाळीं धा जायनाफुडें सोंपता.

मळबांत पावस दाटून आयिल्लो. गच्च कुपां. कुपांतल्यान वाट काडीत एकाद्रें विमान वचचें तशें ताचें चलप आसलें. मंद मंद पडपी आपल्याच पावलांच्या तालाची ताका लक्तुबाय दिसली. शेरवडाच्या झाडाचेर पिकिल्ल्यावरी दिसपी हळडुवीं पानां श्रावण म्हयनो लागिल्ल्याची जाणीव

करून दिताली. पेत्रोलेचीं फुलां बागोवन कित्याक आसतात? आनी तांकां कलावंती कित्याक म्हणटात? हे ताचे खातीर जाप नाशिल्ले प्रस्न आसले तरी त्यो वाली दुर्गाक घांस मारून राविल्ल्यो पळयतना ते प्रस्न मनांत आयले बगर रावनासले. 'म्हज्या आवयबापायक, सोयऱ्या दायऱ्यांक, शेजाऱ्यांक आनी भोंवतणच्या जायत्या जाणांक पयलेंच चली जल्मल्ले खातीर आनी तेंवूय बी कातीन काळें आनी रूपान किरकोळ आशिल्ल्यान अजिबात खोस जाली ना.' सगळ्यांनी खंय तोंडां वांकडी केलीं अशें आवयनूच खूब फावटीं ताका सांगिल्लें. एक दीस ताणें विचारलेंच,

'राव गे, म्हाका एक सांग, सगळ्यांचीं इतलीं बरीं बरीं नावां आसतना म्हजें नांव नाकाशी कित्याक?'

आवयन नदरेक नदर दिवपाचें टाळ्ळें आनी म्हणलें,

'ह्या घरांत चलो जल्माक येवचो ही सगळ्यांची इत्सा आसली. हांव गुरवार आसत सावन सगळीं वथ्रेतालीं चल्याक. कायलींत तेल घालून कायल चुलीर दवरली काय कोण तरी येवन पिठाची वाटकुळीच गुळी करून तापिल्ल्या तेलांत सोडटालो. केन्ना फुट्टाली तर केन्ना गुळी तश्शी उरताली. कित्याक सांग?'

नाकाशीक तेन्ना कांयच कळ्ळें ना. तें तोंड वरशें करून पळयत रावलें. आनी मागीर आवयन एक ल्हवूच चिमटो काडून म्हणलें,

'सामकी अबरगत तूं, होने कशें पळयता कितें? भजर गो बाये. कशें तग मारतलें ह्या संवसारांत म्हण कोणाक खबर. आगो, गुळी फुटली जाल्यार चली आनी गुळो उरलो जाल्यार चलो.'

हातांनी तयार केल्ली गुळी आनी पोटांत जल्मल्लें अर्भक हाचो संदर्भ कितें तो ताका कळ्ळो ना पूण ताणें आवयक विचारपाचें धाडस केलें ना. विचारल्यार ताका खात्री आसली ती आपल्याक खेपतली. तें वगीच रावलें. पूण मागीर जावपाचें तें जालें. तें जल्मल्या बरोबर सगळ्यांचेर वागरें पडलें.

'घरांतल्या सगळ्यांनी चली म्हण कळना फुडें फाट केली.' आवयन इतले सहजतायेन म्हणलें जशें कितें घरा कणकणी अशेंच घडटालें.

'म्हणून म्हजें नांव हें दवरलें?'

'तुजें नांव दवरपाचो सुवाळो, म्हणल्यार बारसो केलोच ना. तेर्म करपाक हापिसांत गेल्ले कडेन नांव कितें अशें विचारतकच बापायन म्हणलें नाकाशी. ताणें तेंच बरोवन घेतलें. आनी मागीर सगळ्यांच्या तोंडार तेंच घोळ्ळें.'

नाका सायबिणी सकाळफुडें असले विचार. आवयचो आशिर्वाद फळाक येत काय? कुंडेकुस्कराचो शेवट सोदपाक जाय. ताणें मुखार नदर मारली. नदरेचो तीर सामको पयस शेतां-भाटां हुंपीत नदरे पेल्याड पावलो. बाकीचीं घरां बंद आसूं पूण एका घराचें जनेल उकतें आसा हें कळटालें आनी मळबांतलें नकेत्र कसो लायटीचो एक बल्ब पेट्टा तो जाणवतालो. 'तो गांव सुस्त न्हिदेंतल्यान आतांच उठ्ठा

आसतलो.' तें आपणा भितरच हांसलें. येदोळ कवन सुचिल्लें आनी आतां हें एकाद्रे कथेंतलें वाक्य. हे लेखक कवी म्हण कशे बरयतात आसतले काय आमच्यो भावना! 'हे मना, घरा पावतकूच याद कर, ती कविता आनी हीं उतरां पेपराचेर बरोवन दवरपाचीं.' आपलेच तंद्रेंत अशें उलोवपाची वा बडबडपाची ताका संवय आसली.

झपाझप एकेक काम ताणें आटपून घेतलें. काणयेचो शेवट सोदपाक जाय. कोणाक विचारूं आनी कशें विचारूं. मुखार वणटीक लायिल्लो आवयचो फोटो आयजूय तीच काणी सांगता तें जाणवतालें. एक आसलो लांकूडफोड्या. सामको गरीब बाबडो. सकाळीं उठून कुदळ घेवन रानांत वचप आनी लांकडां फोडून तांचे भरे बांदून विकून जी कमाई जाता तातूंत आपलो संवसार चलोवप. संवसार तरी ल्हान, ताका सात चलयो. कुटुंबाचें भागनासलें. आसा तातूंतलें सगळ्यांक वांटून घालतासर बायलेक नाका पुरो जातालें. एक दीस ताका पोळे खायन दिसले नाकाशीन काणयेची स्पीड फास्ट फॉरवर्ड केली. बापूय तांकां रानांत सोडून परतता, सगळ्या भयणींक भांगरा शिंगरांच्यो कुडी मेळटात जाल्यार धाकलेक कुंड्यानी भरिल्ली कूड मेळटा, म्हणून ताका सगळीं कुंडेकुस्कुर म्हणपाक लागलीं. तें कुंडेकुस्कुर तूं. इतल्याचेर काणी सोंपताली, अर्दकुटी. तो वेळ मेरेन ताका सुस्त न्हीद लागिल्ली आसताली. ताणें एक फावट सांगलें आवयक, आतां थंय सावन परत सुरू कर. पूण तिणें केन्नाच आयकलें ना. "काणी तशी सांगपाक जायना सुरवेक सावन सांगपाची आसता." तिचें पालूपद.

मागीर धाकलो भाव जालो तेन्ना घर खूश. नाकाशी स वर्सांचें आनी तो दोन वर्सांचो आसतनाच्यो यादी.. आवय ताचे लाड अपुरबायो करतना, ताका दुदाक धरतना, ताका वेंगेंत घेवन आल्लयो म्हणीत न्हिदयतना नाकाशीक खूब वायट दिसतालें. आवयन आपणाचेय लाड करचे ही ताची इत्सा आसताली पूण अशें केन्ना घडिल्ल्याचो ताका उगडास जायना. ताच्या वांट्याक सदांच हिणसावणी, त्रोसां, थोमणे आनी कामांचो भार.

घरांत तर सदांच अवकळा पडिल्ली आसताली, केन्ना केन्ना तर जेवणाक पादिशेर जावपाची पाळी. शेजारच्या गाड्यार सदची उदारी. बापूय शेतांनी वावराक मानाय म्हण आनी शेतांत कामां ना तेन्ना कसलेंय मानायपण करतालो जाल्यार आवय शेतांत कामेरें.

नाकाशी शाळेंत वतालें पूण शिक्षणांतली गोडी ताका लागूंक पावलीच ना. आवय कामाक वतकूच धाकल्या भावाक सांबाळपाची जापसालकी ताचेर पडली. शाळेंत बाई, मास्तरांची तापोवणी आनी घरांत आवयबापायचे खुटले. चवथी यत्ता जातकूच तर ताका इश्कोलांत वचपाक जिवार येतालें. टीचरी इंग्लिशींत कितें शिकयताल्यो तें ताच्या बॉडा वयल्यान वचपाक लागलें. ताणें केन्ना घरांत भावाक सांबाळचो तर केन्ना कामेरेपण करपाक वचचें. शेत आनी शेतांतले मातये कडेन

ताचें सामकें लागींचें नातें जुळून आयलें. तें शेतांत कितलोय वेळ काडटालें. झाडांचे लगाडीक केदोय वेळ सारतालें. सवर्णी आनी जनावरां कडेन वांकुळटना ताका उमेद जाताली.

मोटे व्हडविकेन भावालें नांव दवरलें अर्जून. ताका खूब शिकोवपाचें मनांत आशिल्लें आवयबापायच्या. एक दीस आवयन सांगलें,

"नाकाशी, तुका शिकपाक जायच अशें ना. चली शिकून कितें गोबर करतली? हांव दीसभर हांगा नळयेन उजो फुंकीत उरलीं. तुंवूंय तेच करतलें. तेपरस शेतांत कामेरें जावन वावर केल्यार चार पयशे जोडटलें."

आनी नाकाशीच्या नशिबांत तेंच आयलें.

"चल यो आतां कुंडेकुस्कुरा" म्हणीत ताणें फोन घुंवडायलो. नयनाक तें वळखतालें. तें बरयता हें तें जाणां. नयन ताचें गिरायक. भुरग्यां खातीर बरयता म्हण ताची नामना जाता हिवूय ताका खबर आसली. ताणें फोनार चवकशी केली. ती काणी खबर आसा? जाप मेळ्ळी. "जाणा पूण निमाणे कडेन कितें जाता तें नकळ."

नाकाशी निरशेलें. दुसरी याद जाली रमेशाची. ताका सोदलो. मेळ्ळो फोनार. पूण केदो वेळ परती जापूच ना. फोन दवरलो. मायाक विचारलें. ताणें सांगलें, "कुंडेकुस्कुराच्यो जायत्यो काणयो आसात, वेगवेगळ्यो. तुका खंयची जाय?"

कांयच खबर ना जाल्यार ह्या प्रस्नाक कितें जाप दिवं म्हण ताणें फोन कट केलो. नाकाशी गोंयच्या भौतेकांक वळखतालें तें आपल्या प्रॉडक्टाक लागून.

ताणें थारायलें, आतां आनी वाट पळोवपाची ना. पणजेचे सेंट्रल लायब्ररींत गेल्यार बरें. थंयच्या कोणाकूय विचारल्यार पुस्तकाची म्हायती तरी मेळटली. थंयच बसून वाचूं येता.

ताणें भायर सरपाची तयारी केली आनी ऑफिसांत वचून एक अनावन्समेंट केली, "आज सगळ्यांक पगारी रजा."

मॅनेजर आपल्या कदेला वयलो उठलो 'मॅडम कित्याक?'

"आयज हांव ना. दीसभर. पणजे वतां. सांजेच्या अदमासाक पावतलीं."

"पूण ते खातीर सगळ्यांक रजा कित्याक? आमी पळयतात सगळें. गिरायकांक परत धाडप ना हो आमचो उद्देश."

नाकाशी पळयतूच उरलें. आपणाचेर इतलो जीव लावपी मायेचीं मनशां लाबल्यांत हाची ताका खोस जाली. थंय आशिल्ल्या रेश्मा, रुपा सगळ्यांक 'बरें तर बाय' करून तें परतलें.

ताचें सहसा पणजे वचप जायना. केन्नाय गेलें जाल्यार कामा पुरतें गेलें आनी काम जायना फुडें परतलें अशें जातालें. चडशें तें बुलेट घेवन वतालें आनी ताका लागून हेवटेन तेवटेन पळोवप रिस्की उरतालें. बुलेट व्हरपाची जाल्यार ड्रेस तसलो जाय. साडी उपकारना. जीन पॅण्ट आनी टी शर्ट. आयज नाका. तातूंत पावसाचे दीस. तो रेनकोट, तें हॅल्मेट. सांबाळपाक त्रास जातले. ताणें

तो विचार बदल्लो आनी साडी न्हेसपाची तयारी केली. पावसाच्या दिसांनी फाव तशी साडी काडली. कसली फॅशन ताणें केन्ना केली ना. आपल्याक जें रूप आनी जो रंग फाव जाला ताची दरेकल्याक व्हडवीक आसपाक जाय अशें ताचें मत आसतालें. दरेकल्याची सुंदरकाय ताच्या हांसत्या तोंडार झळकता. आत्मविस्वासाची झळ आनी बुद्दीमत्तेचें तेज ताच्या दोळ्यांतले निर्भीडतायेंत जाणवता. गरजे भायर अळंकारांचो साज चडोवन आनी म्हारगे ड्रेस घालून भोंवपाचो सोस ताणें केन्ना लावन घेतलो ना. ताचें लक्ष सदांच कामाची पुर्ती करपाचेर आसतालें. म्हणूनच तर आयज तें इतले ल्हान पिरायेचेर येदी व्हडली कामगिरी करपाक पावलें.

चावयां कडेन पावतकच ताच्या मनाची चलबिचल जाली. दारांत तरातरांच्यो गाडयो आसात. आयज खंयची व्हरपाची? बुलेट नाका हें आदींच थरलें. म्हाल भरून व्हरपाची जीप आसा. पूण आयज काय म्हाल ना, म्हणटकूच ती नाका. एकलें आसल्यार नॅनो चलता. पूण तिवूय नाका. उरलो तो ट्रॅक्टर, पूण तो शेतांत चलोवपाचो. नाकाशी सरळ इनोव्हा लार्गी गेलें. दार उगडटना व्यंकटेश आयलोच. "मॅडम चावी दियात. गाडी हांव चलयतां. तुमी सुसेगाद फाटल्यान बसात."

"तूं कोण ड्रायव्हर जावपाक सोदता?"

"जालों जाल्यार खोस जातली म्हाका."

"हांगा ड्रायव्हर, शोफेर, नोकर, वावराडी ना हें हांवें तुमकां पयलींच सांगलां. दरेकल्यान कसलेंय काम करपाची तयारी दवरपाक जाय. दरेका कामाक जाची ताची पत आसता आनी प्रतिश्ठा आसता. म्हज्यान गाडी चलोवन वचूं येता. गरजे भायर कोणाचो वेळ घेवप ना हें म्हजें मत."

व्यंकटेश तोंड धांपून गेलो.

नाकाशीन थेट पणजेची वाट धरली. आयज ताका बरीच उमेद कशी दिसताली. पावासांत भिजपाची मजा तशेंच पावसांत गाडी चलोवपांतूय मजा आसता. फुडल्या हारशार्ची वायपरां मनांतल्या विचारांक गती दितात आनी तातूंतल्यान कितलेशेच नवे विचार निर्माण जायत रावतात. आनी इनोव्हा सारकेली येदी अगडबंब गाडी चलोवप हातूंत तर आनीक मजा. नाकाशी आपणा भितरूच मुरगट्टालें. आयज ताका एक वेगळोच अणभव येतालो. जिवितांत पयलेच फावट ताका नकळटा प्रणयी शिरशिरी आयिल्लेवरी जाली. कित्याक तेंवूय ताका कळना जालें. घडये कामाच्या व्यापांतल्यान मातशी तकली सदळ जाल्ल्या कारणान आसुंये. पयरूच हिशेबाचें ऑडीट जाल्लें आनी ऑडिटरान चकचकीत रिमार्क दिल्लो देखूनय तें खूश आशिल्लें. टॅक्साची सगळी रकम भरिल्ली. धंदो भरभराटीन चलतालो. म्हालाची मागणी दिसानदीस वाडत आसली. कामाक लोक उमेदीन येताले. तांकां फाव तसो पगार मेळटालो आनी तांदूळ, भाजयो अशे दीसपट्टे लागतात ते जिनस अर्द मोलान मेळटाले. सगळेच प्रशिक्षीत आनी काम करतां करतां

समजणेन जाताले कुशळ. कसलोच भेद आनी फरक ना. सगळो गांव सुखी आसलो.

नाकाशीच्या हांसत्या तोंडाचेर गर्व न्हय पूण सदांच समाधान. ताका याद जाली. ल्हानपणा सावन धाडसाचीं कामां करपाक ताका आवडटालें. पूण घरच्यांनी केन्नाच तशें प्रोत्साहन दिलें ना. कितें म्हणटा तें अर्जुनाक, ताचे घे म्हणून लाड आनी अपुरबायो. बाबा म्हणले बगर कोणें पाचारलें ना. आनी नाकाशीक उलो मारतना व्हडल्यान केंकाटप, नाकाशीऽऽ करून. राग येतालो ताका पूण परती जाप दिली ना केन्ना. तशें केल्यार कसलो परिणाम भोगचो पडटालो! आरे बाबा. खुटले पडटाले, तकलेर. सारके ताळवेर आनी तेच सुवातेर जंय मारिना फुडें सण्ण जातालें. आवयक तें सारकें खबर आशिल्लें आनी मागीर अर्जुनाकूय कळ्ळें. तोवूय ताचे कडेन सामको कुस्केपणान वागपाक लागलो. ताका मारप, धपटूवप आनी आवय कडेन वचून तिच्या पदरा लागीं घुटमळत भयणीचेच आड कागाळी करप. घे मागीर, भावालो मार आनी आवयलो मार. असल्या वातावरणांतल्यान नाकाशी वाडटालें.

बापायक आशिल्लें दम्याचें. आयिल्ल्या दिसा दोतोर आनी वखदां. एक फावट दम्याचें चड जालें आनी दुयेंस हाता भायर पावलें. खोंकतां खोंकतां एक दीस तकली आड पडली. जालें मागीर, अर्जुनाक रान मेकळें. कसोबसो मॅट्रीक पास जालो कांठार आनी फुडें शिकपाक जालें ना. आवयक लागलो धोंसूंक, मोटरसायकल जाय. लायसन काडलें आनी हातांत घेवन तिचे मुखार फडफडायत ताणशेलो, ह्या आठ दिसां भितर म्हाका गाडी मेळना जाल्यार तुमचें तोंड पळोवचो ना हांव. आवय भियेली. हांगाचे थंयचे पयशे एकठांय केले, भयणीलेय घेतले आनी हाडली मोटरसायकल. पयशे चड म्हण बुलेटीचे वाटेक गेलो ना. सवाय तीच हाडली. नाकाशी चलोवपाक जाणा आसलें आनी लायसनूय काडिल्लें ताणें. पूण आवयन आडमेळें हाडलें. म्हणलें, चलयांनी असल्यो गाडयो चलोवपाक जायना. एक दीस भाव न्हिदला तो पळोवन चावी घेतली आनी मारली स्टार्ट. आवाज आयकून अर्जून न्हिदेंतलो उठून आयलो भायर आनी लागलो खेपूंक. तें एक बरो पयस भोंवताडो मारून आयलें. हो गेलो धांवत आनी तें गाडये वयल्यान देंवता थंय आसा ताच्या कानसुलार एक मारलें आनी शिटकायलें ताका,

‘‘ह्यानफुडें म्हजे गाडयेक हात लायशी जाल्यार खबरदार. चलयांक सोबना असलें. तुमचें काम रांदनीकडेन रांदपाचें नातर शेतांत वावराक वचपाचें. चल हट, सुबेज, काळ्ळू खंयचे कडलें.’’

ताच्या थापटाच्या माराचे दुखी परस ताका उतरांचो मार चड लागिल्लो. तें सिंतिमेंत करीत भितर आयलें आनी मान्न्यांत वचून ताणें खूब रडून घेतलें. आवयन अजिबात ताका थातारलें ना, वयल्यान आपल्या लाडक्याचीच बाजू घेतली आनी म्हणलें, ‘‘फावो तुका. कितले फावटी सांगलें चलयांनी असलीं कामां करूंक

जायना म्हणून.''

परीणाम कितें? आलमपेड्डयार कसो तो गांवभर भोंवपाक लागलो. बारींनी वचून पिवपाक शिकलो, सिगारां फुसकायत धुंवर काडीत भोंवपाक लागलो आनी ह्या वेसनांक पयशे जाय पडले तेन्ना ल्हान व्हड चोरयो करपाक लागलो. कोणाक आयकना जालो. घरांत कागाळी पावल्यो. आवय जोडटा आनी हो मोडटा. वयल्यान तागेल्या चोरयांचेय पयशे फारीक करता. एक दीस आवयनूच पुलीसेक कागाळ केली तो असल्यो चोरयो करता म्हण. पुलिसांनी बरो बडयलो. मागीर एक दीस आपूण मुंबय वतां म्हण सांगून घरांतल्यान भायर सरलो ताचो पत्तोच ना. तिवूय सुखी आनी सगळींच सुटलीं.

तेन्नाच्यान नाकाशी मेकळेपणान जगपाक लागलें. काळ बदलतालो. समाजांत वेगवेगळे बदल घडपाक लागिल्ले. भाटकारांक आदले भशेन हक आनी अधिकार उरूंक नाशिल्ले. नाकाशीच्या बापायचें ल्हानशें शेत आशिल्लें. पूण तें भाटकाराच्या नांवार. ताणें पंच, सरपंच हांचे कडेन वचून, आमदाराक मेळून जमनींत पिकां काडपाक फाव तो आदार मेळटलो हाची खात्री करून घेतली. शेतकी खात्याच्या ऑफिसाचीं सोंपणां झरयलीं आनी सगळी म्हायती पुंजावन जातकूच ताका एक बळीश्ट असो आत्मविस्वास आयलो. भाटकारांच्या नांवार रोयतल्या सगळ्यांक शेतां तांच्या नांवार करून दिलीं. जांकां नाका तांणी तीं नाकाशीक विकलीं. कायदेशीर सगळे सोपस्कार पुराय जातकूच ताणें वावराक सामकें घालून घेतलें. ज्या गांवांतलीं शेतांचीं शेतां पडींग पडिल्लीं, ज्या गांवांतले ल्हान उद्देगधंदे बंद पडिल्ले त्या सगळ्यांक ताणें नवे आयाम दिले. नवीं आधुनीक आयुधां हाडलीं आनी काम सोंपें केलें. सगळें सब्सिडीचेर. रिणांच्यो चड भानगडी नात. ट्रॅक्टर घेतलो. आपुणूच चलोवंक लागलें. हाचेर ताचेर पातयेलें ना. सगळ्यांक अजाप. सोऱ्या सारके पयशे जोडपाचे पूण भलायकी इबाडपाचे धंदे बंद उडोवपाक गांवकारांचीं मनां तयार केलीं. गांवांत आतां खंय उरली बेकारी? दरेकल्याक कसलें ना कसलें तरी काम मेळत वचपाक लागलें.

पणजे सर्कला कडेन पावतकच नाकाशी भानार आयलें. वाटभर तें आपल्या फाटल्या जिविताचेर चिंतीत आयिल्लें. आतां ताचो टर्न आयिल्लो. ह्या धा वर्सांच्या कालावधींत ताणें पयसो मेळयलो, नांव मेळयलें, माया, प्रेम, प्रतिश्ठा सगळी गिरेस्तकाय ताका प्राप्त जाली. ताणें शिक्षणांतल्यो पदव्यो मेळयल्यो नात, पूण राजकारण, समाजकारण आनी अर्थकारणाचेरूय बरे तरेन मुद्दे मांडून दुसऱ्याक पटपा सारकें आपूण उलोवपाक शकतां इतलें गिन्यान मेळयलें. मातयेंतलो कस आनी पर्यावरण अशा विशयांचेरूय तें अणभवांतल्यान भासाभास करपाक तरबेज जालें. हें सगळें आपणें केल्ल्या प्रात्यक्षिकांतल्यान ताचे तकलेंत भरून उरलें.

सेंट्रल लायब्ररींत येवपाची ताची पयलीच

खेप. ताणें गाडी पार्क केली आनी देंवून तें लायब्ररीचीं सोंपणा चडपाक लागलें. येदी व्हडली गाडी एक बायल ड्रायव्ह करून घेवन येता हें पळोवन नाय म्हणल्यार थंय कोण आशिल्ले ते अजापितूच जाले.

तें सरळ क्युरेटराच्या कॅबिनांत गेलें.

'सर', ताणें नमळायेन म्हणलें.

'बसात न्ही.' क्युरेटराच्या तोंडा वयलें स्मीत पळोवन नाकाशीचो संकोच गेलो. ताणें पर्शींतलें आपलें विजिटींग कार्ड ताचे म्हन्यांत दवरलें.

'आव्वा, नाकाशी?'

ताच्या तोंडार खोस दिसताली, अजापूय दिसतालें.

'तुमी वळखले म्हाका?'

'तुमकां कोण वळखुचे नात? 'नाकाशी' ब्रँड उकडे तांदूळ. आमी तुमचें सदचें गिरायक. बरो आं तांदूळ भलायकेक.'

'थँक्यू सर.'

'कित्याक आयल्यात? कसलें काम?'

'सर, म्हाका एक पुस्तक जाय. लायब्ररींत आसल्यार मातशें दियात. हांव हांगा वाचतां नाजाल्यार कॉपी काडून व्हरतां. मँबर ना हांव.'

'कसलें पुस्तक?'

'कुंडेकुस्कुराची काणी आशिल्लें पुस्तक.'

ताणें कंप्युटराचेर खंय खंय सोदलें आनी म्हणपाक लागलो,

'एकूच आसा ती प्रत. रमेश वेळुस्काराची कुंडेकुस्कुर. थंयच बसून वाचची पडटली. नाजाल्यार अशें करुंया. तुज्या मोबायलाचेर फोटो घेवन व्हरूं येता.'

धा एक मिण्टां तांचे भितर बरींच उलोवणी जालीं. नाकाशीन एक बायल आसुनूय हो शेतीचो, पिकावळीचो व्याप कशे तरेन सांबाळ्ळा हाचेर ताका जाणून घेवपाची बरीच उत्सुकताय आशिल्ली. तो स्वता आपल्या घरा भोंवतणीं पोरसांत सगळ्या तरांच्या भाजयांचें आनी फळांचें पीक काडपी मनीस. दोगांचो आवडीचो विशय जाल्ल्यान तांची चर्चा रंगली.

मुखार च्या पळोवन तें अजापलें, 'सर च्या कित्याक?'

'च्या पिवपाक.' तो हांसलो 'तुमच्या इतल्या व्हड मनशांचे पाय आमचे लायब्ररीक लागप म्हणल्यार आमी धन्य जाले अशें समजुपाचें. अशेंच येयात अदीं मदीं. तुमकां गरज आसा तसलीं कृषीशास्त्राचीं बी पुस्तकां आसात लायब्ररींत आनी तुमकां कसलीं नवीं उपकारा पडटात तिंवूय पुस्तकां तुमी सजेस्ट केल्यार मागोवं येतात.'

नाकाशीक ताच्या उतरांतली नमळाय आनी मान दिवन उलोवपाची पद्दत आवडली. खूश जालें तें ताचेर. ताणें हेंवूय सांगलें ताका, 'गांवांत तेवटेन एकाद्रो जागो आसल्यार सुचयल्यार जाता. विलेज लायब्ररी घालुया एक.'

'हय सर. गरज आसा तशी. विचार करुंया. जाग्याचो प्रस्न ना. हांवूंच अरेंज करतां.'

'मागीर जालें तर. बेगीन करुंया.'

ताणें एका स्टाफाक आपयलो आनी मॅडमीक जाय तें पुस्तक दिवन ताका फोटो

येवपाक टी म्हणपाची सुचना दिली आनी [illegible] मानसीक सांगून सगळी लायब्ररी भोंवडावन दाखय म्हण सांगलें.

वतना 'थँक्यू सर' म्हणपाक तें विसरलें ना. आपल्याक जाय तें पुस्तक मेळिल्ल्यान नाकाशी खूश जालें. ताणें थंयच बसून सगळें पुस्तक वाचून काडलें. पुस्तक ल्हान म्हळ्यार पन्नाशेक पानांचें आनी तातूंतलो पयलो वांटो ताका तोंडपाठ जाल्लो. ताणें निमाणचो वांटो वाचलो. थोडो बदलिल्लो. तें चलयेक कुंड्याची कूड मेळटा. मागीर किर्ते जाता तें ताका जाय आशिल्लें.

मागीर ताचे जिणेंत परिवर्तन घडटा. सुदारणा घडून येता आनी भरभराट जाता. ताचे जिणेची सर्त ताणें आपले जिणे कडेन करून पळयली. बऱ्याचशा प्रमाणांत ती जुळून येताली. नाकाशीचें जिवीत आतां पयलींचें उरूंक नाशिल्लें.

सगळी लायब्ररी भोंवून पळयतकूच ताच्या जिवाक बरें दिसलें. थंय बशिल्ले कडेन जायत्या जाणांनी ताका येवन हडकिलें. कांय जाणांक तें वळखतालें तर कांय जाण अनवळखी. ताकाच अजाप जालें, इतली जायरात जाल्या? गिरायकांच्या संपर्कांत तें चडशें नासतालें. दोग मनीस ताचे हे वेव्हार सारके सांबाळटाले. एक मॅनेजर आनी दुसरो जनसंपर्क अधिकारी. कोणाक सांगल्यार फोट दिसतलें इतलो ताचो तांदळाचो ब्रॅण्ड सगळ्याक गाजिल्लो.

समाधानी मनान तें सोंपणां देंवून सकयल आयलें. ताणें परतुपाक गाडी स्टार्ट मारली आनी घरा येवपाक वळ्ळें.

आतां पावसान बरोच नेट धरिल्लो. ताणें गाडयेच्या वायपरांचीय गती वाडयली आनी ताचो प्रभाव ताच्या विचारांचेर पडलो. ताच्या तोंडार उमेद फांकिल्ली. चार चवगांत मेळटा तो मान ताका अदीक उर्बा हाडटालो. एक बरें एन्टरप्रेन्युयर म्हणून जाता ती नामना ताचे भितरली चेतना जागयताली. लायब्ररींत ताका मेळिल्लो येवकार आनी ताची जाल्ली सरबराय हाणे तें भारावन गेल्लें. ताची खात्री जाल्ली समाजांत प्रतिश्ठेन जगपाचें आसल्यार रुपाची सुंदरकाय आनी कातीची गोरसाण आसून उपकारना. पुस्तकी शिक्षणा परसूय बुद्दीमत्तेची हुशारी आनी कामांतली चतुराय चड म्हत्वाची.

आयज जें किर्ते मेळयलां आनी कमायलां तें सगळें चवकस बुद्दीन आनी आंगांतल्या धाडसान. काळू म्हणून जायत्या जाणांनी हिणसायलें. शिक्षणा कडेन लक्ष दिना म्हण कितल्याशाच जाणांनी ढड्डू म्हणलें. पूण ह्या असल्या अपमानांतल्यान घडत गेलें. आपणाक चिकटल्लीं हीं सगळीं लेबलां काडून भिरकावन उडयिल्लीं ताणें. कश्ट आनी श्रमांतल्यान सादयिल्ली कृती हेंच ताका जडिल्लें व्हड विशेशण आशिल्लें.

कुंडेकुस्कुराची काणी ताचे तकलेंत भोंवर घालताली. काणीच ती. ताची काणी म्हजी कशी जांव येता? पूण तरीय ताका आपल्या आंगांत खातकुतल्यो जाल्ले भशेन जालें. खऱ्यांनीच म्हाका कुंवर जाय? ताचे तकलेंत एक व्हड प्रस्नचिन्न उबें रावलें. कसो आसतलो तो कुंवर? घोड्यार बसून

येवपी? राजबिंड? गोरो गोमटो? हुशार, चतुर, बुदवंत? परिक्षेंतल्या प्रस्नांच्यो जापो तर त्यो? तें आपले भितरच हांसलें. आयुश्यांतली म्हत्वाची परिक्षा ही. ताका जाप आसा, म्हजो कुंवर म्हाका जाय तसोच आसतलो. म्हज्या राटावळींनी मेतेर ना जावपी. म्हजेर बंदनां ना लादपी, आनी नाकाशी आपले भितरूच लजलें आनी मुरगटलें. आयज ताचो मूड वेगळोच जाल्लो. तिनसनां मळबांत पसय फांकची तशें ताचें रुप अमुरपिकें जाल्लें.

वाटेर जायते कडेन ताणे गाडी थारयली. सैमांतली अप्रुपाय तोखेवपाक.

पावशी वातावरण आशिल्ल्यान तिनसान जावचे आदींच सगळ्याक काळोख दाटिल्लो. ताणेंय बेगिनूच हांथरूणाचेर घालून घेतलें.

आयज खूब दिसांनी ताका दिसलें मनांतले उमाळे कोणाक तरी सांगपाक जाय. सकाळच्यान आंगांत संचारिल्लो प्रणयी भावनांचो मारो लागींची इश्टीण सोडून आनीक कोणाक सांगूं येता? सोंसूं नजं इतली जयश्रीची याद आयली. चड तेंपाची इश्टागत न्हय. पूण इश्टीण म्हण जशी लागीं आयली तशी ती दसली. आवय मेली तेन्ना भुजवण दिवपाक आयिल्ली आनी मागीर अर्दी मर्दी मेळत रावली. दोगांकूय एकामेकांची ओड. आंतऱ्या पयऱ्यांन फोन. आनी मागीर उलयतना दोगांकूय भान उरप ना. आतां फोन लावपाक ताणें मोबायल हातांत मात घेतला, रींग वाजली. 'जयश्री' आरे व्वा. मनांत येता किर्ते आनी आवाज हजर जाता किर्ते? आयज सगळें मना सारकेंचशें जावपाक लागलां.

तें सुखावलें. "हॅलो जायू" ताणें जायू म्हण मारिल्लो उलो नाकाशीक खूब आवडटा. तें ताका जायूच म्हणटा. आयज दीसभरयाच्यो गजाली तें ताका सांगपाक सोदी पूण ताका चड उलोवपाचें ना हें जाणवून येतकच ताणें विचारलें, "न्हिदपाची ताकीद आसा काय किर्ते गो?"

"तुका कशें कळ्ळें?"

"म्हज्या मनाची पारख तुका आसा तशी तुज्याय आसा."

"बरी साहित्यीक भास उलोवंक लागलां मुगो तूं. कोण सांपडला बी काय किर्ते कुंवर"

नाकाशीक एकदम कच्च जालें. आयज खऱ्यांनीच हाका म्हज्या मनांतली भास कशी कळपाक लागल्या?

"तशें कांय ना जयश्री, तुका वगीच दिसता तें."

"हांव विचारपाक सोदी तूं फाल्यां सकाळीं घरा आसा, म्हाका येवपाचें आसा."

"खऱ्यांनीच? यो तर हांव रावतां तुका."

आनी दोगांयनी फोन दवरलो.

***

सकाळीं धा वरांचेर जयश्री दारांत हजर. सदचे भशेन दोगांयनी घट वेंग मारली.

"गाडयेचो आवाज आयकलो ना मगो. कशें आयलें?"

"पळय कोण आयला तो. म्हजो भाव.

जयपाल. चित्रकार. तुका सांगिल्लें हांवें मुंबय आसता म्हण. जालें शिकून. स म्हयने जाले आयल्यार. आतां हांगाच रावतलो. ताणें तुका पळयलां एक दीस बुलेटीर बसोवन म्हाका घरा पायलां तेन्ना.''

''हो कसलो सिनेमांतलो सीन बी न्ही मू?'' ताच्या मनांत आयलें सहज.

''तुका ताणें शेतांत ट्रॅक्टर चलयतना पळयलां आनी जाणां, तूं फांतोडेचेर पासयेक वतना सांकवार पावतकूच थारता तेन्ना ज्या घरांतली लायट पेटिल्ली दिसता ती ताचीच आसता. ताचे कडेन दुर्बीण आसा. पयसुल्ले सीन टिपून घेवपा खातीर लागता ती ताका. थंय ताणें घर घेतलां आनी आपलो स्टुडियो घाला.''

''आगो, पूण तूं कितलें बडबडटलें? बसात तरी.'' ताणें म्हणलें.

जयपालान आपल्या हातांतलें पार्सल ताचे कडेन दिलें. जयश्रीन म्हणलें, ''उकतें कर.''

भितर आशिल्लो फ्रेम केल्लो नाकाशीचो फाट केल्लो फोटो आनी केंसांर जायांचो पोड लांबयिल्लो, सारको हुबेहूब.

''तूं म्हाका जाय कशी. जावशी तूं जायू?''

एकूच वाक्य बरयिल्ली चीट.

जायो माळिल्लें फोट्याचें पांयजेल नाकाशीन आपणाक 'जायशी' समजून घट्ट आपल्या हड्ड्या कडेन घेवन आंवळून धरलें. ताच्या धांपिल्ल्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो धारो व्हांवताल्यो.

सगळें वातावरण एकाद्या चलचित्राच्या चित्रीकरणावरी जयपालाच्या कॅमऱ्यांत रोल जायत वतालें.

000



# कथामंच

(कथा)

जयमाला दणायत

## आण्टी बेकू...!

''ट्रिंग ट्रिंग....'' – लँडलायनीची घंटा वाजली, ह्या वेळार कोणाचो फोन काय? सरू येवजूंक पडलें. वॉटस् ॲपावयली नदर हाल्लीं. हॉलांत वचून ताणे रिसिव्हर हातांत घेतलो – टू झिरो वन – कितें जालां काय? दनपरां सो फोन?

''कितें गो इंदू, फोन केल्लो?''

''बेगीन वन झिरो फोरांत यो.'' इंदून सांगलें.

''आगो, पूण कितें जालां तें तरी सांग.''

''यो तूं, सगळीं जमल्यांत थंय, चल बेगीन.'' सरून आनीक वेळ केलो ना. गॅस तसोच बंद केलो, मोबायल हातांत घेवन तें दारा वटेन चलत रावलें.

''हुडगी, ए सरू – आतां खंय वता? गॅसा वयलो सांबार तस्सो उडयला. कितें तटलां अशें जेवणा टायमार भायर चमकता तें?'' आवयन फाटल्यान आड्डून विचारलें. पूण ''राव येतां'' अशें म्हणत दार ओडून घेवन तें तशेंच सटकलें – आवयच्या प्रस्नाक जाप दिनासतना.

''हाचें हें अशेंच... टायमार काम सोंपोवप ना. चल्लें हेडूंक! कसल्यो अश्यो इश्टिणी.'' केन्नाय आफयतात – आनी हें धांवता आपलें धनरशें..'' आवय फडफडत रावली.

तांच्या अपार्टमेंटांत हो पांच जाणांचो ग्रुप – पंचकुळी! भलतोच एकवटीत. खंय कितें कोणागेरूय फुस्स जालें म्हणटशीच एकामेकांक फोन मारून खंय तरी एकठांय जमून ताचेर चर्चा चलताली. प्रोब्लेम सुटावो जाय मेरेन पांयांक चाकां लागतालीं ततांच्या. आयज इंदूचो फोन आयलो

**जयमाला दणायत** : जल्म : 1947. कथाकार, अनुवादक, निबंदकार, बालसाहित्यकार, कथांचो इंग्लीश, हिंदी आदी भाशांनी अनुवाद, पाठ्यपुस्तकांनी आस्पाव. *'कवासो'* आनी *'सांज-सावळी'* हे कथासंग्रह तशेंच *'करबट'* आनी *'आंबाड्या भोंवती तीन शेंवतीं'* हे निबंद संग्रह, 'समक' आनी 'इंद्रधोणू' हीं बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत. 'फुकटांत भोंवडी' आनी 'रागदरबारी' हीं अनुवादाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. संपर्क 'मंगल', प्लॉट नं. 30, अवधूत कॉओपरेटीव्ह सोसायटी, नाना शंकरशेट रस्तो, डोंबिवली (पश्चीम), मुंबय – 421202, मो. : 09757119317

तशें लिफ्टा कडेन वचनासतना धप्प धप्प सोंपणां देंवत तें चार माळे देंवन नीमाच्या ब्लॉकांत पावलें. पळे जाल्यार सगळीं जाणां टीव्ही मुखार चोमो करून बसल्यांत. लोकल टीव्हीचेर इंटरव्ह्यू चलतालो. एक विसेक वर्सांचो सोबीत तरणाटो आपल्या हड्ड्यार कोंरातिल्लो एके बायलेचो टॅट्यू दाखोवन इंटरव्ह्यू घेतल्यांक मोठमोठ्यान सांगतालो – "आण्टी बेकू" – !

"कितें गो, कितें जालां?" सरून येनाफुडें चवकशी सुरू केली.

"एऽ शूऽऽ लिसन." सुधान ताका धपकायलें.

"आगो, पूण हें कितें? कोणालो इंटरव्ह्यू चलता?"

"शूऽ शूऽऽ सी हिअर! हे आमचे सोसायटींतले पांचवेमाळयेवयली ती आण्टी आसा न्हीं, तिचेंविशीं तो सांगता – आयक." इंदू ताच्या कानांत फुतफुतलें.

"आगो, पूण ती तीच म्हणून तुमकां कशें कळ्ळें?" सरूच्यो 'शंका-कुशंका' सोंपल्यो नात.

"अंकलान सांगलें."

"कितें? अंकलान? तो केन्ना आयलो. ... तर तो गांवांत गेला न्हय?"

"ताणेंच येदोळ फोन केल्लो वीणाक. आमच्या गुलमोहर अपार्टमेंटाचें नांव फामाद जालां म्हणून; – टीव्हीचेर इंटरव्ह्यू चलता तो पळयात म्हणून. मागीर वीणान सगळ्यांक फोन केले. म्हणून तुका आफयलें हांवें." इंदून सांगलें.

"तुका ह्या गुलमोहरांतल्यान मीनाआण्टी कित्याक मर्दींच सोडून गेल्ली खबर आसा?" आशून मर्दींच म्हणलें – आतां टीव्हीवयलो इंटरव्ह्यू सोंपून ह्या पांचाकांलो सुरू जाल्लो–

"कित्याक म्हणलें? आगो ती रेंटवाली – ओनर न्हय. तिचो आपलो ब्लॉक तयार जालो तसो गेली ती. बेठेंच भाडें कित्याक फारीक करीत बसप – तेंवूय वीस वीस हजार." इति सरू.

"चेऽऽ ए कुछ हजम नहीं होता है रे मेरे कू।" वीणान डायलॉग मारलो.

"ए, पुरो हां तुजें – आनी कित्याक गेली तर?" इंदून पाचारलें.

"आगो, हेच आण्टीन खंय आमच्या ह्या गुलमोहरांतल्या एका तरणाट्याक बकरो केल्लो."

"हाँ, सही फर्माया आपने मेरे आका।" ताका सलाम करीत वीणान म्हणलें.

"ए पाडपडिल्ल्या, तुजी ती फिल्मबाजी मात्शी बंद कर पळोवया. आनी सारकें सांगता जाल्यार सांगात. नातर हांव बाये चल्लें. मम्मी फोगोट्यो मारीत आसतली म्हज्या नांवान."

"टॅन्शन माड बेडा सरूअक्का 'हम है ना' हम बताते हैं।" वीणा कोणालींय फकांडां करूंक पयलो नंबर. भाशे वयल्यान सगळ्यांक तिडावपी – तांचो ग्रुप तसो कॉस्मोपोलिटन आसलो.

"सरू, आगो मीनाआण्टील्या इंजिनिअरिंगाक आशिल्ल्या अर्णवाक ती लागीं करताली."

"अय्योयो, खरें काय कितें?"

"मागीर आमी कित्याक फटी उलयतलीं तुजे कडेन."

"आगो, वाग कसो मनशा रगताक चटावता, तशी ती तरण्या भुरग्यांच्या सहवासाक चटाविल्ली – मेळटा तितल्या चड तरणाट्यांचें लैंगीक शोशण करूंक, म्हणून ताचे कडेन लाग मारताली."

"आवय म्हजे, असली कसली गो ही बायल. सामकी व्हल्गरशी. तो केदो? सामको अठरा-एकुणीस वर्सांचो कंवळो पोर! ही तर पन्नाशी कडेन पाविल्ली म्हातारी!" इंदू बडबडलें.

"पूण म्हाका तरी हें सगलें खरें दिसना पळय. केन्ना आयली कशें जमयलें बाये हें तिणें?"

"आगो, मीनाआण्टी शाळेक सुटी लागतगीच चलयेक घेवन घोवा म्हन्यांत दुबय वताली. हाचे कॉलेज जांव परिक्षा तेन्ना चालू आसताल्यो – मागीर हिचें फावतालें. ताका कितेंय नाश्ता भाजी दिवचे निमतान ताचे म्हन्यांत यो वच करप. तिचे चलयेची आनी हाचे कॉलेजींतली वळख. अर्णव तर तुमी जाणांतच – सामको सोफेस्टीकेटेड. मुखावयल्यान पासार जाल्यार लेगीत 'हाय आण्टी, हाव आर यू?" म्हणून साद घाले बगर वचपी न्हीं." आशून म्हणलें.

"ए, पूण खरें म्हणटा गो हें? म्हाका तर सामकें फाल्सच कशें दिसता."

"ए तन्नी, सामकें खरें हें. आमी कितें बेठेंच लावन सांगतातशें दिसता तुका? त्या दिसा आमच्या फ्लोरां वयले ते कर्नाटक आण्टी बराबर हांव बेठेंच रांवड मारतालें, तेन्ना तिणें अर्णवाक वेंगेंत घेवन कीस करतना पळयलें आमी." आशून फुडें सांगलें.

"अय्यो देवा, हें खरें?" सरू नर्वस जावन पुटपुटलें.

"सच्चीं! नहीं तो पुछ तेरी वो आण्टीको." वीणान हांसत म्हणलें.

"आसूं गो, बस करात पळोवया तुमची ही फालतू बडबड. कोणेंय आयकत जाल्यार नस्ती आफत येतली आमचेर." हेवटेन तेवटेन पळय इंदू पुटपुटलें.

"हें एक साप्प भिजूड! आनी आयकल्यार आयकूं. आमी रचून थोडेंच सांगलां. फॅक्ट इज फॅक्ट!" आशून म्हणलें.

जालें... दीसभर मागीर ह्या विशया बगर दुसरो आनी विशय नासलो. ह्या सगळ्यांच्या तोंडांत. तींच न्हंय तर आख्खे सोसायटीभर हीच खबर. बिल्डिंगेंत काम करपी धरून सामक्यां सेक्युरेटी मेरेन तेंच उलोवप!तीं पांच जाणां तर घर-दार भुरगींबाळां, जेवणखाण सगळें विसरून सामकीं 'राधा प्रेमरंगी रंगलीं' जाल्लीं. घरांतल्यान सुद्दा इंटरकॉमा वयल्यान फोनार फोन – नवी कितें खबर मेळटा ती एकामेकांक कळोवप चालू आशिल्लें. दुसऱ्या दिसा तर लोकल पेपरांत त्या भुरग्याचो फोटो, इंटरव्ह्यू सयत सविस्तर बातमी छापून आयिल्ली.

"आगो, आतां कोण कोण कितें कितें सांगतात पळय तिचे विशीं, एक एक करण्यो भायर सरतात तिच्यो आतां. ती खंय त्या पोप्युलर हायस्कुलांत व्हायस प्रिन्सिपल आसली. पूण थंय कोणा भुरग्या बराबर गूण

उधळ्ळे. तिच्या ह्या कॅरेक्टरलेस नॅचराक लागून तिका थंयची काडून उडयली. मागीर फेज थ्रींतल्यान ती हांगा आमच्या अपार्टमेंटांत रावंक आयली खंय.'' वीणान सगळ्यांच्या कानांत फुसकुली सोडली.

''शी गो बाये, अशो कशो ह्यो बायलो? हांकां फॅमिली, भुरगीं-बाळां नात गो? अशीं कशीं वागतात बाये हीं?'' इंदून म्हणलें.

''घोव गेलो म्हणून सांगता खंय ती - वावराडी सांगताली त्या रेखाले आवयक.''

''ती एक कावळ्या आवय. तशी कोणा बरोबर चड उलयना. पूण आख्ख्या गांवाच्यो उचापती लागतात तिका. सोसायटींत कोणागेर कितें शिजता, कितें करपता सगळें खबर हिका.'' आशून म्हणलें.

''तशी ही आण्टी आसतली पन्नाशीची. पूण रावता कशी पळय टॅक्! दिसता पस्तीशीची न्हीं? दिसता इल्ली चड सॅक्सी कशी! मागीर लागतात असले उपद्व्याप.'' इंदून म्हणलें.

''मागीर करचें दुसरें लग्न - कोणूय मेळत असोच तिचेच सारको! बऱ्या लोकांच्या भुरग्यांची कित्याक अशी वाट लावप सांग.'' सरू फडफडलें.

''आगो, तिचो तो अॅटीट्यूडच खंय. बऽरो तरणाटो दिसलो म्हणजे ती सामकी पिसावता. खरें तर श्वापद कशें भक्ष्यांचे फाटल्यान आसता तशी तिवूय असो 'आगोपिच्छो' नाशिल्ल्या बऱ्या दिसपी तरणाट्याच्या सोदांत आसता. मागीर सामकी साव जावन ताची आवय-भयण आशिल्लेवरी ताचे कडेन वागता - ताची मैत्रीण - सखी जावन बसता. खरें तर पयलीं मोगाच्या मनशांक आशेल्ल्या त्या भुरग्याचो तिचेर विस्वास बसता. सादेपणान तो सगलें उलोवन वता, मागीर ताचो फायदो घेवन ती ताका जाळ्यांत ओडटा.''

''म्हणचे गो?''

''म्हणचे कपल म्हजें. ह्या सरूक बाये कितेंय कळना. सगलें विस्कटावन सांगूंक जाय. आगो, म्हणचे मावली कशी मूस, जळर सारक्या किड्या-मुयेक आपल्या घरांत शिरकावन घेवन ताचे भोंवतणी आपल्या आंगाच्या स्रावान एक घट्ट धाग्याचें जाळें रेवाडटा - तशीं ती ताका गुठलायता. आनी मागीर आपले खरे रंग दाखोवंक लागता. ताचे आंगचटीक वचप, ताच्या पॅण्टीबॉल्सांत हात घालप, खातखुतल्यो करप, केन्ना ताका ब्राचो हूक काडूंक लावप, आपल्या ब्लावजाचो बटण घालूंक लावप - अशे भशेन ताका चेतावप - उद्दीपीत करप - तरणें वय म्हणचे पिश - तो बाबडो उंचाबळ जाता आनी आयतो तिच्या गोपांत गावता.'' आशून सविस्तर सांगून दिलें.

''शीऽ शी - धिस इज रेड्यूकुलस! पूण म्हाका सांग, तुका इतलें डिटेल कशें खबर?''

''आगो, म्हज्या चिकम्मा घरा शेजरा रावताली ती.'' आशून म्हणलें.

''कोणाच्या?'' वीणान मदींच विचारलें.

''वीणा यू टू? आगो, म्हणचे म्हज्या

मावशेच्या घरा म्हऱ्यांत नायन्थ ब्लॉकांत. थंय एकलो राजू म्हणून भुरगो रावतालो – कॉलेजींत वचपी. पयलीं पयलीं ताका खाण करून दिवप, तागेर येवप वचप, ताका आपल्यागेर जेवंक आफेवप, एकलो म्हणून ताची अपुरबाय करप आनी मागीर हे असले खेळ करप. मावशेल्या जनेलांतल्यान तांकां सगळें दिसतालें. आपलें काम सादलें, दिल भर गया, मागीर ताका पयस केलो. ताका लागून तो पिसावलो. हो राजू इतलो डिप्रेशनांत गेलो, ताणें गळफांस लावन घेतलो. नशीब कोणें तरी पळोवन ताका वाटायलो. हिचो जाता खेळ, पूण तांचेर मात येता मरण – वेळ. मागीर एक तर ते तो जागो सोडून पयस वतात, नातर हें जगूच सोडटात.'' आशून खबर सांगून सोंपयली.

''बापरे, व्हेरी डेंजरस लेडी मुगो. तुवें आमकां हें पयलीं कित्याक सांगलें ना?'' वीणान विचारलें.

''कित्याक बेठेंच कोणा विशीं वायट उलोवप? पूण तुमी नोट केलां जाल्यार नकळं, हांव तिका केन्नाच जाप केली ना – तिका केन्नाच एंटरटेन केलें ना. हातूंत ह्या बंटीन मात तिची फाट सोडली ना. तो तिच्या माथ्यार बसूंक लागलो, म्हणून तिणें हो मार्ग पत्करलो जावये.''

''म्हणचे ताका पयस सारपाचो यत्न केलाच जातलो, पूण हो गोडाधेंपेक दोमळो चिकट्टा, तसो दसून रावलो. म्हणून मागीर ताणें धांवडायला जातलो. म्हणून तर ताणें ही तोंकांची ॲक्शन घेतल्या जातली. हे मिडीयावाले मेळ्ळे त्या पिसांटाक, आनी ताणें ही शीर कापून घेतिल्ली खबर, जांव तिचो टॅट्यू हड्ड्यार पितारला तें दाखोवन तिची बेईज्जत करपाचो घाट घाला जातलो.'' वीणान येवजून म्हणलें.

''आपली बदनामी टाळपा खातीर तिणे उलटो कांगावो केला तर हो – पुलिसेंत ताचे विरुद्ध कम्प्लेन करून. तो केदो आपूण केदो, ताचे येदी चली आसा आपणाक अशें सांगून ताणे उरफाटो डाव खेळ्ळो, आनी पुलिसांनी ताका धरचो म्हणून, आचयज मुद्दम फोन करून ताका हांगा आफयलो. तोवूय पिसोसो सगलें विसरून धांवून आयलो. सॅक्युरिटीक सांगून ताका दारांतच आडावन पुलिसांचे सुवादीन केलो.'' आशून म्हणलें.

''मोठी बेरकी मुगो ही बायल. सामकी घातमारी.'' सरून म्हणलें.

''तुका खबर ना? काल पुलीस आयिल्ले खंय तिगेर. खूब जाणांनी पळयलां. ही सामकी साव जावन भायर गॅलरेंत येवन तांकां कितें कितें सांगताली खंय ताजे विशीं.'' वीणान ॲड केलें.

''चेऽ काकुळट त्या पोराची. असल्या ह्या बायलांक लागून समाजांत व्यभिचार फांसफता.''

''ए, आमी सगल्यांनी मेळ्ून कितेंय तरी करूंक जाय पळय.'' सरून किंवाट्यान म्हणलें.

''नाका गो बाये, हें म्हणचे चिखलांत फातर मारून 'मज घे' म्हणून आंगार चिकोल उसळावन घेवप जातलें. नस्तें झेंगट! कोणाक पिशें लागलां.'' आशून

ताका तापयलें.

''मागीर तिका कितें अशेंच मेकळें सोडप? फुडें आनीक अशा तरणाट्यांची जीण उध्ववस्त करप? शी शीऽऽ येवजिल्यार लेगीत लज दिसता पळय.'' सरू उलयलें.

''पूण तिका खंय दिसता लज? कांयच जाले ना वरी हेडटा मुगो ती गांवभर. तें कांय ना सोसायटीचे मिटिंगेंत तिचेविशीं कम्प्लेन करुंया आमी.'' इंदून म्हणलें.

''आगो, पूण सोसायटी कितें करतली? ती रेंटल – जेमेरेन दर म्हयन्याचें भाडें मेळटा मालक तिका कित्याक काडून उडयतलो? आमी कांय करूंक शकनात. हां, तिचेर बहिश्कार घालून तिका वाळींत उडोंवक जाता.'' वीणान उपाय सुचयलो.

''म्हणजे कितें? बहिश्कार, वाळीत उडोवप – तुजें मराठी कळना म्हाका.'' सरून सादेपणान म्हणलें.

''हें एक बाये, सामकें अरवळ! आगो म्हणचे सगळ्यांनी तिचे कडले संबंद तोडप – उलोवप ना. तिचे कडेन कसलोच संबंद दवरप ना.'' वीणान फोडून सांगलें.

''पाडा पडूं – असल्या 'निर्लजम् सदा सुखी' मनशांक तें कातीक लेगीत लागचें ना.''

''मागीर कितें करप तर?''

''तुका म्हजें सांगणें ओगीच रावचें, जे जें जाता तें पळोवचें.'' आशूक संतवचन सांगलें.

''म्हणचे आळी मिळी गुपचिळी. बराबर ना.'' वीणान हांसून विचारलें.

''पूण खरेंच, म्हाका 'त्या' बंटीची काकूट दिसता पळय. ''नानगे तुम्बा हिडीसिदे'' म्हणत ताका लार्गी ओडलो आनी आतां पुलिसांचो मार खावंक सोडून दिला हे कैदाशिणीन!'' सरू सामकें इमोशनल जालें.

''इमोशनल फूल, हें पळय, त्या बंटीलें तरी सगळें खरें कित्या वयल्यान? ती तर म्हणटा खंय, ती ताका आपले चलयेचो फ्रेंड – एक कलींग म्हणून पळयताली. तो एकलो आसा म्हणून ताका आवयचे मायेन पळयताली. ताका जीव करताली. पूण तो आपले चलये कडेन वायट चाळे करता म्हणून ताका थापटावन धांवडायलो घरांतल्यान. म्हणून तो सूड घेवचे खातीर आपल्याचेर बालंट घालता. अशें, तशें जायतें पुलिसांक सांगलां खंय तिणें.'' आशून सांगलें.

''खरें तुजें आशू. सगळ्याच बाबींक दोन वटी आसतात. खरें फट थारावपी आमी कोण? आमी काय आपल्या चक्षूंनी पळोवंक ना. कितें?'' वीणान ताका तेंको दीत म्हणलें.

''खरें, तूं म्हणटा तेंवय पट्टा मनाक. आमी हे भानगडी पसून पयसूच राविल्लें बरें. पट्टा म्हाका. तेन्ना आयच्यान हें सगळें डिस्कशन बंद! बेठ्ठो तकलेक ताप जाला. फकत एकूच दिसता, त्या बंटीलें खरें आसत तर त्या बाबड्याची काकुट करता तितली थोडी! वी शुड प्रे फॉर हीम.'' आशून विशय सोंपयत म्हणलें.

''बायलोच बायलांचे दुस्मान म्हणटात हें तुमचे हे प्रदीर्घ भासाभाशे वयल्यान खरें

दिसूंक लागलां म्हाका.'' सरून सांगलें ''खरें तर असली वायट बायल आसत तर तिका आमी सगळ्यांनी मेळून सारकी बरी बुद्द शिकोवंक जाय.''

''हय गो, पूण आमी कांयच करूंक शकनात. आमच्या हातांत कांय ना.'' इंदू निर्शेलें.

''हातूंतलें सत् कितें फट कितें तें एकल्या बाबड्या देवाकूच खबर. एक मात खरें, ती आण्टी 'नज-नकळ-कळना' वाली जाल्या. कांयच घडलें ना अशी हेरां कडेन वावुरता. कांय जाण तिका पयस करतात, पूण ती 'मज घे' म्हणून सहजतायेन सगळ्यां कडेन वागता. तिका पळयल्यार ती अपराधीशी दिसना. चडशें जाल्यार हो जागो सोडून दुसरे कडेन वचून रावतली इतली गिरेस्तकाय आसा तिचे कडेन.

पूण बाबडो तो तरणाटो बंटी मात पुलिसांचो मार खावंक आनी आण्टीक सामकोच निग्लेक्ट केल्ल्यान 'आण्टी बेकू' करीत त्या असायलमांत अर्दमेल्लो जावन पडला. एक तरणाटी तट्टटीत जीण असाहाय्य जावन त्या पिशां हॉस्पिटलांत एक नंबर जावन वावुरता – आपल्या फुडाराचो होम करून! येद्या व्हडल्या नाटकाची ती हिरोईन आण्टी सुसेगाद आपली जीण जियेता. आनी हिरो तो तरनाटो बंटी मात हॉस्पिटलांतले ते इलेक्ट्रीक शॉक सोंसत 'आण्टी बेकू' 'आण्टी बेकू' करीत थंय कुसता – पुअर क्रिएचर! 000



# कथामंच

(कथा)

माया अनिल खरंगटे

## मेलिनाचो फुडार

लंडनच्या विमानतळार विमानाची वाट पळोवंक बशिल्ल्या मार्सेलिनाक रडपाचे कड येताले. मोठ्या यत्नान ताणें दुकां आडावन दवरिल्लीं. विमानांत बसतकच मात ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. पर्शींतलो लेंस काडून ताणें दोळे पुसपाचो यत्न केलो. पूण दुकां थांबपाचें नांवच घेय नासलीं. ताच्या मनाचो बांद फुटिल्लो. ॲर हॉस्टेसीन एक खेपे म्हऱ्यांत येवन वासपूस केली. ''कांय ना... कांय ना...'' म्हणत ताणें तिका धांवडायली. मागीर मात ताणें आपल्याकूच सांबाळून घेतलें.

दुख्खाच्या ओघांत घुस्मट्टनाय ताका जॉना बरोबर पयलेच खेप लंडनाक गेल्लें ती याद जाली. पयलेच खेपे तें विमानांन वतालें. ताका सगळेंच नवें आशिल्लें, अजापाचें आशिल्लें.

– ''सायबा भोगोस, कितू निवोळ रे ॲरपोर्ट, हो येसो निवोळ दोवरूंक तेंकां कितू तरास जाता आसतलो?''

ताच्या प्रत्येक अजापाक जॉन फकत हांसतालो. जाय थंयच जाप दितालो. विमानांत बसतना ताका उमेदूय जाल्ली आनी भंय लेगीत दिसलो. जॉनाचो हात धरून तें विमाना म्हऱ्यांत गेल्लें. मागीर मात उमेदीन भुल्लुसून फुडाराच्या सपनां विशीं बडबडत तें इंग्लंडांत गेल्लें.

थंय जॉनाचो अपार्टमेंट पळोवन तें सामकें खोशी जाल्लें. रांदचीकूड तर ताका सामकीच घोस्ताक गेल्ली.

पयले तीन म्हयने केन्ना, कशे सोंपले मार्सेलिनाक कळ्ळेच नात. सुरवातीक पंदरा-वीस दीस जॉनाची सुटी आशिल्ली. तेन्ना ताणें ताका खूब कडेन भोंवडावन

**माया अनिल खरंगटे** : जल्म : 1956, कवयित्री, बालसाहित्यकार, कथाकार, अनुवादक. तेत्तीस पुस्तकां प्रकाशीत. *'कयपंजी'* हो कवितासंग्रह तशेंच *'घोंटेर'*, *'मळबझेप'*, *'मृगजळ'*, *'काळीं कुपां रुपेरी देग'* हे कथासंग्रह चर्चीत. एनसीईआरटी, दिल्ली संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार, केंद्रीय साहित्य अकादमीच्या बाल साहित्य पुरस्कारान तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी (2010, 2012) सन्मानीत. संपर्क : पितुल कामत कॉऑपरेटीव्ह हावसिंग सोसायटी, एफ-3, पयलो माळो, आर्के, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 9420685278.

हाडिल्लें. मागीर मागीर तीं शेनवार–आयताराक भायर भोंवपाक वतालीं. मार्सेलीन शेनवाराची उमळशिकेन वाट पळयतालें.

मागीर ल्हवू ल्हवू जॉनाक शेनवार–आयताराय काम आसतालें. मर्दीच एकाद्रो शेनवार–आयतार तो मार्सेलिना बरोबर रावतालो. शुक्रार दीस सकाळीं कामाक म्हणून गेल्लो जॉन आयतार सांजेचो घरा येतालो. कामाक लागून ताका दुसऱ्या गांवांत वच्चें पडटा म्हणून तो मार्सेलिनाक सांगतालो. ऑफिसाचें काम म्हणटकीर मार्सेलिन कितें उलयतलें? पूण ताचें तोंड बावतालें. एकलें एकसुरें त्या अपार्टमेंटांत रावपाक ताका भंय दिसतालो आनी उबगण येताली.

त्या दिसा जॉन कामार वचूंक रुमांत तयार जातालो. ताचो मोबायल भायर आसलो. फोनाची रींग वाजली तेन्ना मार्सेलिन भायरूच आसलें. ताणें फोन घेतलो. फोनार एक बायल तणतणून उलयताली, – "इल्माक जोर आयला, ताका हॉस्पिटलांत व्हरूंक जाय, जाता तितले बेगीन घरा यो, वेळ केल्यार पळय तूं..." तिणें धमकी दिली. तिका मार्सेलिन कितेंय जाप दिवचे पयलींच जॉनान येवन फोन घेतलो आनी कुडींत वचून दार बंद करून उलयलो. तसोच सडसडीत भायर सरून गेलो. वतना सदचेवरी ताणें मार्सेलिनाचो मोग केलो ना, आनी कांय उलयलोय ना.

प्रस्नाच्या वेटोळ्यांत मार्सेलिन घुस्पलें... कोण ही बायल... इतल्या हक्कान तापताली... इल्मा कोण?... ताका जोर आयला, हॉस्पिटलांत घालूंक जाय म्हणटकीच जॉन कित्याक धांवून गेलो?... प्रस्न... प्रस्न... प्रस्न... ताचे तकलेचें नॅटवर्क घुस्पून गेलें. ताणें दनपरां जॉनाक फोन केलो. फोन तेच बायलेन घेतलो आनी तिणें म्हणलें, – "प्लीज, ताची धूव बरी ना. ताका डिस्टर्ब करिनाका..."

... "ताची धूव?" मार्सेलिनाक खीणभर घुंवळ येताशी दिसली. तें बेगीन–बेगीन सोफार बसलें. "... इल्मा जॉनाचें चली? ... आनी ती उलयताली ती ताची बायल... हें... हें... अशें आसचें ना... जॉन येवंदी... तोच सारकें सांगतलो म्हाका..."

"तीन दीस जॉन आयलो ना. मर्दी ताणें मॅसेज घाली ...अर्जंट कामाक लागून हांव भायर गेलां. दोन दिसांनी येतलों. हुस्को करुं नाका, आनी फोनय करुं नाका. हांव मॅसेजीन तुका कळयतां..."

तीन दिसांनी जॉन रातचो आयलो आनी कांयच उलयनासतना 'जेवण नाका' म्हणून सांगून न्हिदूंक गेलो. कितलेशेच प्रस्न घेवन मार्सेलिन ताका पळयतालें. तीन राती मार्सेलीन न्हिदूंक नासलें. सारकें जेऊं नासलें, "आनी आयज कांयच सांगना..."

मार्सेलिन तशेंच कुडींत आयलें. ताणें जॉनाच्या तोंडा वयलें पांगरूण खस्स करून ओडलें, आनी विचारलें, –"जॉन, तुजें चेंडू इल्मा कशें आहा?"

– "ऑ... मुगें चेडूं... तुका..."

– "माका खोबोर आहा. तेका हॉस्पिटोलांत घायलां म्हूण तूं तीन दीस तिनयां आसलो."

– कित उलयता गो... हांव..."

– "जॉन आनी फोटी मान्नाका... हायें फोन केल्लो. ते बायलेन माक सांगेलां..."

– "ओह, एलिना... कितें केलें तुयें?... आसुंदी केन्ना तोरी तुका कोळपाचेंच हें. तोर आयक, एलिना मुजी बयाल, एरीक आनी इल्मा मुगे दोन भुरगीं... आनी कित विचारपा आहा तुका?"

"कितें सांगोता रे तूं? शितीदां आहा मुरे?"

– "होय, सामको बरो शितिदां आहा हांव."

– "तुगें पोयलीं काजार जाल्लें, जाल्यार मुको कित्या काजार जालो?"

– "कित्या म्हुळ्यार, मांयक लागून. तिणें जीव दिता म्हूण सांगोन माका काजार केला."

– "आरे, पूण तुयें ह्या काजरा गोजाल तिये सांगलोली?"

– "ना, जोबोर सांगली ना. ती केशीच आयकची नासली. आनी एलिनाकूय मुगे सोयऱ्यांक मेळों इंडियांत येवपा नासलें. तेणे पोयलीं सांगलो माका तेशें."

– "मुणोन मुगे जीण पेड्येर केली?"

मार्सेलिन खूब उलयलें. हामेर घालून रडलें. पूण जॉनान ताका थांबयलें ना आनी कांयच उलयलोय ना. वोग्गी बसून ताचो अवतार पळोवक लागलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मार्सेलिनान सदचेवरी च्या करून मेजा कडेन बसलें. जॉनूय येवन बसलो. मार्सेलिनान ताका थंडपणान सांगलें, – "जॉन कित सांगोतां तें बोरे भाशेन आयक. तुजे पोयलें काजार, भुरगीं सोगळें इसोर, हांव तुका ते विशीं केदनाय कांयच इचारपा ना. तिये खोबोर तुयें गोंयां कोणा सांगू ना. आसूं. आतां आमी बोरे भोशेन रावया."

जॉनान ताचें एक्क आयकलें ना. तो तिकाय सोडूंक तयार नासलो आनी मार्सेलिनाकूय. 'ती थंय, तूं हांगा बरे भसेन रावात म्हणून परत-परत सांगतालो. पूण मार्सेलिनान ताचें कांयच आयकून घेतलें ना. आवयच्या हट्टाक लागून ताणें मार्सेलिना कडेन काजार केल्लें.

सात-आठ दीस मार्सेलिन ताचे कडेन खूब झगडलें. पूण जॉन बदलो ना. तो ताका एकच सांगतालो, "हांव तुमकां दोगांकूय सांबाळटों. निमणें मार्सेलिनान ताका सांगलें, – "सोवती सांगाता हांव केश्शें रावपा ना. माक गोंया वोसपा तिकीट काडोन दी. हांव गोंयां वोयतां."

मार्सेलिनान गोयां वता म्हणलें खरें, पूण जॉन आवयक भियेतालो. ताणें मार्सेलिनाक फुसलावपाक आनीक आठ दीस काडले. पूण मार्सेलिन कांयच आयकून घेवंक तयार नासलें.

निमणें जॉनान ताका तिकेट काडून दिली.

– "मॅम, च्या जाय काय कॉफी?"

– "... आं .. च्या... च्या दी."

ॲरहॉस्टेसीच्या आवाजान मार्सेलिन

विचारांच्या वेटाळ्यांतल्यान भायर आयलें.

मार्सेलिन गोंयांत येवन दोन-तीन म्हयने जाल्ले. ताका पिरेड येवंक नासलो. हुस्क्यानूच तें दोतोरागेर गेलें. ताचो हुस्को खरो जाल्लो. तें चार म्हयन्याचें गुरवार आसलें...

ताका जॉनाची कसलीच याद नाका आसली. ताणें दोतोराक ॲबोर्शन करपा विशीं कितलें विनयलें. पूण चवथो म्हयनो पुराय जाल्ल्यान ॲबोर्शन करप कशेंच शक्य ना, ताच्या जिवाक धोको आसा अशें सांगून दोतोरान ताका फुसलायलें.

उपाय नासून ताणें गुरवारपण आपणायलें. पूण तें कसलीच काळजी घेय नासलें. दीस भरतात तशी तशी ताका भुरग्याची ओड लागली.

काजारा पयलीं मार्सेलिन आनी ताची आंकवार भयण माग्दालीन कपडे शिंवन दितालीं. मार्सेलिन परत आयलें आनी भयणी सांगातान आपल्या कपडे शिंवपाच्या धंद्याक लागलें. भुरग्याक वाडोवपाक चड पयशे जाय म्हणून तांणी कामाचो व्याप वाडयलो. माग्दालीन मार्सेलिनाक मशिनार बसूंक दियनासलें. तांणी दोन बायलो कामाक दवरल्यो आनी धंदो वाडयलो.

णव म्हयने भरतकच मार्सेलिनाक बाय जालें. बाय जाल्ल्याची खबर लेगीत ताणें जॉनाक कळयली ना. फाटलीं पानां पुसून उडोवन तें मुखार चलूंक लागिल्लें. मेलिनाचे खोशयेंत ताणें आपली खोस भरशिल्ली. माग्दालीन ताचें नांवा पुरती गॉडमदर जावंक नासलें. तें ताची खरीच आवय जाल्ली. दोन आवयांच्या गोपांत मेलिना खोशयेन राजकुंवरीवरी वाडटालें.

मेलिनाचो पयलो वाडदीस तांणी व्हडा दबाज्यान केलो. वर्साचें भुरगें ज्यो हालचाली करता, त्यो मेलिना कांयच करनासलें. तें फकत प्रत्येकाक पळोवन हांसतालें. पूण त्या हांशांत जीव नासलो. दोगांय भयणीक मायेचे नदरेक हें कळूंक नासलें. पूण वाडदिसाक आयिल्ल्या सोयऱ्यांक तें कळ्ळें. एक-दोग जाणांनी तांकां हे विशीं विचारलेंय. माग्दालिनान तांकां फाफडून उडयलें.

पूण मार्सेलिनाच्या मनांत किडो उळउळपाक लागलो. तें दुसऱ्याच दिसा मेलिनाक घेवन दोतोरागेर गेलें. दोतोराचें उलोवप आयकून मार्सेलिनाक आपल्या पांया पोंदची जमीनच हालिल्ले वरी जाली. मेलिना मतीमंद भुरगें म्हणून दोतोरान सांगिल्लें. माग्दालीन हें मानुंकूच तयार नासलें. "एक एक भुरगीं उसरां हालचाल करतात म्हणल्यार तीं मतीमंद काय कितें?" ताणें दोतोरा कडेनूच वाद घालो. मार्सेलिनान भयणीक थातारून घरा हाडली. घरा येतकच मात मार्सेलिनाच्या मनाचो बांद फुटलो. मेलिनाक वेंगेंत घेवन तें व्हडाव्हडान रडूं लागलें. माग्दालीवूय भयणीक वेंग मारून रडूंक लागलें.

माग्दालीन देवभोळें आसलें. तें भयणीक फुसलायतालें.

– "सायबीणमांय आमकां येशी सोडपा ना. ती आमगे बाये बोरें कोत्तोलीच. तो दोतोर कित सांगतोलो?"

मार्सेलिनान मात दोतोराचे पांय घट्ट धरले. बायेक कशें वाडोवप कितें करप तें, तें दोताराक विचारूनच करूंक लागलें. तांच्या फॅमिली दोतोराची आनी तांच्या घराब्याची पयली साकून दोगांयचेय मांय - पाय आसतनाच लगट आसली. दोतोरान तांकां सगळो आदार दिवपाचें उतर दिलें. अशा भुरग्यां पासत आशिल्ल्या खास दोतोरागेर तांचो दोतोर तांकां घेवन गेलो. त्या दोतोरान सांगिल्ले सगळे उपाय दोगूय भयणी वेवस्थीत करताल्यो.

मातय वाजेनासतना माग्दालीन मेलिना कडल्यान सगळे व्यायाम करून घेतालें. ताका एक गजाल शिकयतलें जाल्यार 20-25 फावटी सांगचें पडटालें. माग्दालीनाची जिद्द पळोवन एक एक वेळा मार्सेलिन लेगीत उबगतालें. तें मागीर म्हणटालें, - "माग्दालीन, कितू कोत्ता बाये पासोत, कितें येफेत येतलो?"

- "येफेत दिवप तेगे हातांत. मुज हातां आहा तें हांव कोत्तां. हांव मोदोन न्हू तोर बायेली?"

- "होय गो, पूण..."

- "आनी, आनी केसो पूण.. हांव माद्र जावपा सोदता मुगो. मांयन माकां धाडलें ना म्हूण हायें काजार लेगीत केलें ना."

- "ती पेडयेर जायसोर तिये जाप केली ना तुयें. बरो राग धोल्लो."

- होय, आतां चोय सायबीणमांयन दिस्तूच थारायलां. मुगे धुयेक चोड गोरोज म्हूण तियेन माका काजार जायनास्तोना रावपा बूद दिली."

दोगांय भयणींनी आपलें जिवीत मेलिना खातीरच ओंपिल्लें. दोतोर सांगता ते ते उपाय, फिजियोथेरपी सगळें दोगूय भयणी शिकून घेवन मेलिना कडल्यान करून घेतालीं.

ताका उबें रावंक त्रास जातालो. फाटीचो कणो घट करपा पासत एक व्यायाम दिल्लो. ताका खांब्याक बांदूक सांगिल्लें. सुरवाती 10-10 मिणटां. मागीर ल्हवू ल्हवू वेळ वाडोवपाक सांगिल्लो. दिसाक अर्द वर सुमार हो व्यायाम करपाचो आसलो. ह्या व्यायामा वेळार मेलिनाक खूब त्रास जाताले. तें व्हडाव्हडान आड्डी मारतालें. ताचे म्हऱ्यांत बसून मार्सेलिन आनी माग्दालीन दोगांय रडटालीं.

शेजाऱ्यांक कणकण जातालें. तीं तरेतरेन उलयतालीं...

"... येशें केलें म्हूण तें कित चोलतलें?... बेठ्ठे तेका तोरास कोत्ताय..." - "... अशीं भुरगीं सुदारनात... खरें म्हणल्यार तांकां जातनाच मारून उडोवक जाय..." - "...हांचे प्रयोग म्हणल्यार आमकां कटकट..." सगळें आयकून मार्सेलिन बुळू-बुळू करून दुकां गळयतालें. माग्दालीन मात प्रत्येकाडेन वाद घालूंक बसतालें.

तांच्या प्रयत्नाक ल्हवू ल्हवू येस येतालें. मेलिना एक-एक पावल चलूंक लागलें. मेलिनाच्या वयाचीं भुरगीं शाळेंत वचूंक लागिल्लीं आनी मेलिना निकतेंच पावली मारतालें.

तो प्रयोग येसस्वी जातकच दोतोरान

तांकां उलोवपाचो सराव दिवंक शिकयलें. परत दोगूय भयणी मेलिनाक चलपा बरोबर उलोवपाचो सराव दिवंक लागल्यो.

दोतोराचे प्रयोग, वखदां हे पासत तांकां खूब पयशे लागताले. तांणी आपलो धंदो वाडयलो दोन बायलो कामाक दवरल्यो आनी त्या व्यापांतल्यान वेळ काडून तीं मेलिनाक वाडयतालीं. कांय गजाली ताका सामक्योच कळनाशिल्ल्यो. दोतोरान तांकां पयलींच सांगिल्लें, ताका झेपना तें ताका करूंक लावंनाकात म्हणून. त्या धिरार तीं अपेस आयल्यारूय निर्शेवन वचनासलीं.

तांचें घर म्हणल्यार एक प्रयोगशाळा जाल्ली. मेलिना आतां चलतालें, उलयतालें, शिकयिल्लीं पदां म्हणटालें, नाच करतालें. हें सगळें आवय आनी माशेन म्हऱ्यांत आसतना. एकल्याक कितेंय सांगल्यार, विचारल्यार तें तोंडां पळयत रावतालें.

माग्दालीन आनी मार्सेलिनान धंदो आनी मेलिना हाचे भायलें जग तांणी आपल्या पासत बंदूच केलें.

तांच्या घरा लागींच एक कॉन्वेण्ट आशिल्लें. थंयची जाण्टी माद्री खूब मायेस्त आसली. मार्सेलिन वचून तिका मेळ्ळें. ताणें मेलिनाची सगळी गजाल तिका सांगली. दोतोराचें पत्रय दिलें. जाण्टे सिस्टरीन सगळ्या शिक्षकांची बसका घेतली. मेलिनाची सगळी खबर तिणें तांकां सांगली आनी मेलिनाक शाळेंत घेतलें.

धा वर्सांचें मेलिना शिशू वर्गांत रमलें.

दोतोराच्या सल्ल्यानूच दोगूय भयणी मेलिनाक जमता तितलो अभ्यास करून घेतालीं. बरोवंक मात ताका त्रास जातालें. अक्षरां सारकीं काडूंक आनी सडसडीत बरोवंकूय जमनासलें. कॉम्प्युटर मात ताका खूब आवडलो. कितले बेगीन ताणें कॉम्प्युटर शिकून घेतलो. ताची आवड पळोवन मार्से लिनान ताका लॅपटॉप हाडून दिलो.

हे वटेन माग्दालीन ताका घरच्या शिवणेच्या धंद्यांतल्यो गजालीय शिकयतालें. व्हिस्तीदाच्यो तरांतरांच्यो मोदी तें कागदार तयार करतालें आनी तस्सो व्हिस्तीद शिवन घेतालें. ल्हवू ल्हवू कपडे कापून दिवंकूय तें फिशाल जालें, पूण मशीनार कपडे शिंवपाक मात ताका जमनासलें.

घरचो धंदो ताणें खोशयेन शिकून घेतलो. तें पळोवन माग्दालीन खूश जालें. पयशांचो वेव्हारय थोड्या भोव प्रमाणांत ताका कळटालो. पूण कोणेंय उरिल्ले पयशे फाल्यां दितां म्हणलें जाल्यार तें बरोवन बी दवरतालें. पूण तांचे कडल्यान ते वसूल करून घेवंक ताका कळनासलें. तशेच आनिकूय बारीक सारीक वेव्हार ताका कळनासले. थंय दुसऱ्यान लक्ष दिवचें पडटालें.

हे पासत मार्सेलिनाक आनी माग्दालीनाक ताची चिंता जाताली. आपले फाटल्यान ताचो फुडार कसो हें येवजून तीं आकूळपिकूळ जातालीं. आनी एके वटेन घरचो धंदो शिकून घेवन तें आपल्या पांयार उबें रावतालें हें पळोवन तांच्या जिवाक मात्सो तरी सुसेग मेळटालो.

तरी लेगीत ताचो फुडार एक हावको जावन तांचे मुखार उबो आसलो. मेलिना

न्हिदलें काय दोगूय भयणी हाचेरच उलयत बसतालीं. मागीर तांच्या दोळ्यांची न्हीद खळटाली.

त्या दिसा ग्रामपंचायतीचे बसकेक दोगूय भयणी गेल्ल्यो. थंय तांकां कळ्ळें, ग्रामपंचायतीच्या बायलां विभागान, जांकां कोणाचो आदार ना, जाण्टेपणाक लागून घरांतलीं त्रास करतात अशा अडचल्ल्या लोकां पासत एक आश्रम करपाचो थारायिल्लो. ते पासत तीं जागो सोदतालीं. फाटल्या चार बसकां साकून तो आश्रम कसो, कितें आसचो हाचेरूच तांची भासाभास चलताली.

आयज तीं जागो सोदतात हें कळ्ळे बरोबर मार्सेलिनान आनी माग्दालिनान एकामेकांचो हात घट धरलो. "... बाय आमगे... घोर... मेलिना, तेचो फुडार..." मार्सेलिनान इतलेंच म्हणलें, मुखार ताच्यान उलोवंक जालें ना.

माग्दालिनान ताचें वाक्य पूर्ण केलें. "...होय भोयणी, आमगे बाये फुडार सुगूर कोरपा आमगे घोर आश्रमा दिवया..."

000

# कथामंच

(कथा)

वल्ली क्वाड्रस

## बोंबोयचो माम

**वल्ली क्वाड्रस : जल्म : 1967,** कथाकार, कवी, कादंबरीकार, बालसाहित्यकार आनी पत्रकार. कन्नड आनी कोंकणी भार्सेतल्यान लेखन. 200 वयर कथांचें लेखन. *'आशावादी'* (कथा, 2001), *'खिळो'* (कथा, 2003), *'कंगाल आनी ताची कुंकेहळ्ळी'* (कथा, 2005), *'सतां आनी कथा'* (कथा, 2007), बंद (कथा, 2017), *'संघर्श'* (कादंबरी1991), *'मोगा म्हुज्या'* (कादंबरी 1988), *'पार्टी गांवांत'* (ई कादंबरी-2004), *'चारमुखां'* (कविता, 2002), *'कठपुतळी'* (कविता 2004), *'दरबारांतली पिरगण'* (कविता, 2006), *'बाजार'* (कविता, 2017) हीं तांचीं कांय प्रकाशीत स्वतंत्र पुस्तकां. *'विसाव्या शेंकड्याच्यो कोंकणी कथा'* ह्या कर्नाटक साहित्य अकादेमी प्रकाशीत कथासंग्रहाचें संपादन. *'पयणारी डॉट कॉम'*, हे ईपत्रिकेचें संपादक. कर्नाटक साहित्य अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान दोन फावटी सन्मानीत. तशेंच दिवो नेमाळ्याचे वतीनय सन्मानीत. संपर्क- 1801, स्कायलार्क, सेक्टर-15, घांसोळी, नवी मुंबय, 400701, मो. 07738038980-07021967880.

'बोंबोयचो माम सरलो कंय', सकाळीं उठून कुजनांत रिगोन चा करचे वेळार मोबायलांत आयिल्ली वाटसआप मेसेज वाचल्ल्या रीटाच्या मतिंत कसलिंच भगणां उदेल्लीं नात. तो इतलो तेंप खंय आसल्लो? कोणागेर आसल्लो? कितें करन आसल्लो म्हळ्ळें कोणाकच नख्खें कळीत नातल्लें तरयी आयलेवार गांवच्या कोलेजिंत शिकचा आकयच्या नातवान 'फ्यामिली' म्हळ्ळो एक वाटसआप पंगड केल्लो आनी अपणाकयी तांतूं भरती केल्लो देकून त्या पंगडांत बोंबोयच्या मामाविशीं कोणेंगी, कितेंगी बरयिल्लें वाचल्लो उडास, पूण उडास दवरुंक रीटा सकल्लें ना.

रिटान अपल्या एकसुरी जिणयेचीं पन्नास वरसां एदोळच्च संपल्लीं. 'कुटाम' म्हणचेपरीं कोणयी नातल्लीं, तरने प्रायेर नर्सिंग शिकून पयलें बोंबोयच्या आस्पत्रेंत काम करून, थोडेच वरसांनी लंडन गेल्लें रीटा, पाटल्या इक्रा वरसांनी स्वीडनांत काम करून आसल्लें. वाचप आनी संगीत सोडल्यार हेर कसल्याकयी हुमेद जांव आवकास जांव रीटाक नातल्लो.

'कुटाम' वाटसआप पंगडांत सयत आजकाल कर्करे चडून गेल्ले; कोण देव, सांत, इगरजेच्यो तसवीरो धाडून अपली भकतेची उचारणी करता तर कोण खाणाच्यो तसवीरो धाडता. कोण नव्या घराची तसवीर धाडता आनी कोण तांकांच समजनातल्ली माहेत वा जोक्स धाडता. सभार पावटीं रीटान चिंतल्लें आसा, अपणान मांयगांव सोडून कांय तेत्तीस-चोवतीस वरसां जालीं. तरयी गांवांत एलिसांवाविशीं प्रचार, धरमाच्या नांवान जांवच्या

मारामारेविशीं वा ल्हान-ल्हान भुरग्यांचेर चलच्या भलत्कार तशेंच खुनियेविशीं खबरो वाचून पुरो जाल्ल्याक आतां वाटसआपाचेर सयत तसलेच फोटो/विडियो येवच्यो पळेंवक रीटाक नाकासलें. एक दोन पावटीं अपणान वाटसआपार आसचें कित्याक हेरांक कळयलें म्हळ्ळे चुरचुरे सयत रीटाक भगताले आनी अपूण ह्या पंगडाथावन भायर वेचेंच बरें म्हण भगतालें. पूण 'कुटाम' म्हळ्ळें अरथ नातल्लें चिंतपान तें सोडदोड करतालें. ह्या फारवर्ड मेसेजीं मधें अपरूपायेन सयरयांच्यो खबरो मेळताल्यो त्यो तें सांजेर काम संपवन पाटीं येताना मेट्रोचेर बसून वाचतालें.

ल्हानपणार बोंबोयचो माम म्हळ्यार पयलो ताका मोग आसल्लो. ताणें बोंबोय थावन हाडच्यो खारी बिसकुटो, कडक पाव, आनी गांवांत ताणें येवून आमकां खांवक दिंवचो मसका पाव म्हळ्यार आमी कितेंय करुंक तयार आसल्यांव आनी तिच्च आमची असकत्काय जावनासली. एकलोच भाव देकून मांयक तो मोगाचो. देकून सकाळीं थावन सांज परअयांत 'बाये तें रांद, बाये हें रांद' म्हणतालो. मांयक सयत ताचेर विशेस मोग, ल्हान भुरगो आसतानांच तांची आवय सरली देकून तिच्च मामाची भयण तरयी आवयपरीं. आटवी क्लास फेयल जाल्लोच्च सेजारी बोंटाच्या माधू शेट्टीसवें बोंबोय गेल्लो माम, त्याच बोंटांच्या होटेलांत काम करुंक लागल्लो म्हणून ल्हानपणार आयकल्लो उगडास.

रीटान ताका पयलें पळेताना तो कांय भावीस-तेवीस वरसांचो तरनाटो, रीटा पांचवे क्लाशिंत शिकचें भुरगें. चडावत जावन माधू शेट्टी आनी बोंबोयचो माम सांगाता येताले वेताले आनी तांची खास इसटागत. माधू शेट्टी सयत मामापरिंच ताच्या भयणिगेर रावतालो. आनी ताच्या भयणीक जोवळीं चेडवां सातवे क्लाशिंत शिकतालीं. दोन हफ्त्याच्या रजेर आयिल्ल्या माधू शेट्टीन बोंबोय थावन फियेट कार हाडचें आसल्लें. कुक्केहळ्ळीक कार आयलें म्हळ्यार आतां सगळ्यांक कळीत आसलें, तें माधू शेट्टीचें फियेट कार म्हणून.

माधू शेट्टीच्या भयणिच्या दोगांय धुवांच्या मतिंत तांचो माम माधू शेट्टीच तांचो मुखलो घोव म्हणून आसलें तरयी दोगांय ताच्यो बायलो कशें जांवच्यो म्हळ्ळें सवाल रीटाच्या मतिंत धोसतालें. रीटा सयत एकलेंच चेडूं. बोंबोयचा मिल्लांत काम करून आसचो रीटाचो आन रीटा देड वरसांचें भुरगें आसचेवेळार आवघडांत अंतरल्लो देकून त्या मिल्लाच्या म्हालकान दिल्लो थोडो पोयसो बेंकांत दवरून गांवांत माधू शेट्टीच्या गेणिच्या अरध्या एकरया जाग्यार कांय इल्ली कृषी/रांदवय लावन, ल्हान एका कुडाचें घर करन दीस काडन आसच्या रीटा आनी तिच्या आवयक बोंबोयचा मामाचोच आधार.

रीटा शिकपांत चुरूक आनी बुधवंत, इगरजेच्या मिसाक वेतालें. रजेर आयिल्लो माम सयत रीटाक मिसाक आपवन व्हरतालो तरयी रीटाक कितेंगी अपल्या मामाचेर एका रितिचें असवकसायेचें भगाप. जांवक माम

मोगाळ, केदिंच रीटाचेर दडयो घालून वा ज्योर करून उलवंक ना. जाय जाल्लें घेवन दितालो; जशें ऐसकेंडी, कूल ड्रिंक्स, चोकलेटां. फिलमाक आपवन व्हरतालो, नोवें वसतूर घेवन दितालो, बूक, पेन्नां घेवन दितालो तरयी अपणाक बोंबोयचो माम कित्याक खायस जायना म्हळ्ळें रिटाक समजनातल्लें.

*****

रीटा सकाळिंचो नासटो करून उटाउटीं मेट्रो धरून कामाच्या वाटेर आसलें.

मांयगांवाक वचानासताना कांय सतरा वरसां उतरल्लीं. सतरा वरसाधीं आवयच्या मोरनाक गेल्लें रीटा, त्ये उपरांत गेल्लें ना. मोरनाक गेल्लेवेळार पयशिले मौशेन रीटाचो फोन नंबर घेतल्लो आनी तवळतवळ अपल्या भुरग्यांक शिकपाक पोयशे धाडुंक फोन करताली आनी रीटा सयत तांकां पोयशे धाडतालें तरयी संबंध म्हणून रीटाक कोणयी नातल्लीं. फकत अपली आस्पत्र, घर आनी हें मेट्रो सोडल्यार रीटा खंयचरयी वचानातलें. मिसाक वेचेंय भोव अपरूप जाल्लें देकून टिवी आनी खबरो तें वाचतालें.

नाका नाका म्हळ्यारी ताच्या मतिंत बोंबोयच्या मामाचिंच चिंत्नां मतिंत येतालीं. तो कसो मेलो? ताचें मोर्न करुंक कोण आसा? आतां कितें जातेलें? एकेच्च सवाल रीटाच्या मतीक धोसतालें.

'माधू शेट्टी नशीबवंत, ताका दोगी बायलो, पूण अपणाचें नशीब खोटें' एक दोन पावटीं माम रजेर आयिल्लेवेळार सांगतालो. पूण रीटाच्या नेणत्या मतीक कितेंच समजानातल्लें. आवयन रीटाक समजायिल्लें; 'अळे पुता, बोंटांचीं थोडीं बायलां, अपल्याच ल्हान भावाक अपल्या धुवेक दीवन काजार करयतात.'

रीटाक काजार म्हळ्ळें आयकून लज दिसताली.

दीस गेल्लेपरिंच बोंबोयचो माम देदेस्परोर जाल्लो दिसतालो. एका कुडाच्या घरांत एका कुशीन घाल्ल्या मांदरेंत रीटा आनी तिची आवय निदतालीं तर अनयेका कोनशांत मांदरेर बोंबोयचो माम निदतालो. ताका नीद लागली म्हळ्ळें ताणें घोरेंवक सुरू करतानांच कळतालें. पूण पाटले थोडे दीस थावन ताणें घोरेंवचो आवाज आयकनातल्लो.

एक पावटीं तुका हांव सैकल सोडूंक शिकयतां म्हणून एक भाड्याचें सैकल घेवन आयिल्ल्या मामान 'सैकल सोडूंक शिकल्यार अपूण एक नोवें सैकल घेवन दितां' म्हळ्ळें आयकून रिटाच्या हुमेदीक पाकां लागल्लीं. अशें सैकल सोडूंक शिकवंक वेल्ल्या मामान रिटाक अपल्या बावळ्यांनी आरावन धरन सैकल शिकयताना रिटाक सैकल शिकचांत भिलकूल ध्यान गेल्लेंच ना.

थोडे दिसांनी मामान रीटाक फिल्माक आपवन व्हरतां म्हणताना, रीटा अपणाक फिल्माक वचूंक नाका म्हळ्ळें मात्र. रीटाच्या आवयन रीटाच्या कानसुलाचेर दोन थापडां घालून सांगलें; 'तुजो मामगो तो, तुका खांवचोना, व्हच'.

आनी रीटा उपाय नासताना मामासवें फिलमाक गेल्लें. ते दिसा थावन रिटाक

आपल्या आवयचेर आनी मामाचेर मोन मोडल्लें.

थोडे दिसा उपरांत माम बोंबोय पाटीं गेल्लो आनी रीटान आपल्या आवयलागीं सांगूंक धरलें; म्हाका माम कित्याकगी खायस जायना मां, तो म्हाका कंय कंय अपडता आनी कीस दिता... माधू शेट्टी अपल्या भाचियांक तशें करता, अशें करता म्हणता मां, म्हाका समजना..

पूण रिटाच्या आवयन कितेंच प्रतिरोध दाखयिल्लो ना. "तुका लागलां पिशें, नाका जाल्लें चिंतून भेशटेंच तुजी तकली पाड करताय, ताणें कीस दिल्यार कितें जालें, तो तुजो माम ने?"

पूण रीटाच्या नेणतुल्या मतीक कितेंच समजनातल्लें, खंयगी, कितेंगी सारकें जायना म्हळ्ळें चिंतप ताच्या मतिंत उदेवन येतालें.

अशिंच वरसां पाशार जाल्लेपरीं रीटाची धावी क्लास जावन नरसिंग शिकूंक गेलें. आनाच्या कंपेनिथावन मेळल्लो इल्लो पोयसो बेंकांत आसल्लो, तो चेडवाच्या शिकपाक आसुंदी म्हणून रिटाची आवय थंय हांगा काम करून दीस काडताली. अशें थोडेच वरसांनी नरसिंग जावन काम सोदून आसचेवेळार मामान बोंबोय व्हरून कामाक लागंवची इच्छा वेक्त केली मात्र न्हय, रीटाक आपवन वरुंक गांवाक आयिल्लो. रीटालागीं सयत दुसरी वाट नासताना अपल्या मामासवें बस्सार बोंबोय गेल्लें.

*****

सकाळिंचो वेळ जाल्ल्यान मेट्रोचेर गडदी नातल्ली. रीटा तेंपाधलीं चिंतनां घेवन आस्पतरेक रिगोन काम करतासताना सयत रीटाची मत बोंबोयच्या मामाविशिंच चिंताली. अपणान ताच्या मोरनाक वेचें? खंय म्हण वेचें? कित्याक म्हण व्हेचें?

रीटाच्या मतिंत हळताचें वादाळच ऊटल्लें.

आस्पत्रेंत सयत वेवेगळ्या जाती-कातिच्या पिडेसतांक मेळून तांच्यो एकेक काणयो आयकून सवय जाल्ल्या रीटाक आतां मामाच्या मोरनाक लागून गांवाक वेचें कसलेंच चिंताप नातल्लें. अवचीत म्हळ्ळेपरीं त्ये दिसा एक ल्हान भुरग्याक एमर्जेन्सी वारडांत भरती केल्लो आनी रीटाक सयत ते दिसा एमर्जेन्सी वोर्डांत ड्यूटी आसली.

ल्हान भुरगें, कांय इक्रा-बारा वरसाचें भुरगें. मासीक स्रावांत विपरीत रगत व्हाळल्लें देकून तिका भरती केला म्हण कोणेंगी सांगचें आयकलें. पूण उपरांत कळोन आयलें, तिच्याच एका सयरयान तिचेर भलत्कार केला म्हणून.

रिटाची तकली पिसांतूर जाली, चेडूं मतीर नातल्लें. ओपरेशनाची तयाराय करुंक आसली देकून हेर नरसांसवें रीटा सयत ओपरेशनाची तयाराय करुंक लागलें.

स्वीडन तसल्या प्रगतिशील श्हेरांत सयत असलीं आणवीं कामां घडतात? रीटासवें काम करन आसचें इथियोपियाचे नरसान हळू ताळ्यांत पूसपूसचें रीटान आयकालें.

खंयचेंय श्हेर कोणायचेरयी भलत्कार करिना, पूण ती विकृत मनोगत भलत्कार

करता रीटान जाप दिल्ली.

भिरमत त्या भुरग्याची, पूण तिका राकूंक तिच्या घरांत दादलो कोणयी नातल्लो? परत तिचें सवाल.

घरच्या दादल्यानच भलत्कार केल्यार कोण आसचो राकवली? रीटान समजांवचें प्रेतन केलें.

तितल्यार डाकटर ओपरेशन थियेटराक रिगलो.

ओपरेशन जातच्च रीटा आनी हेर नरसां त्या चेडवाचेर नदर खंचवन बसल्लीं.

चेडवाक पळेल्लेपरिंच रीटार्ची चिंत्नां जार्गी जाताना भगणां सयत उचांबळ जावन येतालीं. अपणाक कामाक लागयतां म्हणून बोंबोय आपवन हाडल्ल्या मामान अपणाक ताच्या एका इश्टागेर आपवन वेल्लें, पयणाच्या पुरासणेंत आयिल्ल्या म्हाका जेवंक जावंक नाकासलें देकून पियेवंक दिल्लें कितें म्हळ्ळें रीटा भिल्कूल न्हेणासल्लें. फकत दुसऱ्या दिसा उटताना मात्र कठीण आंग दूक आसचें रीटान वोगेच्च सोसचेशिवाय निरवोग नातलो देकून आज पासोन रिटाक सगळे दादले अपल्या बोंबोयच्या मामापरिंच दिसताले देकून एकसुरेंच ऊरल्लें.

कितलें मासून भुरगें, असल्या नेणत्या भुरग्याचेर सयत भलत्कार करुंक खंच्या दादल्याक मन आयलेंगाय? इथियोपियाचें नरस परत पुरपुरोन आसल्लें.

ooo



# कथामंच

ज्योती कुंकळकार

(कथा)

## ब्रेस्ट कॅन्सर

आयज सकाळीच जाग आयली तेन्ना हॉस्पीटलांचे वातावरण सामके भयानक दिसले. नर्सी हेवटेन-तेवटने येता - वता. कोण-कोणाक किते सांगता, कोण च्या पिता, कोण रडटा, नवो पेंशट येता किते. आनी किते. आयज आनी कोण-कोण म्हाका हॉस्पीटलात मेळपाक येतली, देव जाणा तशी तीं सगळीं नाती-गोती गेली स म्हह्यने घरा येत आसा. शिवाय परत-परत फोन करून चौकशी करून बेजारूय करतालीं. आता आनी कितलो काळमेरेन मेळपाक येतली काय देवा? परत-परत त्योच गजाली आवयस! तुका ब्रेस्टकॅन्सर कसो जालो? केन्ना कळ्ळे? त्रास जालो? आनी म्हाका परत-परत तेच सांगून वाज आयलो.

स म्हयन्यां पयलीं अकस्मात न्हातना स्तनाक गांठ लागली... म्हाका कल्ल जालें. रोखडोच हांवें म्हजी इश्टीण रुपाक फोन केल्लो. म्हाका एक दुबाव येता, अशी अशी गांठ आसा किते करू? ताणें म्हणलें, वेळ वगडायनासना मणिपालांत वच. डॉ. साळकाराक मेळ. म्हज्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली. अशी गांठ आसा किते म्हणून? किते समजुपाचें? तशेंच सांजवेळा दोतोराक मेळ्ळें. दोन-तीन दीस कसल्यो-कसल्यो टेस्टी केल्यो आनी आनी मनांत जो दुबाव आयिल्लो तोच खरो जालो...

ब्रेस्ट कॅन्सरच! दुसरी आनी तिसरी स्टेजी मर्दीं आसा. तें स्तन काडचेंच पडटलें... आयकून त्रास जाले, वायट दिसलें... रडपाक आयलें. हेवूय भोग म्हज्या वांट्याक

**ज्योती कुंकळकार** : जल्म : 1961, कथाकार, अनुवादक, सिने-नाट्य अभिनेत्री, फिल्म निर्माती. कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंत लेखन. तीन कथासंग्रह, एक कादंबरी, तीन अणकाराचीं आनी दोन संपादीत, अशीं णव पुस्तकां प्रकाशीत. गोंय सरकाराचो यशोदामिनी तशेंच डॉ. टी. एम. ए. पै फावंडेशन, मणिपाल ह्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : डी. 1, सुखनिवास, गौरी कॉ-ओपरेटीव्ह हावर्सिंग सोसायटी, जुवारवाडो, तिवरें, माशेल - गोंय 403 107, मो. : 9822161853

आयले. तशें पळोवपाक गेल्यार हांव सशक्त, केन्ना थंडी जोर ना, साकरेचे त्रास नाक. प्रेशर ना. वय पन्नास. तरी हें कशें जालें? अशें म्हणटात, भायलें खाण-जेवण – चिंतप – त्राण – तणाव वा न्हीद नासप वा भुरग्याक आंगार दूद दिवंक ना. जाल्यार जांव येता, अशेंय खुबदा हांवें वाचलां. पूण हांतूंतलें म्हज्या वांट्याक कांयच येवंक. खावन-जेवन सुखी – कसलोच हुस्को तंटो ना... एकूच विचार म्हज्या मनांत परत – परत येवपाक लागलो.

म्हज्या शरिराचो एक भाग जो अत्यत म्हत्वाचो, बायलपण मिरोवपाचो तो एक अवयव आयज म्हजे कडेन ना. तो काडून उडयलो. हो जितलो वायट अणभव तितलोच भुरग्याक आंगावयलें दूद दिवपाचो अणभव कितलो बरो. बायलांच्या थानांसंबंदातली आनंद दिवपी एक सुंदर याद. भुरग्याक भूक लागली म्हणटकच घरांत खंयूय केन्ना मंद सूर्य प्रकाशांत – जाल्यार केन्ना काळखांत, मध्यानाचेर जाल्यार केन्नाय भर दनपरां सगळीं कामां कुशीक दवरून भुरग्याक दुदाक धरतना खूब बरें दिसतालें. सगळो शीण त्याच खिणाक ना जातालो. अश्या वेळार आवय म्हणून अभिमान दिसतालो. अश्या वेळार आवय आनी भुरगीं हांचें नातें खूब लागीं येता. पोट भरतगच भुरग्याची ती तृप्तताय पळोवपा सारकी आनी एक बायल तांचेपरस एक आवय जाल्ल्याची तृप्तताय मनाक – काळजाक स्पर्शून वता.

हांव आनीक फाटल्यान गेलें. म्हजें भुरगेपण सोंपलें हांव आठवेंत आसलें. विज्ञानाचो तास आशिल्लो. हांव मग्न जावन डायग्राम काडटाले. इतल्यांत म्हजी तंद्री हाल्ली जाल्यार आमचो विज्ञानाचो सर म्हजे फाटीचेर हात फिरयतालो. ल्हवू ताणें आपले तोंड म्हज्या काना कडेन हाडले, आनी म्हणूंक लागलो – तुवें अजून ब्रेसियर घालपाक सुरवात करूंक ना? आतां तूं व्हडलें जालां. पी. टी. करतना जाणवता. हीं उतरां आयकून म्हाका धडधडपाक लागले. ताचें तें विचित्र हांसप म्हाका अजूनय याद जाता. म्हाका खूब लज झाली. बरोवपाक सुचना जालें. रडपाक येवपाक लागले. इतल्यांत मदली सुटी जाली. बाथरूमांत वचून ल्हवूच हांवें म्हज्या पेटिकोटाकडे तकली घालून पळयलें. फुडले सगळे तास म्हज्या टेंन्शनांत गेले. फाल्या परत अशें कांय जावचें ना न्ही... घरा वतना आईक हे सगळें कशें सांगपाचे? ह्या विचारान हाव घरा आयलें...

दोन दीस पोटांत दुखता म्हणून शाळेंत वचूक ना. मर्दी एकदां व्हडले भयणीची ल्हवूच ब्रेसियर घालून पळयली खूब घट्ट जावपाक लागली... पाडपडूं अशें म्हणून बायलपणाक खेपलें.

ताचे पयलीं एकदां सातवेक आसतना आमच्या शेजाऱ्या शोभागेर हांव गेल्लें. अर्दी-मर्दी हांव तागेर वतालें. एक दीस तागेर कोण तरी घोव आनी बायल जेवणाक आयिल्लीं. तो दादलो हात धुवपाक बॅसिना कडेन गेलो. तशें शोभाचे आवयेन म्हजे कडेन तुवालो दिलो. ताका दिवपाक. हांव तो तुवालो घेवन धांवत ताका दिवपाक

गेले... अपुरबायेन जसो गालाक चिमटो काडटा तसो म्हजे छातयेक ताणें चिमटो काडलो. इतल्या विचित्रपणान आनी नेटान चिमटो काडलो. कितलोसोच वेळ म्हजी छाती दुखताली. एके वाटेन भंय आनी अपमान म्हजें काळीज सामकें पोखरून गेल्लें.

सगल्यांची नदर थंयच कित्याक? कित्याक हांव चली म्हण जल्माक आयलें? ह्या एका अवयवा खातीर कितले त्रास, लज जाता, अशे एक आनी दोन प्रसंग न्ही. दादल्यांक आकर्शीत करपी म्हज्या थानांचो म्हाका खूब राग आयलो. हांव जाता तितलें म्हज्या छातयेचेर लक्ष वच्चें ना अशे कपडे घालतालें. सलवार कमीज घालो जाल्यार चडांत चड ओडणेच्यो मिरयो येता अशे रितीन हांव ओडणी लायताले. तरी काय मनशाचे डोळेच ओडणे भितर आसात, अशें दिसतालें. याच ओडणेन तांचो गळो आंवळून-दांबून मारून उडवचें पूण शेवटाक म्हजो म्हाकाच राग येतालो, देवा, चली कित्याक केलें? नाका आशिल्लो हो अवयव.

चड करून बशीन प्रवास करतना तर चली जाल्याचें दुख्ख खूबूच म्हणल्यार खूबूच जाणवतालें. कंडक्टरा पासून प्रवासी मेरेन कितलें जाणांचे हात कितल्याशाच फावटी स्पर्श करपाक यत्न करताले. केन्ना - केन्ना रस्त्याचेर चलतना विखाळ्यो नदरो, बुरशे कमेंण्टस् म्हज्या कानार पडटाले. एक दीस म्हजे सरपळेक सुंदर विमानाचें लॉकेट घाल्लें, म्हज्या काकाल्या चल्यान दुबयच्यान हाडिल्लें. एक चांडाळ चौकडी एका तिट्यार बशिल्ली. बारीकसाणेन म्हाका पळयत एकल्यान म्हणलें, ''विमाना परस विमानतळ बरें दिसता, दिसलें पांयाचें जोतें काडचें आनी तोंडार मारचें... पूण तितली धिटाय म्हजें कडेन नाशिल्ली... पूण परतूनय हांवें म्हाकाच खेपलें... चलयेक नाकाशिल्लो अवयव देवान दिला. म्हाका नाका हो अवयव.

आतां म्हाका दिसता... म्हजो हो अवयव काडपाक म्हजी नकारात्मकता... हांवूच जबाबदार. कारण दर खेपेक हांव या अवयवाक दुशणां दीत रावलें.

पूण एकदां लग्न जालें आनी खूब गजाली जाग्यार पडल्यो. दादलो मनीस बरोबर आसतना विखारी नदरो मातशो कमी जाल्यो. बशिनूय प्रवास बरोच कमी जालो. केन्नाय एकलें आसलें जाल्यार बुरशे कमेंण्टस् कमी जाले. गळ्यांतल्या त्या काळ्या मणया भितर कितली शक्ती आसा. खबर ना. पूण आंकवारपणांत जे त्रास जाले तितले त्रास मागीर जाले नात.

दोनूय भुरग्यांक आंगावयले वेवस्थित दूद दिल्लें. ज्या अवयवाचो हांवें आंकरवारपणान खूप तिरस्कार केल्लो. या अवयवाविशीं मागीर केन्नाच म्हाका वायट दिसलें ना. पूण ज्या वेळार दोतोरान सांगले, ब्रेस्टकॅन्सर आसा, एक थान काडचें पडटालें. तेन्ना म्हाका म्हजीच नकारात्मीक वृत्ती भोगली... अशें हांवें करपाचें न्ही, म्हणून हांवें पोले फोडून घेतले. म्हजें मन म्हाका खातालें...

काल ऑपरेशन जालें... एक बाजू रिकामी पळयतकच म्हजें म्हाकाच हांव अर्दकुटें दिसलें. साडयेन डौलदार दिसपी म्हजें शरीर लुळे पडिल्ले भशेन दिसलें... आपशींच दोळ्यांतल्यान घळाघळा दुकां येवपाक लागलीं.

"मम्मा" ह्या म्हजे चलयेच्या आवाजान हांव जागे जाले. "मम्मा रडटा कित्याक? त्रास जाता गे?"

"बाय, तुका चली जाल्ल्याचे केन्नाय त्रास जाता गो?"

"कित्याक मम्मा? तुमी चली म्हणून केन्ना वागयलेंच ना न्हय."

"तशें न्ही गो, चली म्हणून समाजांत वावुरतना दादल्या मनशांचो त्रास जाता?"

"केन्नाच ना मम्मा, काळ बदल्ला. आयची चली धीट, हुशार. दुसऱ्याची वायट नदर रोखडीच कळटा." आयज खंयचेंय चली कसलोच अन्याय सोंसचें ना, थंयचे थंय ताका शेडायतली, आयज कितलेशेच कायदे आमच्या बरोबर आसात. आमचे कॉलेजींन आतां सेक्शूअल हॅरेसमेंट कमिटी आसता. सादी कोणेंय फकांडां मारल्यार लेगीत ताका ख्यास्त जाता. इतलेंच न्ही मम्मा. समजा जर केन्नाय तुमकां एकलें रिक्षेंतल्यान वा टॅक्सीतल्यान वच्चे पडले जाल्यार त्या वाहनाचो नंबर 9969777888 ह्या नंबराचेर एसएमएस करप. रोखडोच तुका फोनाचेर एक्नॉलेजमँट येता तेभायर हांव खंयूय वतना म्हणजे हांगा लेगीत टॅक्सीन येतना जीपीआरएसचेर नदर दवरतां, गाडी – टॅक्सी सारकी वता काय ना. मम्मा, आयज चली जावप म्हणल्यार अभिमानाची गजाल. म्हाकाय म्हजो चली म्हणून अभिमान दिसता.. हो विशय आयज मर्दींच कित्याक? मागीर केन्नाय सुसेगाद उलोवया... चल सूप हाडला..."

हांव अभिमानान म्हजे वाडिल्ले हुशार चलये कडेन पळयत रावलें. खरेंच काळ बदल्ला आनी म्हजें पयलींचे मनांतले विचार फाफडून उडयले... आनी मनसोक्त सूप पिवपाक लागलें. 000



# कथामंच

(कथा)

कुमूद भिकू नायक

## खंत

एक दीस पणजे बसस्टॅण्डार रेखा दिसलें. हांवें मोठ्ठ्यान रेखा म्हूण उलो मारलो. म्हजो मोठ्ठो आवाज आयकून बसस्टॅण्डावयले लोक म्हाकांच पळोवंक लागले. तेन्ना म्हाका कळ्ळें हांवें मोठ्ठ्यान उलो मारला म्हण. आवाज आयकून रेखान फाटल्यान पळयलें. म्हाका पळोवन रेखान, 'शिल्पा' म्हणीत धांवत येवन वेंग मारली. आमी दोगांय खूब तेंपान मेळ्ळ्यात हे कोणाक सांगचें पडलें ना. रेखाचें आनी म्हजें कुळार काणकोणां. कुळाराचीं मनशां दिसतकच कितली खोस जाता हें सांगून कोणाक कळचें ना.

रेखा वेवसायान शिक्षिका. म्हजे परस वयान व्हड पूण आमचें बरें जुळटालें. हांव धावेक आसतना तें कामाक लागिल्लें. सभावान मायेस्त खरें पूण कोणा कडेनूय चड उलोवपी न्ही. कोणेय ताचे कडेन मुद्दाम जावन उलयलें जाल्यारूच तें उलयतालें. घरांतली सगळीं म्हणटालीं रेखा कडेन हाचे कशें जुळटा म्हूण कोण जाणा बाये. हांसो म्हणटा तो ताच्या तोंडार ना. आनी खरेंय आशिल्लें तांचें. ते कोणांय भितर मिक्स जायनाशिल्लें. भुरगेपणांत कामाक लागिल्ल्याचो तो परिणाम म्हणल्यार जाता. भुरगेपणांत हातात पयशे आयले म्हणटकच जाय जाय तें घेवपाक मेळटालें. ताची घरची परिस्थीती तशी बरी आशिल्ली. एकलेंच बाय म्हूण ताचे लाडूय भरपूर जातालें. ताका लागून घडये जायत. पूण आमगेर मात तें येतालें, बसतालें, म्हजे आवयन कितें दिल्यारुय खातालें. दिसभराक कांय घडिल्ल्यो गजालीय सांगतालें. खंयूय वचपाचें आसत जाल्यार आमी दोगांय बरोबर वतालीं.

**कुमूद भिकू नायक** : जल्म : 1965, बालसाहित्यकार, कथाकार. *'कुमूदाल्यो काणयो', 'मम्मी मम्मी काणी सांग', 'मोनिटर'* हीं बालसाहित्याचीं तशेंच *'पावलखुणो'* हो कथासंग्रह प्रकाशीत. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय तशेंच कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडें संस्थेच्या बालसाहित्य पुरस्कारान (2015) सन्मानीत. संपर्क : खोर्ली, तिसवाडी, गोंय. मो. 9921825200.

उपरांत रेखाचें लग्न जालें आनी रेखा वाळपय पावलें. बऱ्या घराण्यांत पाविल्लें. घोव इंजिनीयर म्हण सगळी ताची व्हडवीक गायताली. आशिल्लोय तसोच. सभावान खूब बरो. संस्कारी. मुद्दाम जावन कोणाय हडकितालो. जाण्टो मनीस दिसल्यार नम स्कार बाबा म्हणले बगर फुडें वचनाशिल्लो. गांवचो जांवय म्हण लोकूय ताका मानताले. घोवाक लागून रेखाय बदल्लें कुळारा येतकच वा कुळाराची मनशा दिसतकच आतां हांसतालें. सगळ्याक हडकितालें.

उपरांत हांवूय कामाक लागलें आनी म्हजें लग्नूय जालें आनी हांव माशेलांत पावलें. नोकरी हांव पणजे करतालें. केन्ना केन्ना म्हका रेखाची याद जाताली. सेमिनाराक दोन–तीन फावटी मेळिल्लें तें म्हाका. उपरांत तें म्हाका मेळ्ळेच ना. आयज तें म्हाका विशेक वर्सांनी पणजेच्या स्टॅण्डार मेळिल्लें. आतां रेखा पयलीं सारकें बारीक नाशिल्लें. बरेंच मोठे जाल्लें. केंसूय मात्शे धवे जाल्ले. दोळ्याक वक्ल आशिल्लें. वय वाडलें म्हणटकच मनशांत आपसूकच बदल जाता. तसो रेखांतूय बदल जाणवतालो. पूण रेखाक हांव वळखलें आनी हडकिलेंयबी. ''रेखा, तूं हांगा खंय?''

''आगो हांव सध्या पणजेकान्न जालां. पूण तूं हांगा खंय?'' रेखान म्हणलें.

''हांव पणजे नोकरी करतां. कामा वयलें सुटून आतां घरा वतां.'' शिल्पान म्हणलें.

''हांव जाणा गो, तूं पणजे काम करता म्हण. एक दीस हांव तुका मेळपाक येवपाचें आशिल्लें.''

''येवपाचें न्हय? कित्याक आयलें ना? आनी हांव पणजेच नोकरी करता म्हण तुका कशें कळ्ळें?''

''आगो, तूं म्हाका कितले प्रस्न विचारतले. म्हाका पयलीं उलोवंक तरी दी. अशें म्हणीत शिल्पा हांसपाक लागलें. आगो, लायब्ररींत गेल्लेकडेन तुजें म्हाका पुस्तक मेळ्ळें. दोळे भरून तुजो फोटो आनी पुस्तक पळयलें. पुस्तकांत तुजो फोन नंबर आनी पत्तोय मेळ्ळो. म्हाका कितली खोस जाली म्हण सांगूं, किते करचें तेंच कळना जालें. हांवें ही गजाल म्हज्या घोवाक सांगली. खरेंच गो तुजें पुस्तक पळोवन म्हाका खूब बरें दिसलें. हांव म्हज्या घोवाक घेवनूच तुका मेळपाक येवपाचें आशिल्लें.'' ही गजाल रेखा म्हाका उमेदीन सांगतालें. आडेकडेचो लोक आमकां पळयता हाचें आमकां भानूच नाशिल्लें. खूब तेंपान जायना रेखाक पळोवन हांव खोशी जालें.

आमी दोगांय वचून बसस्टॅण्डाचेर जागो आसा तो पळोवन थंय बसलीं. रेखान म्हाका खूब गजाली सांगल्यो.

''आगो रेखा, केंस पिकले मुगो तुजे?'' हांवें म्हणलें.

''पिकपाचेच, हांवें जांवय हाडलो मुगो. चलयेक लग्न केलें. सांवड्ड्या दिल्या ताका. जांवय दोतोर. आतां आमी घरां दोगांच. हांव आनी म्हजो घोव संदेश. दोगांय रिटायर्ड. सध्या घोवाक टायमपास नोकरी मेळ्ळ्या.''

''कितें? टायमपास म्हूण नोकरी आसता?''

''आतां तूंच सांग पणजेचे मांडवी न्हंयेचे देगेर बसून सकाळ आनी सांजे नुस्तें गरयता. म्हणल्यार टायमपास न्हय? आनी

किते सांगूं. पूण एक मात बरें जालें थंय वचत सावन ताका बरे बरे इस्ट मेळ्ळ्यात. कांय रिटायर्ड मनशांची वळखूय जाल्या. आदल्यो यादी आनी गजाली हातूंत ताचो वेळ वता. ताका लागून तो मात्सो उमेदी आसा. दुसरी बरी गजाल म्हणल्यार साठ वर्सां उपरांत जायना ताजें नुस्तें पळोवन बरें वायट नुस्तें तो वळखुपाक लागला.''

''ही मात खरेंच बरी गजाल. पूण फुडें फुडें नुस्तें विकपाचें काम तुका करचें पडना मुगो? हांवेंय ताचीं फकाणां केलीं आनी आमीं दोगांय हांसलीं. खरें म्हणल्यार हांव तुजे कडेन कित्याक येवपाचें आशिल्लें तें सांगपाचें विसरलें.''

''आतां सांग मुगो. म्हाका पळोवपाची तुका इतकी उमळशीक कित्याक जाली ती.''

''आगो, तुका मेळप म्हणल्यार उमळशिकच गो ती.''

''खरें म्हणल्यार तुज्या ऑफीसात कसलेंय काम मेळटलें काय म्हण विचारपाक येवपाचें आशिल्लें हांव.''

''किते गो, तुंवूंय म्हजीं फकांडां करपाक लागलें आनी हांव हांसलें. पूण तें हांसलें ना. परतूनय ताणें म्हाका तेंच विचारलें. खरेंच हांव सांगतां, तुमच्या ऑफिसाचें कसलेंय अणकाराचें काम आसूं वा टायपिंगाचें काम आसूं म्हाका दिल्यार जाताले.''

'रेखा, तूं खऱ्यांनीच काम सोदता. अर्थीक अडचण...'' हांवें विचारलें.

''ना... ना... गो कसलीच अडचण ना. हांव तशें सुसेगाद आसा. सध्या घरांत हांव एकलेंच. बायचें लग्न जालें. वर्सभर लग्नाचो बोवाळ, तागेलीं वर्जी, तांगेर यो-वच सगळे सुवाळे जाले. आतां हांव सामकें बेकार जालां. घरांत एकलें रावपाची संवय ना हें तूं जाणा. घर सामकें खावंक येता. पयली कामाक वतना स्कुलांतल्यान घरा पावतकच मात्शें न्हिदल्यार पुरो कशें दिसतालें, आनी रातचें लेगीत कुंभकर्णा भशेन न्हिदतालें. पूण आतां बेकार आसून न्हीदल्यार लेगीत न्हिद पडना.''

''हय गो, तूं सांगता तें कळ्ळें म्हाका, खरें म्हणल्यार हातूंत आमचीच चूक आसा. घरांतलीं कामां आमचे कडेन जाता आसतना आमी ती दुसऱ्या कडल्यान करून घेतात. आयदनां घांसप, कपडे धुवप, कपड्याक फेर्र मारप, घरांत सान्न मारप आनी तितलेंच न्हय घरांतलें जेवण, रांदपाचे काम लेगीत आमी दुसऱ्या कडल्यान करून घेवपाक लागलीं. आमी नोकरी करतात म्हणून घरांतलीं कामां सोडलीं आनी घरांतल्या कामांची संवय मोडली. आतां रिटायर्ड जातकच किते करप हो प्रस्न आमचे मुखार येता.''

''हय शिल्पा, तूं सांगता तें एकदम बरोबर आसा. पूण आतां म्हाकाच कळना किते करुं तें.''

'रेखा, तूं इतलें आबूज जावं नाका. आतां बरोवपाचें काम कर. आयज मेरेन भुरग्यांक शिकयतना मेळिल्ले अणभव बरोवन काड. आंगणांत गार्डन बी केल्लें आसत जाल्यार थंय सोफा, खुर्ची घाल. हांव बी येता तुमगेर एक दीस. ''

''आगो हांव पणजे फ्लॅटांत रावतां. सोफा, खुर्च्यो घालपाक जागो आनी गार्डन आसपाक नाका? तशें आशिल्लें जाल्यार

हांव काम मागता आशिल्लें? ''

''तुजे मूळ घर वाळपय आनी तूं पणजे कामाक लागून रावतालें न्हय.''

''हय, खरें तुजें. म्हजे मूळ घर वाळपय. वाळपयचें घर विकून चाळीस लाखांक पणजे फ्लॅट घेतलो हांवें. आतां म्हाका पश्चाताप जाता घर विकिल्ल्याचें. घरा भोंवतणी सुमार सातशें मिटर जागो आशिल्लो. त्या जाग्यार धायेक माड, दोन–चार आंब्यांची, चिकवाचीं झाडां, म्हस्काचें तर येदें व्हडले झाड आशिल्लें. आख्ख्या गांवभर आनी सोयऱ्यागेर लेगीत सांगो पावताल्यो. जायत्या जातींच्यो केळी आशिल्ल्यो. भायर खुर्ची आनी सोफा घालून सुसेगाद बसपाक मेळटालें. शेजारीं बरीं आशिल्लीं. एकामेकांगेर यो–वच जातालें. कसल्याय कार्याक, उत्सवांनी आमी एकामेकांगेर वतालीं. मजा करतालीं. शेजाऱ्या पाजाऱ्यांक लागून उत्सवाचे दीस केन्ना केन्ना आसतात तें कळटालें. पाडपड्डूं, खंयची बुद्द सुचली आमकां कोण जाणां. आमी तें घर आनी थंयचो सगळो जागो विकलो आनी पणजे फ्लॅट घेतलो. आमी शारांत पावलीं म्हण हांव खोशी जालें आनी चलीय खूश जालें. थंयचो जागो, घर विकले उपरांत आमचें गांवांत वचपाचें बंद जालें आनी आमच्या गांवां कडली नाळ तुटली.''

''आगो रेखा, तुवें घराचे इतलें सुंदर वर्णन केलें. अशें सोबीत घर तुमी विकलें? कित्याक विकलें गो तुमी घर?''

''आमकां शारांत येवपाक जाय आशिल्लें. शारांत सगळ्यो सुखसोयी आसात, प्रवास चुकता असो समज आशिल्लो. पूण आतां आमी रिटायर्ड बी जाली. फ्लॅटां रावतकच मनशां कशीं गुदम रतात, घर कशें खावंक येता हें आमकां रिटायर्ड जातकच कळ्ळें. आमी दीसभर घरा आसनाशिल्लीं म्हणून आमकां व्हडलेशे कांय जाणवले ना. आतां घरांतूच आसतात. म्हणून सगळ्यो यादी दोळ्यांमुखार उब्यो रावतात. आतां याद जाता रेखा, घरा भोंवतणच्या झाडा–पेडांची. गांवांतले घर आशिल्लें जाल्यार ..... फूल झाडाक उदक घालपाचें, माडाचे नाल्ल काडून माड निवळ करून घेवपाचें, पणसुलां, आंबे काडपाक आनी भोंवतणचो वाठार निवळ करपाक वेळ वचपाचो. आतां फकत त्यो यादी उरल्यात....फकत त्यो यादी... हें सांगतना रेखाचे दोळे भरून आयलें. काकुळट आयली म्हाका ताची. म्हजेय दोळे भरून आयले.''

''खरेंच रेखा, आपलो जागो आनी आपलें मूळ घर कोणेंच विकचें न्हय. खंयूय नोकरी करांत, शारांनी रावात, पूण रिटायर्ड जातकच आपल्या मूळ घरां परती येयात...तें घर, तीं झाडां आनी तो परिसर लेगीत आमची मनशां घरां केन्ना येतलीं.. आनी पयलीं सारको हो हांसतो खेळटो परिसर केन्ना दिसतलो.... हाची वाट पळयतात...''

''हय शिल्पा, खरें तुजें म्हजे सारकेल्ल्या जायत्या रिटायर्ड मनशांक आपलें घर–दार, आपलो जागो विकतना भान उरुंदी म्हण मागतां देवा कडेन...''

000

# कथामंच

(कथा)

जुझे लॉरेन्स

## जाग्या वयलो देव

आयज सदचे भशेन उठून न्हावन धुवन पुंडलीक आपले देवा कुडींत देवाच्या फुडें उबो रावलो आनी त्या धुपान भरिल्ल्या जाग्यार विटिल्ल्या मनान पळयत रावलो. ताका देव-देवतांचो राग नासलो. हातांत फुलां, हळद, कुकूम आनी हेर पुजेच्या सामानान भरिल्ल्या ताटाचीय वीट नासली. त्या देवाकुडीच्या जाग्याचीच वीट दिसली. अगरबत्तेचो परमळ ताच्या नाका कडेन पावलो, सदांचे भशेन. पूण आयज ताणें नाक बंद करून घेतलें.

हें सगळें शणैमाम घरा येत सावन सुरू जाल्लें. उमेश शणैमामाक खूब मानता. उमेश म्हणल्यार पुंडलीक काम करता त्या ऑफिसांतलो प्यून. तो जरी प्यून आसलो तरी पुंडलीका परस वीस वर्सांनी व्हड आसल्ल्यान आपूण सगलें जाणा म्हूण समजतालो आनी पुंडलीकाक हें सगलें शिकोवंक सोदतालो.

''शणैमाम वास्तूशास्त्राचो पंडीत.'' उमेशान म्हणिल्लें.

''ताणें म्हजें घर तपासून पळंयलें आनी ताणें सांगिल्ले भशेन हांवें दाराची दिशा बदल्ली. आनी तेन्नाच्यान बायलेक आतऱ्यापयऱ्यान भायर जातालें तें सारकें नॉर्मल! खूब जाणांक बऱ्याक पडला तो. देखून हांवें ताका तुजेंय घर तपासूंक हाडला. ताका कांयच फारीक करपाची गरज ना. ही म्हजी भेट समज तुका.''

उमेश किते सांगतालो ताका पुंडलीक सदांच हय म्हणटालो. वास्तूशास्त्राची आयकून खबर आशिल्ली पुंडलीकाक. घर आनी वावराचे जागे कशे आसचे हांचें शास्त्र तें. पूण तें सगलें नव्या घरांक आनी बिल्डिंगांक

**जुझे लॉरेन्स :** जल्म : 1967, कथाकार, वेवसायान इंजिनियर. कथा लेखना वांगडाच संपादन आनी अणकाराचो वावर. रोमी तशेंच देवनागरी लिपयेंतल्यान लेखन. *'The Perish Churches of Goa'* हें पुस्तक प्रकाशीत. संपर्क : जुझे लॉरेन्स, फ्लॅट नं. 503, सुप्रीम बॉम्बी प्लाझा, कोंब, मडगांव - गोंय 403 601. मो. : 9822184740.

लागतालें. हें घर आपल्या सर्गेस्त बापायन बांदिल्लें. ताणें सगलें वेवस्थीत केल्लें, हाचेर पुंडलीकाक कसलोच दुबाव नाशिल्लो. बापायन घर बांदून दवरिल्ल्यान नवें बांदचें पडलें ना म्हणून तो बापायक आर्गां दितालो. शांती मेळूं ताच्या आत्म्याक!

"ओ प्रशांती." ताणें आपले बायलेक उलो मारलो. "वच्चे पयलीं मातशें घर निवळ कर हां. शणैमामाक घर पळोवंक जाय."

प्रशांतीन सगळें जाग्यार घालें आनी चार दिसांक म्हूण आवयगेर गेलें. पुंडलीक बरो उमेदीन शणैमामाक घराच्यो कुडी दाखोवंक लागलो. शणैमाम सालांतल्यान जेवणाकुडींत आयलो आनी मागीर रांदचेकुडींत गेलो. दोनूय हात फाटल्यान धरून एका एका दारांतल्यान वतना तो तकली हालयतालो कोंबये भशेन. कुडीचे कोनशे तपासतना नाकांतल्यान 'खूंफ खूंफ' आवाज करतालो, आपल्या नाकाचेरूच वायट बरें कळिल्लेवरी. मदींच खड्डो खरपितालो, घडये हिवूय वास्तूशास्त्राची परंपरा आसुंये.

न्हिदचे कुडींत भितर सरतकच ताणें जनेलां तपासलीं आनी खाट कशी दवरल्या तें पळयलें. पुंडलीकानूय खाटी वयल्या चादरांचेर बारीक नदर मारली. कसलेय दाग बी दिश्टी पडना जाल्यार पुरो.

शणैमाम देवाकुडींत पावलो आनी थंय थांबलो. तकली हालयली. खूंफ खूंफ केलें. माथें खरपिलें.

"कितें जालां, शणैमाम?" पुंडलीकान विचारलें.

"ही तुजी देवाकूड." शणैमामान तोंड वांकडें करून म्हणलें. "हो तर संडासाचो जागो मरे!"

पुंडलीक थप्प जावन ताका पळयत उरलो. उमेशानूय हीं भयानक उतरां आयकलीं आनी पुंडलीकाक कडेक धुकलून घर आपल्यालेंच जाल्ले भशेन फुडें सरलो.

"आनी देवाकूड खंय आसूंक जाय तर?" उमेशान विचारलें.

शणैमाम ल्हान ल्हान पावलां मारीत दोनूय न्हिदचे कुडींचे मदले पॅसेजींतल्यान फुडें गेलो आनी त्या ल्हान दारा फुडें थांबलो.

"हांगा. तुजी देवाकूड हांगा आसूंक जाय."

"पूण तो संडास!" उमेश ह्या घराक बरो वळखतालो. पुंडलीक भियेत वास्तूवाल्या फाटल्यान चलत आयिल्लो आनी आतां भिरांतेन सारकोच थरथरलो.

"शी शी! कितें केलां तुमी हांगा! देवाच्या जाग्यार बुरशें करतात आनी संडासांत पुजा करतात?" शणैमामान आपलो निर्णय जाहीर करून तकली हालयली आनी परतून सालांत गेलो.

"आतां कितें करपाचें?" उमेशान विचारलें. ताणें आपल्या इश्टाचेर मोयपासाची नदर घाली – शणैमामाक हाडून बरें जालें ना?

"देवाक आपलो जागो दिवूंकच जाय." वास्तूवाल्यान हट्ट धरलो. "तुमकां भुरगीं आसात?" ताणें वर्माचेर बोट दवरलें.

पुंडलीकान 'ना' म्हणलें. शणैमामान सरळ देवाची निर्शेणी दाखोवन दिल्ले भशेन केलें, "तुवें हे जागे बदलुंकूच जाय."

ताणें पुंडलीकाचेर काकुळटेची नदर घालून फुडें सांगलें, "ना जाल्यार देवाची माफी मागूंक खास यज्ञ करचो पडटलो. पन्नास हजार रुपया बी लागतले. इतले पयशे काय म्हणशी! देवाक थयचो उठोवून ह्या भलत्या जाग्यार धाडूंक जाय न्ही?"

"शणैमाम, विचारतां म्हण वायट धरूं नाका." पुंडलीकान फार्टी फुडें जावन म्हणलें. "आतां सध्याक देव खंय आसा? संडासांत वा देवाऱ्यांत?"

"हें आनी विचारचें पडटा तुका?" वास्तुवालो तापलो. "तुका सांगलां हांवें, तो तुज्या संडासांत आसा. तोच ताचो पवित्र जागो, जंय तुमी सकाळफुडें बुरशें करतात."

"भियेवं नाका, भियेवं नाका." उमेशान पुंडलीकाचें निरशेल्लें मुखामळ पळोवन म्हणलें. "आमी कितेंय तरी उपाय काडुं या, पुंडलीकबाबा. हांव मार्यानाक हाडटां. ताचे कडेन हें सगळें बदलपाचें कोटेशन पयलीं घेवया, मागीर पळोवया."

दुसऱ्या दिसाक मार्यान आयलो. संडासाच्या अशीर दारांतल्यान आपलें मोटें आंग धुकलून तो युरोपियन कोमोडाच्या सिटार बसलो. टॅप चालू केलें. व्हांवतेल्या उदकाक बारीकसाणेन पळयलें आनी बंद केलें. फ्लॅशाची दोरी ओडली. घुरघुरत्या उदकाक कान दिलो.

"टॉयलेट बरें आसा," ताणें म्हणलें. "कित्याक मोडूंक सोदता?"

पुंडलीकान ताका शणैमामाची गजाल सांगली. पूण शणैमामान कितले पयशे म्हणिल्लें तें सांगलें ना. घडये मार्यानाचें कोटेशन उणें आसत.

मार्यान मात्सो घुस्पलो. उपरांत चिंतेस्त जावन म्हणलें – "आरे पुंडलीकबाबा, देव सोगल्याक आसा. आमी ल्हान आसतना इगर्जेंत दोत्तनीन आमकां हें शिकयिल्लें."

"देव ह्या संडासांत आसा, हय, पूण तो तुजे देवाकुडींतूय आसा." पुंडलीकान टॉयलेटींत हालीच नवी जॅट स्प्रे बसयिल्ली. मार्यानान ती चालू करून आपल्या पांयांचेर मोखली.

"तो सगल्याक आसा," ताणें परतून म्हणलें. "तो तुजे आनी म्हजे भितर आसा. आमच्या काळजांत आसा." मात्सो त्रास काडून तो सिटा वयलो उठून उबो रावलो आनी पुंडलीकाक दोळो मोडून ल्हवू आवाजांत म्हणलें, 'कळ्ळें तुका, पुंडलीकबाबा, तो आमच्या भोंकांत पासून आसा."

हीं अपवित्र उतरां आयकून पुंडलीक विटलो. आपली तकली फाफुडली, हो बुरसो विचार पयस करूंक.

"हांगा देवाकूड करूंक आनी संडास थंय करूंक कितले पडटले?" पुंडलीक मुद्द्यार आयलो.

मार्यानान एका हाताचो कॅलक्युलेटर करून दुसऱ्या हाताचीं बोटां त्या तळटाचेर दामलीं. दोळेय कपलांत घालून गणीत केलें.

"साठ आनी पांच हजार रुपया,"

ताणें म्हणलें. "आनी कुजनाचें कितें? वास्तुवाल्यान कुजनाचो प्लॅटफॉर्म मुदार करूंक सांगलो ना? तेका आनी वीस हाजार..." मार्यानान एक पावल फुडें मारून सोडलें.

शणैमामा आनी मार्यान येवन गेल्यार तीन दीस जाल्ले. ह्या दिसांनीं प्रशांती आवयगेर गेल्लें, म्हणटकच तिका कांयच कळूंक पावलें ना. तिका खबर नासल्यारूच बरें, अशें पुंडलीकान थारायल्लें. आपूण तरी ऑफिसाचे टॉयलेटींत वचूंक शकतालों. ह्या तीन दिसांक तो हेंच करूंक लागिल्लो. देवाच्या जाग्यार बुरशेपण कशें करचें? आनी देवाकुडींत देवसपण तरी कशें करचें!

आतां पुजेचें ताट हातांत धरून तो परतून देवान्या फुडें उबो रावलो खरो. पूण दुसऱ्या हातान नाक दामिल्लें. ना. जावचें ना. आयज देवाक आसूं दी. चुकीच्या जाग्यार हांव देवसपण करचों ना. आनी प्रशांतीक हें सगळें कळ्ळें जाल्यार तें बाबडें संडासाक खंय वतलें? शेजाऱ्यागेर? आनी तांकां कितें सांगतलें?

पुंडलीकाकूय म्हूण ऑफिसांतले टॉयलेटींत वचूंक सोंपें नासलें. तो आतां ऑफिसाक सकाळचो अर्द वर बेगीन वतालो, कोणाकूय कळचें न्हय म्हणून. उमेशाक कळिल्लेंच. तो पुंडलीकाक खूब मायेचे आनी समजिकायेचे नदरेन पळयतालो. पुंडलीकाक आतां सकाळची संवयेची विडीय चुकताली. हें टॉयलेट शंबर लोक वापरतात, हें चिंतून तो विट्टालो. हाका लागून तो त्या युरोपियन कोमोडाचेर चडून आपले सँडल घाल्ले पांय दोनूय कडांचेर दवरतालो. आपलें आंग खंयच कोमोडाक तेंकूंक फावो नासलें.

आनी घरची ती नवी जॅट स्प्रे, तिवूय चुकताली. तिची बरी संवय जाल्ली. तिची गोड 'मसाज', गरम उदकाचो तो फेणेर... ह्या ऑफिसांतले टॅपाचें उदक थंड आशिल्ल्यान कुल्यांक झेलाचो बूट लागतालो. आनी वयरसून सकलाक पडपाचो चुकतालो.

"मार्यान पासश्ट हजार सांगता." ताणें उमेशाक सांगलें. "शणैमामाल्या होमा परस म्हारग. एक सांग, आमी दुसऱ्या खंयच्याय वास्तुवाल्याक विचारून पळोवया? दुसऱ्या दोतोराक विचारतात तशें?"

कांय म्हयने फाटीं पुंडलीकाक मुततना दुखूंक लागिल्लें. ताणें चार दोतोरांक दाखयिल्लें. जण एकल्यान ताका मुतखडो आसा म्हूण सांगिल्लें. ट्यूब घालून फातर पाडूंक दोगांयनी चाळीस जाल्यार एकल्यान तीस हजार रुपया पडटले, अशें सांगिल्लें. चवथ्यान सांगलें उदक पी. निमाणे कडेन कितलेशेच लिटर उदक पियेवन पियेवन फातर आपुणूच भायर पडलो. चार दोतोरांचें बील सगलें मेळून दोन हजार जाल्लें. म्हणटकच बरेच पयशे वांचयिल्ले.

"हय तर, कित्याक नाका?" उमेशान म्हणलें. "हांव फाल्यांच दुसऱ्या पंडिताक हाडटां. बाजारांत ना जाल्यार देवळांत मेळटलो."

"हय, कितें तरी प्रॉब्लॅम आसा हांगा." गांवच्या देवळांतल्या भटान सांगलें. हो भट तरणाटोच, आंगान गुळगुळीत आनी आंगार टी शर्ट. तो वास्तुचेंय काम करतालो खंय. ताणें आपली फी पयलींच घेतली – एक हजार रुपया. पुंडलीकान मनांतल्या मनांत उमेशाक आनी शणैमामाक गाळी मारल्यो.

ताणीच हें लचांड फुक्याक दिवन उडयिल्लें.

भट घरांत चांटां मारीत भोंवलो. न्हिदचे कुडींत मात्सो थारलो, खाटीचेर एक बारीक नदर मारली. घरा भायरूय भोंवलो, झाडां-पेडांक पळयत. बाग घेवन बांयंत व्हिस्त मारून आपले कोंगरे केंस सारके केले.

"पळय. हो प्लॉट फुडल्यान सकलाक देंवता. थंय पुर्वेक कोनशाक पिपळाचें झाड आसा. आनी उतार कोनशाक वडाचो रुख. म्हणटकच संडासाचो आनी देवाऱ्याचो प्रॉब्लॅम ऑटोमॅटीक कॅन्सल जाता." तपासणी सोंपोवन तो आपल्या सॅलफोनाचेर मॅसेजी आयल्यात त्यो वाचूंक लागलो.

"म्हाका वचूंक जाय." तो गेटी कडेन गेलो. "एका बिल्डरान आपयला. तो ऊबदांड्यार दामूल्या शेतांत बिल्डींग बांदूंक सोदता. त्या जाग्यार देंवचार वा कसलीय सासाय आसा जाल्यार पळोवपाक जाय. देवतेन तशी पाकळी दिल्या खंय ताका."

"पूण भटमाम, आतां म्हज्या घरांत देव खंयचे कडेन आसा?" पुंडलीकान हुस्क्याभरीत आवाजांत विचारलें.

भटान आपल्या केंसांतल्यान बोटां भोंवडायत घराक वयर सकयल पळयलें. "देव संडास आनी देवाकूड हांचे मदीं खंय तरी आसा." अशें म्हणून तो गेलो.

तरूय पुंडलीकाक समाधान मेळ्ळें ना. तो सांजे घरा येतकच भायर पिपळ आनी वडा मदीं पासयो मारीत रावलो. आपल्या सर्गेस्त बापायन हीं झाडां फावो त्या सारक्या जाग्यार रोयिल्लीं म्हूण आर्गां दिलीं. पूण देवाचें करप कितें?

देव हांगाय ना आनी थंयूय ना म्हणप सारकें न्हय. मार्यान बरो सुटलो. ताचो देव सगल्याक आसलो, नाका ते कडेनूय. पुंडलीकाक हें मान्य नासलें. देवाक ताचो असो जागो आसूंकच जाय. ना जाल्यार ताका जाग्या वयलो देव कित्याक म्हणटात तर? देवा देवा, म्हाका कितें तरी सांग, कसली तरी खूण, कसलीय कुरू दाखय! तूं आसा खंय तें दाखय!"

प्रशांती परत येत सावन ताका हुस्को जावूंक लागलो. तें बाबडें कळनासतना दिसाक दोन-तिनदां पातकांत पडटालें. घडये हाकाच लागून तांकां भुरगीं नासलीं काय? सायबा आमकां भोगोस, अशें म्हणीत ताणें आपले दोळे सर्गार उबारले. मळब निळें आनी निवळ आसलें. थवय च्यारी येवपाचो जाला. नळे काडून परतुपाक. घराक अजुनय बापायन बसयिल्ले आदले गांवठी नळे आशिल्ले. वाड्यांतल्या हेर घरानी मेंगळूरचे सुलचे नळे बसयल्यार खूब वर्सां जाल्लीं. पूण पुंडलीकान कोंत केल्लें. नवे नळे घालचे सुवातेर हेच गांवटी नळे वर्सावर्साक शिंवप सवाय पडटलें.

च्यारी आयलो. नळे थोडे थोडे काडून परतुपाक लागलो. दोगूच थवय आशिल्ल्यान पांख्याचें काम सवका चलतालें. त्या दिसांनी एके सकाळीं, थवय कामाक येवचे पयलीं पुंडलीक देवाऱ्या फुडें उबो रावून मागणें करपाचो यत्न करतालो. देवाऱ्या वयलें पांखें अर्दें उकतें आशिल्ल्यान थंय सकाळचो मंद उजवाड पर्जळटालो.

अकस्मात ताचे फुडेंच एक व्हडलो आवाज आयलो धप्प करून कितेंय पडिल्लेवरी. ताणें सट्ट करून आंग काडलें. देवाकुडींत सगल्याक नदर घाली. घराक तेंकिल्ल्या माडा वयलो एक नाल्ल

।कत्या पाख्यांतल्यान भितर पडिल्लो. ।व–देवतेच्या मुर्तींक सोडून एके कडेक ।डून कोनशाक बशिल्लो.

पुंडलीकान नाल्ल उबारलो. हो आनी आयज हांगा कसो पडलो काय? इतलीं वर्सां तो माड घरा वयर आसलोच. पाडेकार सोनू सदांच एकूय नाल्ल घराचेर पडूंक दिनासतना पाडटालो. हो नाल्ल कसो उरलो? सोनूक मात्सो तापोवचो पडलो.

पुंडलीकाचें लक्ष नाल्लाचेर गेलें. बारीकसाणेन पळोवंक लागलो. हें आनी कितें? नाल्लाक गणपतीची सोंड? गणपती बाप्पा! जिणेंतल्यो आडखळी पयस करपी! हरशीं चवथीच्या म्हयन्यांत पेपरांचेर फोटे छापून येताले ते दोळ्यां मुखार आयले. अमके कडेन पोपाय वा वांयगें मेळिल्लें, जें गणपतीचे तकले भशेन दिसतालें, ताचे कान आनी सोंड त्या फळ वा तरकारींत दिसतालीं. ह्या नाल्लाचेर तर गणपतीचें तोंड सारकें दिसतालें. पूण ह्या आब्रिलाच्या म्हयन्यांत कित्याक? हाचो अर्थ कितें?

तेन्नाच प्रशांतीन बोवाळ मारलो. तो थंय धांवत गेलो.

"कितें जालें?"

"पाडपडिल्लो कावळो! हांव संडासांत बशिल्लें तेन्ना खंयच्यान तरी म्हज्या माथ्यार बुरशें करून गेलो. नळे उकते उडयल्यात – पाडपडूं त्या च्यारीचें!"

तुवालो घेवन तें आपले केंस साफ करूंक लागलें.

"कांय नजं–" पुंडलीकान ताका फुसलायलें. तें संडासांत गाळी मारता म्हण मात्सो बेजार जाल्लो.

"ही बरी खूण. कावळो माथ्यार हागलो जाल्यार भाग्याचें– पयशे मेळपाचे आसात, अशें म्हणटात!"

बरी खूण! पुंडलीक तटास जालो. हय तर! देवान आपले वटेन पवित्र नाल्ल शेंवटिल्लो देवाकुडींत आनी कावळ्याक धाडिल्लो, आपले बायलेचेर हागूंक, संडासांत! म्हणटकच सगळें सारकें आशिल्लें, वेवस्थीत – देवाक जाय तशेंच!

"देव देवाकुडींतूच आसा." तीन दिसांनी पुंडलीकान उमेशाक ही बरी खबर दिली. मर्दी एक आयतार आनी दोन सुटयो आयिल्ल्यो. "आनी कावळ्यान आमकां आनिकूय बरी खबर दिल्या."

पुंडलीक मात्सो लजेलो. "प्रशांती म्हणटा – ताका दीस गेल्यात. दोतोरानूय सांगलां..."

उमेशूय खोशेन भुल्लुसलो आनी आपूण जावपाच्या भुरग्याचो आजो जाल्लेवरी ताणें पुंडलीकाक घट्ट वेंग मारलीं.

पुंडलीकाक आपलो कोमोड परतून मेळ्ळो. सॅरामिकाची थंडसाण कुल्यांक सुखावंक लागली. सँडल घालून ऑफिसांतले टॉयलेटीचेर सर्कस करपाची आतां गरज उरली ना. ताणें विडी पेटयली आनी तिचो परमळ ओडून ती बरी फुसकायली. ताच्या मनाचेर एक पवित्र शांती दाटून आयली. दोळे धांपून ताणें देवाचे उपकार आठयले.

000

# भाशाभावकी

अणकार : माया अनिल खरंगटे

## आसूं आसलो जाल्यार सुणो, सुकणींय आसातच न्ही!

(कारलॉस कास्तानेदा पासत ही ल्हान काणी)

(मूळ मराठी कथा : कृष्णा किंबहुने)

आख्खी रांदचीकूड वाफेक लागून दुगदुगीत जाली. सगळ्या पदार्थांचे वास पुराय कुडींत भरसले. एकदम पवित्र, उमेदी आनी सदळशें दिसूंक लागलें. प्रत्येक उस्वास सामको तळव्या मेरेन वचून परत येवंक लागलो. कानाच्यो पाळयोय मात्श्यो हुनश्यो जाल्यो. केसांत खंय तरी मात्शें ओलें - ओलें जाणवूंक लागलें.

वाफ मात्शी कमी जातकर रांदपी आनी आदार करपी नितळ, खंबीर, आश्वासक आनी प्रेशिता सारके दिसपाक सुरवात जाली. वेगवेगळे पदार्थ तयार जातना दिसूंक लागले. सामकी जादू आशिल्ली ती. कसलें तरी एक घनद्रव्य आपलेपणान व्हडल्या तव्यार पडटा आनी आपलें पुराय रूपांतर करून घेता. अणभवांतल्यान शिकून परत जगपाक तयार जाल्ले वरी.

इतली वाफ, इतले पदार्थ, इतली ऊब, इतलें आरोग्य, प्रसन्न दिसूंक लागलें. थंय आशिल्ल्या सगळ्यांकूच तशें दिसतालें जावंये. कारण सगळे जाण म्हजे कडेन मुमुरखे नदरेन आनी तोखणायेन पळयत उबे आसले. जेन्ना वक्ला वयली वाफ पुरायेन गेली तेन्ना म्हज्या हातांतलें भेटकार्ड आनी चॉकलेट म्हाका दिसली. तें सारकें दिसतकर हांवे मात्सो धीट रावपाचो यत्न करत मुखार पळयलें. ते चलयेकूय वक्ल आशिल्लें. तें बरें हांसून बेगिबेगीन गेलें. म्हाका आतांचो हो अणभव परकी भाशेंत आशिल्लेवरी

**कृष्णा किंबहुने :** जल्म : 1976 ; मराठी भाशेंतले सिध्दहस्त लेखक, समिक्षक आनी अनुवादक. तांच्यो साबार कथा आनी निबंध मराठींतल्या सुप्रसिध्द नेमाळ्यांनी आनी पत्रिकांनी प्रकाशीत जाल्यात . *'प्रथमपुरुष आणि भूमिती'* हो कथासंग्रह उजवाडाक आयला. *'मरम अल भरारी'* हांच्या हिंदी कवितांचो तांचो अनुवाद शब्द प्रकाशन मुंबय हांचेवतीन प्रकाशीत जाला. संपर्क : साहित्य अकादेमी, 172, मुंबय मराठी ग्रंथ संग्राहालय मार्ग, बिल्डिंग, दादर, (पुर्व), मुंबय -400014, मो. 09987214615 , ईमेल- krishnakimbahune@gmail.com

**माया अनिल खरंगटे :** जल्म : 1956, कवयित्री, बालसाहित्यकार, कथाकार, अनुवादक. तेत्तीस पुस्तकां प्रकाशीत. *'कयपंजी'* हो कवितासंग्रह तशेच *'घोंटेर'*, *'मळबझेंप'*, *'मृगजळ'*, *'काळीं कुपां रुपेरी देग'* हे कथासंग्रह चर्चीत. एन्. सी. ई. आर. टी., दिल्ली संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी (2010, 2012) सन्मानीत. संपर्क : पितुल कामत कोओपरेटीव्ह हावसिंग सोसायटी, एफ-3, पयलो माळो, आर्के, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 9420685278.

दिसूंक लागलो. कांयच स्पश्ट कळना जालें.

हांव भानार येवन लजूंक लागलों तेन्ना आशिकुशीक आशिल्ल्या सगळ्यांच्याच तोंडार हांसो आशिल्लो.

आतां दीस सुरू जाल्ल्यान आनिकूय प्रसन्न दिसलें. थंयच्यान हांव सरळ ह्या इतल्या व्हडल्या झाडा पोंदा आयलों. ह्या इतल्या व्हडल्या झाडाचो घेर इतलो आकांत व्हड आशिल्लो, आख्खें क्षितिजूच मुखार येवन राविल्लेवरी दिसतालें. सामकें ऊंच आनी सामक्यो पातळिल्ल्यो खांदयो, आनी कोट्यांनी पानांची सळसळ. आतां लेगीत सकयल उबो रावन वयर झाडांत पळयल्यार आख्खो थंड – थंड काळोख जाणवतालो. पयसुल्ल्यान झाडांचे दिकेन चलत येतना झाडूच आमचे दिकेन चलत येताशें दिसतालें. पुराय आकाशगंगे प्रतिबिंब तातूंत पडूंक शकता इतलें व्हड तें झाड आसलें.

ताचेर करोडांनी सुकण्यांचें येवप – वचप चलतालें. फाटल्या कांय वर्सां साकून नेमान थंय येता जाल्ल्यान म्हाका त्या सुकण्यांच्यो प्रजाती सादारणश्यो कळटाल्यो. ते भायर पक्षांच्या संवादाचे अदमास लेगीत लावंक येवंक लागले. पक्षांचो एकाच बरोबर झाडांत रिगपाचो आनी फडफड करीत भायर सरपाचो वेळ सारकोच आसता हेंवूय म्हज्या लक्षांत आयलें. पक्षांच्या सेगीत जावपी कलकलाटांत थोडो वेळ वतकर मागीर आपले आपुणच म्हाका म्हजे कुडींतल्यो शिरो चिंत्रचित्रतात अशें दिसतालें. निरागस समाधी लागिल्लेवरी थोडो वेळ वतालो. कुडींतली प्रत्येक शीर मुरलेंत रुपांतरीत जाल्लेवरी दिसून कूडभर विचित्र संचार जाता सो जाणवतालो.

वयर झाडाचे दिकेन हांवें मूठभर ल्हायो फाफुडल्यो. थंड काळखी झाडांतल्यान कितले तरी पक्षी ल्हायांचेर चुंबकावरी येवन पडले. ल्हायां विशीं प्रत्येक पक्षान हेरांक खुणायले तें म्हाका समजलें. शंखावरी तांच्यो कुडी आनी अशीर चोंची! झाडांतल्या सगळ्याच पक्षांनी भिरभिरत सकल येवचें अशें दिसून हांवें वयलेवयर ल्हायो फाफुडल्यो. प्रत्येक वेळार पक्षांचो नवो गट आयलो. प्रत्येक गटाच्या संवादांत म्हजे विशीं अजाप आनी तोखणाय आशिल्ली. रंगरंगयाळे पक्षी आनी तांची आकांत किलबिलाट.

म्हाका दिसता – आमी रंग, ध्वनी आनी वास हांचे दर्यादेगेर उबे आसात. पक्षांचो एक गट सामको उमेदीन म्हजे भोंवतणी उपकारीक जावन फडफड करीत वयर झाडां मदी गुडूप जालो. कितलोसोच वेळ हांव पक्षी आनी ह्या इतल्या व्हड झाडां मदी स्वल्पविरामा प्रमाण उबो आशिल्लों. तितल्यांत म्हजो मेंदूय फडफडलो. कितल्यातरी विचारांनी शेवण्यावरी झोंपय घालून म्हज्यो ल्हायो करून उडयल्यो. वक्लावयली येदोळची वाफ कूडभर जाली. थोड्या वेळा पयलींचे ऊब दिवपी वास स्पश्ट जाणवूंक लागले. ते चलयेचें हांसपी वक्ल लेगीत ताका स्पश्ट आयकूंक आयलें. पक्षांची ही इतली किलबील हातांच्या तळव्यांक, कपलाक, जिबेच्या पोंताक

स्तनांच्या चिंवांक जाणवली.

कितें आसता काय मुळांत? भाबडेपणा, मोग, वासना, अहंभाव काय खुनशीपण काय एकटेपण नाकारपाची इत्सा? जे सृश्टीचे आमी अंश जावन आसात तिच्या मुळांत कितें आसपाव जाय? ते इतले रंग शिंपडावप, हे इतले किलबील ध्वनी, हे इतले ऊब दिवपी वास, इतली मोगाळ वाफ, ना कळपी ही स्पर्शाची आस आनी वक्लाचो सोद लावपी शास्त्रज्ञ, ह्या सगल्यांच्या मुळांत कितल्यो गजाली येतात? इतलें बेसुमार फडफडपी स्वातंत्र्य दिशाहीन जरी आसलें तरी परत, परत जगपा कडेन ओडून हाडपी अशें कितें आसा मुळांत? आमच्या आनी सृश्टीच्याय.

'राईटस्' अशें काळसर कंडक्टरमामा आड्डलो आनी बस मुखार वचूंक लागली. हांव बशींत केन्ना येवन बसलों तेंच म्हाका येवजना जालें. पूण म्हजो बशीचो पास बोल्सांत वेवस्थीत आशिल्लो. सदांचो वळखीचो रस्तो दिसूंक लागलो. बशींतले गर्देंत मात सदां वरी गरीब, उदास कशें दीस नासलें. रातीं सुद्धां जनेलांतल्यान गळून आयिल्लो चंद्र पांयांकडेन खेळ्ळो. तळव्यांनी खेळत खेळत चंद्राच्या उजवाडाचो स्वेटर विणचो अशें म्हाका दिसलें. गाढ न्हिदेंत मेंदवाचेर सपनांचें वक्ल आसुंकच जाय. कितलीं तरी सपनां खळखळ्ळ्यांत जातलीं. पूण फांतोडेचेर कांयच येवजना. तांचें घर प्रशस्त, प्रसन्न आनी खूब उजवाडाचें आशिल्लें. आनी घरांत मनशांय खूब आशिल्लीं. हांव ताचे बरोबर भितर सरलों तेन्ना म्हाका एका नव्या गांवांत आयिल्लेवरी दिसलें. इतलीं मनशां हांगा कशीं? हावें विचारलेंय बी. मागीर ताणें तिचा भयणीच्या लग्ना विशीं सांगलें.

हांव भितर येत साकून एकनाथरावमामा म्हजे कडेन दुबावान पळयताले. ते निकतेच बंदखणींतल्यान सुटून आयल्यात हें ताणें सहज सांगलें. इतल्या सगळ्यां भितर तीन-चार जाणां कडेनच ताणें म्हजी वळख करून दिली. तातूंत ताचो भुरगेपणा साकूनचो इश्टय आशिल्लो. एकूण मनशाच्या बरे पणाचेर आपलो आक्ताक विस्वास बसतलो अशें ताचें तोंड आसलें. म्हज्या लेंसाचेर थोडी च्या रकले बरोबर ताणें सामकें आपलेपणान तो धुवून हाडिल्लो. इतले सगले जाण अशे एकठांय आयिल्ल्यान म्हाका एकाद्र्या जोडाक्षरा म्हऱ्यांत उबो आशिल्लेवरी जालें. ताची आवय जे तरेन म्हजे कडेन पळोवन हांसली ताचे वयल्यान म्हजी खात्री जाली, तिची कसलीच हरकत ना म्हणून. खरें म्हणल्यार एकटे एकनाथरावमामा सोडले जाल्यार कोणाचीच हरकत आसा अशें म्हाका दिसलें ना. एकनाथराव मामाचें कांयच कळ्ळें ना. म्हणून तांचे विशीं तकलेंत सतत विचार येवंक लागले. ताका लागून हेर खंयचेच गजालींत चड घुस्पून घेवंक मेळना जालें. अडचण जावन बसली ती. ऐन लग्नाचे गडबडी वेळारूय ते मुद्दाम अर्दवर म्हज्या म्हऱ्यांत येवन उबे रावले. म्हजेर सामकें दडपण आयिल्लेवरी जालें. तांणीच उलोवंक सुरवात केली. तीन प्रस्न तांणी शांतपणान विचारलें, ते सकयल

दिल्ले प्रमाण :

1) बगदादाक केन्ना गेल्या?
2) बंदखण भितरल्यान कशी आसता ती पळयल्या?
3) देवमाशाचे खरे पूर्वज कोण, खबर आसा?

खूबच भियेवन तिनूय प्रस्नांची 'ना' अशी हांवें एकूच जाप दिली. खूब दिसांनी म्हजो भंय कमी जालो आनी म्हाका ते प्रस्न आवडले. मागीर हांवें अशें थारायलें ह्या प्रस्नाच्यो जापो दिवपात येतल्यो तेन्ना दिवया पूण एकनाथराव मामाकडेन बेगिनांत बेगीन नीट उलोव जाय. तांगेर वचपाक ताणें कितलेंय ना म्हणलें तरी हावें म्हजो हट्ट सोडलो ना. ह्या तीन प्रस्नांच्यो जापो ताचेय कडेन नाशिल्ल्यान तांचें कांयच चल्लें ना.

जेन्ना आमी तांगेर पावलीं तेन्ना ते आंगणांतल्या पारजताच्या झाडाचेर निवळ, ओलें पुडवें सुकत घालताले. इतलो वेळ तांचे कडेन गजाली करूनय कांयच बोध घेवपा सारकें हाताक लागलें ना. तेवूय सहज कशे वागले. पूण तांच्या सालांतले वणटीर आशिल्ल्या फाट करून बशिल्ले बायलेचें चित्र म्हाका खूबच आवडलें. एक सामकी गूढ अशी फाट करून बशिल्ली बायल आनी तिचे दिकेन चलून येवपी आडदांड सुणो अशें तें चित्र आशिल्लें. चित्रभर एक गूढ उजवाड फांकिल्लो आनी रेंवेंतल्या सारकें सुकें सडसडीत वातावरण आशिल्लें. बायले पसून पयस कांय खोंपीय दिसताल्यो. चित्रांत ह्या तीन – चार आकृत्यांचो एकमेकां कडेन आशिल्ल्या संबंधां विशीं कसलीच सुचना नाशिल्ली. म्हाका दिसलें, चित्रांतली बायल आसूंदी, खोंपीय चलतात, खूब गिमाळें वातावरणय चलता पूण तो सुणो इतलो आडदांड कित्याक म्हणून? ताचेकडल्यान भायर सरतकच हांवें तिकाय सुण्याच्या आडदांडपणा विशीं विचारलें तेन्ना ताणे आमचें लग्न जातकर सांगतां म्हणलें. म्हाका परत आनी कांयच कळना जालें.

कंवळ्या वतांत आमी बसस्टॉपा मेरेन चलत आयलीं. त्या थोड्याशा वतानच ताचें तोंड ओलसार, गुलाबसार जालें आनी ताचें वक्ल नाकार मात्शें देंविल्लें. तें अशें सामकें निरागस, बाबडेंशें आनी सुंदर दिसतालें. म्हजें अशें पळोवप चड वेळ जाल्ल्यान ताणें सरळ म्हज्या दोळ्यांत पळयलें आनी हांसलें. हांवय हांसलों. ह्या हांसपाक लागून पळोवपातली अस्वस्थता कमी जाली. कसलेय आनी कितलेय साद्या गजालींतल्यान आपलें मन सारकें बरें कळटा अशें ताणें मागीर म्हणलें.

त्या दिसभरांतलें तें सुंदर वाक्य आशिल्लें, अर्थ आनी उतरां सकट. ज्युस्ताज्युस्त, सहज आनी अर्थाक डंख आशिल्लो.

संवपाची आशिल्ली एकाद्री कठीण गाळ तकलेंत ताटकळत उरता तशेंच आमी इतलो वेळ बशींत आशिल्लीं. आमचो थांबो येयचना. तें अस्वस्थ जावन जनेला भायले खुणेचे जागे पळोवंक लागलें. हांवें ताका सांगलें, 'आमचो थांबो खूब फाटीं गेलो. मात्शें उबगूनशें ताणें म्हळें, ''पयलीं कित्याक सांगलें ना?'' मागीर हावें म्हणलें,

''लग्न जातकर सांगतां.'' आमी दोगांय देंवतकर कंडक्टरमामान म्हणलें, 'राईटस्'. बस गेली.

सांजवेळचीं आमी परत मेळ्ळीं. सांजवेळच्या सहानुभुतीन भरिल्या फाटराखण्यावरी दिवे लावपाच्या वेळार ताच्या वकलान हांव मौजेचोच दिसतालों. असो दुसऱ्या कोणाबरोबर तरी ह्या येद्या व्हड झाडा पोंदा पयलेच खेप आयिल्लों. आनी ही ऽऽ ऽऽकिलबील. पक्षांची भास म्हाका थोडी थोडी कळटा, तांचे भाशेंत म्हाका थोडें चिंवचिंवपाकूय येता अशें जेन्ना हांवें ताका सांगलें तेन्ना ताचो विसवास बसना जालो. सादारण सयशें ब्यात्तर पक्षांक हांवें वेगवेगळीं नांवां दिलीं हें मात ताका खूबच आवडलें. वतना हांवें ताका सांगलें. पांखांतले हलके थरथरीन सुद्धां पक्षांचें मन कळटा.

म्हजी आनी पक्षांची अशी इश्टागत ताणें सगळ्यांत पयलीं आपल्या आत्याक सांगली. मागीर आत्यानच ती घरभर केल्या जातली. कारण उपरांत मेळ्ळीं तेन्ना म्हाका एकनाथराव मामान विचारलें, ''पक्षी सजिवांचे उत्पत्ती विशीं एकमेकां कडेन चिवचिवतात?'' आनी अशें विचारलें, ''सजिवां भितर सगळ्यांत पयलीं खंयची भावना फुलून आयली हाचे विशीं तांच्या चिंवचिंवाटांत कितेंय कळूंक शकतलें? ह्या प्रस्ना उपरांत म्हजी खात्री जाली, एकनाथराव मामा म्हजो इश्ट जावंक शकता. तेवूय आपुलकेन वागूंक लागले. तें पळोवन हांवें तांकां फाट करून बशिल्ले बायलेच्या चित्राचो अर्थ विचारलो. तांणी मातशें तापूनशें म्हणलें, – आरन्ट यू आक्वेंटिड वुईथ अॅन्थ्रोपोलाजी? हांवें इश्टांगतीनूच तिडकून शें म्हणलें, ''ह्या प्रस्नाची जाप जर हावें पक्षांचे भाशेंत दिली तर तुमचे ॲन्थ्रोपोलॉजीक कितें मोल आसा? हाचेर मात ते हांसले. हांसतना ते गुबगुबीत पक्षावरी दिसले.

हेच गजालींतल्यान म्हाका कळ्ळें तांची बायल बगदादांतल्या युद्धकैद्यांचे वैजकी सेवे पासन गेल्या आनी तांचो पूत अमेरिकेंत दोतोरकीच्या निमण्या वर्सांत शिकता. आनी चार वर्सां ते बंदखणींत आशिल्ले. डॉ. सुवेझ दुदुंभी हांकां मारून उडोवपाचो तांणी यत्न केल्लो. तो यत्न फसलो आनी तांकां अटक जाली. निकतेच ते बंदखणींतल्यान आयिल्ले. आतां मेरेनच्या सहवासांतल्यान म्हज्या मनांत तांचे विशीं जे विचार आयिल्ले, तातूंत ही नवी माहिती सामकी वेगळी आशिल्ली. म्हाका दिशिल्लें अजाप हांवें तांकां दाखोवन दिलें ना आनी डॉ. सुवेझ दुदुंभी कोण हेंवूय तांकां विचारलें ना.

परत वतना म्हजे तकलेंत सजिवांची उत्पत्ती साकून पक्षांची चिंवचिंव धरून डॉ. सुवेझ दुदुंभीक मारून उडोवपाचो यत्न इतलें सगळें आशिल्लें. म्हणून म्हाका न्हीद लागुंकूय वेळ जालो. ही मालिका हांवें ताका सांगली. आयकतना तें कितें तरी वेगळेंच समजता जाल्ले वरी प्रौढ दिसपाक लागलें. आनी म्हाका हेर वेळा परस सामकें लागीचेंशें दिसलें. म्हाका फकत इतलेंच दिसलें सजिवांचे उत्पत्ती विशीं उमळशीक

आनी कोणाक तरी मारून उडोवपाची तयारी एकाच तकलेंत जर आसता जाल्यार हाच्या मुळांत कितें आसा? चड करून तें ताका अस्पश्टपणान कळ्ळें. मागीर हांवें ताका स्पश्टच विचारलें, मुळांत कितें आसूं शकतलें? तें ताका सांगूंक आयलें ना. म्हाकाय धड कांय सुचलें ना. आयसक्रीम खातनाय आमी बधीर जाल्ले सारके आशिल्ले.

एकलोच परत वतना म्हाका गुन्यांवकारी आशिल्लेवरी दिसपाक लागलें. म्हजे तकलेंतल्या विचारांनी हांवें तांकां अस्वस्थ करपाक कांयच कारण नाशिल्लें. खरें म्हणल्यार ताच्या म्हणण्या प्रमाण जर खंयचेय सादे गजालींतल्यान आपलें मन कळूंक शकता तर आखख्या सजिवांचें मन जांतल्यान कळूंक शकत अशी खंयची तरी गजाल आसूंक शकतली मूं? पूण मन जरी कळ्ळें तरी सामकें मुळांत कितें आसा आनी आमचे मदीं पयली खंयची भावना वयर सरलीं हें कळपाक कितें मार्ग आसा? कितेंय जालें तरी ह्यो ना दिसपी गजाली. त्यो नीट कळपाक वेळ लागतलोच. पूण ते गूढ बायलेच्या आनी आडदांड सुण्याच्या चित्राचोय अर्थ अजून कळूंकना. आनी तें त्या चित्रा विशीं लग्ना उपरांत कितें सांगतलें कोण जाणा. ताचे बरोबर आसतना तांच्या स्पर्शाची जी आस दोळ्यांत चकचकता ताचेकडेन तर ताणें संबंद जोडूंक ना मूं? आमचे कडेन वासना तर आसताच पूण फकत वासना आसा अशे अजिबात ना. वासना, क्रूरताय, मत्सर, आपुलकाय, कळवळो, कृतज्ञताय, भंय, न्यूनगंड, अहंभाव, आळस, दुसऱ्या व्यक्तींची गरज, फटींगपणां, क्रोध, भौमानाची आस, उमळशीक, उमेद, निराशा, नव्या ज्ञानाची ओढ, मोह इतल्यो सगळ्यो प्रसंगा प्रमाण येवपी मानसीक प्रतिक्रिया जर एकाच मनांत लिपून आसल्यो तर मन कळटा म्हणल्यार हातूंतलें नेमकें कितें कळटा आसत? कोट्यांनी वर्सां साकून जर अशे तरेन एकामेकाचें एकामेकांक मन कळटा आसत तर अजूनय आखख्या जगांत सजीव एकामेकां कडेन इतले बांदून नवे कशे, अशे आसतले काय?

डॉ. सुवेझ दुदुंभीक मारून उडोवपाचो यत्न करपी व्यक्ती जर हांसतना पक्षा सारकी दिसूंक शकता तर एका मनांत आशिल्ल्या भयांकृत विविधतायेचीं मुळां कितलीं खोल आसतलीं? इतलें मन साद्या गजालींतल्यान कळूंक शकतलें? आनी मन कळुनूय परत जगपाचे हे सांखळेंत इतलें सातत्य कित्याक म्हणून? असो विचार मनांत आसतना अचकीत म्हज्या दोळ्यां मुखार त्याच गूढ अशा फाट वळून बशिल्ले बायलेचें चित्र आयलें. थोडो वेळ शांतपणान हांवें तें चित्र नीट सगळ्या बारकाव्यां सकट येवजून पळयलें. आनी दोळे उगडले. मुखार चित्र स्पश्ट जाल्लें.

वाऱ्याच्या मंद ल्हारांनी म्हजे केंस विस्कटूंक लागले आनी त्या चित्रांतले बायलेचो पदर परत-परत उडपाक सुरवात जाली. आडदांड सुण्याची शेंपडीय आपलेपणान हालपाक लागली. आनी

ताच्या पोटाचे हालचालीन म्हाका कळ्ळें ताचो उस्वास सुरू जाला. कांय वेळान सुण्याची अस्पश्टशी गुरगूर आयकूंक येवंक लागली. मुखार वचपा पासत बायलेन पावल उखल्लें. तिणें सवका चलपाक सुरवात केली आनी वाऱ्यान हालपी पदर ती परत-परत सारको करताली. हांवूंय म्हजे केंस सारके करतालों. इतलो वारो सुरू जाल्लो. वाऱ्याच्या वेगाक लागून सुण्याचे दोळेय गरीबपणान उगडूंक - धांपूक लागिल्ले. तितल्या बोवाळांत म्हाका तीन लांबलचक, काळश्यो सावळ्यो दिसल्यो. सावळेंतलो सुणो केंस सारके करतालो. गूढ बायलेची शेंपडी नेटान हालताली, आनी पदर सावळेंत फडफडपी झेंड्यावरी दिसतालो आनी दोळ्यां मुखा वयल्यान एकदमूच चित्र अदृश्य जालें. हांव परत जगपा वटेन आयलों. 'राईट्स' हांवें म्हणलें.

बस मुखार गेली. म्हाका दिसलें आतां तें हांगा आशिल्लें जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. कांय उलयना जाल्यारूय चलतालें. पूण ताचें फकत आसपूच महत्वाचें दिसपाक लागलें. मातसोसो निराश जावनच हांव निमणें इतल्या व्हडल्या झाडा पोंदा आयलों. हांव झाडा पोंदा आयल्या बरोबर पक्षी चिंवचिंवले, 'आज एकलोच?' हांवूय चिंवचिंवलों. 'आयलों असोच' उपरांत हांव कांयच चिंवचिंवनासतना पक्षां कडेन पळयत रावलों. तांचे कुडीचेर जितले रंग आशिल्ले, ताचे पैकीं बऱ्याच रंगांचीं म्हाका नांवांय खबर नासलीं. तांच्या भिरभिरपी सावध निश्पाप भित्र्या दोळ्यांक जें सदांच नवें आनी त्याच वेळार वळखीचें दिसतालें, ताका म्हाका एक्कूय ज्युस्त ज्युस्त उतर सुचना. तांच्या एका एका पांखांत कितलीं पिसां आसात हें हांवें केन्नाच मेजलें ना. प्रत्येक गटांतल्या पक्षांच्या चोंचीचो आकार एक सारको नासता हें म्हज्या आतां लक्षांत आयलें. मनशांक जशें हाताक ना जाल्यार पांयांक एकाद्रें बोट चड आसता तशेंच पक्षांच्या पावलां मदींय आसता हें म्हाका निकतेंच कळ्ळें.

म्हणल्यार म्हाका अजून कितल्यो गजाली कळपा आसात कोणाक खबर? मनशांच्या साह्याय गजालींतल्यान पक्षांक मनशांचें मन कळूंक शकता काय? आपल्या उडपाचे ताकदीचो अहंभाव तांचे मदी आसता काय? अचकीत उफाळून येवपी कामवासने वेळार पक्षी कितें करतात आसतले? समाधानाची सभावीक भावना खिणांत ना करपी क्रूरतायेचें पक्षी कितें करतात काय? उडटना आपलो गट चुकतकर जो आपोआप भंय तयार जाता ताचें पक्षी कितें करता? आख्खी सृश्ट उलथी-पालथी करूंक शकपी सैमीक उमळशिकेचें पक्षी कितें करतात आसतले? पक्षां मदीं मरणाचो भंय आसता काय? मरून गेल्ल्या पक्षांच्या यादीचें जितो पक्षी कितें करता? पक्षां मदीं देवाची ओड आसता? आपले मदलें निवळ, निरागसपण राखून दवरपा पासत पक्षी कितें करता? पक्षी फुडले पिळगेचे चिंतेन कितें करता? वक्ल घालचें पडूं नये अशी कसली सैमीक येवजण पक्षांचे कुडींत आसा? कितें करता जातलो पक्षी आपले

मदले निराशेचें. सोदाचें, अध्यात्माचें, सौंदर्यदृश्टीचें? कित्यांतच धड रुपांतरीत ना जावपी आपल्यांतले आकांत उर्जेचें कितें करता काय? सगळ्योच दिका अचकीत आनिकूय पयस व्हरून उडोवपी एकसुरेपणाचें कितें करता काय पक्षी? चिंवचिंव चिंवचिंव चिंवचिंवचिंव चिंव ! म्हज्या दोळ्यां मुखार तें चित्र परत चिंवचिंवलें.

ह्या वेळार चित्रांत इतलें व्हड झाड आशिल्लें, एकनाथरावमामाचें निवळ ओलें पुडवें आंगार पांगुरिल्लें पारजताचें झाड आशिल्लें. म्हजो लेंस धुवून हाडून दिवपी ताचो ल्हानपणा पासूनचो इश्ट आशिल्लो. हॉटेलांतले प्रेशितावरी वेटर ताकतिकेन वावुरताले, काळसार कंडक्टरमामा खांद्या वयली चामड्याची पोती सांबाळटालो, ती गूढ फार्टी वळून पळयत बशिल्ली बायल पयलीं आशिल्ली तशीच आशिल्ली आनी मळब दिसूं नये इतले पक्षी तकले वयर भिरभिरताले. तांच्या पांखांचो फडफड चित्रभर आशिल्लो.

पक्षांनी सगळेंच धांपून उडयिल्ल्यान जमनीर कोणाच्योच सावळ्यो दीस नासल्यो. फकत ह्या वेळार चित्रांत आडदांड सुणो नाशिल्लो. तो खंय चित्रा पेल्यान गेला अशी सुचोवणीय नासली. तो नाशिल्लोच. तो केन्ना तरी चित्रांत आशिल्लो हाचो सादो भासूय चित्रांत खंयच नाशिल्लो. मागीर परत नेटान वारो व्हांवपाक लागलो. पूण ह्या वेळार कांयच बदल्लें ना. खरें म्हणल्यार इतल्या वाऱ्यान एकनाथरावमामाचें पारजता वयलें पुडवें केन्नाच उडून वचूंक जाय आसलें. पूण पुडव्याची सादी देगूय फडफडली ना. इतल्या झणझणीत वाऱ्यांत म्हाका पक्षांची चिंवचिंव आनी गूढ, फाट दाखोवन बशिल्ले बायलेच्या हातांतल्या कांकणांची किणकीण मात स्पश्ट आयकूंक येताली. कोणा एकल्याचेर म्हजी नदर धरना इतलें सगळें स्पश्ट आनी लख्ख आशिल्लें. चित्राचेर कितलेशेच वेळा म्हजीं बोटां फडफडलीं. गोंदळिल्ली निश्पाप नदर भिरभिरली. अचकीत वारो व्हांवपाचो थांबलो आनी एक उर्बेन भरिल्लो आवाज आयलो!

*'पक्षी घोंटेर बांदतात*
*घोंटेर बांदतात पक्षी*
*बांदतात पक्षी घोंटेर*
*पक्षी बांदतात घोंटेर*
*घोंटेर पळयला घोंटेर?*
*शेरूक पक्षिणीचो घोंटेर?'*

कोणाचो आवाज? ताचो? काय गूढ, फाट दाखोवन बशिल्ले बायलेचो? कोणाचोय आसत. पूण पक्षांचे घोंटेर सुंदर आसतात. निखळ सोबीतकायेची नदर, कलाकुसर आनी ऊब हांच्या एकठांयपणाचें साक्षात प्रतीक म्हणल्यार पक्षांचे घोंटेर म्हाका परत कोण तरी जगपा कडेन ओडून हाडटा अशें दिसलें.

हें जें कितें आसा, भोवतणचें आनी पलतडचें, एकामेकांचो एकामेका कडेन ताळ मेळ नाशिल्लो. तातूंत समान धागो घालपाची एक भावना आमच्या सामक्या मुळांकडेन आसा. आनी तेच भावनेचे आवेगी उर्जेन आमी दुसऱ्या मनशा कडेन ओडटात.

आनी दुसऱ्या मनशा कडेन म्हणल्यार परत जगपा मेरेन मागीर आमीय घोंटेर बांदतात, सोद लायतात, चित्रां काडटातं, गायतात, एकामेकांचें आयकतात. सजिवांचे उत्पत्ती पसून होच धागो कायम आसा. मनीस सैमीक पूण धागो मनशाचो. आमी घोंटेर बांदतात. पुराय विश्वाच्या पसाऱ्याचो विचार केलो जाल्यार आमची आकाशगंगा म्हणल्यार एक घोंटेरूच! वा कसलोच विचार केलो ना जाल्यार पुराय विश्वाचो पसारो म्हणल्यार लेगीत एक घोंटेरच!

परत चित्र : ह्या वेळार गूढ, फाट करून बशिल्ली बायल सट्ट करून वळ्ळी. हांसली आनी सडसडीत मुखार गेली.

हांवें हें सगळें ताका सांगलें. पयलींच खबर आशिल्लेंवरी तें हांसलें. आमच्या दोगांयच्या वक्लाचेर परत वाफ जमली. हावें ताका म्हणलें, तुज्या भुरगेपणांतल्या इश्टाकूय हांव ही घोंटेराची गजाल सांगातलों. कारण म्हजो लेंस ताणें धुवून हाडून दिल्लो. तें फकत मोगान हांसलें. म्हाका दिसलें आमी एकाच घोंटेरांत आसात.

'राईट्स'.

000



# काव्यमंच

(कविता)

## रमेश वेळुस्कार

### एकूण धा कविता

**कविता 1**

ताच्या पावलांची
सुलूस
आयकूंक आयली
की सवण्यांक कंठ फुट्टा
आनी एक अटंग रान
आनारून येता
त्या सवणाळ्या संगिताचें
मन कुचळून निर्मळ करपी
तळमळ्यांचें
फांतोड काळखांत
वितळत वयता
ताच्या भांगर पांवलांच्या
सुवर्ण स्पर्शान....

**कविता 2**

जे पडटात
आकाराच्या मोगांत
ते थंयच फसतात
गोठेल्ल्या
आकारांत

**रमेश भगवंत वेळुस्कार** : जल्म : 1947, ज्येश्ठ कवी. बालसाहित्य, निबंद, नाटक, अणकार ह्या प्रकारांतय लेखन, हिन्दी आनी मराठी भार्शेतय साहित्य निर्मिती, 21 वयर पुस्तकां प्रकाशीत, केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2005) सन्मानीत, एकुणिसाव्या अ. भा. साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद. संपर्क : पाळें, शिरदोन, गोंय. मो : 9420688461

जांकां कळटा की
आकाराची गुडी
निराकाराच्या नाड्यार
तांकां आकाराच्या
विकाराची बादा जायना

निराकार
खेळयता निर्विकार फेस्तां जात्रा
प्रदर्शनां
सगळो आकारांचो
खेळ
आकारांचो
वेव्हार
संवसाराच्या
बोल्साची हार

निराकाराचे
पसयेचे सूर
मूळ धरूंक लागले
की आनंदाचो
सनातन अनंत
विस्तार वचूंक लागला...

**कविता 3**
वारो
वारो म्हणूं नये गोरो
रंग माखोवन घेवंक
ताका
ना रे 'आंगा'चो पसारो

वारो
वारो म्हणूं नये कोरो
तो खंय बाबा
अतिप्राचीन
हुस्काराचो तोरो

वारो
वारो म्हणूं नये सदळ
ह्या संवसारांतलें
एकान एक ताच्याच नांवार
आसा वादळ

वारो
वारो म्हणूं नये मोनो
दरेका जिवाच्या
प्राणाचो
तो तर
अतिसुंदर तराणो

वारो
वारो म्हणचें जीण
तों ना जाल्यार पुता
आमची
जीण मरण खीण

**कविता 4**

उतर उतर
अन्तरशें
घुंवळ घेराक घालपी
आनी आनंदाच्या
देशांत
कूय पिकयत चलपी

उतरांची
चाल कितें!!
पळयतल्यांचो
चुकता ताल
स्पर्श तांकां
करतल्यांचें
वयता जावन
हाल हाल

उतर उतर
तेळटना तें
सांसपीत वेता
तुमचो गळो
आनी तुमच्या रुंवा रुंवार
हुर्हुरांचो सजता
कळो
आनी तेन्ना
सावन मागीर
रात रात
लागना दोळो

उतर उतर
लायता कशें
नुपूर निनादांचें
पिशें
आनंदाच्या
दुकां-दिखान
जायत वेता
ओलें उशें
ओलें उशें...

उतर उतर
अत्तरशें...

## कविता 5

झिणझिण घांट
झिणझिण घांट
झिणझिण जाता घांट
सर्गा मोगान
जेजु मोगान
झिणझिण जाता घांट
झिणझिण घांट
झिणझिण घांट
झिणझिण जाता घांट

घेवन वयता
दुख्खूय आतां
व्हांवयत उमेदी पाट
धाय दिकांनी
संवसार गायता
सर्ग आनंदीऽऽ वाट
झिणझिण घांट
झिणझिण घांट
झिणझिण जाता घांट...

परबींच परबीं
नातलां परबीं
हीं परबीं उर्बेन उपाट
मळबा माथ्यार
नक्षत्रांक भाऽर
झगमग झगमग थाट
झिणझिण घांट
झिणझिण घांट
झिणझिण जाता घांट...

## कविता 6

आयज दर्या गाजता
तुज्या मोगाचो

जण एकल्या मनशांत तुवें
हो आपलेपणाचो
इंगळो फुलयत केळयला

तरी आसतना
तुजेर
जळपी लोक आसताच
तुका हुमकळायलो ना
खिळे मारून
खुर्सार

आसूं
तूं तांचेरूय मोगूच करता
तूं अजुनूय तांचेर मोग करता

कळ्ळें
दुस्मानांचेरूय मोग करप
हाचे सारकें सूख ना

हावेळ मेरेन तुकां
खुर्सार हुमकळपाचें बळ
खंयच्यान मेळटा
तें कळटा

आमेन

## कविता 7

तळ्याच्या उदकाचे
उबेन

अचळय आंगभर
स्पर्श करचो
तशी तुजी याद
सर्वांगांत
निनादत गेली

ती तुज्या गिताची
गुणगुण
म्हज्या शिरंत्रांत
विणीत गेली एक
रुणुक झुणुक

ना म्हटल्यार
ह्या सगळ्यांतल्यान
मन कशें
निरपेक्ष जायत
गेलें
आनी 'हांव हांव'चें
धांव
खंयचे खंय
व्हांवन गेलें
तुज्या
स्पर्शाची पसव
अशी
कितें कितें
पसोवन वयता
हाची नात
लेगीत नासली

आनी धाय
दिकांतल्यान
व्हांवत येवपी

आनंद मंदाकिनी
म्हाका मंत्रावन
म्हाका चित्रावन
आपल्यांतूच
धुंद जायत वयता
आनी खिणाखिणार
धुंद खेळयत वयता
धुंद खेळयत...

**कविता 8**

तुजी कविता
पळयतां

आनी पळयतां पळयतां
मागीर
ती तुजी कविता
तुजी उरना
ती तुजी कविता
म्हजी जावन वयता
तशी ती
पळयतां पळयतां
आनिकूय
कोणा कोणाची
जावन गेल्या आसतलीच

मुळांतूच हांव
कविता
अमक्याची म्हण पळयना
कविताच अशें न्हय
तर खंयचीय
सृजनकृती आसूं
ती मागीर

सृजनशक्त
कलाकाराक कसो
झपाटून उडयता
ताचोच आलेख
ते कृतींत
पळोवंक मेळटा...
व्वाव... कितें झ...पाटो रे...
ह्या गरगरीत
फुलून आयल्ल्या
पारजताचो...!!!

आनी कितें...
तुजेय कवितेंत
दिसता बिंयां
ह्या झपाट्याचीं

## कविता 9

आजयेचे मांडयेर
नातवान वा नातीन
हक्कान येवन बसचें
तशें तें मियाव
तिचे मांडयेर बसलें
हय
भंयविरयत बसलें
निर्भय जावन बसलें
आनी आपल्या
गुबगुबीत दावकुलांनी
लक्तुबायेच्यो
गोड गोडशो

उचापती करीत गेलें
आनी सयभोंवारचे
दर एके नदरेर
आपली माया
मिरयत गेलें

आनी कितें...
सगळ्यांच्योच नदरो
आपले पेले
ते आजये-काळजाचे
अस्तुरेच्या
आंगाक घश्टीत,
तिच्या भंयविरयत
मोग-सागरांत
गुल्ल जावन
खेळत वयतल्या
त्या माजराचेर

खरें म्हटल्यार
भंय-गर्भार
दर एक नदर
माजर जावन
मोग-मोगरी
निर्भयतायूच
सोदीत आसली

## कविता 10
खीण आयलो
आनी खिणांत
नाच्च जालो

आयजवेर
अशे खीण
कितले खीण
आयले गेले
येत रावतले
मेजपाचें मात
त्राण
संख्येक ना

आनी
दर एकल्याची जीण
खंय ह्या
खिणा खिणाक रीण

ह्या खिणांचें
केण घेवन
कोण कोण गीत
घडटा
आनी तांचे सूर सूर
मना मनाक
ओडटा

सुरां सुरांर
सुंवार जावन
खीण खीण
वयता
दुवे आनंदाचे
आमचे
यादींत ते खोयता
आमचे
यादींत ते खोयता

000

## नीला तेलंग

### वास्तव सपनां

सपनां म्हर्जी झिरझिरीत
उतरां पेलीं अंधूक विरविरीत
लोक हांसतात पिशेपणां समजून
सोयरे तापतात हाता भायलें म्हणून
कोण म्हणटा नदर पयस मळबाचेर
कोण बदलता संवसार वयले वयर
आयज हातासलां वास्तव वास्तव्य
तितल्यांत कडकडटा पांयां मुळांत भवितव्य

### विरहाचे आयले पेल्यान

लोक गायतात सीता द्रोपदीचे वनवास
कोणाकच तोंपना उर्मिलेचो कारावास
आकांताचो गोवर्धन करंगळेर झेलता सहवास
भांगराळ्या लंकेत मंदोदरीचे उदास उस्वास

### ध्येय मंदीर

हुलपायली मोगर दोट्टी मोहोर।।
मनस्तापांतय थीर । ध्येयाचें मंदीर ।।
सांकेतीक आकार। दिलोना थार ।।
सुटलो आधार । भोग साबार ।।
निमणें ध्येय साकार । मानान येवकार ।।

000

**नीला तेलंग** : जल्म : 1950, जेशठ कवयित्री. *'काळजाची भरती'* आनी *'शुन्यांतल्यान शून्या कडेन'* हे कविता संग्रह प्रकाशीत. संपर्क : आडपय, फोंडें, गोंय 403 401, मो. : 9823575072.

## परेश नरेंद्र कामत

### न्हंयेच्या उदकार

हांव म्हजे भितर बुडटां घुप्प-

काळोख
जावन घुस्मट्टां
आनी काळेंकिट्ट कूप जावन फुट्टां
न्हंयेच्या उदकार

**परेश नरेंद्र कामत** : जल्म : 1968, कवी. *'अळंग'*, *'गर्भखोल'*, *'शुभंकर'*, *'चित्रलिपां'* हे चार कविता संग्रह प्रकाशीत. कवितांचो इंग्लीश तशेंच हेर भारतीय भाशांनी अणकार. कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, जनगंगा साहित्य पुरस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमी साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : पयलो माळो, एफ-6, पराग को. हावसिंग सोसायटी, शांतीनगर, फोंडें, गोंय 403401, मो. : 9422640210.

चान्नें कसो शिंवरत...

हांव
चंद्र जातां म्हज्या रगतांत
म्हजेच नकळत...

## म्हाळसा

काळखाक
कांय सांगिनासतना
तूं यो समजून

काळखाक
समजुपाचें समजूं दी
तूं तुका जाय तें समज

समज –
धव्याफुल्ल जायांची हो
शुभ्रधवो उजवाड

तूं यो म्हाळसा कशी
आख्ख्या आंगार
पुनव न्हेसून...

## आर. रामनाथ

**आर. रामनाथ** : जल्म : 1956, कवी, गीतकार, पटकथा लेखक. कोंकणी आनी मराठी भाशेंतल्यान लेखन. *'मळब रंगमाची'* आनी *'निसण'* हे दोन कोंकणी कविता संग्रह प्रकाशीत. कला अकादमी साहित्य पुरस्कार, बिम्ब प्रकाशनाचो पद्मश्री र. वि. पंडित यादस्तीक पुरस्कार, तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सर्वोत्कृश्ठ साहित्य पुरस्कारान (2014) तशेंच कोंकणी कला साहित्य केंद्राच्या 'जनगंगा' (2017) पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : एम्. ओ–6, गोवा हावसिंग बोर्ड, कुट्टी, फोंडें, गोंय – 403401. मो. : 9850458763.

### रियाझ

म्हजे कुडीचेर
तूं तुजीं सचेतन बोटां
अचळय फिरय
आनी म्हजी कूड
तूं तुका जाय तशी वाजय...
म्हजे कुडीतल्यान भायर येवपी समस्त सूर
थेट तुज्या आत्म्याकडे संवाद सादतले

आनी आत्म्यानंदाचो शिंवर करून
तुजी कूड शिरंगारतले
नक्कीच तुका दिव्यसुखाचो साक्षात्कार जातलो.

ह्या रियाझाची ताका चटक लागल्या...

## हांगाच म्हजी वार पुरल्या

ह्या गांवचो फातरान फातर म्हजे वळखीचो
हांगाच म्हजी वार पुरल्या.

म्हज्या भुरगेपणांत
ह्याच रस्त्यान
हांव फातर खोंटायत
बोंडो खेळयत
आनी धुल्ल उबयत चलतालों
हालींसर म्हाका रस्त्या कडेच्यान चलचें पडटा
घडये फाल्यांच्यान म्हाका एके वेगळेच वाटेन चलचें
पडटलें
म्हजो हो गांव मुदार जायत चल्ला...

म्हजी गांवची मसंडूय मुदार जायत आसा
फुडाराक थंय सिनाल दवरूनूच
आपल्या कुडक्यार सिनाल करचें पडतूय घडये...

आतां म्हाकाय नखशिखांत मुदार जावचोच पडटलो...

## दिगंतखोल एकांतांत

अचळय
देंव तू
लजेच्या पानार
मिट्टलें तूं आपशींच
आख्खेंच्या आख्खें
म्हजे सयत...

आतां
विसर तूं
तुजी सचेतन भोंवतण
आनी खूब्ब कितें...
राव तूं तशेंच कांय वेळ
त्या दिगंतखोल एकांतांत
उपरांत वेंगाय तुजें ब्रह्म
आनी जा तूं
स
मा
धी
स्त
सासणाचें...

**हें सगळें म्हजे तांकी भायर**

हें पळय
हांव तुज्या माथ्यांत
सूर्य माळचो ना
चंद्र माळचो ना
आनी नखेत्रांची फातीय माळचो ना
हें सगळें म्हजे तांकी भायर...

हांव फकत
तुजे होंटयेंत
म्हजें दुख्ख
म्हजीं दुकां
आनी म्हज्यो वेदना घालतलों
तूं मागीर हें सगळें
तुज्या काळजांत खोल खोल खरीमेरेन पावय
आपशींच तूं म्हजे जिणेन समृद्ध जातलें
आनी म्हाकाच माळटलें....

खऱ्यांनीच हांव आतां पुराय फुल्लां आनी परमळ्ळां...

000

## ग्वादालूप डायस

### पावस

अंदूंचो पावस
अशे तरेन झडचो
पांवळी म्हज्या दारांत
हुमरो 'ताचो' भिजचो

रखरखीत मनांत
झरो एक फुटचो
बुडबुड्याच्या निमतान
'तो' मनांत फुटचो

आमच्या मोगाचो
उपन्यास रचचो
पावस झडटा तेन्ना
तुमी तो वाचचो

### मोग आसल्यार...

ताज बांदूंक वज्रां न्हय
मोगाची भास जाय
घुस्पल्ल्या पावलांक म्हज्या
वाटेचो ध्यास जाय

रात म्हजी परमळूंक
यादींचो वास जाय
उमाशेच्या दोळ्यांत म्हज्या
सपनांची रास जाय

धडधडपी काळजाक म्हज्या
अपुरबायेचो फांस जाय
भिजिल्ले जिणेक म्हजे
थोडो गरम स्वास जाय

**ग्वादालूप डायस** : जल्म : 1972, कवयित्री, निबंदकार, लिपयांतरकार. रोमी तशेंच देवनागरी लिपयेंत लेखन. *'भुंयफोड'*, *'मळब गंगा'* *'जलस्थल'* (कविता), *'ज्वालामुखी'* (निबंद), *'मामाचो गांव'*, हीं प्रकाशीत पुस्तकां. अखिल भारतीय कवयित्री पुरस्कार, तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीच्या सर्वोत्कृश्ट साहित्य पुरस्कारांनी (2008, 2013) सन्मानीत. संपर्क : एफ - 2, लोटस अपार्टमेंटस्, डोंगरी, माजोड्डें, साश्ट, गोंय - 403713. मो. : 8390908218.

## एक्सचेंज ऑफर

एक नाक, दोन कान
एकठांय करून दोन दोळे
घोव नांवाचो प्राणी
म्हज्या गळ्याक बांदलो पळे

खूब गर्व भोगता
देखून सांगचें दिसता
घोव म्हजो आठवें अप्रूप
अशें समजूं येता

कसलेंय काम सांगल्यार
ना केन्नाच म्हणचो ना
केल्लें काम धड जायत
हाची मात खात्री ना

म्हजे कडेन उलोवंक
ताच्या उतरांक पडटात दुडू
शेजान्न नदरेक दिसल्यार मात
तोंडांत फुट्टात लाडू

एक्सचेंज ऑफराक दी मुगो
तिडकीन म्हाका सांगता
हरकत तशी कांयच ना
पूण घेतलो कोण हाका

नाय जाल्यार तालीम दिल्लो
घोव असोच दिवं
रताळीचो आनीक एक
बावलो जिणेंत घेवं?

000

## फिलोमीना सांफ्रासिस्को

### तुजे खातीर

सकाळीं दीस उदेवचो तो
तुज्या जिविताचो एक एक दीस
आपल्या परजळीत किर्णांनी
रसरशीत करपा खातीर; आनी
सांजचो दीस मावळचो, तोवूय बी
चान्न्यांचे राती भशेन
तुज्या जिवितांत खूब खूब
खोशालकाय भरोन वतसर
भरपा खातीर

### तुजेशीं पावयता

तुज्या रंगीत यादींचो
एक एक झेलो
चान्न्याच्या मंद
उजवाडा परी
मनाक म्हज्या
भूल घालता,
मनाक म्हज्या थंडायता,
मनाक म्हज्या खोशेच्या तालार
नाचयता,
मनाक म्हज्या
तुजेशींच पावयता.

### फोनाची घांट कित्याक वाजना?

म्हज्या मोगाच्या एकल्याच पुता,
सद्दां म्हाका तुजो उगडास येता,
तुकाय म्हजो उगडास येता?
येता आसतलोसो म्हाका दिसता, पूण
फोनाची म्हज्या घंटी पुता
कित्याक रे वाजना?

**फिलोमीना सांफ्रांसिस्को** : जल्म : 1956. कवयित्री, निबंदकार. सातत्यान लेखन. 'दर म्हयन्याची रोटीं', 'वावराड्यांचो इश्ट', 'नवें गोंय', 'कोंकण मेल', 'गुलाब', 'गोवन रिव्ह्यू' आदी नेमाळ्यांनी लेखन. *'म्हजो दिस्टावो'* (काणयां संग्रह - देवनागरी आनी रोमी), *'ओंपता तें पिकता'* (सान काणयो), *'हन्नमऱ्यावयली पणटी'* (कविता), *'गुलमोहर'* (कविता) तशेंच *'टुनटुनींच्यो काणयो'* (अनुवाद) हीं पुस्तकां प्रकाशीत. 'वावराड्यांचो इश्ट' सातोळ्याच्या फा. लेफ्तानियो आल्मेदा उत्कृश्ठ लेखन पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : 28-1913, अभ्युंदय नगर, मुंबय - 400033. मो. : 09892829339.

तुज्या कुटुंबा सांगातान परदेशांत वतना,
हुसको म्हजो तुका जातलो देखून
फोन तुवें म्हज्या हातांत दवरलोय,
हुसको घडये तुका जाता आसतलो, पूण
फोनाची घंटी पुता
कित्याक रे वाजना?

हांव हांगासर आसा एकलोच
सांगातान म्हज्या तुजी आवययी ना
मन हलकें करुंक सोदता तेन्ना
आपोआप नदर म्हजी फोनार पडटा, पूण
फोनाची म्हज्या घंटी पुता
कित्याक रे वाजना?

लांब कश्टी वाट चलून–माडोवन
तुज्या थिकाण्यार तुका हांवें पावयलो,
हाची जाणीव तुका आसतली म्हूण
म्हजे म्हाकाच हांव समजायतां, पूण
फोनाची म्हज्या घंटी पुता
कित्याक रे वाजना?

चिंतून चिंतून म्हज्या पुता
काळजाक म्हज्या चिटमिटे पडटा,
जीव म्हजो सगळोच आकुळ पिकूळ जाता,
फोनाची तुज्या वाट पळेता, पूण
फोनाची म्हज्या घंटी रे पुता
कित्याक रे वाजना?

सगळें आसुनय बी, कांयच ना,
जिवीत म्हजें एक हुमाणें जालां,
फोनाची घंटी वाजतली केन्ना?
आनीक म्हाका बिलकूल थार ना,
फोनाची तुज्या वाट पळेता, पूण
फोनाची म्हज्या घंटी रे पुता

कित्याक रे वाजना?

घुस्पलें मन हें म्हजें
हुस्क्यान रे तुज्या भरून गेलां,
कितलेंच समजायल्यार कशेंच समजना,
फोनाची घंटी आयकूंक आशेलां, पूण
फोनाची म्हज्या घंटी रे पुता
कित्याक रे वाजना?

चुकोन माकोन केन्नाय वाजलेली जाल्यार
फोनार तुका दोळे भर पळेतलों आसलों,
आशिर्वाद म्हजो तुका दितलों आसलों
समाधानान निमणो स्वास घेतलों आसलों, पूण
फोनाची म्हज्या घंटी रे पुता
कित्याक रे वाजना?

दीस सरून वर्सां धांवतात,
आलतडी सावन पलतडी वचपाचो
वेळ म्हजो लागीं लागीं येत आसा,
खिणा-खिणाक अस्वस्थ म्हाका करता,
आस्त म्हजी वाडयत चडयत रावता,
निराशेन काळीज रे म्हजें दुखोवता,
फोनाचे घंटेचो भास म्हाका जाता,
पूण फोनाची म्हज्या घंटी पुता
कित्याक रे वाजना?
कित्याक रे वाजना?...

000

## अतुल र. पंडित

**अतुल पंडित** : जल्म : 1964, कथाकार, निबंदकार, समिक्षक, पत्रकार. साबार पुस्तकांचें परिक्षण करपी लेखन. 'काळचक्र' हो कथासंग्रह प्रकाशीत. संपर्क : एच/एल-116, हावसिंग बोर्ड कॉलनी, घोगळ, मडगांव, गोंय - 403601, मो. 9623269013.

### फुलां

फुलां देवा माथ्यार
फुलां देवा पांयांर
फुलां सव्यार
फुलां मड्यार

फुलां हुबतात
फुलां हांसतात
फुलां धोलतात
फुलां रडटात
काळखांत न्हिदतात
फांतोडेर फुलतात
रंगयाळ्या रंगान
सैम रंगयतात
मनीस फुलांक पिसुडटा
तरीं बावडीं कांयच म्हणिनात
आपले रंग दाखयनात
मनशां भशेन ती रंग बदलनात

**सत्यमेव जयते**

फटींगपणाचो चल्ला बाजार
असत्याक आयला भार
सत्यान चलप्याक मात
मेळना कोणाचो आदार
बोफोर्स..स्पॅक्ट्रम..खावड
घोटाळे पळयत रावपाचे
'सत्यमेव जयते' म्हणीत
दीस आमी सारपाचे

दुडवां खातीर राजकारणी
लुट्टात देशाची संपत्ती
वेंचणुकेंत मतां मागप्यांचीं
स्विस बँकांनी खातीं
खण खण माती म्हणीत
तांणी खणीत रावपाचें
'सत्यमेव जयते' म्हणीत
दीस आमी सारपाचे

बँकेक लुटपी, लुबाडपी

आमकां कशेच गावनात
बॉम्बस्फोट, दंगली
अजून कश्योच थांबनात
खून, बलात्कार करप्यांनी
बिनधास्त गा भोंवपाचें
'सत्यमेव जयते' म्हणीत
दीस आमी सारपाचे

बंदी आसा गुटख्याचेर
तरी सर्रास मेळटा
सोरो पियेवन तरणाटो
खळयेंत पडून लोळटा
हाका ताका फटोवन
बंगले तांणी बांदपाचे
'सत्यमेव जयते' म्हणीत
दीस आमी सारपाचे
'सत्यमेव जयते' म्हणीत
दीस आमी सारपाचे 000

## सरस्वती नायक

### देव

म्हज्या दाव्यान उजव्यान देव
देवूच देव म्हज्या देवाऱ्यांत
देव म्हज्या सपनांत
देव म्हज्या आंगणांत
देव म्हज्या नांवांत
देव म्हजे  भोंवतणी निराकार

पूण म्हज्या काळजांत
कोण बसला झेतान
वळखीचोसो चेरो ताचो
ताच्या म्हज्या रुपांत
खुबशें साम्य दिसपांत
हय, हांवूच तो

हांव! अहंम! अहंकारी

**सरस्वती दामोदर नायक :** जल्म : 1963. कवी , बालसाहित्यकार. *'मुक्तरंग'* हो कवितासंग्रह तशेंच *'काणयांचें पेट्रूल'*, *'रानपिसां'*, *'भुरगो आनी वास्वेल'* हीं बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत. कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार तशेंच अखील भारतीय कवयित्री संमेलनाच्या डॉ. चंपादास पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क - श्री स्वस्ती , सिंपाल, सांकवाळ. मो. : 9405952985

## विद्रोह

गर्भारपणाचो भार सोंशीत
भुकेन व्याकुळ
रावता 'ती' उबी
रांदचेकुडीच्या दारार

घरच्या दादल्यांची
जेवणाची पंगत
केन्ना उठ्ठा काय म्हणून
वाट पळयत उपाशी पोटार

भुरको मारीत
सुसेगाद चलिल्ल्या
दादल्यांच्या गजालीनी
पंगत आयल्या नेटार

तांच्या ताटांतले
घमघमीत रुचीक जिनस
चाळयतात मागीर
चिड्डितात किरमितात
तिचे भुकेचे सुस्कार

पूण 'पयली पंगत दादल्यांची'
हे रूढी आड
गर्भातलो जीव मात
आकांताचें तांडव करीत
विद्रोह करुंक जाला तयार

## फरक

बंदिस्त अँर कंडिशन रुमांत
फोमाचे गुबगुबीत गादयेर लोळप्यांक
रातभर भायर मळबांत जोगलावपी

जोगूल कितें आनी हुंवार येवन
घसघश्यांनी रकपी पावस कितें
तांकां कांयच फरक पडना

रातभर गळटल्या नळ्यांपोंदा
आयदनां नाचयत आपलो
ओलो जाल्लो संवसार सांबाळून
पडट्या पावसांत पांयवाटे वयलो
चिखल जोत्यांनी माड्डीत
सक्काळफुडें धांवधांव करून येवपी
घरांतले वावराडेचे
जागरणान सुजिल्ले दोळे कितें
वा उतरांच्या जोगला मारान
वावराडेचें काळीज गडगडायत
तिच्या दोळ्यांतल्यान रकयल्लो
पावस कितें?
तांकां कांयच फरक पडना.

## चिंतनांचें वादळ

घराच्या आंगणांत
पावसाची खळखळ
वाऱ्यांचो खवदळ
सैमाची गडखळ

मनांत उसळ्या
चिंतनांचीं खळबळ
हातांतून निसटून गेल्ल्या
भांगरा खिणांची तळमळ

पावसाची खळखळ थांबतली
वाऱ्याचो खवदळय थांबतलो
सैम जातलो शांत नितळ

उचांबळ मनांतल्या घाव्याचे
मात निखळ्ळां खवळ

कशी थांबोवची
म्हज्या चिंतनांचीं खळबळ
सोपिल्ल्या खिणांचीं तळमळ

## इतिहास

स्वातंत्र्य मेळोवपा खातीर
जालीं कितलीं झुजां
पेटले कितले संवसार
आनी व्हांवलीं कितलीं रगतां
हिशेबच ना

पूण इतिहासाच्या पानार
जीं उरलीं थोडीं बलिदानां
तांचेंय कर्तुत्व तागडेन मेजप चल्लां
तांच्या मत-भेदांचें भांडवल करीत
तांचोय इतिहास फांसप पुसप चल्लां
तांच्या स्वार्थ त्यागाक
अविस्वासाचो रंग दीत
इतिहासाचीं पानां
पिंजप चल्लां

घायाळ भारताचो
नवो बुचकळलेलो इतिहास
नवे पिळगेच्या आत्मविस्वासाक
डळमळीत करूंक लागला
धर्माच्या नांवान
फूट घालूंक लागला

हें सगळें थांबोवंक जाय
'वंदे मातरम' म्हणत
भारताचो इतिहास आपल्या रगतान
बरोवप्यांक तांचें स्थान
तांचो मान मेळुंकूच जाय
भारत मातेच्या मुकूटार
हीं नकेत्रां लिकलिकपाकूच जाय

000

# नाट्यमंच

महेश चंद्रकांत नायक

(एकांकी)

## आडामो

(पड्डो उगडटा तेन्ना अनिकेत नांवाचो तरणाटो घामाघूम जावन धांवत येता. ताणें टीशर्ट खांदार उडयला. तो दिमी मारून बसता. कसलें तरी समाधान ताच्या मुखामळार फांकलां. दर्शन नांवाचो तरणाटो ताका पळयता. ताचें कितें जालां हें जाणून घेवपाक तो ताच्या म्हऱ्यांत वता)

**दर्शन** : कितें रे, कितें जालें? तूं इतलो खूश कित्याक?

**अनिकेत** : सूख. म्हाका सूख मेळ्ळें.

**दर्शन** : कसलें सूख? पयशांचें पाकीट बी मेळूंक ना मरे तुका?

**अनिकेत** : पयशे न्हय. म्हाका कुडीचें सूख मेळ्ळें. कितलिशींच वर्सां हांव ह्या सुखाक आशेतालों. आयज तें सूख म्हजे वेंगेंत आयलें.

**दर्शन** : कुडीचें सूख? तुका हांवें सकाळीं त्या स्कूलांतल्यान भायर सरतना पळयिल्लो. ए, सारकें सांग. कुडीचें सूख म्हणल्यार कितें?

**अनिकेत** : म्हज्या आंगांत वासनेचो उजो भगभगतालो. हो उजो पालोवंकूच जाय आसलो...पालयलो. स्कूलांतले एके माणकुले चलयेक टॉयलेटींत व्हरून

**महेश नायक :** जल्म : 1975. एकांकी, नाटक प्रकारांत लेखन. 25 वयर नाटकाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. कुडचडेंच्या कोंकणी कला साहित्य केंद्राच्या नाट्य लेखन पुरस्कारान सन्मानीत (2015). संपर्क : घ. क्र. 293, गणेश देवळा मुखार, सांतिनेज, पणजी-गोंय 403001. मो. 7350305588

उजो पालयलो आणि जिणेंत पयलेच फावटी कुडीचें सूख मेळिल्ल्यान धादोशी जालों.

दर्शन : पाडपडूं हाचें. आरे, तुवें कितें केलां तें कळटा तुका?

अनिकेत : हय. हांव कूड थंड करून आयलां.

दर्शन : कूड थंड करपाक तुवें जें कर्म केलां ताका समाजांत कितें म्हणटात तें खबर आसा तुका?

अनिकेत : ना.

दर्शन : कान उक्ते करून आयक. ताका बलात्कार म्हणटात.

अनिकेत : कितें? बलात्कार?

दर्शन : असो कांचवेलो कित्याक? तुवें हें उतर पयलेच फावटी आयकलां काय कितें?

अनिकेत : हय...हय...ना...ना.

दर्शन : म्हणल्यार बलात्कार म्हणल्यार कितें हें खबर आसा तर तुका. तोच बलात्कार तुवें आयज केला.

अनिकेत : हांवें बलात्कार केलो? (टी शर्ट आंगार घालता) पूण हें कशें शक्य आसा?

दर्शन : आरे, दळडिऱ्या, हें कितें केलें तुवें?

अनिकेत : हांवें....एके सान चलयेक...म्हणल्यार माणकुले चलयेक...दुसरे यत्तेंत शिकपी सात, आठ वर्सांचे चलयेक...चॉकलेटीचें हांयस दाखयलें आनी ताका टॉयलेटींत व्हरून.....ना. ना. ही एदी व्हडली चूक म्हज्या हातांतल्यान कशी घडली? हांव स्वताचेर ताबो दवरपाक कसो शकलो ना?

दर्शन : कसो शकतलो? तुजीं इंद्रियां तुजे मुठींत आसलीं? तीं हाता भायर गेल्लीं.....बरें, तें आसूं. तुजें नांव कितें? (अनिकेत सांगपाक वता) आसूं, नाका. म्हाका तुजें नांव आयकुपाचें ना. पूण तुका इतलेंच सांगतां, हें कशें घडलें, कितें घडलें हाचेर विचार करपाचो हो वेळ न्हय. आनी विचार करूनय कांयच फायदो ना. आतां मुखार कितें करप हाचेर विचार कर. ह्या गुन्यांवांतल्यान भायर कसो सरप हाचेर विचार कर. (अनिकेत हांसता) तूं हांसता कित्याक?

अनिकेत : हांवें गुन्यांव करूंकच ना. म्हणटकच गुन्यांवांतल्यान सुटपाचो प्रस्नूच ना.

दर्शन : कितें?

अनिकेत : म्हाका कोणेंच पळोवंक ना. त्या वेळार थंय हांव आनी तें. तिसरो कोणूच नासलो.

दर्शन : आरे पिश्या, ते चलयेन तुजे आड कागाळ केल्यार तूं पडलो फोंडांत.

अनिकेत : कशें करतलें? तें सांगूक शकचेंच ना. कारण तें चली दुसरी शिकता. ताच्या गळ्यांत आशिल्ल्या आयकार्डा वयल्यान तें कितलेक हें कळ्ळें म्हाका. दुसरे यत्तेक म्हणल्यार चडांतचड सात वर्सां आसत ताका. इतले ल्हान पिरायेचे चलयेक कितें कळटा?

दर्शन : सामको पिसो तूं. आरे, तें चली रडत रडत वर्गांत वतलें. टिचर ताका रडपाचें कारण विचारतकच तें टिचरीक सगळें सांगून मेकळें जातलें. आतां तुज्या मुखार एकूच पर्याय आसा. पुलीस हांगा पावचे पयलीं धांव मार.

अनिकेत : पुलीस? ते कित्याक येतले?

दर्शन : आरे पापया. तुवें ते चलयेचेर बलात्कार केला. बलात्कार करप हो कायद्यान गुन्यांव थारता. तुवें गुन्यांव केला म्हणटकच पुलीस तुका धरतले आनी कोर्ट तुका ख्यास्त करतलें. म्हणून म्हणटां पुलीस येवचे पयलीं धांव मार.

अनिकेत : खंय धांवूं? हय...हय...घराच वतां. म्हजीं घरचीं म्हजीं वाट पळयतलीं. तीं म्हाका खंय तरी लिपयतलीं.

दर्शन : भुरगेपणांत त्या घरांत तूं घडये लिपच्यांनी, धरच्यांनी खेळ्ळा आसत पूण तुवें माणकुले चलयेच्या जिवा कडेन चलयिल्लो खेळ तीं कशींच सोंसून घेवचीं नात. तीं तुका पुलिसांचे सुवादीन करतलीं.

अनिकेत : हांव गुन्यांवकार म्हणून पुलिसांक कशें कळटलें? ते चलयेक बावडेक म्हजें नांव लेगीत खबर ना.

दर्शन : नांव खबर नासत. पूण तुजो चेरो तरी ताका पाठ आसतलो न्हय? तें तुजें वर्णन पुलिसांक सांगतलें, तें वर्णन आयकून रेखाचित्रकार तुजें रेखाचित्र काडटले आनी तें रेखाचित्र पुलीस जळींमळीं लायतले. कोण तरी एकलो तुका वळखतलो आनी तुजी वळख सांगतलो. म्हणून म्हणटां वेळ वगडायनासतना धांव मार.

अनिकेत : ना. हांव धांवचों ना. खंयच वच्चों ना.

दर्शन : तुकां वच्चेंच पडटलें. ते पळय पुलीस येतात. ते तुकाच सोदूंक भोंवतात आसतले. ते पुलीस हांगाच येतात. तुज्या वांगडा हांव दिसल्यार ते म्हाकाय व्हरतले. ताचे परस पयलींच धांवून गेल्यार बरें.

(दर्शन धांवता. अनिकेत धांवपाक सोदता तेन्नाच पुलीस येतात)

इन्स्पेक्टर : राव. धांवूं नाका. धांवल्यार सोमती गुळी घालतलों. (मानेक धरून ताका जमनीर उडयता) कितें रे सुण्या, खंय धांवता? मद जिरना तुजो? राव,

तुजो सगलो मद जिरयतां. पळय, दोळे फोडून पळय (ताका रेखाचित्र दाखयता) हो तूंच मरे? उलय मरे आतां (खोंट मारता)

अनिकेत : हय, सायब हांवूंच तो.

इन्स्पेक्टर : पळय. काडलो मरे सोदून तुका. लोक थंय आमच्या नांवान बोवाळ मारतात. आमी कांयच करिना म्हणटात. सरकाराच्या नांवान बोटां मोडटात. दोंगरा वयलो कोलो स्कूलांत पावतलो हाचें कितें आमकां सपन पडटलें? सांज मेरेन आमी बलात्कार करप्याक धरलो ना जाल्यार गांवचे लोक कॅण्डल लायट मिरवणूक काडपाचे आशिल्ले. पूण लोकांनी कॅण्डल पेटोवचे पयलीं आमी तुका पेटयलो. (ताका मारता)

अनिकेत : म्हाका मारूं नाकात. प्लीज. हांव मरतलों. म्हाका मरपाचें ना.

इन्स्पेक्टर : मरणाची भीक मागता? आनी ते माणकुले चलयेक मरणाच्या दारांत धुकलून आयला? आवयबापायन हेच संस्कार केल्यात तुजेर?

अनिकेत : तांणी म्हजे विशीं जायतीं सपनां रंगयिल्लीं.

इन्स्पेक्टर : सपनां? हीं असलीं बुरशीं सपनां? काय बरो हॅण्डसम दिसता मरे तूं. खंयचेंय बरें चली सोदपाचें. आपल्या पोरसांतलें फूल सोडून दुसऱ्याच्या पोरसांतलें फूल कित्याक पिसडावंक गेलो तूं?

अनिकेत : सायब, चूक जाली. चूक मान्य करतां. हांवें तशें करूंक जायनासलें.

इन्स्पेक्टर : चूक मान्य करचीच पडटली कारण आमचे कडेन तुजे आड कितलेशेच ठोस पुरावे आसात. आतां चल पुलीस स्टेशनार...हवालदार, घेवन यो ताका.

(इन्स्पेक्टर वता. हवालदार अनिकेताक कोठडेंत धुकळटा. अनिकेत आंग कवळून कोनशाक बसता. मर्दी मर्दी पिरंगता. हवालदार कोठडे भायर बसता)

हवालदार : कितें रे कित्याक पिरंगता? आंग दुखता?

अनिकेत : हय. सगल्या हाडांचो पिठो जाला अशें दिसता.

हवालदार : चामडी सोलल्यार आनी हाडां मोडल्यार कशें दुखता हें तुका कळ्ळें तें बरें जालें.

अनिकेत : हय. त्याच अपराधाची ख्यास्त भोगतां हांव. पयलेच फावटी पुलीस, पुलीस स्टेशन आनी पुलिसांच्या माराचो अणभव घेतलो. हांव चड वेळ हांगा रावंक शकना. ह्या वातावरणाचो म्हाका भंय दिसता. म्हाका हांगाच्यान भायर वचूंक जाय.

हवालदार : तुका दिसता हें शक्य आसा?

अनिकेत : ऑफकोर्स. म्हज्या घरचीं म्हाका सोडयतलीं. म्हाका हांगाच्यान भायर

काडपाक तीं धडपडटलीं. बऱ्यांतलो बरो आदवोगाद काडटलीं आनी म्हाका मुक्त करतलीं.

हवालदार : अशें तीं कित्याक करतलीं?

अनिकेत : हो आनी कसलो पिशेपणाचो प्रस्न. हांव कितलोय बरो जावं वा वायट. हांव त्या घरांतलो व्हडलो पूत. म्हाका तीं अशीं वाऱ्यार सोडूंकच शकनात.

हवालदार : हे कोठडेंतलो तुजो आयचो कितल्यावो दीस तो मेजून पळय. इतले दीस तुका कोणूच मेळूंक येवंक नात. घरचीं कित्याक, तुजीं सोयरीं वा शेजारी लेगीत तुका मेळूंक येवंक नात. तुवें केल्लें पातक सोडल्यार तुजे फाटल्यान फुडल्यान कोणूच नात.

अनिकेत : म्हजे इश्ट आसात.

हवालदार : इश्ट?

अनिकेत : हय. म्हजे दोन इश्ट आसात. ते म्हाका समजून घेतले. म्हाका हांगाच्यान सोडयतले. आमी स्कूल ते कॉलेज वांगडाच शिकल्यात. आमी एकामेकांच्या सूखदुख्खांत एकामेकांक सांगात दिला.

हवालदार : खंय आसात तर ते? ते तुजे इतले जिवाभावाचे इश्ट जाल्यार इतले दीस ते तुका सोडोवंक कित्याक आयले नात?

अनिकेत : येतले ते.

हवालदार : केन्ना? तूं बंदखणींत पावतकच.

अनिकेत : हांवें सांगलां तुका ते येतले म्हणून. येतलेच ते. म्हज्या इश्टांक हांव वळखतां. रगताच्या नात्यां परस आमचें वेगळेंच नातें आसा. येतलेच ते. पळयच तूं.

हवालदार : म्हाका दिसना ते येतलेशे.
(इतल्यांत आश्विन आनी यश हे अनिकेताचे इश्ट येतात)

अनिकेत : हे पळय आयले...आश्विन, यश हांव जाणाच आशिल्लों तुमी येतलेच म्हणून...कितें जालें? तुमी अशे ओगीशे? विचारात मरे म्हाका. म्हजी खबर घेयात.

यश : आमी तुजी खबर घेवंक येवंक नात. फकत तुका सांगूक आयल्यात तुवें जें केलां तें पातका परस पाश्ट.

अनिकेत : म्हणल्यार तुमीय म्हाका गुन्यांवकार मानतात?

आश्विन : मानतात म्हणल्यार? सत्य तें सत्य. तूं एक गुन्यांवकार. सात वर्सांचे चलयेची जीण पिसुडपी गुन्यांवकार.

अनिकेत : हांव गुन्यांवकार? आनी तुमी कोण? तुमीच म्हाका असल्या बुरशा

गजालींची गोडी लायली न्हय? म्हजे कुडींत वासनेचो उजो तुमीच पेटयलो न्हय? याद करात. स्कूलांत आसतना तुमीच म्हाका बुरशे मॅगझिन वाचपाक दिताले. मागीर सीडी, मोबायल, एमएमएस, क्लिप्स... तुमकां याद आसा, त्या दिसा नॅटाचेर आमी असलींच बुरशीं चित्रां पळयताले. तीं पळोवन म्हज्यांतली वासना चाळवली. कूड गरम जाल्ली. ती न्हिवोवपा खातीर खंय तरी वचुंकूच जाय आसलें. ज्युस्त त्याच वेळार म्हाका स्कूला कडेन गुलाबाचो एक टवटवीत कळो दिसलो. म्हजी उमेद वाडली. हांवें त्या नाजूक कळ्याक फारायलो. वासनेचे मुठींत आंवुळ्ळो. रगताचे पाट व्हांवले आनी तेन्नाच म्हजे कुडींतलो उजो पालवलो. हें सगळें तुमचे मुखार घडलें हें विसरूं नाकात.

**यश** : हय. आमी दोगूय साक्षी आसात. नेत्रसूख घेतना आमचेय कुडींत वासनेचो उजो पेट्टालो. पूण आमी आमचे कुडीचेर ताबो दवरलो. तुजे भशेन माणकुलें आनी सुपुल्लें फूल फुलचे आदींच पिसडून उडयलें ना. तूं ते सान चलयेच्या जिवा कडेन खेळ्ळा म्हणून लोक तुका बलात्कारी म्हणटात.

**अनिकेत** : आनी तुमी?

**आश्विन** : आमीय तेंच म्हणटात. खरें सांगूं अनिकेत, तुका इश्ट म्हणपाक लेगीत आयज आमकां लज दिसता.

**अनिकेत** : अशें म्हणूं नाकात रे. म्हाका आतां तुमचोच आदार. म्हज्या घरच्यांनी जाल्यार म्हजेर नदर घालपाचेंच सोडून दिलां. प्लीज, म्हाका सोडयात रे. पुलिसांनी म्हजी कशी हालत केल्या ती पळयात.

**आश्विन** : ती आमी पळयल्या पूण ताचे आदीं आमी ते चलयेचीय अवस्था पळोवन आयल्यात.

**यश** : अनिकेत, आमी तुजे इश्ट आशिल्ले हें तुवें विसरल्यार जाता.. चल रे.. (दोगूय वतात)

**अनिकेत** : रावात रे. प्लीज..वचुंनाकात. म्हाका हांगाच्यान भायर काडले बगर वचुंनाकात.

**हवालदार** : तुका सोडोवपाक येतले म्हणटालो ते हेच मरे तुजे इश्ट?

**अनिकेत** : आतां हांगाच्यान भायर कसो सरूं? म्हाका आतां कोणाचोच आदार ना...कितें करूं?

**हवालदार** : तुका कांयच करपाची गरज ना. कितें करपाचें आसा तें तो करतलो.

**अनिकेत** : तो कोण?

**हवालदार** : तो पळय.

(जुवीज दिश्टी पडटा)

अनिकेत : कोण तो?

हवालदार : तो जुवीज. तुजो फुडार ताच्या हातांत आसा. पळय, तो तुजी ख्यास्त बरयता. चल, आयक.

(हवालदार वता. अनिकेत कोठडेंतल्यान भायर येता. जुविजा म्हऱ्यांत आशिल्ल्या पांजऱ्यांत उबो रावता. एक फोकस जुविजाचेर, दुसरो अनिकेताचेर)

जुवीज : कोर्टांत सादर केल्ल्या ठोस पुराव्यां वरवीं तशेंच वैजकी अहवाला वरवीं अनिकेतान चलयेचेर बलात्कार केल्ल्याचें सिद्ध जालां. म्हणून हें कोर्ट भारतीय दंड संहितेच्या 376 आनी 511 कलमा प्रमाण अनिकेत लक्ष्मण वेरेंकाराक सात वर्सांचे बंदखणीची ख्यास्त फर्मायता.

(जुविजा वयलो उजवाड वता. अनिकेत पांजऱ्यांतल्यान उठून परत कोठडेंत वता. हवालदाराची सुवात जेलर घेता)

अनिकेत : सात वर्सां? दोन मिणटांच्या पातकाची ख्यास्त सात वर्सां?

जेलर : तुका सरकारी आदवोगाद बरो मेळ्ळो म्हणून फकत सात वर्सांची ख्यास्त जाली नाजाल्यार असो गुन्यांव करप्यांक फांशीची ख्यास्त लेगीत जावं येता.

अनिकेत : सात वर्सांचो दर एक दीस, दर एक सप्तक, दर एक म्हयनो हांव कसो सारूं?

जेलर : सामकें सोंपें. सकाळीं सुर्याक येवकार दी आनी सांजचो चंद्राक निरोप दी. दीस अशेच वतले, वर्सांय अशींच वतलीं.

(कोनशाक सुर्याचो उजवाड दिसता. अनिकेताची नदर त्या उजवाडा कडेन वता. काळोख जावन उजवाड जाता. जेलर अनिकेताक कोठडेंतल्यान भायर काडटा)

अनिकेत : सात वर्सां कशीं सोंपलीं तींच कळ्ळीं नात.. म्हजी ख्यास्त सोंपली.

जेलर : हय. तूं आतां मुक्त जाला. हे बंदखणींतल्यान तुजी आयज मुक्तताय जाल्या. तुजें पातक आयज धुवून गेलां.

अनिकेत : आयज हांव खूब्ब खोशी आसां.

जेलर : सात वर्सां उपरांत पयलेच फावटी तुज्या तोंडार असो हांसो पळयलो. बरें, तुवें आतां खंय वचपाचें थारायलां?

अनिकेत : खंय म्हणल्यार? घरा.

जेलर : घरा? कित्याक?

अनिकेत : कित्याक म्हणल्यार म्हजे चुकीची ख्यास्त म्हाका मेळ्ळी. आतां म्हाका

सगळें नव्यान सुरू करूंक जाय. पयलीं हांव म्हज्या घरा वतलों. म्हज्या घरच्यांक मेळटलो. सात वर्सां जालीं तांकां पळयल्यार.

**जेलर** : तुका कितें दिसता, आयज तुजी सुटका जावपाची हें तांच्या कानार पडूंक ना म्हणून.

**अनिकेत** : आसूं येता.

**जेलर** : तरीय तुज्या घरच्यां मदलो एकलोय तुका व्हरूंक कित्याक आयलो ना?

**अनिकेत** : हांव कशें सांगूं? तांची मर्जी. तांकां आपल्या कामां मुखार वेळ मेळूंक ना दिसता.

**जेलर** : सात वर्सां मर्दीं एकदांय तांकां वेळ मेळूंक ना? बरें, तूं आतां घरा वतां म्हणटा, तुका कितें दिसता तुज्या घरचीं तुका ओंवाळून घरांत घेवपा खातीर आरत घेवन रावतलीं? खरें सांगूं, तूं तांचे खातीर केन्नाच मेला.

**अनिकेत** : घरचीं मनशां म्हाका घडये विसरल्यांत जायत पूण तीं म्हज्या काळजांत सासणाचीं आसात. हांव घरा वतलोंच.

**जेलर** : चल, पूण घराचो हुमरो हुपचे आदीं तुका तुज्या गांवची शीम हुपची पडटली. गांवकार तुका बोट दाखयतले. बलात्कारी म्हणून हिणसायतले. ताचें कितें?

**अनिकेत** : बरोबर. ह्या गांवकारांचो आनी घरच्यांचो राग शांत करपा खातीर हांव ते चलये कडेन लग्न जातलों.

**जेलर** : कितेंय उलयनाका. त्या वेळार ते चलयेची पिराय सात वर्सांची आसली. आतां तें चवदा वर्सांचें जालां आसतलें. अजुनूय तें भुरगेंच आसा...

**अनिकेत** : हय मरे. चारूय दिको म्हाका बंद जाल्यात. म्हाका वाट मेळना. पुलीस कोठडेंतल्यान हांव सुटला खरो पूण कोठडेंतूच आशिल्ले भशेन दिसता. आतां खंय वचूं?

**जेलर** : खंयची तरी वाट मेळटली. ते वाटेन वच. तुजे कडेन आनी दुसरो पर्याय ना. बरें, हांव चल्लों.
(जेलर वता)

**अनिकेत** : हे धतरिचेर हांव एकलोच आसां अशें दिसता. आतां म्हाका जीण नव्यान सुरू करूंक जाय. नवीं मनशां जोडूंक जाय. नव्यो वळखी वाडोवंक जाय. नवीं नातीं तयार करूंक जाय. नव्यान जगपाचो यत्न करूंक जाय. हांव वतां..जिणेक नवो आकार दिवंक वतां...हांव वतां... हय, तोंड घेवन वतां...पावलां खंय व्हरतात थंय वतां....
(काळोख जाता. दोन वर्सांचो काळ गेला. उजवाड जाता तसो कोठयेचो देखाव दिश्टी पडटा. वातावरणाक जुळटा तशें संगीत वाजता. माथ्यार

घुंगट घेवन रुक्सार नाचता. अनिकेत गादयेर बसला. नाच सोंपतकच अनिकेत बोल्सांत हात घालून पयशे काडटा, रुक्साराक दिता)

अनिकेत : ये लो, तेरा नृत्य हमें बहुत पसंत आया. हम तो आपके घुंगरू में ही खो गये थे.

रुक्सार : शुक्रीया.

अनिकेत : क्या हम इस कलाकार का चेहरा देखने की गुस्ताखी कर सकते है?

रुक्सार : अरे बाबू, हमे कलाकार कहके कलाकार लब्ज की तौहीत ना करे. आप जिसे कला कह रहे है वो तो हमारी रोजीरोटी है. हम तो इस बाजार में अपने अदाओंको बेचने की लिये पैर मे घुंगरू सजाते है. एक तवायफ को कलाकार कहने की गुस्ताखी आप क्यो कर रहे है?

अनिकेत : कौन कहता है सरस्वती तवायफ का दरवाजा नही खटखटाती. हमने तो सुना है की प्यार और संगीत को सिर्फ तवायफोंने जिंदा रखा है.

रुक्सार : एक तवायफ को इतने सुंदर लब्ज का नजराना मत दो. मत भुलो की आपने कोठी की सीडी चढी है, मंदिर की नही.

अनिकेत : आज तक हमने मंदिर दूर से देखा है और मंदिर की मूरत भी. कोठी भी दूर से देखी थी और...

रुक्सार : तवायफ भी... बोलो बाबू. रुक क्यो गये. अभी तो इस नाम में और गाली में हमे कोई फरक नही दिखता. हम जिस गली से गुजर जाते है लोक हमपर उंगली उठाते है और कहते है... वो देखो... एक तवायफ. (रुक्सार तोंडा वयलो घुंगट वयर काडटा. अनिकेताक पळयत रावता)

अनिकेत : क्या हुआ? सुंदर आप है और आपकी नजर हमपे चिपकी है. ऐसे देखकर हमारी पहचान ढुंडने की कोशिश ना करो....क्या हम इस खूबसुरत चेहरे का नाम जान सकते है?

रुक्सार : लोक हमे रुक्सार के नामे से पहचानते है. बस चेहरा बदल जाता है बाबू, पहचान नही.

अनिकेत : कसो सांगू रुक्सार, म्हजो चेरो तसोच आसा, फकत वळख बदल्ल्या.

रुक्सार : म्हजो तर चेरो आनी वळख दोनूय बदल्ल्यात.

अनिकेत : तूं? तूं कोंकणी उलयता? तुका कोंकणी येता? बोलो रुक्सार.

रक्सार : हय.

अनिकेत : म्हणल्यार तूं गोंयकार?

रुक्सार : खबर ना. पांय बसलो की घुंगरू जागो बदलता, म्हजेरूय खोंट बसून बसून म्हजो जागो बदलत रावलो.

अनिकेत : धा वर्सां पयलीं हांव म्हजी वळख विसरिल्लों. आयज तुवें ती जागी

केली. म्हजे भितर लिपिल्लो मनीस म्हाका भायर सरिल्लो नाका कारण ताच्या माथ्यार दाग आसा. एकसुरेपण सोंसूंक जायना जालें म्हणून तुजे महफिलचीं सोंपणां चडलों. म्हज्यांतलें एकसुरेपण सोंपूंक जाय. चल या.

रुक्सार : कहाँ?

अनिकेत : तूंच आतां सांगतालें. हो एक बाजार म्हणून. ह्या बाजारांत तुज्या सांगाताचें आनी तुजे कुडीचें जाय तितलें मोल दिवपाक हांव तयार आसां.

रुक्सार : ये बडा बदनाम बाजार है बाबू. यहाँ बहुत बडी किंमत चुकानी पडती है. ह्या दारा भायलें जग खूब सोबीत सुंदर आसा. चल. तें जग तुजी वाट पळयता.

अनिकेत : मौत को जिंदगीसे ना जोडो रुक्सार. चल. हांव तुजें कांयच आयकुचों ना, चल.

रुक्सार : नाका, अनिकेत. आयक म्हजें.

अनिकेत : कितें म्हणलें? अनिकेत? तूं म्हजें नांव जाणा? रुक्सार, सांग कशें कळ्ळें तुका म्हजें नांव?

रुक्सार : पेशे से तवायफ हूँ बाबू, जिस्म को देखकर जिस्म का नाम पहचानती हूँ.

अनिकेत : फट, फट, उलयता तूं. एकदम फट. दोन वर्सां पयलीं स्वता वांगडा म्हजें नांवूय गोंयच्या दर्यांत विसर्जीत करून आयलां हांव. ह्या शारांत सगळे म्हाका नव्या नांवान वळखतात. सांग, बेगीन कोण तूं?

रुक्सार : सिर्फ एक तवायफ...रुक्सार.

अनिकेत : रुक्सार, म्हाका तुजी खरी वळख जाय.

रुक्सार : हांव तुका विसरूंक ना, तुजो चेरो विसरूंक ना. तूं म्हाका कसो विसरलो?

अनिकेत : कोण तूं? म्हजें सोयरें? शेजारी? क्लासमेट? तुजें खरें नांव कितें?

रुक्सार : त्या वेळार तुवें म्हजें नांव जाणून घेतिल्लें काय ना तें म्हाका खबर ना. म्हजें नांव दामिनी.

अनिकेत : दामिनी?

दामिनी : वळखूंक ना? धा वर्सां पयलीं एका स्कूलांतले सान चलयेचेर तुवें बलात्कार केल्लो तें हांव.... दामिनी...

अनिकेत : कितें? तें तूं?
(अनिकेत मान सकयल घालता)

दामिनी : हय. तें हांव. आतां तुवें मान सकयल घाली म्हणून म्हजें जिवीत फुलचें ना. (हाताक धरून ओडटा) पळय अनिकेत, तुजे एके चुकीन म्हाका खंय हाडून सोडलां तें.

अनिकेत : दामिनी...दामिनी....म्हाका माफ कर.

दामिनी : (कुच्छित्री हांसता) धा वर्सां उपरांत देवान तुका म्हजी माफी मागपाक वेळ दिलो. धा वर्सां पयलीं आंगांत वासनेचो उजो घेवन तूं म्हजे म्हऱ्यांत आयिल्लो. आयजूय तूं तेच अवस्थेंत म्हजे म्हऱ्यांत आयला. पूण आयज तुज्यांतलो तो उजो पालोवचो ना. तूंच लासून काबार जातलो. म्हणून सांगतां, चल हांगाच्यान. बाबू, खुदा के लिये चले जाव.

(भितर वता)

अनिकेत : दामिनी, म्हाका ख्यास्त दिले बगर वचुं नाका. दामिनी, राव. (दामिनी गेलां त्या दारा मुखार दिमी मारून रडटा) म्हाका म्हजी ख्यास्त दी.

(अनिकेत रडटा. समाजसेवक येता. ताच्या खांदार हात दवरता)

समाजसुधारक : रडूं नाका, ऊठ.

अनिकेत : कोण तूं?

समाजसुधारक : हांव गोंयकार न्हय, पूण म्हाका तुजी भास येता. हांव एक समाजसुधारक ज्या राज्याच्या समाजाक म्हजी गरज आसता थंय हांव वतां...हांव भायल्यान सगळें आयकलां.

अनिकेत : आयकलें तुवें? पळय, म्हज्या ह्या हातान ताच्या जिविताचो कसो खून जाला तो. हांव बलात्कारी न्हय, एक खुनी. तूं तरी म्हाका ख्यास्त दी म्हाका मरण दी.

समाजसुधारक : बरें आसा. मर. आतांच मर. सोंपय स्वताक. शेणोवन उडय तुजें अस्तित्व आनी जगा खातीर वावर कर.

अनिकेत : म्हणल्यार?

समाजसुधारक : हांगाचीं सोंपणां चडून येवपी जायते जाण आसात. वतना ते एकटे वचनात. तांच्या वांगडा एचआयव्ही नांवाचो रोग वता. हांगा पांय दवरप्यांक बऱ्या वायटाची म्हायती दी. जिवीत कितलें सोबीत आसा हाची जाणविकाय करून दी. तुजें उरिल्लें जिवीत समाजाच्या कल्याणा खातीर सार. समाजाचो समाजसुधारक जा. आयची पिळगी विनाशाचे वाटेर वचूंक लागल्या तिका आडाय. बंद कर तें विनाशाचें दार आनी त्या दाराचो आडामो जावन आडवो राव. थांबय हो मरणाचो खेळ आनी बंद कर नरकाचें दार. (अनिकेत दारार रावता) आनी जा तूं ह्या दाराचो आडामो, ह्या दाराचो आडामो, आडामो, आडामो, आडामो.

(नाटक सोंपता)

000

# ललीत

(डायरी)

माधव बोरकार

## दिसपटी

**31-07-2016**

सी. डे. लीवस हो विसाव्या शेंकड्यांतलो म्हत्वाचो इंग्लीश कवी. कविते बराबर हेर युरोपी भासांतल्यो कविता आपले भाशेंत अणकारतालो. ताणें पॉल व्हॅलेरी ह्या फ्रेंच कवीचे 'ला क्रिमेतेरे मरीन' हे दीर्घ कवितेचो अणकार केला. ताका लातीं भास बेस बरीं येताली. ताणें व्हर्जील ह्या अभिजात लातीं कवीच्यो कांय म्हत्वाच्यो कविता इंग्लीश भाशेंत हाडल्यो. ताणें केल्ले हे सगळे अणकार मूळ कवितां कडेन प्रामाणीक आसात अशें जाणकारांचें मत. हे अणकार ताणें कित्याक केले? ह्या प्रस्नाची जाप कवी कडल्यानूच मेळटा. हे अणकार म्हणल्यार ताचे कवितेच्या रियाजाचो एक भाग. जेन्ना कवीक बरोच काळ दुसरें कांयच सुचना आनी कविता आपल्याक सोडून गेल्ले भशेन दिसता तेन्ना अणकार करचो. ताका लागून कवी कवितेचे भावअवस्थेंत उरता आनी मागीर प्रतिभेचो आटिल्लो झरो परत व्हांवूंक लागता. लेवीसाचो हो अणभव. मराठी कवी ना. घ. देशपांडे हांचोय तोच अणभव. देशपांडे अशे सुकतेच्या काळांत भगवद्‌गिता घेवन बसतालो आनी तातुंतल्या कांय श्लोकांचो मूळ छंदांत अणकार करतालो. पूण हो फक्त रियाज. ताणें हे अणकार केन्ना उजवाडा हाडले नात. हे सगळे खटपटींतल्यान आपणें कांय सुंदर कविता रचल्यो अशें कवी सांगता.

खूब फावट दोन कवितांचे रचने मदीं बरोच काळ रितो वता. हो कवीक अस्वस्थ करून उडोवपी काळ आसता. कवितेचे निर्मणेची आपली तांक सोंपली काय ही भावना

धव बोरकार : जल्म : 1954, मनेचे कवी, अनुवादक, 'चंवर', ताच्यो सावळ्यो', 'उजवाडाचो ख', 'परजळाचें दार,' 'यमन', भव्यक्ताची गाणी' आनी सेम्फनी' हीं प्रकाशीत कवितांचीं स्तकां. विश्व कोंकणी केंद्र मंगळूर स्थेचो श्रीमती विमला पै पुरस्कार, ट्रीय साहित्य अकादेमीचो साहित्य रस्कार (2001) तशेंच अनुवादाच्या रस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क ग्रीन पीस हावसींग बोर्ड सोसायटी, गळ्ळी, ताळगांव – गोंय, मो. 420222876.

ताच्या मनाक गिरासता.

कलावंताचे कलेंत एके तरेची सांचेल्ली अवस्था येता. ही सांचेल्ली अवस्था म्हणल्यार कलेंत तेंच तेंच पण येवप. अणभवाचीं तींच आवर्तनां परत परत येवप. कलावंताचे नदरेन तीं ताका अस्वस्थ करून उडोवपी अवस्था. तो आपले अभिव्यक्ती कडेन तटस्थ नदरेन पळयत जाल्यार तें ताचे नदरेंत येतलें. हे अवस्थेंतल्यान भायर सरप हें ताच्याच हातांत आसता. ताचे जाणिवेचें केंद्र जरी एकूच आसलें तरी ताका नव्यो नव्यो वाटो फुटपाक जाय. तशें जालें जाल्यारूच ताचे कलेक नवी ताजबाण येवंक पावतली. हेन्री मिलर एके कडेन बरयता : Keep human! See people, go places, drink if yo feel like it. हाचो अर्थूच असो की कलावंतान नवे अणभव घेवंक जाय. खूबशे कवी लेखक अश्या अणभवांतल्यान गेले देखून तांचे जाणिवांचो आंवाठ विस्तारत गेलो.

## 01-08-2016

'लोकसत्ता' दिसाळ्याच्या आयतारचे पुरवणेंत महेश एलकुंचवार हांणी केल्लो हेन्री मिलर ह्या लेखकाच्या 'The Time of Assessin' ह्या पुस्तकाचो मराठी अणकार खिस्तींनी प्रसिद्ध जातालो. हें पुस्तक आर्थर रँबो ह्या फ्रांसेज कवी संबंदान आसा. मिलराची भास तशी सोपी न्हय. ताचो भारतीय भासांत अणकार करप हें एक मोटें आव्हान कशें. ह्या पुस्तकाचो मराठी अणकार 'विनाशवेळा' ह्या नांवान एलकुंचवार हांणी केला. ह्या अणकाराच्या संदर्भात जयप्रकाश सावंत हांणी एलकुंचवारांक पत्र बरयिल्लें त्या पत्राक आयिल्ली जाप म्हत्वाची आसा. आपल्या पत्रांत सावंतानी टर्ल ह्या फ्रांसेज अणकारप्याच्या अणकाराचो उल्लेख केल्लो. टर्लान बरयलां की इंग्लीश साहित्याचो फ्रेंच अणकार करपाचे प्रक्रियेंतल्यान आपूण फ्रेंच भास शिकलों. कोणाकूय हें वाचून विचित्र दिसूं येता. ताचेर एलकुंचवार आपले जापेंत बरयता : टर्ल म्हणतो ते अगदी खरें आहे. 'हे पुस्तक मराठीत आणताना मजजवळ होता तो ऐवज या वेळी पुरला, पण त्याच वेळी मला तो कितीतरी अधिक असायला हवा होता याचेही भान आले. आपण संतकवी पंतकवी पचवले नाहीत, ग्रामीण भागात अनेक जातीमध्ये भाषा समृद्धी व्यवसाय असताना त्यातले अनवट शब्द आपल्याला माहीतही नाहीत, थोडक्यात लेखक म्हणून अजून खूप रियाज करायचा राहिला आहे हे भान आले. एरवी ही समज मला आली असती की नाही समजत नाही.

म्हाका मनोहरराय सरदेसायाची याद जाली. तांकां 'गोमंत शारदा' हो गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार मेळिल्लो तेन्नाची गजाल. भाशे संबंदान थंय चर्चा चलिल्ली. एकल्यान म्हणलें, तुकारामाच्या अभंगांत अशिश्ट भास येता. ताचेर मनोहरबाबान म्हणलें, खंयचेय भाशेंत अशिश्ट उतरां आसतलींच. तातूंत वांकडें अशें कांयच ना. उरफाटें समाजशास्त्राचे नदरेन गाळी ह्यो तितल्योच म्हत्वाच्यो आनी तांकां लागून

भास घटमूट जाता. तांणी आपलो एक अणभव सांगलो. वोल्तेर ह्या फ्रेंच लेखकाचें 'कांदीद' हें पुस्तक कोंकणींत हाडटना तांणी मूळ भाशेंत आशिल्ल्या अशिश्ट उतरांक मुदयेर थीक कर्शी कोंकणी उतरां सोदून काडलीं. ते भुरगो आसतना गांवांतल्या भुरग्यां बराबर खेळटना कानार पडिल्ली ती भास तांच्या ह्या अणकाराक उपकारा पडली. एके तरेन हें भाशेचें retrival म्हणपाक जाय.

भास शिकपाची आनी एक सुरवात म्हणल्यार बाजार. चड करून जाण्ट्यो व्यक्तीं कश्यो उलयतात ताचे कडेन बारकायेन लक्ष दिवचें. कांय सुंदर उतरां कानार पडटलीं. कांय ओपारी म्हणी आयकूंक मेळटल्यो. एखाद्री नुस्तेकान्न म्हणटली, बाब, ही कल्ली चांदने कशी चकचकता पळय... भास एक अद्‌भुत रसायन आसता.

***

फाटलीं कांय दसकां भारतीय साहित्यांत दलित साहित्याचो एक प्रवाह घेवन आयलीं. मराठींत दया पवार, लक्ष्मण माने, बेबी कांबळे, शांताबाई कांबळे तेच प्रमाण कन्नडांत देवनूर महादेवन हांणी आपले नीज अणभव व्यक्त करपाक तांच्या ओंठार आशिल्ली भास वापरली. ताका लागून नवी उतरावळ भाशेंत घोळपाक लागली. भाशेच्या प्रवाहाचें पात्र रुंद जावंक पावलें. प्रमाण भास उलोवप म्हणल्यार शुद्ध भास उलोवप आनी बोली भास ही अशुद्ध अशी चुकीची कल्पना आमचे तकलेंत आशिल्ल्यान हो गोंदळ जाता. शुद्ध आनी अशुद्ध अशी म्हूण भास नासता.

**4–09–2016**

किसन कामत मेळ्ळो. तो चित्रकार वासुदेव गायतोंडेक वळखतालो. जेन्ना ताचें नांव जावंक नाशिल्लें तेन्ना सावन तो किसनबाब आनी ताची वळख. ताच्या चित्रां संबंदान किसनबाब मोटे आस्थेन उलयलो. मूर्ता कडल्यान ताचो अमूर्ता कडेन जाल्लो प्रवास... कलेचो प्रवास हो तसोच आसता. एक वेगळीच उर्जा घेवन आयिल्ली ताची रेशा अद्‌भुत म्हणपाक जाय. गायतोंडेचे रेशेविर्शी उलयतना ताणें एक जोडणी केली ती म्हत्वाची. तो म्हणूंक लागलो, चित्राची रेशा बरी आसा पूण हाता वयली रेशा तितलीच म्हत्वाची. ती नासल्यार सगळें आसून व्यर्थ.

**09–09–2016**

'जाग' आनी 'कोंकण टायम्स'चे पोरणे बांदिल्ले अंक चाळटना म्हाका कितले तरी कथाकारांचीं नांवां आनी तांची बरपावळ दिसली. 'कुळागर'च्या अंकांतूय अशे कांय कथाकार दिसतात. तांच्यो कथा वाचतकच कथाकार म्हूण तांची तांक लक्षांत येता. तांणी सातत्य राखिल्लें जाल्यार? नदरेंत भर सारक्यो कथा ह्यो शांता खांडेपारकार हांच्यो. म्हाका दिसता एक कथासंग्रह भरू येता इतल्यो त्यो संख्येन आसतल्यो. गुणाचे नदरेन तितल्योच मोलाच्यो. तांची 'चवथीचो चंद्रीम' ह्या नांवाची एक दीर्घ कथा आसा. कोंकणी कथेक वेगळेंपण दिवपी. कांय वर्सां आदीं सुभाष भोबे हाची 'एक गांव आनी एक कोलो' ह्या नांवांची

एक कथा वाचपाक मेळिल्ली. आशय आनी तंत्र हे दोनूय नदरेन सामकी वेगळी. वामन टाकेकार होवूय असोच लक्षांत उरपा सारको कथाकार.

मनांत प्रस्न उबो रावता तो म्हणल्यार ह्या कथाकारांची लिखणी कित्याक थांबली? कांय खासगी कारणांक लागून काय तांची प्रतिभा बेगीन आटली म्हूण? केन्ना तरी ह्या सगल्यां कडेन संवाद सादपाक जाय.

साहित्य वेव्हारांत संपादकाची भुमिका आसा. जें साहित्य येता तें आसात तसें छापप हें संपादन न्हय. आयिल्ल्या साहित्याचेर हात भोंवडावपक पडटा. एकाद्रे कथे कवितेचे नदरेंत येवपी गूण दोश लेखकाक सांगचे पडटात. ताचे कडेन तातूंत फावो तो बदल करचो पडटा. अशे तरेन साहित्यकृतींक आकार येवपाक पावता. लेखक थांबता सो दिसलो जाल्यार ताका जागोवचो आसता. आमचे कडले कितले संपादक तांचे बरपावळी कडेन अशें लक्ष दितात? कांय लेखकांक ताची गरज आसता.

मॅक्स पर्कीन्स हाणें हेमिंग्वेच्या बरपांचें संपादन केलें. हेमिंग्वेच्यो कादंबऱ्यो आयच्या रुपांत आमचे मुखार आसात ताचें स्रय आपल्या ह्या सर्जनशील संपादकाक तो दिता. खंयचो भाग कापचो वा खंय कितली भर घालची हाचो विचार हो संपादक तिरायत नदरेन करता. लिओनार्द वुल्फ हो Fertile in suggestions असो संपादक आशिल्लो. अश्या संपादकांची आमकां आयज गरज आसा. पूण तेच बरोबर केल्ल्यो सुचोवण्यो मानून घेवपाची मानसीक तयारी आमच्या लेखकांची आसूंक जाय, तीच आमचे मर्दी दिसना.

## 12-09-2016

आल्बर्तो मँग्वेल हाचें With Borges हें एक आगळें वेगळें पुस्तक. George Luis Borges ह्या लेखका विशीं हें पुस्तक आसा. ताचेर जयप्रकाश सावंत हाणें सप्टेंबराच्या ललितांत एक लेख बरयला. Borges चो उच्चार बोर्गेस असो जाता. बोर्गेस उप्रांत आंधळो जालो. तेन्ना ताका वाचून दाखोवपाचें काम मँग्वेल करतालो. बोर्होसाक खंयचीं पुस्तकां आवडटालीं आनी खंयचे लेखक आवड नाशिल्ले हाची वळेरीच तो दिता. ताका सिट्व्हन्सन, चॅस्टर्टन, हेन्री जेम्स, किप्लींग हे लेखक खूब आवडटाले. आवड नाशिल्ल्या लेखकां मर्दी टॉलस्टॉय, जेन ऑस्टेन, गटे, फ्लॉबेर, स्तांदाल, झ्वायग, मोपासाँ, बोकाशिओ, प्रुस्त, झोला, बाल्झाक, नेरुदा, थॉमस मान, लॉर्का पिरांदेल्लो हांचो आस्पाव. ही वळेरी वाचून थोडी मौज दिसली. चॅस्टरटन सोडल्यार हेर लेखक आयज कोण वाचिनात. किप्लींग हो जितो आसतनाच ताची सगल्यांक विसर पडिल्ली. खासा किप्लींगाकूय ताची जाणांव आशिल्ली. जेम्स तर आयज कोणूच हातांत धरिना. पूण टॉलस्टॉय, गटे, फ्लॉबेर आयजूय सामान्य वाचपी वाचतातूच पूण तेच बराबर समिक्षकूय तांच्या साहित्याचो आजूय विचार करता.

आवडप आनी आवडप ना हाचे फाटलीं कारणां बरींच आसूं येतात. खंय तरी पूर्वग्रह आड येता आसूं येता. पु. शि. रेगे क मर्ढेकर बी कवी अजिबात आवड नाशिल्ले. पूण सोपानदेव चौधरी, यशवंत हे कवी चड आवडटाले. हो रेगेंचो पूर्वग्रह हें स्पश्ट दिसता. आपल्याक जें स्रय मेळूंक जाय आशिल्लें तें आपल्याक मेळूंक ना हाची खंत रेगेक आशिल्ली आनी तें खरेंय आसा. आयजूय रेगेच्यो कविता समग्र रुपान प्रसिद्ध जावंक नात.

विशिश्ट काळांत तुका एकाद्रो लेखक आवडटा. मुखार मात तो आवडना. उरफाटें एका काळार कडेक दवरिल्लो लेखक कालांतरान तुका तो खूब आवडपाक लागता. कांय लेखक आनी ताचीं सगळींच पुस्तकां सदांच आवडटात. दुसरी आनीक एक गजाल आसा. तूं खंयचे मनस्थितींत पुस्तक वाचता तेंवूय तितलेंच म्हत्वाचें. Receptive मनान वाचल्यार ती साहित्यकृती तुका अदीक भावूंक शकता. वाचतना तातूंत आपले अणभव दिसल्यार ती आनिकूय लार्गीची दिसता.

आस्वाद प्रक्रिया म्हणल्यार एक गूढ...

**14-09-2016**

रेशा अवकाशाक आकार दिता...

**15-09-2016**

एकांत हो सर्जनशील कलावंतान अणभवपाक जाय. ती ताची खूब फावट गरज आसता. सगळ्यां पासून पयस वचून तो अणभवंक येता अशें न्हय. तर सगळ्यां मर्दीं रावनूय ताचो अणभव घेवंक येवं येता. सार्त्र अश्या एकांताक आवंडेतालो. आमचो वासुदेव गायतोंडो हो एकांताचो अणभव घेतालो. ताचीं सगळीं चित्रां ताची गवाय आसात. सगुणा कडल्यान निर्गूणा कडेन प्रवास करपी...

**25-09-2016**

दर्यादेगेर आशिल्ल्या खडपांचेर एक सारकीं ल्हारां आदळून तांकां वेगळेवेगळे आकार प्राप्त जातात. ते नदरेन पळयत जाल्यार ल्हारांक सैमीक शिल्पकार म्हणपाक जाय. मूराचीं शिल्पां पळयतकच सैम हो एक स्वयंभू शिल्पकार आनी चित्रकार आसा हाची जाणीव जाता. पानां फुलांनी भरिल्लें झाड आसूं वा संपूर्ण झडिल्लें झाड आसूं थंय कलेच्या सौंदर्याचो साक्षात्कार जाता. सकाळ आनी सांजवेळच्या मळबार उदेवचे रंग आनी खिणाखिणाक आकार बदलपी कुपां हातूंत चित्र पळोवपाची मात नदर जाय. कालचें मळब आयज नासता. इतली विविधताय दाखोवपी हो सैम...

**28-09-2016**

चित्रकार फ्रान्सिस न्युटन सौझा आनी ताचो एक इश्ट मुंबयच्या रस्त्यार चलत वताले. पावस पडिल्ल्यान रस्त्यार चिकोल जाल्लो. झोपडपट्टींतले कांय भुरगे थंय खेळटाले. एकल्या भुरग्यान मारिल्लो बॉल सौझाक लागलो आनी ताचो धवो बुशकोट म्हेळो जालो. रागान सौझा त्या भुरग्याच्या

आंगार गेलो. तेन्ना त्या भुरग्यान ताका 'ओ सिताफळ' अशें चाळोवन म्हणलें. तें आयकून तो तटास जालो. कित्याक तर देवीच्या मांवांक लागून ताचो चेरो खऱ्यांनीच सिताफळा भशेन दिसतालो. ही गजाल पयलेच फावट ताच्या लक्षांत आयली. त्या भुरग्याचे कल्पनाशक्तीक ताणे दाद दिली.

**28-10-2016**

रिल्कान रॉदां विशीं एक याद आपल्या पुस्तकांत बरयल्या. रॉदांच्या शिल्पांचो एक व्हड रसीक म्हणल्यार स्टिफन झ्वायग. एक फावट तो रॉदांक मेळपाक ताच्या स्टुडियोंत गेलो. तेन्ना तो एका शिल्पाचेर काम करतालो. तो आपलेच तंद्रेंत आशिल्लो. आपल्या स्टुडिओंत झ्वायग आयला हें ताका बरोच वेळ कळ्ळेंच ना. कांय वरां सरतकच तो भानार आयलो आनी ताणें झ्वायगाची माफी मागली. ही कलावंताची खरी समाधी अवस्था. अशी समाधी लागता तेन्नाच ताचे कडल्यान चमत्कार घडूंक पावता.

**17-12-2016**

When Mirrors are Windows हें गिर्लेमो रॉड्रिग्स ह्या स्पेनीश अभ्यासकान बरयिल्लें पुस्तक वाचतां. ए. के. रामानुजन हो एक नामनेचो भारतीय कवी आनी विचारवंत. ताच्या साहित्याचो वेध घेवपी हें पुस्तक. खूब कश्ट घेवन बरयिल्लें. रामानुजन एक अश्टताशी व्यक्तीमत्व. कवी, अनुवादक, मानववंशशास्त्री आनी भाशाशास्त्री. एकाच मनशा भितर हीं व्यक्तीमत्वां दसतालीं. ताका कितल्योश्योच भारतीय भासो येताल्यो आनी हेर विदेशी भासोय. ताणें जरी इंग्लीश कविता बरयल्यो तरी ताका डॉम मोरायशा भशेन अस्मितायेचो प्रस्न केन्नाच पडलो ना. हाचें मुखेल कारण म्हणल्यार ताचीं पाळांमुळां आपले मूळ मातयेंत घट्ट रुजिल्लीं...

**27-12-2016**

सुहास शिलकारान मार्क शागाल ह्या चित्रकाराची एक गजाल सांगली, ती नोंद करून दवरपा सारकी आसा. तो पिरायेचीं णव्वदी हुंपिल्लो आसतना ताणें आपले बायलेक विचारलें. "Am I a good painter?" कोणाकूय ताचो हो प्रस्न विचित्रसो दिसूं येता. पूण खंयच्याय कलावंताक असो प्रस्न पडूं येता. आपले कलाकृती विशीं ताका एके तरेचें असमाधान आसता. Best is yet to come अशें जेन्ना ताका दिसता तेन्नाच तो एक सारको वाडत वता. कांय वर्सां आदीं ताचें हांवें आत्मचरित्र वाचिल्लें. पूण आयज म्हाका तातुंतलो तपशील आठवतना. आतां परत तें मेळ्ळ्यार वाचपाक जाय.

000

ललीत

(निबंद)

शीला कोळंबकार

# मथुरेंतली वडापुनव

आमी रावतात ते हावसिंग सोसायटीचें नांव देवीनिवास. पयलीं थंय मद्रासी आनी मल्याळी लोक चड आसले. मुखार ते लोक आपआपलो फ्लॅट विकून विंगड विंगड सुवार्तींनी रावंक गेले. ते फ्लॅट गुजराती लोकांनी विकते घेतले.

आमी सरसकट गुजराती पद्दतीन साडी न्हेसतल्या लोकांक गुजराती म्हणटात. आमचे बिल्डींगेंत रावंक आयिल्ले लोक कच्छी आशिल्ले. हांची भाशा कच्छी. फामाद गुजराती लेखक झवेरचंद मेघाणीन जें कितें बरयलां तें कच्छी भाशेंत आसा. मुलुंडांत चडशे हे कच्छी लोक आसात. तातूंत आनी भेद आसात. लोहाणा कच्छी, भानुशाली कच्छी, जैन कच्छी. तांचे भितर जातीभेद आसा तो वेगळो.

गुजराती आनी कच्छी भाशेंत फरक आसा. मजा म्हणल्यार कच्छी आनी कोंकणी भाशेंत थोडें साम्य आसा. आमी तुका, म्हाका म्हणटात हे लोक तोके, म्होके म्हणटात. ''खंय वता'' म्हणल्यार ''कडा वनेती'' म्हणटात. ''सवकास वच'' म्हणल्यार ''आस्ते आस्ते वेच'' म्हणटात. 'च' चो उच्चार 'च्य' असो करतात.

कच्छी बायलां तडक भडक आनी चकचकीत कपडे वापरतात. दादलेय बी भांगराशिंगराचे शौकीन! जाड सरपळ्यो, माश्कोत, खुबशो मुदयो घालपी. तांच्या जेवणांत भरपूर हरव्यो मिरसांगो आनी लसूण आसता. ह्या लोकांनी केल्ली मिसळ खाल्ली जाल्यार तोंड भगभगता. कच्छी दाबेली फामाद. तांची कच्छी बियर म्हणल्यार

**शीला कोळंबकार** : जल्म : 1945. नामनेची साहित्यीक. कथा, निबंध, बालसाहित्य आदी प्रकारांत लेखन. *'ओली सांज'*, *'गेर'* आनी *'कथाशील'* हे कथासंग्रह, *'भुंयचाफी'* हो व्यक्तीचित्रांचो संग्रह, *'शीला-लेख'* हो निबंद संग्रह आनी चार बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत. केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार (1997), सॅमसंग इलेक्ट्रॉनिक्साचो टागोर पुरस्कार (2011), विमला पै पुरस्कार (2012) आदी प्रतिश्ठेच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. चवदाव्या अ. भा. कों. साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो (1997) भोवमान. संपर्क : देवी निवास, चंदन बाग रस्तो, बँक ऑफ इंडिया लागीं, मुलुंड (पश्चीम), मुंबय – 400080, मो. : 09819315307

कसली तरी बरो मसालो घाल्लें ताक! ही कच्छी बियर मात बरीऽ लागता.

कच्छी लोक वेपारी जाल्ल्यान ते लोक बरे गोड उलयतात. बायलो व्हडाव्हडान उलयतात. झगडूंक लागत जाल्यार 'तांच्या तोंडाक चुडटी लावची काय हळद लावची, हेंच कळना. पूण हे लोक धार्मिक वृत्तीचे. ब्राह्मणाक खूब्ब मानतात.

सांगचो उद्‌देश, असले हे कच्छी लोक आमचे बिल्डींगेंत रावंक आयल्यात. तातूंली एक भागरथी बेन. तिगेले सुनेची आवय कोकीळाबेन. ही कोकीळाबेन ना नफो ना नुकसान हे धर्तीचेर बायलांच्योच भोंवड्यो काडटा. हे खेपे हे लोक मथुरेक वचपाचे आसले. बिल्डीगेंतली म्हजी एक वांगडी हेमा मेनन. पस्तीस वर्सांची आमची वोळख. तिणें म्हणलें, ''शीला, हे लोक भोंवडेक वतात. मथुरेक. आमी वचुंया तांचे बराबर? पळोवया तरी कशें कितें आस तें?'' म्हाकाय भोंवक आवडटा. खंयच्याय पंगडांत भोंवक वतना आपले बराबर आपलेंशें कोणूय आसचें पडटा. मागीर खंयूय वचूंक कसलोच भंय ना. ''एक से दो भले.'' आमी दोगांयनी वच्चें अशें थारायलें.

आमी 5 जुनाक मथुरेक वचूंक भायर सरलीं. रातची णवाची ट्रेन आसली. दुसऱ्या दिता सांजेर पांचांक आमी मथुरेक पावलीं. सगळीं मिळून आमी तीस जाणां आसलीं. आमी दोगां सोडून बाकी सगळीं कच्छी बायलां. कोकिळाबेन, भागरथीबेन आमच्यो लीडर.

आमकां वैष्णव भवनांत वचपाचें आसलें. थंयचो पंड्या आमकां व्हरूंक आयिल्लो. मथुरेक चडशो पायणीच पायणी! बस वचूंक व्हड असो रस्तोच ना.

वैष्णव भवनांत रिक्षांनी वच्चें अशें थारलें. रिक्षा केल्यो. ह्या रिक्षांत फाटल्या सीटार तीन लोक बसूंक शकतात. दोन ड्रायव्हराच्या दोन कुशीक दोन सीट. हीं कच्छी बायलां एका परस एक धेलां. जीं जाडीं तीं खूब्ब जाडीं. बारीक तीं साप्प सुकडीं. हेमा आनी हांव बी तशीं जाडींच म्हणपाचीं. पंड्या आसलो. तीन जाड्या बायलांक फाटल्यान बसोवपाक ताणें ड्रायव्हराक सांगलें. आनी आमचे कडेन बोट दाखोवन ताणें म्हणलें, ''हीं दोगांय बारीक आसात. तांकां मुखार बसय.'' हेमाचो आनी म्हजो हांसून मुड्डो पडलो.

आमी दोगांय जीव मुठींत धरून रिक्षांत सायडीच्या सिटार बसलीं. रिक्षा ड्रायव्हरान रिक्षा सुरू केली. आमी हे पायणींतल्यान ते पायणीन दुसऱ्यो रिक्षा, मनशां, सुणें, मर्दीच बशिल्ले भाजीवाले आनी माकडांक चुकयत एकदांचीं वैष्णव भवनांत पावलीं.

रुमार गेलीं. आमचो रुम पयले माळयेर आसलो. थंय आमी न्हालीं - धुलीं. हेमा केरळची. ती माथ्यार न्हाली. तिणें माथें पुसपाचो वालो भायले दोरयेर घालो. एक माकड येवन तो वालोच घेवन गेलो.

आमी फ्रेश जावन सकयल गेलीं. थंय च्या-नाश्ता तयार आसलो. तो घेतलो. थंयचें यमुनादेवीचें मंदीर आसा तें पळोवंक गेलीं.

सांजेर यमुनेची आरती आसता. ती

पळोवंक आमी गेलीं. आरती सगळ्यांक बरे तरेन पळोवंक मेळची म्हण कोकिळाबेनीन एक व्हडें भाड्यान घेतिल्लें. तातूंत आमी बसलीं. वडापुनवे आदली रात. यमुनेचें संथ व्हांवपी तें काळेशार उदक! माथ्यार चंद्र! चान्न्यांत काळी यमुना चडूच चकचकताली. आमी यमुनेची आरती दोळे भरून पळयली.

यमुना ही श्रीकृष्णाची पट्टराणी! यमुना कृष्णाच्या प्रेमरंगांत रंगली. इतली की तिणे कृष्णालो काळो रंग आपणायलो? काय कालिया थंय राविल्लो, म्हूण तिचें उदक काळें जालें काय? तें कितेंय आसूं! पूण बावडें यमुनेचें उदक दिसान दीस काळें जायत वता. तें मात आमच्या तुमच्या मनांत आशिल्ल्या विखारी स्वार्थाक लागून!

हांवें यमुनोत्री पळयल्या. थंयचें उदक काय काळें ना. तें कितलें नितळ आनी थंडगार! मदींच हून उदकाचीं कुंडां! एके वटेन थंड उदक, जाल्यार दुसरे वटेन हून उदक. इतलें हून... तांदळाची पोटली त्या उदकात बांदून सोडीत जाल्यार धा मिणटांनी ताचें शीत जाता. मागीर मुखावयलें तिचें उदक इतलें काळें आनी बुरशें कशें जाले काय? ताजमहाला फाटले यमुना न्हंयेचें उदक साप्प हळशिक्रावणें! त्या उदकाक सोंसूं नज असलो एके तरेन वास मारता आमच्या न्हंयांची आमी वाट लायल्या. एके वटेन न्हंयांक आमी पवित्र मानतात दुसरे वटेन तांची वाट लायतात.

दुसऱ्या दिसा वडापुनव आसली. त्या दिसा यमुनेचें कृष्णा वांगडा लग्न जाल्लें खंय! त्या दिसा यमुनेक साडी न्हेसोवपाची आसली. ताचे खातीर एकशेंआठ साडयो हाडिल्ल्यो. त्यो एकामेकांक जोडून शिंविल्ल्यो. ताची एक व्हड पोटली जाल्ली.

आमी सगळीं पांचां पयलीं उठलीं हांगा बेग्गीं उजाडटा. न्हावन धुवन तयार जालीं. हेमा आनी हांव गुजराती पद्दतीन साडी न्हेसलीं. गुजराती पद्दतींत उजवे वटेन पदर आसता. म्हूण कितें तरी मातशें चुकिल्लेवरी दिसतालें. लग्नाक लागता तितलेंय सामान हाडिल्लें. हळद-कुकूम, चुडो, तांदुळ, नाल्ल ते करो मेरेन सगळें आशिल्लें. हॉटेलांत सकयल एक ल्हानसो हॉल आशिल्लो. थंय सगळें सामान पोटल्यांनी बांदून दवरिल्लें. सगळ्यांत व्हड पोटली एकशें आठ साडयांची आसली. आमी सगळीं त्या हॉलांत जमलीं. भट आयलो. ताणें त्या सामानाची पूजा केली. मागीर आमी सगळीं देवळांत वचूंक तयार जालीं. कच्छी बायलांनी पांयांत जोतीं घालूं नाशिल्लीं. हांवें एक रबराचें जोतें व्हेल्लें. तें घालें.

आमची घरभरवणी देवळांत वचूंक भायर सरली. शेनाय, धोल, ताशांचें वाजप आसलें. आमच्या मुखेल बायलांनी दोन व्हड वर्जी माथ्यार घेतलीं. त्या बराबर हेर बायलां मुखार सरलीं. फटाफट जण एकल्यान एकेक पोटली उखल्ली. हांवें तांतल्या तांतूंत ल्हान आशिल्लो हळद-कुकमाचो पाटलो उखल्लो. आमचे भितर एक कच्छी भटीण आशिल्ली. तिणे एकशें आठ साडयांचो पोटलो उखलून फाटीर मारलो. जाणटेल्या बायलां खातीर सायकल रिक्षा मागयल्यो.

तशो आनी दोन रिक्षा मागोवन सगळें सामान व्हेल्यार जातालें. पूण ना, आमी रावतालीं थंयसान देवूळ देडेक किलोमिटराचेर आसलें. आमचीं मुखेल बायलां जीं बरीं लांब, रुंद, धडंग आसलीं तीं माथ्या वयलें वजन घेवन पंचविशेक पावलां चल्लीं. मागीर तांणी आपल्या माथ्या वयलें वजें दुसरे बायलेच्या माथ्यार दिलें. धोल ताशांच्या तालार तीं नाचूंक लागलीं. ह्या लोकांचें एक बरें. सगळींच जाणटीं नेणटीं नाचतात. विधवा बायलांय नाचतात तें पळोवन बरें दिसलें. तांचे भितरलीं आपले वळखीचीं कोणूय आसल्यार तांचे भोंवतणी पैशे ओंवाळटात. ते पयशे धोलकीं वाजयतां तांकां दिता. धोलकीं वाजोवपी आनीक नेटान वाजयता. नवरात्र, लग्न, भागवत सप्ताह, कितेंय आसूं. तीं गरबा खेळटात. तांची ती संस्कृती.

हरशीं गरबा ग्रेसफूल नृत्यप्रकार? तीस-पस्तीस वर्सांपयलीं नवरात्रींत गुजराती बायलो गरबा खेळटालीं, तो पळोवपा सारको आसलो. तेन्ना कृष्ण, राधा आनी गवळणी असो गरबा खेळटालीं आसूंक जाय अशें दिसतालें. आतां डिस्को दांडिया बी प्रकार आयल्यात, तेन्ना तातुंतलें काव्य, लालित्य सगळेंच शेणलाशें दिसता. आतां गरबा खेळटना व्हिडिओ शुटींग घेतात. तेन्ना ज्या बायलांचेर फोकस पडटा तीं भार आयिल्लेवरी नाचतात.

हेमा आनी हांव बाडगूज कुशीक रावन चलतालीं. तांणी ओडून व्हरून आमकां नाचूंक लायलें. आमी नाचलेंशें केलें आनी कुशीक सरलीं.

नाचत नाचत आमी यमुनेचे देगेर पावलीं. थंय माटव घाल्लो. भटान थंय सगळी तयारी केल्ली. आमचे भितरली भटीण सगळ्यांत फुडें वचून बसली. तिका बरेच मंत्र पाठ आशिल्ले. भटा वांगडा तिवूय बी ते मंत्र व्हडाव्हडान म्हणटाली. पूजा बी जाली. मागीर आमी यमुना न्हंयेक हळद-कुकूम लावंक गेलीं.

थंय भटान सांगलेंः तुमी तुमची मनोकामना देवीक सांगात. ती मनोकामना यमुना देवी पूर्ण करतली. न्हंयेचे देगेर हळद- कुकूम, अबीर, गुलाल, अक्षता आनी फुलां आसलीं. हळद-कुकूम देवीक घालपाची म्हजी पाळी आयली. हांवें चिमटीभर हळद-कुकूम, अबीर, गुलाल देवीक ओंपलो. थंय उबो आशिल्लो भटमाम म्हणूंक लागलो, ‘‘चिमटीभर हळद-कुकूम देवीक कित्याक घालो? बरो बचकोभर घालचो आसलो. आमी भरपूर सगळें हाडलां.’’ हांवें म्हळें, ‘‘चिमटीभर हळद-कुकूम घालो जाल्यार यमुना देवी म्हजेर रागार जातली! तिका तें पावचें ना? हिंदू देवी देवतांक श्रद्धेन दिल्लें पान लेगीत पावता. थंय हळद-कुकूम कित्याक पावचो ना? खरें म्हणल्यार तुमी लोकांक सांगूक जाय, चिमटीभर हळद-कुकुम, गुलाब, अबीर बी घाला म्हूण! बचकोभर घालूंक दिव नज? हो कुकुम, अबीर, गुलाल बी हालीं कॅमिकल घालून तयार करतात. बचको भर घाल्लो अबीर, गुलाल न्हंयेचें लुकसाण करतात. यमुनेचीं सोंपणां पळयात कितलीं बुळबुळीत जाल्यांत तीं! यमुनेक

देवी म्हणटात. आनी तिची अशी वाट लायतात?'' अशीं शाणपणां भटाक सांगून हांवें मुठभर अक्षता न्हंयेंत उडयल्यो.

तेन्ना ताणें म्हणलें, ''आतां मूठभर अक्षता तुमी कित्याक उडयल्यो?''

हांवें म्हणलें, ''न्हंयेंतलें नुस्तें पळयात ते तांदूळ खातात.''

ताणे म्हळें, ''आतां तरी तुमी यमुनादेवीकडे जायतें मागात.''

हांवें म्हणलें, ''म्हज्यो कसल्योच मनोकामना नात. जें कितें म्हाका मेळ्ळां ताचेर हांव खूश आसां. खेरीज देवदेवता आमकां कितें बरें तेंच दितात. निमाणें सगळो संवसार सुखी जावचो, संवसारभर शांती आसची हीच म्हजी मनोकामना!''

– तो भट म्हाकां पळयतूच उरलो.

मागीर आमकां दोणोभर पंचामृत दिलें. तें पितना अर्दें म्हज्या तोंडांत आनी अर्दें खंय गेलें कळ्ळेंच ना. कोणे तरी म्हणलें, ''पंचामृत तुजे साडयेर पडलें.'' हांवें म्हणलें, ''ना! अर्द हांव पिलें. अर्द कृष्ण येवन पिवन गेलो.''

इतले सगळें जातासर साडेणव जावन गेलीं. मागीर थंय आमकां च्या आनी नाश्तो दिलो. धा वरां जाता म्हणसर कडकडीत वत भाजून फाडूंक लागलें. आमी उदकाची बाटली घेवन भोंवतालीं. इतलो तानसोर लागिल्लो. मर्दी मर्दी शिकंजी पितालीं. शिकंजी म्हणल्यार लिंबाचें एक तरेचो मसालो आनी सोद घालून केल्लें सरबत.

मागीर आमी यमुनेक साडी न्हेसयता ती पळोवंक गेलीं. यमुनेचे देगेर एक खांबो आसलो. ताका एक साडी बांदली आनी उरिल्ल्यो एकामेकांक गांठायिल्ल्यो साडयो दुसरे देगे मेरेन पावयल्यो. तरेकवार रंगाच्यो फडफडटात त्यो साडयो पळोवंक बऱ्योऽ दिसताल्यो.

यमुनेक एकशेंआठ साडयो अर्पण करून काडटकीच एकशेंआठ साडयांतली एक साडी उणी जाता खंय!

ही गजाल पंदरा वर्सां पयलींची. सैमाचें चक्र चालूच आसा. मर्दी कितल्योशोच वडापुनव्यो आयल्यो आनी गेल्यो. पूण दर वडापुनवेक मथुरेची याद येता. यमुना आनी कृष्णालें लग्न येवजता. थंयच्यो पायणी दिसता. पायणी कुशीचीं देवदेवतांच्या मुर्ती आनी फोटवांचीं दुकानां दिसतात. मोतयां आनी रंगीत खड्यांच्यो हुंमकळपी वस्ती दिसतात. इल्लो बाळकृष्ण सानुलो मुकुट घाल्लो दिसता. मोरपांखां दिसतात. एक गजाल सांगूंक विसरलें, थंय सगळ्या पाणींनी मेळटा थंय, रानटी गुलाबांचीं झाडां आसात. त्या झाडांर फुलिल्ल्या इल्ल्याशा गुलाबांचो मधुर वास धुंद करतालो.

आतां दर वडापुनवेक ती मथुरा, चान्न्यांत चकचकपी यमुनेचें उदक, तें देवूळ, त्यो पायणी, तीं दुकानां म्हज्या दोळ्यां मुखार येतात. हांव दोळे धांपतां आनी गुलाबांचो वास घेत एक एक दृश्य पळयतां.

000

ललीत

(निबंद)

सुमेधा कामत देसाय

# भांडांतलो उजवाड

म्हज्या भुरगेपणांतलें जग हें आयच्या जगा परस खूब वेगळें आसलें. वयाच्या पंदराव्या वर्सा मेरेन म्हाका आक्यां रावपाक मेळ्ळें. पांच ते पंदरा हो वयोगट कंवळें वय धारण करपी. मागीर मनशाचें जिवीत ल्हवूल्हवू बदलत वता. तातूंत आनी दुसऱ्या दुसऱ्या, नव्या नव्या गजालींची भर पडत वता. सोळावें वर्स म्हणल्यार एक संधीकाळ कसो. हांव बरोबर त्याच संधीकाळांत आकेच्या त्या पोन्या घरांतल्यान आनी वाठारांतल्यान भायर सरून नावेले नव्या घरांत गेलें.

नावेले गेलें खरें, पूण म्हजें मन मात आकेंच्या त्या पोरण्या घरांतच घुसपून उरिल्लें. सोडिल्लें माजर खंय परत आपल्या त्याच घरांत येता तशें म्हजें मनूय आकेंच्या त्या घरांत परत परत येतालें. आयज म्हज्या वयाचीं सत्तावन वर्सां पूर्ण जावपाक आयलीं. तरीय जादुगारान मंत्र सामर्थ्यान एकाद्याक बांदून घालचें जशें आकेंचें तें पोरणें घर आनी सरभोंवतणच्या त्या वाठारांत म्हजे हातपांय आनी मन बांदून घालां. आकेच्या त्या घर-परिसरान आनी त्यावेळा वयल्या कुंवार, अस्पर्श वन्य वाठारांनी म्हजे जिणेक निसर्गप्रेमाची प्रेरणा दिली. आकार दिलो.

हांव निकतेंच दोळे उकते करून पळयतालें, तेन्ना पाखले वाठार सोडून गेल्ले. त्या वेळार लोक तांच्यो खबरी उलयताले तें सरभोंवतणी आयकुपाक येताल्यो.

आकेंचें आमचें हें घर भाड्याचें. माँ माशेलांतली धूव. थंयच्या गवंडळकारांचें हें घर. "निमा, तूं राव गो. तूं राव गो." म्हण ती माँक बियेचे जात्रेक गेल्ले कडेन सद्दां

**सुमेधा कामत देसाय** : जल्म : 1957, ललीत निबंदकार, प्रवास वर्णनकार. कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंत लेखन. लेखनाक विनोदाची झालर. कोंकणी-मराठी मेळून सोळा पुस्तकां प्रकाशीत. *'विवेकानंद पुरमांत'* (प्रवासवर्णन) तशेंच *'तेंफळां घोंस'*, *'निवल - कांडयेचीं बोंडां'*, *'पालवापान'*, *'आंबाड्यांच्या घरांत'* हीं कांय कोंकणी पुस्तकां चर्चीत. कला अकादेमी-गोंय, तशेंच डॉ. टी. एम्. पै फावंडेशनच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : जी-2, पंखराज, कॉर्पोरेशन बँके लागी, तोंक, करंजाळे, गोंय. मो. : 9767414106.

सांगी. हरशीं कामतीचें घर पाड्ड्यां. पूण भुरग्यांच्या शिकपा खातीर माँ पाड्डें सोडून मडगांवां आयली आनी गवंडळकराच्या ह्या घरांत रावली. भुरगीं न्यू इरा हायस्कुलांत शिकूंक लागलीं. आजो 'जय हिंदा'चे चळवळींत पडिल्लो. ताच्या कपलाक वॉरण्ट दसलें आनी तो मुंबय पावलो. आजी बावडी एकलीच आडसाट्या वयाच्या भुरग्यांक घेवन गवंडळकाराच्या घरांत दीस काडूंक लागली. आमोणेच्या भाटांतल्यान येवपी नाल्ल आनी काकोडेच्या शेतांतले भात आदाराक आसले. पाड्डेचे कितले तरी भुरगे घरांत शिकूंक आसले. आयुश्यभर त्या लोकांनी आकेंच्या घराचें रीण मानलें. पाड्डेचे लोक अजूनय मायेच्या त्याच धाग्यांनी एकामेकां कडेन बांदिल्ले आसात.

आतां म्हाका पाड्ड्यां परत परत वचूंक मेळना म्हण खूब दुख्ख जाता...

म्हजें आकें, पाड्ड्यां ह्या वाठारांची भावनीक बांदिलकी आसा. तातूंत म्हाका म्हजे आवयची त्या प्रमाणांत साथ मेळना. तिका आजूनय आपलें मांद्रेचें कुळार आनी आतांचें नावेलेचें घरूय आवडटा. तिच्या आयुश्यांत आयिल्ले पाड्डें आनी आकें हे स्वल्पविराम ती विसरूनच गेल्या. तिचेंय बरोबर! वाडट्या वयान मनशाचें मन निबर जाता. ताचेर संस्कारांचे छाप खोलायेन उमटनात. पूण म्हजो जल्म आकेंच्या घरांत जालो. म्हजी नाळ त्या घराचे वणटींत पुरल्या. आनी हांवें थंय पंदरा ऋतुचक्रां पळयलीं. अणभवलीं. पाड्डें हो म्हज्या जाण्ट्यांचो गांव. थंय म्हजी मावशीय रावताली. सुटयांनी, शिगम्याक, दसऱ्याक आनी आंतऱ्या पयऱ्यान आमी पाड्ड्यां वतालीं. भाटांत पाडूंक वतालीं. काकोडेंच्यान भात हाडटालीं. म्हणून म्हज्या आकेंच्या घरा उपरांत म्हाका पाड्डेंच चड आवडटालें.

हांव हें सगळें बरोवंक कित्याक बसलां?

म्हाका खरें बरोवपाचें आसलें आमच्या भांडाचेर. म्हूण हें सगळें पयलीं बरोवचेंच पडलें. ह्या आकेंच्या घरा फाटल्यान एक पडवी कशी आसली. ताच्यो दोन वणटी पत्र्यांनी बंद केल्ल्यो. ते भायर पावसां दिसांनी झड मारची न्हय म्हण आशिकुशीक, सगळ्याक मलायो बांदताले. मागीलदार उगडलें काय ह्या धाकटुल्या मांगरांत आमी भितर सरतालीं. ह्या मांगराचींय दोन अर्दीं आसलीं. सांजवेळात आई लक्ष्मीचें दूद ह्या मांगरांत काडी. ह्या मांगरा उपरांत एक मेकळो जागो आसलो. फुडें गोठो. दनपरां लक्ष्मी थंय गोठेताली. गवणींतलें तण मस्तून तें भायर ओडून काडून, दोन थापे मारून लक्ष्मी नाजूक नाजूक बसताली. थंयच्यान लक्ष्मीक सोडोवन हाडून भांगरांतल्या ह्या नितळ जाग्यार आमी हाडटालीं. थंय आमोलाचो तोप दवरून दूद काडटाली.

ह्या मांगरानूच वणटी कुशीक एक धाकटुलें मान्ने आसलें. ह्या मान्न्यांत व्हडल्यो व्हडल्यो फातरी घालून शिमीट घाल्लें. थंयच कुशीक आयदनां घांसप. पावसा दिसांनी आयदनां पांवळेक फुगत पडटालीं. पावस चडूच पडलो काय

उदकाच्या लोटान होळून आयदनां खळयेंत वतालीं. धाकटुल्यो पातमाऱ्यो कशो उदकांत हालत धोलत फुडें फुडें वतात तशें तोप, उरवुळ्यो, लगड्यो, ताटां हालत - धोलत - हालत फुडें फुडें गोठ्या मेरेन वतालीं.

नाचत नाचत उदकाच्या लोटांतल्यान फुडें वचपी तीं आयदनां आयजूय म्हज्या दोळ्यां मुखार नाचतात....

एके कुशीक हांड्याची रांदन आनी ताचेर हो येदो व्हडलो तांब्याचो हांडो. माँन हो पाड्डेंच्यान येतना हाडिल्लो. आनिकूय खूब हांडे आसले. पूण ते थंय कोणाकोणाक दिल्ले. ते तांणी परत दिले नात. ते भायर पाड्डेंचें - मातयेचें घर हुंवारांन मोडलें तेन्ना थंय कोण पावले नात. हो एकूच, अपुरबायेचो उरिल्लो हांडो. ह्या हांड्याचे दाव्या कुशीक दोण आसलें. माँच्या तेंपार ह्या दोणांत खंय आंबल्यो खळाक घालतालीं. आंब्याच्या झाडाचें कांड कोरांतून हीं असलीं दोणां करतालें खंय. मागीर आमोणेच्यान आंबल्यो हाडून ह्या दोणांत खळाक घालताले. माँची भुरगींय पाटलीभर. ते भायर आयिल्ले गेल्ले, सोयरे-धायरे, शेजारी - सामारी. सकाळीं धा वरांचेर पेज जेवपाची पद्दत आसली. आनी मानाय - वावराड्यो जाल्यार वर्सभर आंबल्यो मागून व्हरतालीं. तांचे खातीरूच हें येदें व्हडलें दोण भरून आंबल्यो चेपणाक घालतालीं.

म्हजी आवय बार्देसकान्न. रुचीरुचीचें जेवण जेवपी पेडण्यांतल्या भाटकारांच्या घराण्यांतल्यान आयिल्ली. ती भोव घालता दोणांत आंबल्यो! ती आपल्या काळांत फकत भरिल्ल्यो आबल्यो घालताली. माँ मुंबय वतकीर ती मागीर ह्या दोणांत रांदनींतलो गोबर भरून दवरताली. मे म्हयन्यांत गायर उसपून भाटांत व्हरतालीं. तेन्ना ह्या दोणांतली गोबोरय आमोण्यां पावतालो. ह्या दोणाचेर धांपणें म्हुणून लांकडाची फळी आसताली. केन्नाय धांपणें चुकून उकतें उरलें जाल्यार आमची कोंबी तातुतल्या गोबरांत तांती घालून मेकळी जाताली. गोबराकोराचो लोणी कसो मोव मोव गोबोर, तातूंत एक सुपुल्लेंच काळेंफुल आनी गुलाबी कांत मारपी धवें चकचकीत तांती पळोवन म्हाका खूब आनंद जातालो. हांव ते अमुरपिके पिरायेन सैम सांगातान वाडलें. म्हण सैमाचेर प्रेम करपाक शिकलें.

ह्या हांड्याचे रांदनीक फांतोडेर उठून आमचो रगलो उजो घाली. म्हाका याद जायना, त्या काळांत आमी सकाळीं फुडें न्हावन शाळेंत वतालीं काय कितें तें! पूण चडशीं आमी दनपरांच घरा येवन न्हातालीं. सांजवेळ कमलावती दोडी भरून बांयचें उदक हाडून हांडो भरताली. हांडो उपाट भरून ताचेर धांपूक एक फळयेचें वांटकुळें धांपणें आशिल्लें, ती धांपताली. हांड्यार धातूचें धांपणें धांपिनात. हांडो तापतकीर धांपणेंय गरम जाता म्हणून.

भरिल्ल्या हाण्यान बुचकुळूंक आमकां खूब आवडटालें. आई तापयत रावताली. म्हजो धाकलो भाव जाल्यार खूब सुबेज, मस्तो, आडांगी. तो म्हजे परस तीन वर्सांनी ल्हान आसलो. तो शाळा सुटतकीर खंय

खंय धुमशेणां कांडीत भोंवत रावतालो. घरा सकयल मुसलमानांचो व्हडलो वाडो आसलो. तांच्या भुरग्यां बरोबर तो मळां, शेतां, रानां, दोंगुल्ल्यो, झरीचो वाठार माइडोवंक वतालो. खेळपाक वतालो. आई–भाव, रगलो, आनी आमी ताका दीसभर सोदत रावतालीं. शेजारी पसून ताका सोदूंक वताले. मदीच मागीलदारांतल्यान खंयच्यान तरी येवन हांड्याची फळी काडून तो एकाद्या तानेल्ल्या गोरवा भशेन घटाघटा उदक पिवन आशिल्लो तसो परत हेडूंक वतालो. आतां दिसता, ताचे बरोबरचे युसुफ, इक्बाल, नझीम हेवूय बी हांड्याक तोंड लावन उदक पिता आसतले...

तानेल्ल्यांनी उदक पिवप न्हय तर त्या उदकाचो उपेग तरी कितें? खरें न्हय?

दनपरां हांडो रितो आसतालो तेन्ना भितर तोंड घालून मोठमोठ्यान पदां म्हणपाची म्हाका आवड आसली. आई म्हणटाली, "एक दीस तुजी तकली हांड्यान शिरकतली आनी तूं थंयच उरतलें... पूण म्हजी तकली केन्नाच हांड्यांत शिरकली ना आनी हांड्यान तकली घालून व्हडल्यान पदां म्हणपाची म्हजी संवय नावेले येयसर सुटली ना.

ह्या हांड्याच्या आयुश्यांत वर्साक दोनदां स्थित्यंतर येतालें. तें म्हणजे आई वर्साक एकदांच उकडे तांदूळ करताली तेन्ना. केन्नाय गुणें आयलें जाल्यार, नाजाल्यार एकाद्रें आडगत कामेरें मेळ्ळें जाल्यार आई भात उकडपाची कार्यावळ हातांत घेताली. आदले रातीं मोटमोटीं तोंडकां फोडून व्हडली रांदन पेटोवपाची तयारी करून दवरताली. हांडो अर्दोच भरप. मागीर सकयल रटारटा उजो पेटोवप. उदक हुनसार जालें काय भाताचो साक सोडोवन सुपांनी भात व्हरून त्या उदकांत रकयताले. पोल वयर उफेवंक लागताले. कामेरीं मागीर तें दवल्यान काडून उडयतालीं. भाटकारांच्या नशिबांत चडशें पोलूच आसतालें. पोल सुकतकीर तेंच परत रांदनी उज्यांक घालूंक मेळटालें. भात उकडूंक लागतकीर एक उग्र, गोडूस वास घरभर पातळटालो. जायजायसो आनी नाकानाकासो. आमी घरांत उकडे तांदूळ फकत पेजेक आनी पोळ्यांक उपेगाक हाडटालीं. थोडे रगल्याच्या जेवणा खातीर राखून दवरताली. आमचें तांबडें भात. सुरय करतना मोडून कणी जातालें. उकडे केल्यार मात तांदूळ अखंड मेळटाले.

भात फुटलें काय रांदनीचो उजो उणो करप नाजाल्यार भात चड उकडून तांदूळ पिड्ड्यार जाता.

भात उकडटकीर तें दवल्यांनी उसपून वेंताच्या खोंटल्यांनी घालून दवरतालीं. उदक निस्तून जालें काय सारयिल्ल्या आंगणांत तें सुकत पडटाले. मागीर तें भात तीन दीस शेणान सारयिल्ल्या एका साकांत थंडसाणीन, सुसेगादीन वाळगत रावताले. मागीर तें भात गिरणीर वतालें.

हालींच म्हाका निवृत्तीन सांगिल्लें, "आमी आमच्या भुरगेपणांत भात उकडटाले. भात उकडटना भितर भिकणां घालताले. हीं भिकणां भाता बरोबर उकडून येतालीं आनी तीं खावपाक खूब मजा

येताली.'' निवृत्तीन म्हाका आनिकूय फुडें सांगलें, ''भाताचें सुके पोल आमी रांदनींत मारताले तेन्ना तातूंत जर थोडे भातगोटे आसत तर ते फट्ट फट्ट करून फुटटाले आनी ताच्यो ल्हायो तयार जाताल्यो. रांदनी भायर उसळटाल्यो. आनी आमी त्यो वेंचून खाताले.''

ह्याच कामेऱ्यां कडल्यान आई सांजवेळा हांडो चकचकीत घांसून घेताली आनी सारयिल्ले रांदनीर तो परत चडटालो.

आनी एक दुसरो वेळ. ती दिवाळेची धनतेरेसीच्या दिसा रांदनीवयले हांडो सकयल देंवतालो. आई वावराडे कडेन मीठ, सोलां, आमटाण दिवन तो चकचकीत घांसून घेताली. थोकणां आशिल्लो तांब्याचो तो हांडो तांबडेगुंज दिसतालो. मागीर रांदनींतलो गोबर घेवन तणाचे तणशेन तो परत घांसून काडटालीं. मागीर हांडो निकत्याच न्हावून आयिल्ल्या बाबुल्या भशेन दिसतालो. तांबयोय घांसून काडटालीं. मागीर हांडो, तांबयो उदकान उपाट भरून दवरतालीं. निवळ घांशिल्ल्या त्या हांड्याक चुनो, हळद - पिंजरीचे तिबे लावपाचें काम म्हजें. केन्ना काय वावराडी हांडो घांसून, रांदनीर दवरता आनी उदकांत भरून म्हज्या हातान सोंपयता अशें म्हाका जातालें.

हांव हरशींय दीसभर आनी वर्सभर असल्याच राटावळींनी गुल्ल आसतालें...

मागीर रात जायसर हांव बावडें मान्यांतूच. काळोख जातकीर मागीर पेत्रोलाचो दिवो गोबराच्या दोणार दवरून म्हजो उद्देग चलतालो. हांड्याक तिबे लावप, काट्टां, शेजां, आंब्याचे ताळे गुथून माळ घालप. तांबयाकूय शिरंगारप. आई आरड्यो मारीत रावताली. हें रांदनीपोल्लांतलें काम सोंपोवन हांव फुडल्या दारांत येयसर काळोख दाट जातालो. मागीर मेणवात्यो, लापयांव लावपाचें काम सुरू जातालें आनी म्हज्या मनांत लिपिल्लें एक सादें, निरागस, निष्पाप भुरगें खूब जायत रावतालें.... तरी हेर भुरग्यां परस हांव खूब भाग्यवान आसलें. म्हाका व्हडल्या सुटयांनी सोयऱ्यांगेर वचूंक मेळटालें. हांव नाव्यां आनी मडकय मावशेगेर वतालें, पाड्ड्यांय म्हजे मावशेगेर वतालें. आजो-आजयेगेर वतालें, आजोळा-मांद्र्यां वतालें, पणजोळा - माशेलांत वतालें.

आनी म्हज्या मनांतल्या अणभवांचें रंगरंगयाळे तिबे उठत रावताले. ह्याच तिब्यांच्या रांगोळ्यांनी म्हजें भावविश्व समृद्ध जालें आनी हांव फुडें लेखक जावंक पावलें...

फांतोडेर तिनाक उठून हांड्याक उजो घालतालें. मोठमोठीं तोंडकीं घालून रांदन पेटयतालें. पांचांक सुमार उदक कडकडीत जातालें. मागीर आई रांगोळी घालून पाट दवरताली. दिवली पेटयताली. सगळ्यांक तेल लायताली. तायखिळ्याचें आनी विक्र्याचें उटणें लायताली. आनी मागीर बचकुलाक धरून न्हावंक व्हरताली. कावळ्यान कां करचे पयलीं न्हावप हें शास्त्र. किट्ट काळखांत, चिमणेच्या उजवाडांन तेल लावप मलप्यो दाट जाल्ल्या आनी न्हिदसुऱ्या दोळ्यांनी कुलकुल्याच्या

शिंयांत, कडकडट्या पांयांनी हांव मान्यांत वतालें. कुडकुड्याचें शीं, सगळ्याक काळोख, राणारणां पेटपी रांदनी आनी कडकडीत तापिल्लें उदक आई घसाघसा तांबये काडून माथ्या वयल्यान उदक घाली. उटणें, चंदनाच्या साबणाचो सुगंध आसमंतांत परमळटालो.

ती ल्हानपणांतली दिवाळेची फांतोड अजून म्हज्या स्मरणांत आसा. आतांचें म्हजें दिवाळेचें न्हावप खूब गरीब जालां. आनी ते खातीर हांव खूब दुःख्खी आसां... 'कालाय तस्मै नमः' म्हणत हांव म्हजें दुख्ख कुशीक दवरपाचो यत्न करतां... एका वर्सा दिवाळेक हांव पाड्ड्यां मावशेगेर गेल्लें. म्हजे हे मावशेक चली नासली. मावशेचो धाकलो चलो विनू. होच बावडो चलयांचीं बारीक बारीक कामां करतालो. विनून हांड्याक चुन्याची बरी नक्षी कशी काडिल्ली. हांवें विनूक ते विशीं विचारलें जाल्यार म्हाका ताणे एक रानवटी फळ दाखयलें. ताचेर सैमीक रितीन कोरांतणी कशी आसली. हें फळ पातळ चुन्यांत बुडोवन ताचे हांड्यार छाप मारतात. पाड्ड्यां खंय सगळे लोक ह्याच फळान छाप मारताले.

संस्कृतीच्या विकासाचो मार्ग असोच चलत रावता तर? हांव फुडल्या वर्सा ह्या फळान छाप मारतलें अशें थारायता. पूण बारा म्हयन्यांत रुद्राक्षाच्या आकाराचें तें फळ खंय तरी शेणून वतालें. आनी मागीर ऐन दिवाळेक पाड्ड्यां कशें वतलें? (अमितान पयर शिरोड्यां त्या फळाक 'पेटारो' म्हणटात म्हण सांगलें...)

आयज म्हज्या वयाचो विनू ह्या जगांत ना आनी त्या शेणिल्ले दिवाळीच्यो यादीय शेणत चल्ल्यात...

लग्न जावन हांव पाशीं आयलें. थंय कुटुंबाच्या घरांन हांव येवचे पयलींच वेगळोचार जाल्लो. बापोल मांव बी वेगळे रावताले. आमचे न्हाणयेंतलो हांडो मडगांवच्या हांड्यापरस ल्हान आसलो. हून उदकान न्हावपाची कोणाक व्हडलीशी उमेद नासताली. घर व्हडलें. पूण मनशां घरांत थोडीं. बंद मान्यांत, बंद कुडींत ल्हानसो हांडो. म्हाका हरशीं हांड्याचे चुलींत खूब भानगडी करपाच्यो आसताल्यो. केन्ना वायंगें हुलपावप जाल्यार केन्ना तांबडें कणंग भाजप, केन्ना चटणे खातीर कांदो भाजप. केन्ना केन्ना हांड्याच रांदनींत अळंब्यांचो पोटलो करप जाल्यार केन्ना किसमुरे खातीर सुको बांगडो भाजप.

म्हजी नणंद म्हणटा, तीं खंय भुरगेपणांत तांतयांक ओलो गोबर सारोवन रांदनींत भाजून खाताली.

घरांत रांदन आसता खरी, पूण ह्यो असल्यो भानगडी घरांतले रांदनींत कोण करिनात. ह्यो सगळ्यो राटी हांड्यांतल्या रांदनी कडेन चलतात. घरातली रांदन संवळी जाल्यार ही भश्टल्ली.

हांड्या पोंदा जळोव कसो घालप, हाचें पसून एक शास्त्र (पद्‌दत) आसता. तशेंच घरांतल्यो कट्ट्यो केन्नाच हांड्यापोंदच्या उज्यांत घालिनात. कट्ट्यांनी तेल आशिल्ल्यान, कट्ट्यांचो उजो प्रखर आसता. (ह्यो कट्ट्यो तांबेटी व्हरतात.

तांबे कडोवपाचे रांदनीक घालपा खातीर) प्रखर उज्याक लागून हांडो फुटूंक शकता. शिरपुटां, सोडणां, काथो, शेणी, तोणकीं बी हांड्या मुळाक घालतात. चुडटां, पोयो, पिसुंड्यो, पाले-पत्रो सगळें कितें हांड्या मुळांत खपता. ताचे वेल्यान एक म्हण आमचे कडेन चालंत आसा, 'पोटा भुकेक आनी हांड्या रांदनीक कितेंय खपता.'

एक दीस मांद्र्यां आजोळा गेल्ले कडेन अमितान म्हाका सांगलें, "वयल्या घरांतलो हांडो कोणें तरी चोरलो." वयलें घर म्हणजे म्हजें आजोळचें व्हडलें, पोरणें आनी मुखेल घर. आतां मांद्रेच्या ह्या घराच्या आवाठांत आनीक दोन नवीं घरां जाल्यांत. ते भायर आस्काकड्यार व्हडल्या मामाचें आनीक एक घर आसा. हांडो चोरलो म्हणटकीर म्हाका कच्च जालें. आजोळचें हें घर खूब व्हडलें. घर बांदणीचें आनी बंदिस्त कशें.

म्हज्या लहानपणांतल्यो खूबशो गिमाळ्याच्यो सुटयो भाऊमामाचो राबितो आशिल्ल्या ह्या घरा कडेन आनी लता, देवेंद्र, अरुणा, संध्या ह्या म्हज्या प्रेमळ मामे भावंडां कडेन संबंदीत आसात. ह्या घराच्या मागीलदारांत एक लांबचे लांब मोटी पडवी आसली. ते पडवेंत सणा-परबेक रांदताले. नुस्तें उजरायताले. शिंपयो कल्लायताले, आंबे सोलतालीं, पणस फोडटाले, रेडकांक बांदताले. हे पडवेच्या उजव्यान निमाण्या पोंताक एक व्हडली, बंदिस्त आनी दारां आशिल्ली कूड आसली. कुडीक एक जनेल. कुडी भितर एक व्हडलो हांडो. हांड्याक दोन कान आशिल्ले. भितर एक धड बांदून काडिल्ली. ते भायर कपडे उमळूंक, घंगाळ तांबये दवरपाक व्हडलो सोपो. हुमरो वलांडून मान्न्यांत भितर सरताली आनी धडे वयल्यान ओणव घेवन हांड्यातलें उदक काडटालीं. अशीच पद्दत पयलींच्या काळांत चडशा घरांनी आसताली. भितर काळोख, किनाट धुंवरान वणटी काळ्यो किट्ट जाल्ल्यो. नळे काळे आनी वयलीं भिंगां पसून काळीं जाल्लीं. आमी भाचरां केन्ना मान्न्यांत तर केन्ना मागीलदारांतल्यान बांयचेर वचून न्हातालीं. मान्न्यांतली जमीन भयानक बुळबुळीत आसली. आमचे भशेन सौंदर्याच्यो, नितळसाणीच्यो कल्पना त्या काळांत मध्यमवर्गियांगेर तरी नासल्यो. मान्न्यांतले ते सुळसुळीत फातरींचेर पांय दवरूंक म्हाका भंय दिसतालो. हांव हांगा निसरून पडलें जाल्यार मान्न्यांतल्या व्हडल्या बुराकांतल्यान भायले खळयेक वतलें. खळयेंतल्यान आश्वेचे वेळेर. जाय जाल्यार थंयच्यान मोरजे वचून कोलव्यांय पावपाक शकतालें. आनी थंयच्यान म्हजें आकेंचें घर खूबूच लागीं आसलें... पूण म्हजो पांय केन्ना निसरलो ना आनी हाव बुराकांतल्यान भायर सारून व्हांवत व्हांवत आक्यांय पावलें ना. (आयजूय कांय खेडेगांवांनी अशा प्रकारचीं 'विशेश' मान्नीं अस्तित्वांत आसात. हांव थंय भितर सरलें जाल्यार घोव म्हणटा, "अपशरण करशीत म्हण!"

ह्या मान्न्याचे दुसरे वटेन एक दार आसलें. मागीर भितर एक व्हडली जळवाची कूड. तिकाय दुसरेवटेन दार. मागीर भायर उकती

पडवी. थंयच्यान 'बागां'त वचूंक मेळटालें. आज्याचे मुस्तींत घरांत हवन, कर्मकांडां चलतालीं. कोरगांवच्यान पित्रेशास्त्री येवन म्हयने म्हयने रावतालो. त्या काळांत हे भटमाम हे पडवेंतले रांदनीर रांदून जेवताले. हेच पडवेंतल्यान घराचे दुसरे वटेन दळपाचे कुडींत वचपाची वाट आसली.

हीं सगळीं दारां आनी कुडी वलांडून खंयचे वटेन चोरांनी कसो, केन्ना हांडो उखलून व्हेलो काय? म्हजे पूर्वज तांच्या कांठ्यार कित्याक बसले नात काय? म्हज्यो आजोळचो हांडो चोरलो म्हण म्हाका इतली भिरभिरी मारल्या. पूर्वजांक कितली मारल्या आसतली?

अमितान सांगलें, तांच्या घरांत कोण नासले. मामेभाव, बायल लग्नाक गेल्लीं. चली आनी चलो घरांत आसलीं. सांजेच्या सातांक तीं घरा भितर सरलीं. साडेसातांक तीं मान्न्यांत गेलीं. हांड्यांतल्या हुनसार उदकान तांणी हातपांय धुलें. आनी तीं परत पडवेंतल्यान घरांन भितर आयलीं. तीं जेवलीं-खालीं. रातचीं साडेआठांक मान्न्यांत परत गेलीं जाल्यार हांडो ना. अजाप. चोर केन्ना आयलो, कसो आयलो, खंयच्यान आयलो आनी तांणें हो येदो व्हडलो हतयाच्या पिलाच्या आकाराचो हांडो उखलून व्हेलो तरी कसो?

एक कल्पना : चोर सांजवेळा मान्न्याकुशीच्या जळवाचे कुडींत लिपून बशिल्लो. भावजय जेन्ना हातपांय धुवून घरांत गेली तेन्नाच चोरांनी हांडो उखल्लो. तो हांडो घेवन शॉर्टकटान मागीलदाराचे पडवेन आयलो ना. (कोणें दार उगडलें जाल्यार?) मान्न्याचे दुसरे वटेन आशिल्ले जळवाचे कुडींतल्यान लॉंग कटान वणटीक घश्टीत ताणें हांडो व्हेलो. वणटीक घश्टीच्यो दोन रेगो आयिल्ल्यो आनी थंयचो वणटीचो चुनो निखळिल्लो. कसो तरी जळवाचे कुडींतल्यान तो हांडो भायर काडून तांणी तो जात्याचे कुडीचे फाटले पडवेर व्हेलो. थंय तिनसनां किण्ण आसता. पडवेंतल्यान दोन-तीन सोंपणां देवन चोर 'बागां'त गेलो. थंय एक खूब व्हडलें (सकयल रस्त्या मेरेन, जाल्यार वयर दोंगरा मेरेन) भाट आसा. आंबे, पणस, माड हांणी भरिल्लें. थंयच्यान दोग-चोंगांनी तो हांडो काळखांतल्यान उबारून करणांच्या आड्या कडेन व्हेला. थंय पोरण्या काळांत दोंगुल्ली आसली. निर्मनुश्य वातावरण आसलें. रस्तो नासलो. आतां थंय बाजार जाला, पंचायत जाल्या. अंर्तत रस्ते जाल्यात. थंय आड्याकुशीक सामान व्हरपाची रिक्षा उबी आसुये. हांडो तातूंत भरून चोर पसार जाले आसताले. ही गजाल तीन-चार वर्सां पयलींची.

हजारांनी रुपयांचो हांडो, पाशाणाची शिळा कशी जडगुळो हांडो, म्हज्या पूर्वजांनी कवतुकान हाडिल्लो हांडो. त्या चोरांचो सत्यानाश जावूं. म्हजें मन तडफडटा. ते चोर तिनसांजचे कातरेर 'बागां' वटेनचे पडवेंतल्यान भितर सरल्यात आसतले. जळवाचे कुडींतल्या काळखांत चोर कशे लिपून रावल्यात आसतले? भावजय हात पांय धुवपाक भितर सरली तेन्ना ते थंयच आसले. नशीब! ती येवन वतकीर तांणी

हांडो उबारलो.

हांडो रितो आसलो. हांडो सकाळीं भरताली. आमी पयलीं आक्यां रावतलीं. आतां नावेले रावतात. आई सांगी : हांडो सदांच भरून दवरात. रातचो कोणूय चोरून व्हरींत. वावराडी आयलिना जाल्यार ती जबाबदारीन हांडो आमचे कडल्यान भरूनं घेताली. चोर आयलो जाल्यार हांडो कसो उबारीत बसतलो? दोग-चौग जाणांक पसून भरिल्लो हांडो लकोवंक येना. तांबयांनी म्हणून हांडोभर उदक कशें उसपितलो? ते भायर हांड्याचें तोंड बारीक. धाकली कळसुली पसून हांड्यांत रिगना.

जाण्ट्यांच्या प्रत्येक वाक्याक वेव्हाराची आनी दीर्घ अणभवांची जोड आसता.

पूण हे चोर कोण आसले काय? गांवांतले लोक कोणूच आसचे नात. चड करून ते कामाक भितर सरपी बिगर गोमंतकीय लोक आसतले. तांणी केन्ना भितर सरून जळवाचे कुडीच्यो खिळयो बी काडून दवरल्या आसतल्यो. कोण जाणां! वा त्या वेळार जळवाची कूड उकतीच आशिल्ली तांकां मेळ्ळी आसंत. हे कुडींत पाडकां - रेडकां बांदतालीं ते भायर घराक असंख्य दारां आनी जनेलां. आमचे मुस्तींत भाऊमामा सांजवेळा सगळ्यो खिळयो यादीन घालतल्याची म्हाका याद जाता.

एकूण हो हांडो, म्हज्या भुरगेपणांतली एक सुंदर याद आपले बरोबर घेवन गेलो...

हांडो म्हणटा म्हणटा म्हजे मांयन आपल्या भावाच्या घरांतल्या एका हांड्याची खबर सांगिल्ली, ती याद जाली.

मांयचें कुळार पेडण्यां. तांचें खूब सुंदर, व्हडलें, चवकेचें, माळयेचें घर. तिचे दोन भाव त्या घरांत रावताले. भुरग्यांच्या शिक्षणाच्या निमातान तिच्या धाकल्या भावाक म्हापशां रावचें पडलें. हे गजालीक जालीं आतां पन्नास वर्सां. आनंदरावाचो भाऊमामा म्हापशां रावपाक आयलो. ताणें कोर्टा फाटल्यान एक किरिस्तांवांचें, व्हडलें, पोरणे घर भाड्याक घेतलें आनी थाट-माट, नोकर-चाकरां सयत तो थंय रावूंक लागलो. घरांतले लोक, येतलो-वतलो घरांत घे मनशां. ह्या सगळ्यां खातीर न्हावपाचीय वेवस्था तशीच भरभक्कम जाय. एक व्हडलो हांडो भाऊमामान हाडलो. मानाय जेन्ना हो व्हडलो हांडो घेवन दारांत उबो रावलो तेन्ना परिस्थिती बिकट. हांडो खूब मोटो आनी तुळेन घराचें दार ल्हान. इतल्या मनशां खातीर येदो व्हडलो हांडो तर जायच! थंय आनी पर्याय ना. येदें व्हडलें घर सोडून ऐन त्या वेळार दुसरे कडेन खंय वतलो? आनी थंयूय तीच अडचण परत आयली जाल्यार...

एकट्यान बिरबला भशेन हिकमत सांगली. हांडो घरार चडोवपाचो. न्हाणयेचे नळे काडपाचे. थोडें मदेर कातरून काडपाचें आनी गळ्याक राजू बांदून हांडो न्हाणयेंत भितर सोडपाचो. आनी निमाणे कडेन हेच पद्दतीन हांडो सर्गातल्यान धतरीर आयलो. फुडें भाऊमामान जेन्ना तें घर सोडलें तेन्ना हांडो त्याच मार्गान परत व्हेलो काय त्या धनयाकूच दवरलो हें हांव नकळ. भाऊमामाचो सभाव पळयल्यार चड करून

धनयाकूच दवरला आसतलो.

म्हजी मांय सांगी तो हांडोय मामान थंयचे थंयच दान करून उडयलो आसतलो. पेडण्यांतल्या एका गर्भश्रीमंत कुटुंबांतल्यान आयिल्लो तो मनीस परत मदेर कातरून हांडो व्हरपाची भानगड खंय करत बसतलो?

मांद्रेचो हांडो चोरांनी उखलून व्हरतकीर म्हज्या मनांत एक विचार आयलो. जाण्ट्यांनी हांडो न्हाणयेंत दवरून मागीर न्हाणयेच्यीं दारां बारीक करपाक जाय आसलीं... पूण आतांचे चोर इतले वस्ताद आसात की एक तर ते दार फोडटले, नाजाल्यार मदेर कातरून हांडो वयलेवयर उखलून व्हरतले.

पयल्या बाळंटेराक चली कुळारा येता. भुरगें जातकीर तीन म्हयने कुळारा रावून परत घरा वता. ती जेन्ना घरा वता तेन्ना तिचे आवय-बापूय तरातरांची खार्जी, मांडे, गोजड्यो, कपयाळीं ह्या असल्या वस्तूं बरोबरच भुरग्याक न्हाणोवपाक एक धाकटुलो हांडो दितात. पयलींच्या घराघरांनी व्हडल्या हांड्या बरोबरच हे धाकले हांडेय दिश्टी पडटाले. हो धाकलो हांडो तापोवपाचो. उदक 'एकसारकें' (थंड उदक परत घालिनासतना) तापोवपाचें. उदक तापतकीर तें न्हिवोवपाक घंगाळांत पाडपाचें. पूण हून उदकांत थंड उदक घालप ना. अशें 'एकसारकें' तापिल्लें उदक भुरग्याच्या आरोग्याक बरें. जाण्ट्यांनीय खरें म्हणल्यार अशेंच उदक न्हावपाचें आसता. हांडो एकसारको तापयतकीर न्हावपा सारकें उदक जालें काय मागीर न्हावपाक सुरू करपाचें. हें उदक न्हातना जिवाक पसून बरें दिसता. हांड्याच्या ह्या तापिल्ल्या उदकाक धुंवराचो एक बरो वास येता. तो वास घेत घेत न्हावपाक मजा येता. लांकडांचेर तापिल्ल्या उदकान न्हावपाक पसून एक उमेद येता.

म्हाका याद जाता... म्हज्या भुरगेपणांत आई वालो लावन न्हाताली. तिचो पयलीं धवोफुल्ल आशिल्लो वालो तांब्याच्या हांड्यांतल्या उदकाचे कळमेन पाचवो-निळो जायत वतालो. न्हावन जातकीर ती कळशेंतल्या थंड उदकाचो एक घोंट घेवन तोंड धुताली. हांवें विचारतकीर तिणें सांगलें, 'हांड्याचें कळमूट उदक तोंडांत वता, म्हणून घोंट घेता गो हांव.'' मागीर आमकांय सगळ्यांक ती संवय लागली.

हो लेख कॉलेजीचें वर्स सोंपतना निमाण्या दिसांनी बरयिल्लो. हांव केन्नाच कॉलेजींत बरयना. म्हाका बरयतना मनाची खूब एकाग्रता लागता. घरांत ती मेळटा. आनी म्हाका बरयतना सलग वेळ जाय. हांड्याचें उदक एकसारकें तापलें जाल्यारूय तें जिवाक बरें. तशें म्हज्या लेखनाचेंय आसा. मराठींत ताका 'एकटाकी' लेखन म्हणटात. एक लेख एकाच दिसा सोंपोवपाक जाय अशें हांव थारायतां. भाकरी तव्यार थापली आनी मर्दीच उजो काडलो, परत थोड्या वेळान उजो पेटयलो काय भाकरी चरबट – वातड जाता. दोन दीस लेख बरयल्यार अशेंशें किर्ते जाता. कालचो मूड वेगळो, आयचो वेगळो. फाटीक वाग लागिल्ले भशेन करून हांव केदोय व्हडलो लेख एकाच दिसांत

सोंपोवपाचो यत्न करतां. बेबीक आयचो पराक्रम फोनार सांगलो. बेबीक सांगलें, ''आगो, आमच्या मामाचो हांडो कोणें तरी चोरलो. म्हण म्हाका खूब वायट दिसलें. ह्या दोन दिसांनी हांव कॉलेजींत बसून आसलें. एके रिते वर्गकुडींत बसून हांवें ती घडणूक बरोवंक सुरवात केली. बरयता आसतनाच म्हजें मनांत विचार आयलो, हांड्याचेरूय सांस्कृतीक संदर्भ घेवन एक ललित लेख बरोवया आनी तातूंत आमच्या मामाच्या हांड्याची गजाल घालुया.''

बेबी मडगांव वचून आईक मेळून आयिल्लें. खूब पुरो जाल्लें ताका. तरीकूय ह्या नव्या लेखाच्या अचकीत जल्माची खबर ताका सांगली. विशय आयकून तें खूब आनंदीत जालें. म्हाका म्हणूंक लागलें, ''हांडो म्हणल्यार, हांडो. आमच्या वेरेंच्या व्हडल्या घरांत पयलीं खूब लोक आसताले. नातेसंबंदी, इश्टमित्र, वळखीचे कोणूय गरजेक म्हण कुटुंबाक घेवन रावतालो. कोणाक घरांत वायट नक्षत्र लागलें म्हण येताले. कोण मुंबयच्यान येतालो, पूण गांवधरा रावपाक घर नासलें. म्हण आमच्या घरांत मुक्काम करताले. हे लोक येतना आपलो एक हांडोय बरोबर घेवन येताले. आमच्या खूब व्हडल्या मान्न्यांत तीन चार रांदनी आनी तांचेर तीन-चार हांडे एकाच बरोबर तापत पडटाले. त्या काळांत जळवाची चिंता नासली. खंयच्याय गिमाळ्यांत आमची बांय आटली ना. आनी गृहस्थधर्मूय सोंपलो ना. एक बांय तर मान्न्यांतूच आसली. आनी त्या काळांत बांयचे कुशीकूच मान्नी बांदताले आनी मान्नी घरांतच आसताली.

घरांतले लोक फांतोडेर उठून आपापले रांदनीक उजो घालताले आनी हांड्यान कळशो ओतीत रावताले. भुरगीं-बाळां, जाण्टी-नेण्टीं, दादले-बायलो न्हायत रावताले. पांच-पंचवीस भुरगीं. कोणाचींय भुरगीं कोणाच्याय हांड्यान न्हावन घेतालीं. कोण कोणाक काय विचारिनासलो.

बेबीन फोन सकयल दवरलो. दुसऱ्या दिसा कॉलेजींत येवन एके थंड कुडींत (विद्यार्थी नाशिल्ल्या) बसून उरिल्लो लेख बरोवपाक सुरवात केली. केन्ना केन्ना बायलो आदल्या दिसा आंब्याचो हालवो आटोवन दवरतात. मागीर दुसऱ्या दिसा परत एकदां रांदनीर दवरून कडयतात. साकर, वेलची घालतात. तोपार पाट धांपून थंड करपाक दवरतात. तसो हो बेबीन सांगिल्लो उत्तरार्ध घालून हांव लेख सोंपोवपाचे तयारेक लागलें...

घरा राती कडेन दृश्टांत दिवपाक आयिल्ल्या ह्या हांड्यांत म्हजे मुखार आनिकूय कांय अजापाच्यो गजाली रकोवपाक सुरवात केली...

बेबीनूय म्हाका खूब फाटीं सांगिल्ली ती गजाल. तांचेच सोयरे खंय ते! न्हंयेचे देगे वयले तें विशाळ घर. माळयेचें, चार चौक्यांचें कितलिंशींच सालां घराक. तें घर बांदिल्ल्याक कितले शेंकडे लोटून गेल्ले कोणाक खबर! न्हंयेंतल्यान येवपी पातमाऱ्यो जाटीर उब्यो रावताल्यो. न्हंयेचे देगेर आशिल्ल्या ह्या घरांत वेपार

येतालो. तरेतरेचो वेपार. खंयच्या खंयच्या देशांतल्यान येवपी म्हाल. ते भायर पोवनां, माणकां, वज्रां, मोतयां... हो वेपारी घराबो त्या काळांत सामको गडगडटालो. त्या घरांत कितली गिरेस्तकाय आशिल्ली तें देवाकूच खबर!

ह्या घरांत एक भुंयार आसलें. त्या भुयारांत तांब्याचे तीन व्हडले हांडे आसले. ह्या हांड्यांक तांब्यार्चीच धांपणीं आनी कुलप घाल्लें. कुलपांनी लाख ओतून सील केल्लीं, कितें आसतलें काय त्या हांड्यांनी? पूर्वजांनी भितर कितें दवरून 'सील' केलां आसत काय?

आदल्या काळांत तांब्याचे जडगुळे हांडे म्हणजेच गिरेस्तांच्यो तिजोऱ्यो आशिल्ल्यो. हातूंन पोवनां, थिकां, प्लामाजकां दवरून कुलपां लायताले आनी हांडे जमनींत पुरून उडयताले. हेवूय तीन हांडे जमनीत पुरून दवरल्यात. तांचीं तोंडां तितलीं उकतीं आसात. तांचेर घरचो यजमान सद्दां गंध-फूल घालून पूजा करता.

ह्या धनाची राखण करपी नागराज म्हऱ्यांत भोंवता खंय...

एकविसाव्या शेंकड्यांत असो एक विचार घरच्या लोकांच्या मनांत आयलो. ह्या हांड्यांनी कितें आसा, तें उस्तून पळोवया. एकटो म्हणटा "पळोवया", दुसरो म्हणटा, "नाका." लडामुडी. हय-नाका. निमाणे कडेन तें प्रकरण आनी फुडें गेलें ना. जंयचे थंयच उरलें.

पूर्वजांनी अडचणीक उपेगी पडचें म्हण धनसंपत्ती हांड्यांत घालून दवरल्या काय? एकाद्या पूर्वजान धनसंपत्ती आपूणच हाताळून हें गुपीत कोणाक कळचें न्हय म्हण धेक घाला आसत काय? म्हणटकीर कितलेशेच शतमान लोक हे रिते हांडे आनी मनांत भंय घेवन जगले. खरें तर देवाक खबर!

हांव असल्या गजालींनी व्हडलोसो रस घेना. म्हाका लोकांचे हांडे उस्तून भितर कितें आसा, तें पळोवपाची मात्तूय इत्सा ना. जें म्हजें न्हय, ताच्यो राटावळी म्हाका नाकात. फकत त्या हांड्यांचे कल्पनेंतलें काव्य म्हाका आवडटा.

ही न्हंय खंयची, तें विशाळ, पोरणे घर खंयचें, कितें कात हे प्रस्न लोकांनी आनी संबंदितांनी म्हाका विचारचे न्हय. तें म्हाकाय खबर ना. बेबीच्याय कानार ही गजाल कोणा तरी जाण्टेल्यान घाल्ली आनी तोवूय आतां ना. झाशीची राणी खंय बारा हांडे उदक न्हाताली. इकरा हांडे हून उदकाचे जाल्यार बारावो सुगंधी उदकाचो. हें उदक तिच्या माथ्यांतले एके नळयेंतल्यान वचून एका कुंडांत सांठयताले. तिच्या राज्यातल्यो गरिबांच्यो बायलो खंय त्या उदकान न्हाताल्यो.

न्हाल्ल्या उदकाचो पुनर्वापर करपाची कितली सुंदर कल्पना ही!

गिमाच्या दिसांनी बांयो खदूळ जातात. बांय उसपिली तरिकूय खदूळ उदक येत रावता. हें खदूळ उदक गिमाळोभर हांड्यांत हयन्हयशें, अशें - तशें उरता. पावस आयलो, बांयो भरल्यो काय परत एकदां बांयचें उदक तांबडें जाता. फुडें मिर्गाचो पावस झडत रावता. माती - आनी शेड बांयच्या तळाक बसता आनी बांय काळ्याच उदकान भरता. अशा वेळार हांडो परत एकदां घांसून काडटात आनी निवळ उदकान भरून दवरतात.

पावसा दिसांनी, शिंयाळ्यान हांड्याच्या उदकान न्हावपाक मजा येताली. म्हजे जिणेंत जे कांय ल्हान आनंद आसात तातूंत न्हावपाक हांव सगल्यांत व्हडल्या जीवनानंदाची उपमा दिता. आयतारा आनी सुटयेच्या दिसांनी हांव मडगांवां वतालें. सुटयेंत खूब उसरां न्हावप हो म्हजो आनीक एक आनंद आसलो. सकाळींफुडें उठून पोरसांत भोंव, नाजाल्यार घरा मुखा वयल्या सोशल फॉरेस्ट्रीं बस, कॉलनींत पासयेक वच, व्हाळ वलांडून पलतडीं शेतांत वच, नाजाल्यार घरांत जमनीर लोळत राव. वाचन आनी लेखन करीत बस, अशें म्हजें देवाक सोडिल्ल्या 'वळूं'भशेन जीवन आसतालें. मडगांव गेल्यार हांव अशेंच जगतां. बापूय सकाळीं उठून नुस्त्याक बाजारांत वतालो. तो येवचो जालो काय हांव मान्न्यांत वतालें. ताका भुरग्यांनी सकाळीं फुडें न्हाल्लें आवडटालें. भायल्यानच ताणें प्रेमळ गर्जना करप, "सुमी खंय... न्हावूंक ना दिसता तें अजून..." हांवें मान्न्यांतल्यान आड्डून सांगप, "भाऊ मी आंघोळ करतेय..." हांव हांड्यांत निमाणें न्हातालें. पयलीं हांव आख्खो हांडो बांयच्यो कळसुल्यो काडून भरून घेतालें आनी एक हांडो उदक न्हातालें. हें उदक पोरसांत वतालें. होवूय बी उदकाचो पुनर्वापरूच.

केन्ना केन्ना ह्या हांड्याक सुटी काडची अशें दिसता. राती हांडो उदकान भरून दवरतात आनी सकाळीं रांदन पेटयतात. रांदन पेटंयतना सगळो धुंवोर आनी ओलीं जाल्लीं लाकडां. उजो कसोच पेटना. कितें जालें काय? जाल्यार हांडो पोंवता. हांड्याचें खरखरीत काळ्या फोडांनी भरिल्लें पोंद. खंय चीर पडल्या ती कशी कळटली? मागीर हांडो रितो करून तांबेट्याक आपोवचो पडटा. तो चीर पडल्या म्हण जाहीर करता. हो येदो व्हडलो हांडो फाटीर मारून तो तुरतुरीत चलत रावता. आदल्या घरांनी अशा वेळार दुसरे लहान हांडे आसताले वा समरादनेचे तांब्या... पितळेचे तोप आसताले. तातूंत उदक तापोवन चार दीस न्हावप. एक दीस तांबेटी चीर काडून तासून, हांडो तांबडोगुंज चकचकीत न्हवरो कसो करून हांडो पावयता आनी मागीर परत एकदां तो हांडो रांदनीर विराजमान जालो काय सगळे घरचे लोक धन्य जातात.

हांडो म्हणल्यार आमचे लोकसंस्कृतायेचें एक अविभाज्य आंग. आमी उश्ण कटिबंधांत रावपी लोक. न्हावप हें आमकां गरजेचें. म्हण तें आमच्या पूर्वजांनी आमकां सक्तीचें केल्लें नाजाल्यार म्हजे सारकिले आळशी लोक आठ आठ दीस न्हावचेच नासले. न्हाण हो जिणेंतलो एक म्हत्त्वाचो घटक जाल्ल्यान उदक, रांदन, हांडो हें सगळें अनिवार्यच जालें. म्हणून हो हांडो आमच्या जिणेचें एक व्हड आंग व्यापून बसला. लोकांनी आतां घरांत गिजर बसयले, सोलर हिटर्स आयले. कांय लोक फ्लॅटांनी रावपाक गेले. लोकांनी हांडे कावलाक विकले. जाल्यार कांय जाणांनी ते माळ्यार काडून वडयले. गॅरेजींत घाले आनी हांड्याच्या नांवान न्हावन मेकळे जाले.

म्हजें म्हणणें, कांय व्हडल्या व्हडल्या घरांनी पोरसांत पोय-पिसुंद्न्यो आसतात. शिरपुटां आसतात. तांचे उपेग करून पोरसा कुशीक एक ल्हानशी रांदन जागती दवरूं येता. आदल्या तेंपार किरिस्तांव भाटकार

धुंवोर घरांत येत म्हण पोरसांत पयस कुजिन करताले, न्हाणी बांदताले. तशी पयस बांदू येता.

कांयच ना जाल्यार घरांत हांडो आसल्यार दिवाळेक तरी मातसो घांसूनपुसून चकचकीत करून दवरात आनी ताच्या गळ्याक माळ घालात. (गिझराक घालूं नाकात.)

हांडो हो गृहिणीच्या घराची सोबाय हें मात विसरूं नाकात.

आनी निमाणें...

म्हजो हो लेख सोंपत येता. आनी हांव परत एकदां ल्हान जातां. सात-आठ वर्सांचें जाता. आकेंच्या घरांत मागीलदारांत वतां. खिळी काडून मान्न्यांत वता. दनपरां तिनाचो वेळ. शाळेंतल्यान घरा येवन राटावळी करत बसपाची. आई सुस्त न्हिदल्या. भावंडां ल्हान. म्हजें हांव स्वतंत्र. हांव ल्हवूच हांड्या म्हऱ्यांत येतां. हांडो रितो आसा. येदोळूच उरिल्लें उदक न्हावन हांव जेवपाक गेलां.

हांव हांड्या वयली फळी काडटां आनी ओणव घेवन भितर पळयतां. भितर एक उदकाचें धाकटुलें तळें आसा. तें तळें आनीक लागींच्यान पळोवंक मेळचें म्हण हांव भितर तोंड घालतां. आनी भितर खूब दाट काळोख. म्हजे नदरे मुखार येता तो काळोख आनी काळोख. तो खंयच्यान सुरू जाता आनी खंय सोंपता तें म्हाका कळना. काळखाची काळी सावळी म्हज्या आंगभर पडत रावता... कितलो वेळ हांव ती काळखाची घुसमट सोंसता, हांव नकळ...

पूण आयज मात, म्हज्या दोळ्यां मुखार हांड्यांतलो तो चराचराक व्यापून राविल्लो काळो किनाट काळोख ना, जाल्यार म्हज्या दोळ्यां मुखार संस्कृतायेच्यो सगळ्यो वासऱ्यो उकत्यो करून दाखोवपी उजवाड पतळ्ळा. तें धाकटुलें तळेंय उजवाडाचे दिशेन प्रवास करता. आनी त्या तळ्याच्या कांठार बसून उजवाडाच्या सांगातान हांव हो लेख आयज बरोवन काडटां...

टीप : म्हजी आवय, मांद्रें - पेडणेची. ती घरांत हांडो शब्द वापरताली. भाऊ पाड्डें-केपेंचो. तो 'भांड' म्हणटालो. मांय भांड म्हणटाली. आयुश्यभर आवयचो 'हांडो' आनी भाऊचें 'भांड' म्हज्या मनांत उरलें. म्हण लेखांत हांवें 'हांडो' शब्द वापरला आनी भाऊचे यादी खातीर 'भांडांतलो उजवाड' हें शिर्शक दिलां. पूण हें हांवें मुद्दाम करूंक ना. सगळो लेख हांवें हांड्याच्याच संदर्भात बरयलो. आनी शिर्शक दितना 'भांडांतलो उजवाड' म्हण दिलें म्हज्या मनांत हे दोनूय शब्द वास करून रावतात आसुंये.

म्हज्या मनाचो कौल हांव मानतां आनी हांगाच रावतां...

**संदर्भ :**

1) आकें : मडगांवचो एक उपनगरी वाठार
2) निवृत्ती : लेखिकेचो कॉलेजींतलो सहकारी. पूर्ण नाव : श्री. निवृत्ती नायक. (मराठी आनी इतिहास हे विशय शिकयता.)
3) अमिता : लेखिकेच्या मामेभावाची बायल. ती मांद्र्यां रावता.
4) 'बाग' - आजोळच्या एका भाटाचें 'विशेश' नांव.
5) वळू - बैल.

000

ललीत

(निबंद)

कृ. म. सुखटणकार

# पिरंगण

'पिरंगण' ह्या उतराचो अर्थ खबर नाशिल्लो नीज गोंयकार मेळप भोव कठीण. आमकां पिरंगुपाक खूब आवडटा. पिरंगले बगर उंडी आमच्या ताळ्या सकयल देंवना. देंवली जाल्यार पचना. आमचे सगळे वेव्हार वेवस्थीत चालू आसतात. तातूंत खंड पडना. आमी उठ्ठात, जेवतात, न्हिदतात, सोयरिको जातात, लग्नां जातात, फुलां माळटात, भुरगीं जातात, बारशे जातात, सगळें वेवस्थीत जाता पूण पिरंगून. आमचें कपल जितलें रुंद तितल्यो कपलाक आठयो चड. आमी फकत दीस काडटात. हें सगळें खबर आसून लेगीत आमकां कोणूय वळखीचो रस्त्यार मेळत जाल्यार, 'कशे आसात' विचारपाची आमची पाडी संवय कशीच वचना. म्हजी तरी!

हांव सकाळचो बाजारांत वतां (कापडाची पिशवी घेवन, तुमचे म्हायती खातीर बाजारांत ज्येश्ठ नागरीक बी मेळत जाल्यार हांव तांची उबो रावन वासपूस करतां. करपाकूच जाय! संस्कार संस्कार म्हणात ते हेच. ''आबा कशे आसात तुमी, खूब तेंपान बाजारांत दिसले'' – हांव, कपडाची पिशवी खांकेक मारून.

''काडटां रे दीस, आमचें आतां कितें, पिकिल्लें पान. दिसलो म्हणटकच आबा आसा म्हणून समजुपाचें.'' – आबा.

''मदीं दिसले नात म्हणून काळजी जाल्ली. नुस्तें घेतात?''

''नुस्त्या बाजारांत आनीक कितें मेळटा खबर ना, नुस्तें

**कृ. म. सुखटणकार :** जल्म : 1963. निबंद लेखक. लेखनाक विनोदाची झालर. *'चिमटे धुमके'*, *'धंयार धुमके'* *'धुमक्यांर धुमके'* हीं निबंदाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. कोंकणी कला साहित्य केंद्राच्या जनगंगा पुरस्कारान सन्मानीत (2016). मो. 9850530756

घेवपाक म्हणून आयलां. नुस्तें आतां भांगर जालां, बॉल्साक परवडटा तशें घेवपाचें. तातूंत हांव रेफेर्माद मनीस... इजाबेल, चणकूल कशें दिलां गो?'' – आबा.

''भाटकारा, देड हजार तुका म्हणून.'' – इजाबेल.

''ओगी राव गो, बाराश्यांक साऽ कर.'' – अशें म्हणून आबा पोती उगडटा.

''आबा, चणकूल घेतलें?'' – हांव.

''आतां पचना रे कांय. एक पॉस्त खाल्यार बाकीचें वचना... इजाबेल, गाबोळी कशी गो?'' – आबा,

''दोनशीं रुपया दी, गाबोळेची लेगीत पॉस्तां पडलीं'' – इजाबेल.

''दोनशीं रुपया गाबोळी जाल्यार शेंवटो कसो दिला गो?'' – आबा. (परत पोती उगडटा)

''आबा, गाबोळीय घेतली?'' – हांव.

''दांतांक कांय लागना रे आतां, गाबोळी तोंडांत उडयल्यार चाबची पडना. दांत खंय उरल्यात आतां... मारी, विसवणा बोडूक दिवपाचें कशें गो?'' – आबा.

''आबा, आज कळपुटेचो बेत कांय कितें?'' – हांव.

''आरे, तूं म्हजे फाटल्यान फाटल्यान फिरता काय कितें रे? बाजार करपाचो ना? आनी हें व्हरतां तें म्हाका पचतलें मरे? तुजें दोळे लागत म्हणून म्हणटां. फकांडां केलीं रे हें... हें... हें... हें... (हांसता) – आबा.

हांव जितो गालमो घेवन घरा आयलों. आमचो आबा समेस्त गोंयकारांचें प्रतिनिधीत्व करता पिरंगुपा बाबतींत.

ज्येश्ठ नागरिकांचेरूच पिरंगुपाचें ऑब्र सोंपयलां अशें मानपाचें कारण ना. बारीक नदर मारीत जाल्यार घोव बायलेच्या नांवान आनी बायल घोवाच्या नांवान पिरंगत आसता आनी तेंवूय बी वर्साचे तिनशें पासश्ट दीस. हांव एका लग्नाक गेल्लों. होंवळिकेचेर 'अहेर आणू नये' अशें बरोवंक नाशिल्लें. दोनूय पार्टयो हरशीं पेजाद, 'प्रिंटींग मिस्टेक' बी जाल्ली जाल्यार हांव नकळ. सोड. हांवें पाकिटांत एकशें एक रुपया घाले आनी वयर सव्यार हात दिवपाक गेलों (हांव चलेकारां वटेन) ताच्या हातांत पाकीट दितां थंय आसा, व्हंकलेन तेवटेन पिरंगुपाक सुरवात केली.

''फुडें म्हजें कशें जातलें गे माँ, मनशां सामकीं बॅकवर्ड क्लास मुगे. पायल घालून आयल्यांत मुगे लग्नाक, सो डिसजगस्टींग!!'' – व्हंकल.

म्हज्या पांयां कडेन पळयत.

''बाय, सगळ्याक अशेंच जाता. आमगेर चामड्याचीं जोतीं भायर दवरीत जाल्यार सुणीं व्हरतात, Therefore पायल चप्पल. म्हजो शर्ट पळय, पॅण्ट पळय All Fab Material, दोन हजार बारांत घेतिल्लीं अजून फेड जावना. कशें जातलें म्हणून पिरंगुनाका येन्नाच, That can be done at later stage." – हांव.

म्हज्या सांगण्याचो ताचेर बरोच परिणाम जालो जांवये कारण तांणी मागीर एकामेकांक उंडयो (घांस) भरयल्यो, उखाण्यानी नांवां घेतलीं आनी मागीर वर्सा भितर तांच्या संवसाराचे वालीर सोबीत फूल

फुल्लें. ताका तांणी नांव 'पायल' दवरलें. म्हाकाय बरें दिसलें आनी सूऽऽ जालें.

आमी पयलींच जीव सोडटात आनी पिरंगूक लागतात. अर्जुन (जाका फकत सुकण्याचो दोळो दिसता तो) गीतेच्या पयल्याच अध्यायांत 'उवाच' म्हणल्यार बराबर पिरंगूक लागता. गीता चुकून वाचतल्याक लेगीत वाज येवपाचो. भगवानान (माखन चोर फेम) कशें पासियेंस काडलें कोण जाणा. पासियेंस काडून मागीर गीता सांगपाक बसलो. अर्जुनावरीच म्हाका पयलींच हें जमचें ना. तें जमचें ना अशी पिरंगुपाची संवय हांव मान्य करतां. अर्जुना वांगडा भगवान आसलो म्हणून तो गेर्र जिखलो, म्हज्या वांगडा 'उवाच' करपाक कोणूच नासलो. हांव आठवेक आसतनाच म्हाका मेडिसीन जमचें ना अशें हांव पिरंगूक लागिल्लो. अर्जुनान आपल्याक झुजांक उबो रावपाक जमचेना म्हणलें, ताचें कवतूक जालें. भगवानान ताका गीता सांगली. रामदास स्वामीक (मनाचे श्लोक फेम) लग्नाक उबो रावंक जमलें ना, ताचें कवतूक जालें. आमी 'सावधान' म्हणना फुडें माळ घाली म्हणून आमी लग्नेल्यात. आसूं. तर, हांव आठवेक आसतनाच, म्हाका मेडिसीन जमचें ना म्हणून पिरंगूक लागिल्लों. आईक हांव दोतोर जाल्लो पळोवपाची भयंकर उमेद.

''जाणा मुगे, हो दोतोर जालो म्हणजे म्हजी अर्दशिशी, पांयांचें रगत, प्रेसांव, छातयेंत धडधडटा तें बंद जातलें. तुजेंय कितें दुयेंस आसा जाल्यार आतांच सांग ताका. आतां आठवेक पावला तो, वसां अशींच वतलीं. फाटल्या लॉजांत ताची कोंसुल्तार आसतली.'' – आई बावडी आयिल्ल्या गेल्ल्याक सांगताली. कितल्या जाणांनी आपलीं दुखणीं म्हाका कागदार बरोवन लेगीत दिल्लीं. फाटीं आलमार निवळ करतना म्हाका म्हजीं कांय प्रिस्क्रिप्शनां मेळिल्लीं. 'तितूर तीन वेळा घ्यावे. पोटखाण्याचे जास्त झाल्यास मात्रा वाढवावी' हांवें कामण्याक रसेद दिल्लें. आठवेक पावतकच सेलीन टिचरीन आमकां बेबे डिसेक्ट करूंक दितकच म्हजी पिरंगण सुरू जाली.

''आई, म्हज्यान मेडिसीन जावपाचें ना आं, हें धड न्ही.'' – हांव.

''तुजी मरे वासनाच खोटी. फायच्यान म्हजे म्हन्यांत नुस्तें उजरावपाक बस, हांव शिकयतां.'' – आई

''आगे, आज बेबे कापतां! फाल्यां मनशांक कापचीं पडटलीं मुगे!''

''हाची पिरंगणूच सोंपना! नुस्त्याक अवयव आसतात तशेच मनशांक आसतात. दोनूय देवाचीच निर्मिती. नुस्त्याक उजरायतात म्हणटात आनी मनशांचें ऑपिरासांव जाता. नुस्त्याक आदोळेचेर उजरायतात, मनशांक ऑपिरासांव थेटराच्या मेजार इतलोच फरक.''

आईन म्हाका समजायलो आनी कुल्ली उगडून तातुंतली लाख बी काडून म्हाका दाखयली. फुडें म्हाका बायोलॉजींत पन्नासांतले पांच पडले आनी आईन नुस्तें उजरावपाचें बंद केलें. म्हजी पिरंगणूय थंयच

बंद जाली. आयजूय आईक केन्नाय नुस्तें उजरायतना याद जाता तेन्ना ती तुजी वासनाच खोटी म्हणटा. मागीर हांव दोणांतलें मीठ काडून दितां (नुस्त्याक लावंक).

कांय गजाली करपाक आमच्या जिवार येता. जेन्ना जिवार येता तेन्ना आमची पिरंगण सुरू जाता. आमगेर हांड्याक उजो घालपाचें ऑब्र म्हजेर. हांड्यांतलें उदक मागीर काडून दिवपाचें काम शेंवतें करता. पावसान आनी शिंयां दिसांनी म्हाका सकाळीं उठपाक जिवार येता. म्हजो आनीक एक प्रॉब्लेम. पावसा आनी शियां दिसांनी म्हणल्यार दाट गोजडी घेवन न्हिदतकच म्हाका बरींऽऽ सपनां पडटात. भायर आई, 'आरे हांड्याक उजून उजो घालूंक ना म्हणून आड्डता. एकदां संध्या गंजनयुक्त च्या घेवन आयिल्ले कडेन (सपनांत) आईन म्हाका 'आरे, सोण्णां एकठांय केल्यांत मरे' असो प्रस्न केलो. संध्या बाबडें च्या घेवन आयिल्लें तशें भितर गेलें. तें सामकें भिडेस्त, सपनांत लेगीत! सोड.

"आई कितें गे, पावसा दिसांनी पसून न्हिदपाक दिना मुगे. गिझर बसोवया म्हणल्यार तोवूय बसोवपाक दिना."

हांव धोंपरांचेर न्हिदतां (तुमकां हें आसन जमचें ना)

"घरा कडेन आयतीं सोण्णां आनी कट्ट्यो मेळटात त्यो उजार करपाक नाका! पयशे दिवन वीज वापरपाक जाय, लक्षणांच खोटीं!"

"आई कितें गे!" – हांव, पांय पोटा कडेन घेवन.

"तीन भुरग्यांचो बापूय जालो पापया तरी न्हीद वचना तुजी?"

"आगे, ह्याच दिसांनी मातशी न्हीद लागता मुगे, हरशीं हांव उजो घालिना?"

"May I come in?" – शेंवतें.

"हें पळय शेंवतें आयलें. तें आनी फाटीं फुडें पळोवचें ना. थंडगार उदक उसपून म्हाका दितलें." – आई.

"म्हजें काम उदक उस्पुवपाचें, थंड जाल्यार थंड, न्ही रे बाबा." – शेंवतें.

"हय गो बाये पूण म्हज्यान हांतुणा भायर येव नजंऽ. पावलां जमनीर दवरल्यार थंड थंड लागता." – हांव.

बाबाचे दोनूय पांय आतां छातये कडेन पावतात. मागीर आई पुरो तुजी पिरंगण म्हणून म्हजी गोजडी ओडटा आनी म्हजें प्रस्थान मान्न्याचे दिकेन जाता.

हांवें एक नोट केलां, बायलांक कुळारच्यान फोन आयलो की तांकां कितें जाता तें म्हाका कळना. तांचो मूड 360 डिग्री बदलता. देखीक, लतान 'आनंदी आनंद गडे' पद म्हणटां म्हणटां "एक प्यार का नगमा है।" हें पद म्हणचें तशें. अशें कित्याक जाता, तांकां कुळारच्या मनशांक कितें दाखोवचें आसता हाचेर म्हजो अभ्यास चालू आसा. हाताक कितेंय लागल्यार तुमकां कळयतलोंच.

आमी जेवतकच तोंडांन भाजिल्ली बडीशेप उडयतात आनी गुलाम चोर खेळपाक बसतात. हें अशें फाटलीं बावीस वर्सां चल्लां. श्राद्ध , म्हाळ बी आसल्यार रमी खेळटात कारण बाबुली भट आमकां

जॉयन जाता. पयली गजाल सांगतां, मागीर तुमकां हांव कितें सांगूक सोदतां तें कळटलें. आमी सदचे भशेन जेवन गुलाम चोर खेळपाक बशिल्लीं. म्हज्या हातांत सातको आनी गुलाम उरिल्लो आनी हांव चोर जातलों ही मनाची तयारी करून एका हातान फस्का काडयेन दांत कोरतालों. म्हणटकच दुसऱ्या हातान ते दोन पत्ते आशिल्ले हें तुमकां कळ्ळांच आसतलें. ही आतां म्हज्या हातांतलो सातको ओडटली हें मतींत धरून प्रसंगाक सोबतां तशें 'जब अंधेरा होता है' हें पद गुणगुणटालों आनी ही 'तू चोर मैं सिपाही' हे पद गुणगुणत गालांतल्या गालांत हांसताली. इतलें सोबीत वातावरण दनपारच्या कडार आसलें आनी इतल्यांत हिचो मोबायल वाजलो.

''कोण आई गे, हांव बाय... सीमाचीं फुलां आनी तूं आतां सांगता? हांगा म्हाका मरपाक सुद्धा वेळ ना. म्हजी जीण जोताक बांदल्या आनी ती रणगाडो कशी फुडें वता. सध्या म्हजी स्थिती GDX-1 कदंबा बशीवरी जाल्या आनीक तुका कितें सांगूं? हांगा साडी आसल्यार घागरो ना, घागरो आसल्यार पोलको ना, पोलको आसल्यार...''

''आसूं गो आतां.'' - गुलाम चोर दोन पत्त्यांनी वारो घेता.

''आसूं म्हणल्यार? हांव काणयो सांगतां?... नलू मुंबयच्यान येता गे? ताका येवपाक कितें! भावोजीन म्हणलां आसतलें, मी बघतो इकडे, तुमी जावा.''

''तुमी पत्तो काडा आनी जावा'' - हांव, हिचे तोंडा मुखार दोन पत्ते धरत.

''हांगा कितें तियात्र चल्लां?'' - ही. हिणें आवाज चडयलो आनी आईक जाग आयली.

''आरे, तुमी गुलाम चोर खेळटात काय मारामारी करतात? दनपारचें मातशें आड पडटलें म्हणल्यार लेगीत पडूंक दिनात!'' मागीर हिणेंय पत्तो काडलो ना, हांवूंय गुलाम चोर जालो ना. दीसं भर हिची पिरंगण गिरण कशी चालू आशिल्ली. सांगपाचो मुद्दो म्हणल्यार काय बरीं आमीं खेळटालीं, खेळांत उमळशीक तेंगशेर पाविल्ली. अशे परिस्थितींत एका फोनान सगळें चित्र बदल्लें.

पिरंगण आनी नशीब हांचो लागींचो संबंद आसा असो म्हजो अभ्यास सांगता. 'म्हजे नशिबूच फुटकें. म्हज्या नशिबांतूच तें नाशिल्लें.'' ह्या उतरांनी पिरंगण मागीर सुरू जाता. जाचें नशीब फुटलां तो पिरंगना जाल्यार ताची मनस्थिती दुसऱ्याक कळना हे खातीर ताका पिरंगुचेंच पडटा. ताचे नशिबांत पिरंगून कांय फरक पडना तो भाग वेगळो. जेन्ना 500/1000 नोटी बाद जाल्यो तेन्ना ही आंगणांत आमचे व्हडल्या बराबर लंगडी घालताली. आनी आमी (हांव आनी दत्ता) ताळयो वाजयताले. आई भितर बातम्यो पळयत जप करताली. आईन भायर येवन 500/1000 नोटी बाद जाल्यो म्हणून जाहीर केलें. आतां 500/1000 नोटी बाद जाल्यो हे गंभीर बातमे परस ही लंगडी कित्याक घालताली हो प्रस्न तुमकां चड सतायता आसतलो हें हांव जाणां. हिच्या खांद्या कडल्यान (दाव्या) बोटां मरेन

सगळ्या हाताक मुयो येतात. मागीर त्यो मुयो सगळ्याक भोंवतात. दोतोर रायकार म्हणपाक लागलो कितल्यो म्हणून गुळयो खावपाच्यो? तांबड्यो, पाचव्यो, निळ्यो, गुलाबी सगळ्या कोराच्यो गुळयो दिवन जाल्यो. आतां ताणें हिका योग करपाक सांगलां. ह्या योगा खाला ही एका पांयार उबी रावता आनी लंगडी घालता. आनी आमी (हांव आनी दत्ता) ताळयो वाजोवन हिची उमेद वाडयतात इतलेंच. काळजी करपाचें कारण ना.

"भितर आमचे कडेन कितल्यो बाद नोटी आसात व्हो?" – हिणें लंगडी घालीत म्हाका प्रस्न केलो. हो बरो प्रस्न. 08-11-2016 हे तारखे पासून आयज मेरेन सगळे जाण होच प्रस्न एकामेकाक विचारतात. प्रस्नान दीस वतात तसो बदल जाता ना न्ही. ताकाच प्रगती म्हणटात. कितल्यो नोटी आशिल्ल्यो? पांचशे कितल्यो? हजारांच्यों कितल्यो? हे सुरवेचे प्रस्न. मागीर, "नोटी एकांवटार घाल्यो!" "दोन हजार आनी पांचश्यांची नवी नोट पळयली?" ह्याच दिसांनी आमच्या सोयऱ्यां भितर एकलो भायर पडलो (09-11-2016). हांव गेल्लों पाचारपाक. प्रत्येक जाण ताच्या चल्याक हात दिवन, "आतां कशें? बारा दीस तुमकां लायनींत रावपाक ना, कितें अॅरेंजमेण्ट बी केला?"

जाण्टेल्यान वच्चे पयलीं दोन हजाराची नोट पळयली ना, पळोवपाक उरपाक जाय आशिल्लो न्ही? असले नाका जाल्ले प्रस्न विचारताले. म्हणटकच हांवें, 'कितें जाल्लें तांकां, बरे नाशिल्ले?' असो प्रसंगाक सोबऽ सारको प्रस्न विचारलो तो ताका आवडलो ना. ताणें, "हो प्रसंग असले प्रस्न विचारपाचो?" अशें म्हणून उजवाती पेटयल्यो. मागीर हांवें पेटयल्यो. नोटांचें रिझर्व्ह बँक आनी लोक पळोवन घेतले आमी पिरंगणीचेर उलयतले. तर, हिणें, "आमच्यो भितर कितल्यो बाद नोटी आसात व्हो?" असो कितें तरी लंगडी घालीत प्रस्न विचारलो. "भितर पंचावन रुपया आनी हाचे पयलींच बाद जाल्लीं दोन पंचवीस आण्याचीं नाणी आसात. तीं सत्यनारायण पुजेक विड्यार दवरपाक कोंताक येतात म्हणून दवरल्यांत." मागीर घेऽऽ हिचें रडगाणें (हाका पिरंगण अशेंय म्हणटात. ही सुरान पिरंगताली म्हणून रडगाणें) सुरू जालें तशी लंगडी बंद जाली. "खंयचीं जगावेगळीं म्हणून मनशां प्राप्त जालीं म्हाका! पोर्तुगेजांक समरादना घालपी तुमचे जाणटेले, तुमी म्हणून कशे वेगळे जातले!"

"कोणें सांगले गो बाये तुका हें सगळें?" – हांव.

"सांगपाक जाय." आल्बुकेर्क बाबाक खंय तुमचे जाणटेले खतखतें घेवन गेल्ले. आमकां खबर ना काय कितें? तांणी खंय 'MUITO SABOROSO' अशें सर्टीफिकेट दिल्लें, आमकां खबर ना काय कितें? जाणटेल्यांची दूरदृश्टी तरी घेवपाची बरें कांय आयलें ना. घरांत एक बाद नोट ना म्हणल्यार कितें, लोक तोंडांत शेण घालतले! खंयच्या मनशा कडेन गांठ पडली!! दिसाचो सुसेग

ना रातची न्हीद ना! डायजेशन ट्रबल, गॅस ट्रबल सगळें म्हाकाच प्राप्त!!!''

''आगो हांव हवाबाण हिरडे खातां न्ही?'' – हांव.

''आतां म्हाका खावपाचें उरलां! नापोलियनाचें गॅस चेंबर परवडलें पूण आमचो बेडरुम न्ही. रुम फ्रेशनर पसून चलना.''

''आगो, गॅस चेंबर हिटलराचें आनी रुम फ्रेशनर असले चेंबरांनी चलनात – हांव.''

''आरे, ती चेंबरां आसूं दी आतां. तूं तोंड बंद कर आनी नोटी हाड आनी दी तिका. तिका लायनींत उबी रावपाची उमेद आसा ती भागूं दी.'' – आई.

मागीर हांवें शंबरांच्यो नोटी दिवन हजारांच्यो पांच नोटी हाडल्यो. हिणें सात वरां उबी रावन नोटी एकांवटार घाल्यो. हिका लायनींत उबी राविल्ले कडेन नाश्तो, जेवण दिवपाचें काम हांवें केलें. फोटे व्हॉटसअॅपार, फेसबुकार घालतकच ही धन्य जाली आनी आमी गॅस चेंबरांत खोशयेन रावपाक लागलीं.

हिचे फाटल्यान आख्खो देश पिरंगूंक लागलो हाचें म्हाका व्हड अजाप जालें. काळो पयसो आशिल्लो पिरंगता, धवो पयसो आशिल्लो पिरंगता आनी गुलाबी पयसो आशिल्लोय पिरंगता (गुलाबी पयसो म्हणजे दोन हजारांच्यो नोटी आशिल्लो. ही नवी कातेगोरी देशांत तयार जाल्या.) जाचे कडेन ना ताचें परस जाचे कडेन आसा तो चड पिरंगता असो म्हजो अभ्यास सांगता. आसप कितेंय जाव येता देखीक पयशे, बोड बी. बोडा वयल्यान याद जाली, आमी शिकतना आमच्या बोडांत कांयच नाशिल्ले कारणान 'जगी सर्व सुखी असा कोण आहे' हाची जाप आमचे कडेन आशिल्लेवरी आमी भोंवताले. जांचे कडेन आमचो शिक्षक वर्ग जयंत नारळीकर, रँगलर परांजपे, सरोजिनी नायडू म्हणून पळयताले, त्या भुरग्यांच्या कपलांक आठयो आनी तांची पिरंगण चालूच आसताली. तांची पिरंगण आयकून आमकां आमी खूब सुखी आसात अशें दिसतालें. हाकाच लागून फुडारांत म्हज्यांत पॉजिटिव्ह एटिट्यूड आयला जावये. सोड.

''अगं, प्रिपेर झालीस का?'' – दत्ता उवाच.

''अरे, BC साधारण झालं आहे. ECO काय होईल सांगता येत नाही. FC त दांडी गूल होईल. असू दे नारे दत्ता, मला विचार केला तर उलटी आल्या सारखं वाटतं.'' – रेखा भुजंगराव हुबळीकर (नायटींगेल ईन मेंकींग)

''अगं, माझ्या डोक्यात काही नसताना मला उलटी आल्या सारखं वाटतं. हुर्राकात लिंबू पिळला नव्हता बहुतेक तेच कारण असेल.'' – दत्ता

(Eco = इकोनॉमिक्स, BC = बिजनेस कोम्युनिकेशन, FC = फावंडेशन कोर्स)

निकाल लागतकच आमची दांडी गूल जाताली. हें हांवें तुमकां सांगपाची गरज ना. ताचें आमकां दुख्ख जायनाशिल्लें, दुख्ख जातालें ही इतली हुशार मंडळी कित्याक पिरंगतात तें येवजून.

काल कोणाच्या तरी संडासांत

कोट्ट्यांनी नवीं चलनां आनी कितलें तरी कील भांगर मेळ्ळें खंय. आमकां हांगा कुल्ल्यांनी लाख पसून मेळना. म्हणून हांव पिरंगत बसूं? तरी आसतना मागीलदारा वचून हांवें आमच्या संडासाचेर नदर मारलीच. लोकांच्या घरार्ची दारां पावसान फुगतात आनी बसनात, आमच्या संडासाचें दार वर्साचे बाराय म्हयने बसना. एकलो भितर वतकच दुसरो ते भायल्यान फोर्सान मारता, उगडपाकूय तोच प्रोसेस रिपीट जाता, तुमचे म्हायती खातीर. संडासांत एक प्लास्टीकाचो तांबयो, एक आलिमेनाची बालदी, अर्द बाटली फिनेल, एक ब्रश, कुरकुटांत एक मेणवात, एक फस्क, लायफबॉय साबणाची कापटी इतलें सांपडलें. वयर माथ्यार एक नळो फुटला पूण हांवें तो घालूंक ना, तातुंतल्यान मळब बरें दिसता. कोणागेर संडासांतल्यान सैमाचें अशें दर्शन घडटा सांगात! भितर वणटीर कोणे तरी 'झाल्यावर सांगा आम्ही दार उगडू' अशें बरयलां.

"आगे, आमगेर काळो पयसो, भांगर ना तें बरें जालें आं संडासांत एक बिस्कूत लिपयलो म्हणल्यार सुवात ना." हांव, आईक.

"हय, हांवेय नदर मारिल्ली थंय. हुंदरान बीळ केलां तें सावळ्याक सांगून पुरय फाल्यां. आमचेर धाड पडल्यार तांकां ओगीच दुबाव नाका" – आई.

"बरें घालतां जाग्यार."

अशें म्हणून हांव फॅनां खाला सूऽऽ करून बसलों. पिरंगनासतना लेगीत जिवाक बरें दिसलें. कित्याक काय सावळ्याक विचारचें पडलें.

000



# ललीत

(निबंद)

**अरुण काकोडकार**

## इश्ट जेन्ना दुरावता...

कॅबीनाचें दार धुकलून तो हांसत हांसत भितर सरलो आनी म्हजे मुखार कदेलार येवन बसलो.

“आयज बरो खोशी दिसता. कितें खबर?” हावें विचारलें.

“हांवें नोकरेचो राजीनामो दिलो.” तो सांगूक लागलो.

“खरेंच सांगता?”

“तुमकां कित्याक फट सांगतलों?”

म्हाका अजाप जाले. कांय दिसापयलीं तो म्हजेलागीं उलयला. ताणें म्हाका तेविशीं कांय सांगलेंना. बारा-तेरा वर्सांची बरी नोकरी. सहज फांफुडलेभसेन फांफडून उडयता.

“नवी बरी नोकरी मेळ्ळी कांय कितें?”

“नव्या नोकरेची गजाल वेगळी. ही नोकरी सोडपाचो म्हजो विचार नाशिल्लो. एकाएकीं सोडची पडली.”

“अशें कितें जालें तर?”

“नव्या मॅनेजमेंटालागीं म्हजे पटना जालें. नव्या मॅनेजमेंटालागीं म्हणचे परस नव्या बॉसालागीं.”

“बॉस तर तुजोच, इतलीं वर्सां हातांत हांत घालून वावुरले. आनी आतां कितें जालें?”

“हातांत सुत्रां आयलीं तशी नदर बदलता, भाशा बदलता, वेव्हार बदलता.”

“म्हाका समजूंकना तुका कितें सांगपाचें आसा.”

“भितरल्यो गजाली सगळ्यो सांगपाच्यो नासतात.”

“बॉसाक कडक रावचोच पडटा. जाल्यारच कारबारांत

**अरुण काकोडकार :** जल्म : 1951 ; कथा, कविता, एकांकी, नाटक, निबंध अशा प्रकारांत साहित्य निर्मणी. *'मूठभर मळब'* हो निबंध संग्रह प्रकाशीत. वेग-वेगळ्या नेमाळ्यांनी- दिसाळ्यांनी म्हण सुमार 80 लेख-निबंधांचें प्रकाशन. बिम्ब प्रकाशनाचो बिम्ब पुरस्कार 2015, तशेंच गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाचो कला गौरव पुरस्कार 2015-2016 हांणी सन्मानीत. 1978 आनी 1979 ह्या दोनय वर्सां गोंयच्या कोंकणी भाशा मंडळान घडोवन हाडिल्ल्या कोंकणी नाट्य लेखन सर्तींत लेखनाचें दुसरें बक्षीस प्राप्त.

शिस्त येता.''

''शिस्त कसली? लिडर जो आसता ताका सगळ्यांक वांगडा घेवन वचपाची कुशळटाय आसूंक जाय. इश्ट जालो म्हण कितें जालें? मॅनेजर जालो तसो ताका दिसलें आपुण सर्वेसर्वा जालों. ताची उलोवपाची तरा, वागपाची तरा सगळें एके रातयांत बदल्लें. इतलीं वर्सां मरून काम केलें, इश्टागतीच्या नात्यान ताका सांबाळून घेतलो. आतां म्हजेरच उठलो.''

''आता फुडें कितें करपाचें येवजीलां?''

''म्हाका नवो जॉब मेळ्ळा. सगळें जालां. मॅनेजराच्या पदार ... एके बऱ्या कंपनींत. एक तारखेसावन रुजू जातां. तो मॅनेजर जालो म्हण कितें जालें? हांवूय ताचेपरस एक पावल फुडें आसा हें म्हाका ताका दाखोवन दिवंक जाय.'' तो शिरो ताणून उलयतालो.

आतां कोण खरो, कोण फट हें दोनूय बाजू आयकले बगर कळना... ते दोगूय इश्ट. एकाच वेळार नोकरेक लागले. एकलो फुडें गेलो. दुसऱ्याक नाकसुरें गेलें. अशेंच कसलेय गैरसमज. मतभेद, इश्टागत सोंपोवपाक इतलेंच पुरो आसता.

एक शेर म्हाका याद जालो...

हम झुकते है क्योंकी हमें रिश्तें निभानेका शौक है,

वरना गलत तो हम कल भी नहीं थे, आज भी नहीं है।

महाभारतांत एक कथा आसा, द्रोण आनी द्रुपदाची.

...द्रोण आनी राजपुत द्रुपद `काच रुशीच्या आश्रमांत शिकले. दोगूय वांगडा रावले, जिवाभावाचे इश्ट जाले आनी युद्धकलेचें शिकप सोंपोवन आपापल्या घरा वचूंक भायर सरले तेन्ना एकामेकांक वेंग मारून खूब रडले. राजकुंवर द्रुपदान द्रोणाक उतर दिलें, ''हांवं तुका केन्नाच विसरचों नां. जेन्ना हांव पांचालाचो राजा जातलों, तेन्ना म्हाका मेळपाक यो. म्हजें अर्दे राज्य हांव तुका दितलों.'' ते उतराक द्रोणान द्रुपदाक सांगलें, ''म्हाका तुजें राज्य नाका. तुजी कसलीच संपत नाका. आमची इश्टागत काळजांत बाळगून सदांच म्हाका याद कर.''

दोगांयजाणा दोन वाटांनी गेले. राजकुंवर राज्यशास्त्रांत पारंगत जालो. द्रोण परशुरामरुशीचो शिश्य जावन धनुर्विद्येंत निपूण जालो. राजकुंवर द्रुपद पांचाल राज्याचो राजा जालो. एके दिसा द्रुपदराजाच्या दरबारांत द्रोण ताका मेळपाक गेलो. राजान वळख दाखयनासतना ताका भिक्षा दिवपाक मंत्र्याक हुकूम दिलो. तें पळोवन द्रोण रागान तांबडोगुंज जालो. ताणे म्हणलें, हांव हांगां भिक्षा मागूंक येवंना. हांव इश्ट ह्या नात्यान राजाक मेळपाक आयलां. तें आयकून द्रुपदराजा तिडकलो. ''कोण इश्ट? तूं म्हजो इश्ट आसूकच शकना. हांव राजा तूं भिक्षूक. इश्टागत जी आसता ती बरोबरच्यालागीं आसता तुजी म्हजी बरोबरी जावंक शकना. तूं मेळटा ती भिक्षा घे आनी आयिल्ले वाटेन चलपाक लाग.'' द्रोण भरील्या दोळ्यांनी ताका पळयत उरलो आनी दुसऱ्याच खिणांत

थंयच्यान कडसरलो.

...वर्सां गेलीं. द्रोणाचार्य हस्तिनापूर राज्याचो राजगुरु जालो. अशेंच एक फावट अर्जुनान पांचाल राज्याचेर घुरी घाली द्रुपदाक बंदी केलो आनी द्रोणाचार्यामुखार हाडलो. "गुरुवर्य ही तुमची गुरुदक्षणा?" अर्जुनान द्रोणाचार्याक नमस्कार केलो. द्रुपद दिमी घालून द्रोणाचार्याक शरण गेलो. "तुजें सगळें राज्य तुजी जीण आतां म्हजे सुवादीन, आसा. आतां सांग, भिक्षूक कोण? हांव कांय तू? द्रोणाचार्यान ताका विचारलें. द्रुपद राजा द्रोणाचार्याच्या पायां पडलो." हांव चुकलों. म्हाका क्षमा कर" ताणें म्हणलें. दोगांयची दुस्मानकाय सासणांची उरली. फुडें मागीर द्रुपदाच्या पुतान कुरुक्षेत्रांच्या युद्धांत द्रोणाचार्याचो वधन केलो.

इश्ट इश्ट म्हणून आपणायतना ताचेर विस्वास दवरतना ताचेकडल्यान कांय अपेक्षा, कांय उमेदीं आसतात. काळ बदलता तशे मनशाचे विचार बदलतात. विस्वास जितलो उस्फूर्त आसता विस्वासघाताचें दूख तितलेंच खर आसता. काळीज भितल्ले भितर हुलपता, उध्वस्त जाता. दोश एकल्याचोच नासता. दोगांयचो आसता. विस्वासघात करतल्याचो आनी तो समजून ना घेणाऱ्याचो!

इश्ट कित्या दुरावता? ऑक्सफॉर्ड विद्यापीठान "व्हाय फ्रेंडस ब्रेकअप?" नांवाचो संशोधन निबंद उजवाडाक हाडला. इश्टागत करप सोंपी आसता पुमून ती तिगोवन दवरप कठीण आसता. भुरगेपणांतली जावं कवळे पिरायेंतली इश्टागत सहजपणान जाता आनी वर्सा-वर्सा उरता. पिराय वाडटा तशी इश्टागत उणी जायत वता. आतांच्या काळांत मोबायल जांव फेसबुकावेल्यान हजारांनी इश्ट सांपडटात पुणून पोरणें इश्ट आपशींच शेणूंक लागतात. अशें कित्याक जाता?

संशोधनाचेर अशें दिसून आयलां, सादारण पंचवीस वर्सांच्या पिरायेउपरांत इश्ट इल्ले इल्ले उणे जायत वतात. हाचें मुखेल कारण म्हणल्यार कॉलेज शिकप सोंपले उपरांत, पदवी प्राप्त केले उपरांत, पदवीधर एकाच जाग्यार थीर उरनात. वेगवेगळ्या शारांनी वेगवेगळ्या सुवातीनी फाफडून वतात. पयस पयस शारांनी वतना केन्ना देशाभायर वचपाचो निर्णय घेतना फाटलें कितेंय विसरप साहजीक आसता.

वाडटे पिरायेर इश्टागतीचें प्रमाण उणें जावपाचे आनीक एक कारण म्हळ्यार जबाबदारीच्या नोकरी- वेवसायाक लागून एकामेकांक वयलेवयर मेळप तांचेलागीं संपर्क दवरप शक्य जायना. कॉलेज जिणेंत एकठांय मेळप जें जाता तें एकाएकी बदलत वता. जिणेंत वयलीं-वयलीं सोंपणां चडटना, नव्या नव्या आग्रक्रमांक फुडो करतना, फाटलीं नातीं आपशींच गळून पडटात.

मिडिया वेवसायातल्यान निवृत्त जाल्ली श्रीमती अलका सिन्हा हिणे आपलें मनोगत बरयलां. ती म्हणटा, आपल्या आयुश्यांत इश्टांसबंदान खूबशे बदल घडल्यात. जांका वर्सां-वर्सां आमी साथ - सांगात केली त्यो शाळा-कॉलेजांतल्यो इश्टिणी नकळटां कशीं आमीं विसरून वतात हाचें

आपल्याक अजाप दिसता. कॉलेजा उपरांत नोकरी लग्न, भुरगीं ह्या व्यापांतल्यान आमी आमच्या इश्ट-इश्टिणींकडल्यान हळू हळू पयस वतात. तांचो संपर्क उणो जायत वता तशी दुराय वाडटा. आमी सादारण फाटी-फुडें एकाच वेळार लग्न जातात. नव्या संवसारांत बांदून उरतात. आमच्यो वाटो बदलतात. नव्या इश्ट सोयऱ्यामदीं आमी घुस्पून उरतात. तेन्ना आदल्या इश्टीणीकडेन आमची आडनदर जाता.

तिणें निवृत्त जाल्लेउपरांत आपल्या कॉलेजांतल्या कांय इश्टिणीचे फोननंबर सोदून काडून सगळ्यांनी एकठांय जावपाचो बेत केलो. सोळा-सतरा इश्टीणी एकठांय जाल्यो. खूब खूब वर्सांनी मेळ्यो. एकामेकाच्यो संवसारांतल्यो गजाली नवलायो सांगतना-आयकतना तांचेमदीं एक वेगळीच आतुरताय आशिल्ली. पुणून अलकाक एक गजाल खटकली. एकामेकांची तुळा करतना तांचेमदलीं मत्सराची भावना तिच्या ध्यानात आयली. तुजें बरें चल्लां... तशें म्हजें जावूंना हो दुस्वास कायजाणांच्या मुखामळार स्पश्ट दिसतालो. थोडीं तशें उलोवन दाखयतालीं.

फेस-बुकार, व्हॉटस्-अपार चेटींग करतना तोंडावयले भाव दिसनात. कोणाच्या मनांत कितें चल्लां तें कळना. आनी हे चेटींग तरी कितलें सोपें आसता! हातांच्या दोन बोटांवेल्यान सगळ्या संवसारालागीं आमचो संबंद येता. शेकड्यांनी-हजारांनी इश्टालागीं चेटींग जाता. नवे, नवे संदेश वाचून तांका जापो करतना एक वेगळेंच वारें आमचेंदीं घुंवता. खंयूय वचपाची गरज लागना. कोणाक मेळपना, कोणालागीं उलोवंक ना. सगळें बशिल्लेकडेन! केन्ना केन्ना दिसता, प्रत्यक्ष मेळचेपरस अशें चेटींग केल्लें बरें. कोणेय वांकडे केल्लें तोंड तरी पळोवंक मेळना.

कितेंय जरी आसलें तरी इश्टांक मेळप, तांचेमदीं बसप, उठप, आपलीं सुख-दुखां तांका सांगप. तांचेकडल्यान चार उतरां आयकप, हातूंत जें सूख आसता तें सोशल मिडियाच्या माध्यमांतल्यान कशें मेळटलें? एका अर्थान आमची मानसीक आनी शारिरीक भलायकी घटमूट उरपाक आमच्या लागींच्या इश्टांचो व्हड वांटो आसा. नातीं-गोतीं, सोयरीं-धायरीं... आमच्या जिणेंत तांचोय वांटो आसा. पुणून तितलेंच तांचेविशीं आमचीं कांय कर्तव्यां आसात, जापसालदारक्यो आसतात. इश्टागतीक तशीं बंधना नासतात.

ज्येश्ठ, साहित्यीक पु. ल. देशपांडेक मुलाखतकारान विचारलें, ‘‘इश्टागत ही कशी आसता?’’

पुलन ताची मार्मीक जाप दिली, ‘‘इश्टागत ही मोरपिसासारखी आसता. भुरगो जसो मोरपींस पुस्तकाच्या पानांत वर्सानवर्सां अळंग सांबाळून दवरता तशी इश्टागत सांबाळपाची आसता. जाचे लागीं मनांतले भाव उकतायतना लज, संकोच दिसना. तांचे लागीं फट उलोवचें अशें दिसना. पाप – पुण्याची कबुली दिवपाक मन फाटीं-फुडें येना. जाका आपलो पराक्रम उमेदीन सांगीन दिसता. जाचेलागीं पराभवाची

खंत व्यक्त करपाक उणेपण दिसना. जाच्या सुख-दुखा वांगडा आमी एकरुप जांवक शकतात तो खरो इश्ट! असले इश्ट साप्प थोडे आसतात. जेन्ना मोरपीस वजें जावंक लागता तेन्ना इश्टागतीची गोडी सोंपता."

"मोरपीस आनी वजें हाची तुळा इश्टागतीलार्गी कशी जाता? सारकें सांगशात."

"इश्टांगत मोरपिसावरी ल्हवपीक ासता. इश्टात चंवरता, फुलता, फळटा, घसघशींत वाडटा. दुसऱ्यांखातीर कितेंतरी करचें अशें दिसप ही मनाची भूक आसता. अशे दिसप जितलें निरपेक्ष तितलीच ताची खोस चड! पुणून परिस्थिती सदांच सारकी उरना. काळ बदलता तशीं परिस्थिती बदलता. ताका लागून मनशां बदलतात. तांची उतरां बदलतात, तांचें वागप बदलता. तेन्ना मोरपीसाक एकाएकीं वज्याची जड्साण येवंक लागता... हें अशें कित्याक घडटा हो जाचो ताचो प्रस्न हें जरी खरें आसलें तरीय तें जावंक दिवपाक जायना. एकल्यान तरी खालतें घेवंक जाय. पुणून तशें जायना. अहंकार आड येता. महाभारत घडपाचें तें घडटा.

000



ललीत

(निबंद)

संजीव वेरेंकार

# आमंत्रणां आनी आरएसव्हीपी

आमंत्रणां, घरच्यांचीं, सोयरे-धायऱ्यांचीं, मित्रांचीं वळखिच्यांचीं, सरकाराचीं अशीं कितलेशाच तरांचीं. आमंत्रणां आमकां येतात आनी आमीय तांकां धाडटात. सरकाराचीं आमंत्रणां सोडलीं जाल्यार हेर सगले तरेच्या आमंत्रणांत प्रेममय भावना लिपिल्ली आसप सभाविकूच. हेच भावनेंतल्यान एकामेकांक आपल्या सुवाळ्याचें आमंत्रण धाडप आसता. जंय कसलेंच नातें ना तांकां आमी आपयनात. आनी तेवूय आमकां आपयनात. सरकारी आमंत्रणां सर्वसामान्य लोकांक येनात. म्हत्वाच्या, महनीय, अतीमहनीय अशा मनशांकूच तीं येतात. तातूंत प्रेम, आपलेपण असलें कितेंच आसना. आसता तो फकत सोपस्कार. सरकारी शिश्टाचाराचो तो एक भाग. अशा आमंत्रण पत्रां सकयल आरएसव्हीपी अशें बरयिल्लें आसता. हाचो अर्थ उपकार करून येतलो काय ना तें कळयात. हालीं हालीं कांय इलायट वर्गांत मोडपी लोकांनी आपल्या घरगुती सुवाळ्यांच्या आमंत्रण पत्रांचेरूय आरएसव्हीपी बरोवपाक सुरुवात केल्या. खरें म्हणल्यार घरगुती, समाजीक सुवाळ्यांक आरएसव्हीपी बरोवपाची पाळीच कित्याक येवची? हो चिंतनाचो विशय.

आमंत्रणाच्या आवरणांत भावनेचें म्हौंव उणें आसता काय कितें? टाळुंकूच येना, अशें कोणाचेय बाबतींत आशिल्लें कारण सोडलें जाल्यार कोणूच सुवाळ्याक गैरहजर रावपाचो विचार करचो ना, अशें म्हजें तरी मत आसा. तांच्या कार्यक्रमाक वचप काय ना हाचेरूच चड चिंतन करतात. तो विशयूय चिंतेचोच, अशें हांव

**संजीव वेरेंकार :** जल्म : 1959, कवी, पत्रकार, अनुवादक. *'भावझुंबर'*, *'मुंबर'*, *'गांवांतली सांज'*, *'पडवेवेलीं शेवणीं'*, *'चैतन्याच्यो पांवळ्यो'* हे कविता संग्रह, *'मांड ओसाड जातना'* आनी *'तिपय'* हे एकांकी संग्रह, तशेंच 'हाडा – मासाचीं देवळां' हें व्यक्तीचित्रांचें पुस्तक प्रकाशीत. आकाशवाणीचो नभोनाट्य पुरस्कार (2000) आनी विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर संस्थेच्या तशेच श्रीमती विमला पै पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : चित्रंगी रेसिडन्सी, मंगेशी, फोंडें, गोंय. मो. : 9422643629.

म्हणन. विदेशांत चड करून सगळे तरेच्या आमंत्रण पत्रांचेर आरएसव्हीपी बरोवपाची रीत आसा. ताचें कारणूय तशेंच आसा. थंय चडशें व्येवसायीक भारतीय मनीस जसो कुटुंबवत्सल, भावनीक तशे चडशा भायल्या देशांतले मनीस आसनात. कुटुंबवत्सल आनी भावनिकपण हें भारतियांचें खरेलें वैशिण्ट्य. प्रत्येक बाबतीत आमी पाश्चिमात्य लोकांचें अनुकरण करचें म्हणून ना. बदलत्या काळांत भारतियांचे नवे पिळगेंत प्रेमाचो, भावनेचो धागो झिरझिरीत जाला. स्वताक इलायट समजुपी लोकांनीच हो धागो चड झिरझिरीत केला, अशें म्हाका दिसता.

पत्रकार ह्या नात्यान म्हाकाय राज्यपाल, मुख्यमंत्री हांच्या मेजवानीचीं आमंत्रणां येतात. चार-पांच खेपे आमंत्रणां धाडूनूय तांकां प्रतिसादच दिलो ना जाल्यार, राज्यपालांचो शिश्ठाचार विभाग जो सुवाळ्याक येना तांचें नांव आमंत्रण वळेरेंतल्यान काडून उडयता. ताका लागून असल्या आमंत्रणांत जीवसाण नासली तरी इत्se आडूय एकदां तरी वच्चें पडटा. साहित्य अकादेमी, पद्म पुरस्काराचे मानकरी हांकांय असलीं आमंत्रणां येतात. नव्यानूच म्हणल्यार पयलेच खेपे जाका राज्यपालाचें बी मेजवानीचें आमंत्रण येता ताका ताचो जीव सुपांतूय धरना आनी वल्लेंतूय धरना असलो जाता. ताका दिसता आपूण गेलो ना जाल्यार राज्यपाल रागार जातलो. आपल्या स्वागताक तो तयार रावला आसतलो. अशीं कितलिशींच सपनां तो रंगयता. म्हज्या एक मित्राक साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो आनी ताचें नांव राज्यपालाचे आमंत्रण वळेरें पडलें. थंय वतकच राज्यपालूय वळखना आनी कोणूय वळखना. त्या भव्य दिव्य वातानुकलीत मायाजाळांत आपली स्थिती कशी जाली ती तो याद जाता तेन्ना तेन्ना सुरबूसपणान सांगत आसता आनी हांव आयकून फकत हांसपाचें काम करतां. खरें सांगपाचें म्हणल्यार शिश्टाचाराचो वावर म्हणून हीं आमंत्रणां आसतात. तातूंत भावना, आपलेपण असलें कांयच आसना. देखूनच ह्या आमंत्रण पत्रां सकयल बरयिल्ल्या आरएसव्हीपी उतराक अर्थ आसना. पूण घरचे, सोयरे, इश्ट हांचे कडल्यान आयिल्लीं आमंत्रणां आपलेपणाच्या मेलान बुडबुडिल्लीं आसतात. आनी तशींच ती आसूक जाय. ह्या आमंत्रणाचेर आरएसव्हीपी बरोवपाची गरजूच भासूंक जायना. प्रेममय भावनेंतल्यान कोणाकूय आमंत्रण धाडलें जाल्यार सुवाळ्याक हाडिल्लें जेवण फुकट वचपाचो बी प्रस्नूच येना.

म्हजेय कांय कार्यक्रम आसतात. घरगुती जाव समाजीक. जांणी म्हज्या सुवाळ्याक येवचेंशें दिसता तांकांच हांव आमंत्रण धाडटां. आमंत्रणाच्यो आतां वेगवेगळ्यो पद्दती विकसीत जाल्यात. टेलिफोनाचें जाळें तयार जावचे आदीं प्रत्यक्ष घरा कडेन वचून आपोवपाची पद्दत आशिल्ली. उपरांतच्या काळांत पत्र धाडून आपोवपाची तरा सुरू जाली. फोनाचें जाळें सगळ्याक पातळत सावन फोन करून आपयतात. आतां नवीं आधुनिक माध्यमां विकसीत जाल्यांत. वॉट्सएप, मॅसेंजर अशीं

कितलिंर्शीच.

हांव ह्या माध्यमाक मोन्याचीं माध्यमा अशें म्हणटां. हालीं मनीस मोनो जाला. ताका दुसऱ्या कडेन उलोवपाक वीट येता. ते लोक आमंत्रणा खातीर असल्याच माध्यमाचेर निंबून रावतात. ह्या माध्यमाक लागून तांचें फावलां. कोणाकूय आपयला आनी आपोवंकूय ना, हीं दोनूय कामां तातूंतल्यान साध्य जातात. कार्यक्रम खंय, केन्ना आनी कसलो हें कळपा खातीर हीं माध्यमा म्हत्वाचीं हातूंत दुबाव ना. काळा प्रमाण माध्याक कुरपूणें म्हणटकच तीं आमी स्विकारूकच जांय. ना जाल्यार मनीस काळाचे फाटीं उरतलो हें सत. पूण तातूंत जीवसाण आसच ना. तातूंत जीवसाण भरतली जाल्यार ह्या माध्यमा वांगडाच जाका आपयता ताचे कडेन संवाद सादपाची गरज आसता. तो आसलो जाल्यारूच ह्या माध्यमाक अर्थ येता. गणपती मखरांत बसयलो म्हणून जायना. मंत्र म्हणून तातूंत देवपण हाडिल्ल्याचें मनाक समाधान भोगूंक जाय. वेळ आनी थळ कळचें म्हणून हांवूय ह्या माध्यमाचो वापर करता. पूण प्रत्यक्ष फोन करून म्हज्या मनाची भावना कळयता. ताका लागून म्हजें जेवण फुकट वचना. कोणूच जेवपाक वचना, आपल्या सुवाळ्याच्या निमतान आपल्या प्रेमाच्या मनशांक मेळपाक वता. सुवाळ्याचें आमंत्रण दिवपाक फोना वयल्यान गोडान बुडबुडायिल्ल्या उतरांनी संवाद सादता तेन्ना ताचे गोडयेक लागून सुवाळ्याक वचन शें दिसता. इतलेंच न्हय चुकून एकाद्रे अडचणीक लागून पावलो ना जाल्यार लेगीत भावनाचीं ल्हारां सुवाळ्याच्या वातावरणांत भरसून उरता. तातूंतल्यान एकामेकां कडल्या नात्याचे धागे घट घट जायत रावतात. ते जावचे म्हणूनच तर असल्या सुवाळ्याचें आयोजन आसता. हालींच्या काळांतली चडशी नवी आधुनीक पिळगी सुवाळ्याच्या आयोजनाचो मूळ हेतूच विसरूक लागल्या हो चिंतेचो विशय.

जांकां हांव सुवाळ्याक आपयतां, जे म्हजे कार्यावळीक मुजरत आपलो वेळ आनी पेट्रोल खर्चून येतात तांकां हांव परमेश्वराच्या रुपान पळयतां. हांव जांकां आमंत्रण दितां तो मनीस जेन्ना सुवाळ्याच्या थळार येता तेन्ना हांव तांच्या म्हऱ्यांत वचून तांका येवकार दितां. वो आयिल्ल्याचो आनंद जर म्हजें मुखामळार ताका दिसलो जाल्यार ताच्याय येवपाचें सार्थक जाता.

काळजांतलें समाधान हें म्हजें खातीर व्हडलें धन आसता. ह्या आनंदा खातीरच सुवाळ्यांचें आयोजन करप आसता. हांवूंय कोणेंय आपयलो म्हणटकच ह्याच आनंदा खातीर वेळ काडून सुवाळ्याक वता. पूण कांय कुटुंबाच्या कार्यक्रमाक सामकोच वायट अणभव येता. आपूण चुकून दुसऱ्याच कार्यक्रमाक पावलो काय कितें, अशेंच केन्ना केन्ना जाता.

जांच्या कार्यक्रमाक हांव व्हडविकायेन गेल्लो आसतां ते म्हज्या म्हऱ्यात लेगीत येवन हडकुपाचें टाळटात. ते आपल्याच मनांत घुस्मळत आसतात. मुखामळार हांसोय दिसना. अशा वेळार जो मनस्ताप

जाता तो असभ्यूच आसता. ते रातची न्हिदूय पडना. अमक्या कार्यक्रमाक वचप म्हणल्यार भालयकी इबाडून घेवप. अशें म्हमून वचपाचें टाळूकय मेळना. गेलो ना जाल्यार आयोजकांचे सोयरे-धायरे अमको कित्याक आयलोना, हाचेर तर्क-वितर्क उक्तायतात. तातल्यान आमचे सारकिल्याची कांयच कारण नासतना लोकांचें नदरेंतल्यान प्रतिमा देंवता. तें टाळपाखातीर म्हाका खूबदा असल्या सुवाळ्यांक वचचें पडलां. आनी आरोग्य इबाडूनय घेतलां.

आदल्या काळार आमी केन्नाय याद जातकच आपल्या नात्यांतल्यांगेर भेट जावं सोयऱ्यांगेर तांची खबर घेवपाच्या निमतान वताले. काळ बदल्लो आनी एकामेकांचीं खबर घेवंक वचप नकळटांच केन्ना आनी कशें बंद जालें तें कळ्ळेंच ना. काम आसले बगर आतां कोणूच कोणागेर पावना जाला. कोण कोणागेर आयिल्लो, गेल्लो आतां नाकाच जाला. नवे पिळगेक आपले 'प्रायव्हसीक' तातुंतल्यान बादा येता अशें दिसूंक लागलां. ताका लागून नात्यान सामकीं लागीं आशिल्लीं मनशां लेगीत म्हयन्याचे म्हयने, वर्सांचीं वर्सां एकामेकांक मेळना जाल्यांत. ताकाच लागून घरगुती स्नेहसंमेलनाची गरज निर्माण जाल्या आमचे सारक्या मनशांक मेळपाची, तोंड भरून उलोवपाची भूक भागोवपाच्या हेतान. असल्या सुवाळ्यांक ओडीन वचूंक सोदता ते खातीर आमंत्रणां फाटल्यान आगरो जाय, भावना जाय. आपयिल्लो मनीस येवचोच अशें मनांत दिसून आमंत्रण धाडूंक जाय. कसल्याय टाळूंक येना असल्या कारणान कोणूय सुवाळ्याक पावलोना जाल्यार जेवण फुकट गेल्ल्याचें दुख्ख दिसनासतना तीं मनशां पावलीं नात हाचें मनाक वायट दिसूंक जाय. आमंत्रणा फाटल्यान ही भावना आसली जाल्यार आमंत्रण पत्राचेर आरएसव्हीपी बरोवपाची गरजूच भासची ना. असलीं स्नेहसंमेलनां स्नेहाची दिवली पेटत दवरपाचें काम करता हें विसरूंक फावना. 000



ललीत

(निबंद)

सखाराम शेणवी बोरकार

# म्हजें पेनांचें पिशें!

"A pen is mightier than sword" अशें म्हणटात. ह्या पेनान संवसारभर जातत्यो क्रांती घडोवन हाडल्यात. आर्विल्ल्या पेनाक खूब व्हडलो इतिहास आसा. आयच्या काळार लेगीत ह्या पेनांचें म्हत्व उणें जावंक ना. लोकशायेचो चवथो खांबो ह्या पेनाचेरूच चलता.

आदल्या काळार इजिप्शियन लोकांनी पेनाचो सोद लायिल्ल्याची नोंद मेळटा. पूण आर्विल्ल्या तींत भरपाच्या पेनाचो जनक म्हण बारथोम्येव फोल्श ह्या इंग्लडच्या नागरिकाक वता. ताणें तींत भरपाच्या पेनाचो पेटंट 1809 वर्सा मेळयलो. पेट्राशे पोवनारु ह्या रोमेनियन नागरिकानूय फावंटन पेनाचो सोद लायलो आनी ताचो पेटंट फ्रेंच सरकारा कडल्यान 1828 वर्सा मेळयलो. बॉल पॉयंट पेनाचो पेटंट 1888 वर्सा जॉन लॉड ह्या मनशान मेळयलो.

उप्रांत 'वॉटरमॅन', 'पारकर', 'शेफर्स' ह्या संशोधकांनी ह्या पेनांत खूब संशोधन करून सुदारणा केली आनी आपल्या नांवांर खूब पेटंट मेळयले. तांणी आपल्या नांवान पेनाच्यो कंपनी काडल्यो आनी आयज लेगीत ह्या नांवांच्या कंपनींच्या पेनांनी आपलो दर्जो सांबाळून दवरला आनी हीं पेनां संवसारभर खूब फामाद जाल्यांत.

पुर्तुगेजान गोंयचेर साडेचारशें वर्सा राज्य केलें. गोंयांत शिक्षणाचो प्रसार जालो तशी पेनांची गरज पडपाक लागली. आनी हीं पेनांय भायल्या देशांतल्यान गोंयांत येवंक लागलीं. वयर म्हणलां तशें 'वॉटरमॅन', 'पारकर', 'शेफर्स' आदी पेनां एंप्रेगादांच्या, लिसेंवार शिकपी भुरग्यांच्या बोल्साक दिश्टी पडपाक लागलीं.

**सखाराम शेणवी बोरकार:** जल्म :1955. कवी, निबंदकार, समीक्षक. 'अभ्रेक' आनी 'तूं' हे दोन कविता संग्रह प्रकाशीत. संपर्क : सी 25, सपना व्हेली, पाजीफोंड, मडगांव , गोंय – 403601, मो. 9923306751.

भारतांतूय ह्या मूळ विदेशी पेनांच्या कंपन्यांनी भारतीय कंपन्याच्या आलाशिऱ्यान आपआपल्या पेनांची निर्मीती केली आनी भारतीय बनावटींचीं विदेशी पेनां भारतांत मेळपाक लागलीं. हीं पेनां गोंयांतूय आयात जावपाक लागलीं. पूण 1953 वर्सा भारत सरकारान गोंयचेर अर्थीक बंदी घाली आनी भारतांतल्यान गोंयांत येवपी सगलो म्हाल बंद जालो. तेन्ना ते गोंय सुटके मेरेन सगळो विदेशी म्हाल पाकिस्तानांतल्या कराची मार्गान गोंयांत येवपाक लागलो आनी तातूंत पेनांचोय आसपाव आसलो आनी हीं पेनां आनी ताका लागपी तींत जपान, इंग्लंड, फ्रान्स, जर्मनी ह्या देशांतल्यान गोंयांत आयात जातालें.

भारतांतूय पुराय भारतीय बनावटीचीं पेनां तयार करपी कारखाने सुरू जाले तातूंत 'विल्सन', 'कॅम्लीन' ह्यो कंपनी फुडें आसल्यो. आदीं पेनांत घालपाचें तींत लेगीत भायल्या देशांतल्यान आयात जातालें. 'पायलट', 'क्विंक', 'वॉटरमॅन', 'पारकर' ह्यो कंपनी तींत तयार करपाक फुडें आसल्यो. उप्रांत भारतांतूय तींत कारखाने तयार जाले. त्या भायर तींताच्यो गुळयो तयार करपांत आयल्यो. ह्यो गुळयो उदकांत घोळयल्यार ताचें तींत जातालें आनी तें खूब सवायूय पडटालें.

हांवें पयलेच फावटी पेन हाताळ्ळें तें 'सेल्जा' कंपनीचें. ते पयलीं बापायले ज्युदयेक 'शेफर्स' पेन आसतालें तें हांवे पळयिल्लें. पूण तें खूब म्हारग आनी ताका हात लावपाची म्हाका कापाझदाद जायना आसली. पांचवेक आसतना हें 'सेल्जा' पेन हातांत पडलें. तें तींत भरपाचें आसलें. ते खातीर बापायन तींताची व्हडली बाटली हाडिल्ली ती मातशी सवाय पडटाली. केन्ना तींताच्यो गुळयो हाडून आमी घरांतच तींत करताले. हें तींत करप म्हणल्यार एक व्हडलो आक्त आसलो. ह्या तींत भरपाच्या पेनांची अडचण म्हणल्यार पेनांचो सिलींडर तींत भरून सारको घट्ट बंद केलो नाजाल्यार तातूंतल्यान तींत गळटालें आनी मागीर बोल्साक तींताचे दाग पडटाले. चडश्या भुरग्यांच्या बुशकोटाच्या बोल्साक हे दाग दिश्टी पडटाले. ह्या पेनाचे आपार (नीब) मेकळे विकते मेळटाले. ते खातीर आपार मोडल्यार पुराय नवें पेन घेवपाची गरज नासली. सातवेक आसतना म्हाका 'सेल्जा' कंपनीचें पूण पंपान तींत भरपाचें पेन हाडलें आनी बोल्सार तींताचे दाग पडपाचे बंद जाले.

आठवेक आसतना म्हजे जिणेंत एक व्हडली घडणूक घडली. तेन्ना दुबय भरभराटीक पाविल्लें आनी खूबशे गोंयकार भाव गल्फाक वताले. आमच्या वाड्या वयलो म्हज्या इश्टाचो बापूय दुबय कामाक गेल्लो. ताणें येतना आपल्या पुताक आनी म्हाका एक 'हिरो' पेन आनी 'रॅनोल्ड' कंपनीचें एक बॉल पेन हाडलें. बॉल पेन हांव पयलेच फावटी पळयतालों. ताची रिफिल बदलपाक मेळना आसली. वापरपाचें आनी भायर उडोवपाचें. हांवें तें पेन वर्सभर सांबाळून वापरलें. रिफिल सोंपतकीर लेगीत पेन भायर उडोवपाक मन कशेंच जालें ना.

हीं ‘हिरो’ पेनां चीनांत तयार जातालीं आनी ताचो दर्जो खूब बरो आसलो. म्हाका हें ‘हिरो’ पेन पयल्याच धपक्याक खूब आवडलें आनी फुडें पदवी मेरेन हांव फकत हिरो पेनच वापरपाक लागलों. उप्रांत हीं पेनां गोंयांत स्मगल जावपाक लागलीं आनी मागीर तीं सर्रास सगळे कडेन मेळपाक लागलीं. मुखेल म्हणल्यार हाचे आपारूय मेकळे मेळटाले.

पदवी उप्रांत फुडल्या शिक्षणांत परिक्षेक बॉल पेनां वापरपाची मेकळीक मेळ्ळी. ते मेरेन इंक पेनां वचून बॉल पेनांचो सुळसुळाट जाल्लो. सवाय आनी वापरून भायर उडोवपाचीं. कारण तांच्या रिफिलाची किंमत आनी नव्या पेनांची किंमत हातूंत व्हडलो फरक नासलो.

हांव जरी बॉल पेन वापरतालों तरी म्हज्या बोल्साक तें हिरो पेन आसतालेंच. हांव शिर्विसेक लागलों तेन्ना बापूय रिटायर जाल्लो आनी ताणें म्हाका आपलें ‘शेफर्स’ पेन भेट म्हण दिलें तें पेन म्हजे कडेन आयज लेगीत आसा. त्या पेनां खातीरच म्हाका पेनां जमोवपाचो छंद लागलो आनी विंगड-विंगड कंपनीचीं देशी आनी विदेशी पेनां आनी बॉल पेनां हांव जमोवंक लागलों.

म्हजे कडेन पेनांचें एक बरें कलेक्शन जालें. संवसारांतलीं सगळ्या फामाद कंपनीचीं पेनां म्हजेकडेन आसात आनी तातूंत भर पडत आसा. आयज लेगीत म्हाका कोणेंय पेन भेट म्हण दीत जाल्यार म्हाका खूब आनंद जाता. म्हजे आमीग आनी सोयरे म्हजो हो ‘वीक पॉयंट’ जाणात. ते म्हाका बरें पेन दिसल्यार घेवन येतात. केन्नाय वेळ मेळटा तेन्ना हांव हीं सगळीं पेनां भायर काडून तांकां तोखेतां आनी मागीर तीं आलमारीच्या शेल्फांत मोटे जतनायेन दवरतां.

आयज म्हजे कडेन इतलीं पेनां आसात पूण म्हज्या आमिगाच्या बापायन दिल्लें तें ‘हिरो’ पेन आनी म्हज्या बापायन म्हाका दिल्लें ‘शेफर्स’ पेन म्हज्या पेनांच्या कलेक्शनांत मानांची सुवात धरून आसात.

आयच्या कम्प्युटराच्या जमान्यांत पेनांचें म्हत्व खूब उणें जालां. इंक पेनां वापरप तर सामकेंच दुर्मीळल जालां. ‘आतां वापरात आनी भायर उडयात’ असल्या बॉल पेनांचो जमानो आयला. थोडे लेखक पेनां बाबतींत खूब चोखंदळ आसतात. तांकां बरोवपाक अमकेच तरेचें पेन आनी तींत लागता.

आयज बोल्साक म्हारग पेन लावप हो एक ‘फॅशन स्टेटमेंट’ जाला. आमचे आदले प्रधानमंत्री डॉ. मनमोहन सिंग हांच्या कोटाच्या बोल्साक सदांच आमकां ‘क्रोस’ कंपनीचें पेन दिश्टी पडटा. आयचे आमचे प्रधानमंत्री श्री. नरेंद्र मोदी हेवूय पेनांचे शौकीन. तांच्या कोटाच्या बोल्साक सदांच ‘मॉ ब्लां’ (Monte Blanc) कंपनीचें पेन आसता. आमचे मुखेल मंत्री धरून देश विदेशांतले चडशे सगळे राजकारणी ‘मॉ ब्लां’ कंपनीचींच पेनां वापरतात.

पेनां विशीं खूबश्यो गजाली जोडिल्ल्यो आसात. जाच्या बोल्साचेर बरें म्हारगशें पेन आसता ताचे विशीं सहज एक धारणा

निर्माण जाता. हो मनीस एकतर विद्वान नाजाल्यार पयशेकार आसतलो असो एक समज जाता आनी तशें घडये आसताय बी. पूण जो म्हारगेलें पेन बोल्साक लायता ताका एक भिरांत आसता की कोणय पेन मागत म्हण. मागीर तें 'मातशें' म्हण दिल्लें पेन परत मेळत म्हण गॅरेंटी नासता. ही गजाल चड करून बँकांनी, पोस्टांत, लग्न कार्याच्या हॉलांत (अहेराच्या लखोट्याचेर ऐन वेळार नांव बरोवपाक. हालींच्या काळार 'अहेर हाडचो न्हय' अशें जाल्ल्यान ही शक्यताय उणी जाल्या.) तेन्ना असल्या मनश्यांक पेन दितना खूप जतनाय घेवची पडटा. थोड्यांनी आपली तकली वापरून दुसऱ्याक पेन दितना पेनाचें बुकाल काडून पेन दिवपाक सुरवात केली. पूण पेन मागपी तांचे परस हुशार! ते बुकाल नासतनाय पेन घेवन वचपाक लागले.

बँकांनी आपलें एक बरें आसता. पुराय बँकेंत दोरी बांदिल्लें एकूच पेन! (दोन रुपयांचें). हें पेन सांबाळपाक बँकेचे कर्मचारी जितली जतनाय घेतात ती पळयल्यार तांची तोखणाय करीन दिसता. इतली जतनाय जर तांणी व्हडले - व्हडले उद्देगपती लोकांक रिणां दितनां घेतिल्ली जाल्यार हे लोक बँकांची करोडांनी रुपयांचीं रिणां बुडोवन देशा भायर वच्चे नासले. अजापाची गजाल म्हणल्यार बँकेक तोपी घालप्यां मर्दी एका पेनां तयार करपी कारखानदाराचोय आसपाव आसा. आसूं! तो विशय वेगळो!

अशें हें येदेशे पेन आनी ताचे विशीं जुडिल्ल्यो गजाली! निमाणे कडेन एक मात सांगन दिसता पेनां जमोवपाचो छंद आशिल्ले म्हजे सारके खूब जाण आसात आनी तांचो म्हाका अभिमान दिसता.

000



लोकवेद

(लेख)

झिलू ल. गांवकार

# रणमालें : परंपरा, आवाठ आनी स्वरूप

नाटक म्हणलें काय गोंयकार रोखडोच फुलता. मागीर तें नाटक कोंकणी आसूं वा मराठी नाटकां बगर गोंयकारांचे काले–जात्रा फुलनात. गोंयांत उत्सवांच्या निमतान दर वर्सा हजारांनी नाटकांचे प्रयोग सादर जातात. ह्या नाटकाची पाळां मुळां आमकां हांगाच्या लोकनाट्यांनी होलमतात. कोणा एका काळार मनोरंजनाचीं कसलींच साधनां उपलब्ध नासलीं. त्या काळार हांगाच्या भौसान मन रिजवणे खातीर लोक गितां, लोकनाच आनी लोक नाट्यां सारकिल्या लोक परंपरांची रचणूक केली. 'कालो', 'जागर', 'रणमालें', 'लळीत', 'खेळ', 'भरणूल' हीं गोंयचे मातयेतलीं मुखेल लोकनाट्यां. हातूंतलीं 'रणमालें' आनी 'जागोर' हीं लोकनाट्यां जरी एक सारकीं आसलीं, तरी तीं वेगळे धाटणींतलीं स्वतंत्र लोकनाट्यां आसात. 'जागोर' हें लोकनाट्य खास करून फोंडें, तिसवाडी आनी शिवोली वाठारांत पळोवंक मेळटा. जाल्यार 'रणमालें' लोकनाट्याची परंपरा गोंयांत फकत सत्तरी म्हालांत दिसून येता. सत्तरी म्हालाचे शिमे वयल्या दोडामार्ग (महाराष्ट्र) आनी खानापूर (कर्नाटक) ह्या म्हालांतल्या कांय गांवानीय ही परंपरा तिगोवन दवरल्या.

कोणा एक काळार 'विधी' परंपरेंतल्यान सुरू जाल्लें 'रणमालें' आयजूय शिगम्या दिसांनी गांवच्या मांडार खेळपाची परंपरा हांगाच्या भौसान शेंकड्यांनी वर्सा सावन तिगोवन दवरल्या. लग्नाकार्या वेळार, गांवचो उत्सव वा खोशयेच्या दिसाय 'रणमालें' खेळपाची परंपरा हांगा पळोवंक मेळटा.

**झिलू लक्ष्मण गांवकार :** जल्म : 1956 ; साहित्यीक, लोकवेद अभ्यासक आनी अनुवादक; बालसाहित्य, एकांकी, निबंध, लोकवेद, नाटक अशा प्रकारांत साहित्य निर्मणी. *माणकुल्यांचीं गितां* (बालसाहित्य), *सैमभार* (एकांकी), *पाशाण पाझर* (अनुवाद) आनी *रणमालें : स्वरूप दर्शन* (लोकवेद) हीं प्रकाशीत पुस्तकां.

संवसारातलीं सगळीं लोकनृत्यां आनी लोकनाट्यां हीं विधीं कडे संबंदींत आसात. 'विधी' हो देव-देवतांचे उपासनेचो आचार. एक पद्दत, एक तरा. थारावीक उत्सवांनी कांय विधी करचेच पडटात. ते केले नात जाल्यार देवदेवतांचो कोप जाता आनी भौसाचेर संकश्टां, अरिश्टां बी येतात. आनी ते-ते विधी केले काय देव-देवता आनी त्या वाठारांतल्यो अदृश्य शक्ती प्रसन्न जावन अरिश्टां बी पयस जातात. असो भावार्थ कश्टकरी भौसा मदीं दिसून येता. तांचेच कृपेन शेतवडी पिकतात. वंशावळ वाडटा. गांवाचेर धामी-पिडा बी येनात. अशी लोकधारणां हांगाच्या भौसा मदीं पळोवंक मेळटा. पयलीं ह्यो विधी चड करून लोकां असवडी करपाची प्रथा आसली. बदलत्या काळांत ह्यो विधी ल्हवू ल्हवू लोकां मुखार जांवक लागल्यो तेन्ना विधी करपी आनी विधी करून घेणाऱ्याच्या हालचालींनी नकळटा गती आयलीं. आवेग आयलो आनी नाटकीपणांय आयलीं. तातूंतल्यानच फुडें विधी नाट्याचो जल्म जालो. काळांतरान लोकां असवडी जावपी विधी भौसा मुखार सादर जावक लागले तेन्ना त्या विधींनी नाट्य, नृत्य आनी संवाद आयले. अशे तरेन विधी नाट्यांचे नवें रुप घडलें. हें नवें रुप म्हटल्यारूच लोकनाट्य. तेच जातकुळीतलें हें 'रणमालें' लोकनाट्य.

पुर्विल्ल्या काळार सत्तरी आनी तांच्या लागशिल्ल्या दोंगरी वाठारांनी 'हेब्बार' नांवाची भिल्ल जमात रावताली अशें हांगाचे जाण्टे सांगतात. ते लोक खुनशी आनी रानवटी प्रवृत्तीचे पूण फिशाल कारागीर आसले. कांय कडेन तांचो उल्लेख भिल्ल, हेबाड, 'होब्बू मेशे' असो जाता. ते हांगाचे मूळ वसाहतदार आसूंक जाय. असो उल्लेख 'गोमंतकाची प्रतिमा' ह्या पुस्तकांत अनंत धुमे हांच्या लेखात मेळटा.

'हेब्बार' दुसऱ्याचें धनीपण न मानपी स्वतंत्र प्रवृत्तीची जमात आसली. ते लोकांक पिडटाले. देखून तांचो बंदोबस्त करचे खातीर पुर्वापार चलत आयिल्ल्या नाच गितांचो खेळ आखूंन हेब्बारांचो संहार करपाचो कट शिजलो. पूर्व नियोजीत कटाची तयारी जातकच हेब्बारांक आमंत्रणां गेलीं. जालें, कसलोय विचार करिनासतना ते तांतीं-पिल्यां सयत कार्यावळीक आयले. राती कडेन लोकवाद्यांच्या तालार खेळ सुरू जालो. मध्यानरातीर खेळ रंगांत आयिल्लो आसतना आनी हेब्बार नाच गायनाचे कार्यावळींत गुल्ल आसतनाच अचकीत घुरी घालून हेब्बाडांचीं शिरां मारलीं आनी हेब्बारांचो पुराय वंशूच ना करून उडयलो. अशी एक आख्यायिका सत्तरी वाठारांत आयकूंक मेळटा. हे संबंदी जाणकारांनी दिल्ले म्हायती प्रमाण सांवड्डें हांगा म्हादयचे धडेर 'हेब्बार वाडो' आसलो. तेच प्रमाण थंय तांणी कोत्राइल्ले फातर आनी ध्वज दिश्टी पडटात. असो उल्लेख 'म्हादई विशेषांक' 1995 ह्या अंकात प्रा. प्रकाश पर्येकार हाच्या लेखांत मेळटा.

रणामालें खेळाची परंपरा आशिल्ल्या करंजोळ गांवांतूय सांतेरी देवीच्या देवळा मुखा वयल्या शेताच्या पैलाडी हेब्बरांची घरां आसलीं आनी फाटल्या शंबर-देडशीं वर्सां पयलीं त्या घरांचे 'घरवंज' थंय

पळोवंक मेळटाले अशी म्हायती करंजोळ गांवचे जाणकार सांगतात. कांय वाठारांत हेब्बारांचो उल्लेख 'बेरड' असोय जाता आनी आतांच्या भौसाच्या पूर्वजांनी तांकां जिवानिशी मारलें अशी म्हायती जाणकार सांगतात. त्या हेब्बारांची याद करून दिवपी 'धोंग' करंजोळच्या रणमाल्यांत हाडूंक जाय अशी परंपरा आसा. ते त्या धोंगाक 'चोट्टो' अशें म्हणटात.

*एकादशी एकवाद*
*दुवादशी पारणे*
*तुळशीच्या लग्नाक बाऽऽ*
*भिल्ल पावले गांवा मदी हो*
*भिल्ल पावले गावां मदी*

ह्या धोंगात हेब्बारांक (हेब्बरांक) भिल्ल म्हण संबोधल्यात. ह्या धोंगांत हेबाड लोक गांवाक पिडटाले चड करून ते बायलांक उबारून बी व्हरताले अशें दाखयलां. म्हण तांकां मारले अशी आख्यायिका ह्या वाठारांत आयकूंक मेळटा. तात्पर्य हेब्बारांक मारचे खातीर रचिल्ली ती कार्यावळ 'रणमालें' म्हण आयजूय लोकनाट्याच्या रूपांत प्रचलीत आसा.

सत्तरी वाठारांतले बोलीचे शैलीक लागून 'रणमालें' हे 'उतर' मातसोसो बदल जावन 'रनमालें' 'रणमालां' अशा उतरांनी घोळणुकेंत आसा. घांटमाथ्या वयल्या कणकुंबी, पारवड, चिखलये ह्या गांवांनी 'रणमालें' हें उतर 'रंगमालां' जाल्यार आमगांव, पास्ट्रली, गवाळी वाठारांत 'रंगमाल' अशा रुपांत आयकूंक मेळटा. सत्तरींतल्या 'साट्रे' आनी 'सुरल' ह्या गांवांनीय 'रणमालें' उतरा बदला 'रंगमालां' अशें उतर घोळणुकेंत आसा. ह्या सगळ्या रुपां मदलें 'रणमालें' हें प्रमाणीक रूप सत्तरींत चडशा वाठारांनी आयकूंक मेळटा.'रणमालें' उतराची व्युत्पत्ती मेळना. पूण जाणकारांच्या मता प्रमाण 'रण' आनी 'मालें' ह्या उतरांतल्यान तें घडलां आसूंक जाय. गोंयचे ज्येश्ठ लोकवेद अभ्यासक श्री. विनायक खेडेकार हे 'लोक सरिता' ह्या पुस्तकांत 'रणमालें' लोकनाट्य ह्या संदर्भात सांगतना म्हणटात –

'रणमालें' या शब्दाचो अर्थ पहाणे युक्त ठरेल. अनेक लोकांनी एकत्र येऊन गडबड गोंधळ करणे असा 'रण' या शब्दाचा अर्थ आहे. सत्तरीत ज्या भागात रणमालें होते त्या भागात 'रामे' या क्षत्रियांची अधिसत्ता होती. रण हा रान शब्दावरून आलेला असू शकतो. 'माले' या शब्दाला अनेक अर्थ आहेत. मोठ्या लाकडी दांड्यावर बाजूने वाती पेटविण्यासाठी धातूचा समईचा भाग असतो. त्याला 'मालें' हा शब्द आहे. साप, अजगरा सारखे प्राणी एका ठिकाणी सुस्त बसलेले असतात. त्याला 'माले घातले' असा शब्दप्रयोग आहे. फुलमाला ह्या शब्दावरूनही हा शब्द आला असू शकेल. तें 'रामालें' म्हणून 'रणमालें' असा विचार सांगितला जातो.

फुडें तें अशेंय म्हणटात की जाण्ट्या रणमालें कलाकारांकूय ह्या उतराचो अर्थ खबर ना.

'म्हादई विशेषांक 1995' ह्या अंकात प्रकाश पर्येकार हांणी अभ्यासपूर्ण लेख बरयला. तातूंत रणमाल्याचें कूळ आनी मूळ सांगतना ते सांवड्डे हांगांय हेब्बार वाड्याची

आख्यायिका सांगून बरयतात.

"अशे तरेन सावंतांनी 'हब्बुचें रण माल्लें'. 'रण' हें संस्कृत उतर ताचो अर्थ साबार लोकांनी एकटांय येवन केल्ली कृती, 'मालें' हे उतर 'मारलांस', 'मारलें', 'माल्लें' अशें ताचें काळांतरान रूप बदलत गेलें आनी 'मालें' हें अपभ्रंशित रूप घडलें जाव येत."

तात्पर्य 'रणमालें' हें उतर 'रण' आनी 'मालें' ह्या उतरा वयल्यान घडलां. 'हेब्बारांक मारचे खातीर जाल्लें 'रण' आनी ते करचे खातीर केल्ली व्युह रचना म्हटल्यार एके तरेचे 'मालें'च आशिल्लें." हाचे वयल्यान 'हेब्बारांक मारचे खातीर शिस्तबद्द रितीन रचिल्ली व्युहबद्द नाच गायनाची कार्यावळ म्हटल्यार 'रणमालें' आसूंक जाय.

सत्तरींत शिगम्या दिसांनी गांवच्या मांडार जे वेगवेगळे खेळ जातात, 'रणमालें' तातूंतलोच हो एक खेळ. रणमालें खेळपा फाटल्यान विधीची परंपरा आसा. एका काळार सत्तरींतल्या भौतेक सगळ्या गांवांनी रणमालें खेळाची परंपरा आसली. सध्याक ही परंपरा सत्तरींत करंजोळ, झर्मे, आमगांव, इंजोळये, तळडे, पारवड, चिखलये, कणकुंबी, मान ह्या गावांनी आनी दोडामार्ग (महाराष्ट्र) वाठारांतल्या शिरंगे, मांगेली, ह्या गांवांनी रणमालें खेळाची परंपरा चालू आसा.

फाल्गून म्हयन्याचे पुनवे सावन सात दीस वा 'चैत्र प्रतिपदा' मेरेन शिगम्याची परब मनोवपाची परंपरा ह्या वाठारांत पळोवंक मेळटा. संवसार पाडव्या दिसा रणमाल्याचो खेळ करून ह्या उत्सवाची सांगता जाता. मदल्या काळांत वेगवेगळ्यो धर्मीक विधी चलतात. शिगम्याचे सुरवेक गांवचे दैवी शक्तीक होरावन तांका गांवच्या मांडार सन्मानान हाडटात. तांका मानाचो पाट दितात. शिगम्याच्या उत्सवांत बादा येवची न्हय म्हण गांवच्या राखणदाराचीय होरावणी जाता. शिगम्या दिसांनी गांवच्यो सगळ्यो दैवी आनी अदृश्य शक्ती राखणदार, वाठारी, लावां-भूतां हांचो चाळो मेळो उठ्ठा. त्या सगळ्यांची थारावणी रणमालें खेळांतल्या गोंधळान जाता. उपरांत 'रणमालें' खेळाचे मुखवटे, आवतां, वाद्यां आनी वस्त्रां बी फुडल्या वर्सा खातीर वेवस्थीत उरची म्हण पेटाऱ्यांत बंद करून दवरतात ती बद्द फुडल्या वर्सा शिगम्याक उडटात. मदल्या काळांत 'रणमालें' खेळप ना अशी परंपरा कांय गांवांनी पळोवक मेळटा.

हांगाच्या कुळवाडी लोकांचे मातये कडलें नातें युगा-युगांचें आनी सासणाचे. तांणी सांतेरीच्या रुपांतले भुमका मायेची सेवा केन्नाच सोडली ना. हांगा नागपंचमीक 'नाग' आनी चवथीक 'गणपतीच्या' रुपांत मातयेची पुजा जाता. गोंय मुक्तीपूर्व काळार हांगाचे कश्टकरी लोक दोंगर माथ्यार वचून शेतां कसताले. त्या शेतांक 'सावड' (कुमेरी) अशें म्हणटात. मुक्ती उपरांतच्या पयल्या दसका मेरेन हो शेत प्रकार अस्तित्वांत आसलो. रणमालें खेळाचें नातें हे कृशी परंपरेकडूनय जोडिल्लें आसा. सादारण फाल्गून म्हयनो लागलो काय हांगाच्या कश्टकरी मनशाक 'सवडी'चे वेध लागतात. शिगम्या दिसांनी गांवच्या

मांडार जमिल्ले जाण्टे अंदूं खंयच्या दोंगरार शेतां हाणपाची तें थारायताले. आनी वचपाचें निश्चित जाल्ल्यान सगले 'सावडी' आपापलीं आवतां (कोयत्यो, पाळ बी) पाजोवन तयार दवरताले. शिदो एकठांय जातालो आनी पाडव्याचे राती कडेन सगळे 'सावडी' एकठांय जमले काय देवळाच्या दारांत वा देवजकार गांवकाराच्या आंगणांत 'रणमालें' खेळटाले आनी दुसऱ्या दिसा शेतां हाणोक भायर सरताले. गांवच्यो देव-देवता प्रसन्न जावन आपल्या कामाक येस येवचें, शेतांनी बरो दाणो गोटो पिकचो म्हण ही परंपरा सुरू जाल्ली आसूंक जाय. अशेतरेन संवसार पाडव्याक संवसार फळ वाचवल्या उपरांत 'रणमालें खेळोन' कृषी परंपरा फुडें व्हरपाची परंपराय पुराय सत्तरी म्हालांत आसली अशें झर्मे गांवचे जाणकार सांगतात. अशे तरेन दोंगर माथ्यार वचून शेतां कसयली काय घरचे तटे आनी मुड्यो तांबड्या गुंज नासण्यांनी भरून वतात. गिमा दिसांनी पोरसांनी कांदे, मिरसांगो आनी तरेकवार शाक-भाजी हांगा पिकता. ती अनुराजाचे कृपेन अशी हांगच्या भौसाची श्रद्धा. आपल्या पोरसांक बरो फुलोर येवचो म्हण हांगाचो भौस श्रद्धेन अनुराजाची भक्ती करता. अनुराजा म्हटल्यार अन्नाची देवतां पोरसां - बागायती आनी शेतां भाटांची राखण करून तांची पोसवण करता. ही तांची श्रद्धा. 'रणमालें' करप म्हटल्यार देवाची सेवा. ती केल्यार गांवात धामी-पिडाबी येनात. शेतां भाटांनी बरें पीक येता. शेतां-भाटां बरीं पिकतात. नाल्ल - बोंडो बरो धरता. गांवांत 'रणमालें' करून घेतल्यार अनुराजा प्रसन्न जावन पोरसांतल्या वाली-मिरसांगाक बी बरो खासा रणमाल्याचो चंवर येता हे धारणेन सत्तरींतल्या मासोड्डें गावांत खेळ करून घेताले अशें त्या गांवचे जाणटे सांगतात.

पारंपारीक 'रणमालें' पळोवचे आसल्यार ते शिमग्या दिसांनी गांवच्या मांडारूच पळोवचें. ह्या खेळां वेळार सगळ्यो विधी करून मागीरूच 'रणमालें' सुरू जाता. मांडा कडले 'रणमालें' सादारण रातीन धा-इकरा वरांचेर सुरू जावन फांतोड मेरेन चलता. सुरवेक गांवचो देवजकार गांवकार मांडार 'रणमाल्याची तळी' काडून दवरता. हातूंन नाल्ल, विडो, फुलां बी आसतात. शेजाराक दिवली पेटोवन दवरतात. कांय गांवांनी रणमाल्याच्या दिसा तिनसांज जाता आसतना 'हाकाटी' दिवपाची परंपरा आसा. हाकाटी दिली काय गांवच्या सगळ्या लोकां मेरेन रणमाल्याचें आमंत्रण आनी संदेश पावता. ही हाकाटी परंपरेन देवाचो सेवेकरी नायक दिता. हाकाटी आयकून रणमालें कलाकार आपले तयारेक लागतात. मुस्तायकी, वाद्यां आनी हेर सामानांची जमवा-जमव सुरू जाता. जेवणां बी जालीं म्हणटकूच कलाकार मांडार येवंक लागतात. ते मेरेन देवजकार गांवकार आनी सेवेकारी नायक आपापली तयारी करून दवरतात. फातयेचे सगळे गाणेली आनी हेर कलाकार मांडार पावले काय रंग रंगवण सुरू जाता. पयलीं रणमाल्यातले मुखटें आनी हेर समानांची (वाद्यांची) गंध फूल घालून पुजा जाता. भोवतेक गांवांनी रणमाले कलाकार रंगोवपाचे काम आपलें आपूणच करतात.

पूण स्त्रिकलाकार, देवत्व फावो जाल्लीं पात्रां, राक्षसी वृत्तीची सवंगांची खाशेली रंगवण आसता. ती गांवचोच एकाद्रो तरणाटो करता. जशी रंगवण सादी तशीच रणमाल्यांतली भेसवणूय सादीच आसता ती गांवांत सहजतायेन उपलब्ध जाता.

रंगवण आनी न्हेसवण पुराय जाय मेरेन उमेदी कलाकार धोल वाजोवंक सुरू करतात. 'रणमालें' सुरू जावपाचें जालें हाची ही सुलूस. वाड्यांच्या आवाजान गांवची जाण्टीं-नेण्टीं मांडार येवंक लागतात. ते मेरेन गानेली न्हेसून तयार जातात. धोतीर खोमीस, कोरी वा कोट माथ्याक उरमल वा पगडी आनी खांदार दोनूय वटांनी सोडिल्लो शेलो असो भेस केल्ले गानेली फातयेक उबे राव मेरेन सगलो माटव गच्च भरिल्लो आसता.

रंगवण जाली काय मुखेल गानेली आनी साथीदार फातीक उबे रावतात. गानेल्यांची हीं फातीं म्हणल्यार आधुनीक नाटकांतलो पड्डोच म्हणल्यार जाता. गायनाक सुरू करचे पयलीं देवजकार गांवकार वा सेवेकरी नायक सगल्या कलाकारांक गंधाचो तिबो लायता आनी तांच्या हातात कासाळी दिता. हो तिबो म्हणल्यार त्या कलाकारांचो सन्मान ही परंपरा करंजोळ, आमगांव, गवाळी ह्या गांवांनी अजूनूय पळोवक मेळटा. उजवाडा खातीर कवादे वा दिवट्यो पेटोवन दवरपाची परंपराय पुर्विल्ल्या काळार आसली. ही सगळीं कामां गावच्या विशिश्ट वर्गा कडेन परंपरेन सोंपयिल्लीं आसलीं आनी सगळे लोक तीं उमेदीन करताले. गांवचो म्हालो लेगीत रणमाल्या दिसा सगल्या कलाकारांची कापणी, खाडा बी फुकट करतालो. ही परंपरा कणकुंबी ह्या गांवांत आयजूय पळोवंक मेळटा.

सगळी तयारी पुराय जातकूच मुखेल गानेली 'गोयना-गोयना' असो गजर करीत नमनाक सुरावत करता.

*परतम नमान गणपती*
*मगा नमल्या सरस्पती*
*पयलां नमान घालूं गणीसा देवा गा*
*दुसरां नमान घालूं सरस्पती माये*
*असां तिसरां नमान*
*तिसरां नमान घालू तीन मुर्ती देवा गा*
*सरस्पती शारदा खेळे रंगी माये*
*असो खेळ सो खेळिता गो माये जोगिण नाथा*
*सरस्पती शारदा खेळे रंगी माये*

अशे तरेन धोल कासाळ्यांच्या मधूर संगितात गांवच्या सगळ्या देव-देवतांक आनी शक्ती स्थानांक नमनां जातात. वाड्याच्या तालार गानेल्यांची फाती फाटींफुडें पावल्यो मारीत हालत धोलत रावता. आदिशक्तीच्या नमनां वांगडा गायतरी, धरतरी अनुराजा हांकांय नमनां जातात. रणमाल्यांत एकवीस नमनां घालपाची परंपरा आसा. कांय गांवांनी चोवीस नमनां घालपाची परंपरा आसा. रणमाल्यांत सुरवेक गणपतीच्या जल्माची जत गावपाची परंपरा आसली ती आतां भंगल्या. मात करंजोळ गांव शिगम्या वेळार सादर जावपी रणमाल्यांत गणपती जल्माची जत गावपाची परंपरा आयजूय सुरू आसा. नमनां जाली काय गणपतीचें रिद्धी-सिद्धी वांगडा आगमन जाता. भटमाम येवन

गणेशाची पुजा जाता. ह्या वेळार रिद्धी सिद्धी वांगडा गणेशाचो सुंदर नृत्याविश्कार सादर जाता.

*तुज्या पांयांतलें पैजण साजे रे गणूराया*
*शेंदूर करांतर साजे रे.*
*तुज्या हातीतल्यो बावकूऱ्यो साजे रे गणूराया*
*शेंदूर करांतर साजे रे*
*तुज्या कमरांतलो पटो साजे रे गणूराया*
*सेंदूर सोंडेवरी साजे रे*

अशेतरेन गणपतीचें गूणगान जातकीच रिद्धी सिद्धी आनी गणेश वतात. ते गेले काय गानेली शारदेची आराधना करपी जत सुरू करता. ते जतीच्या तालार शारदा जाल्ले पात्र गानेल्यांचे फातये मदल्यान आवेशान फुडें येता आनी नृत्याविश्कार घडयता. हो नृत्याविश्कार खुबूच सुंदर आनी लयबद्ध आसता. त्या वेळार सुत्रधार गीत गायता–

*शारदे सुंदरे गे शारदे सुंदरे गे*
*तूं मोरार सुवार जाल्या गे*
*तूं देवाचे देव सोबे आलय गे*
*शारदे सुंदरे गे.*

शारदा देवांचे देव सोबेक येयल्यात. तिका देवांची देवसभा मानवल्या अशे तरेचो उल्लेख फुडें येता. ह्या गितांत शारदेच्या अळंकारांचे वर्णन जाता ते प्रमाण ती नृत्याविश्कार घडयता. शारदेचो नृत्याविश्कार सोंपलो म्हणटकूच सुत्रधार फुडली जत सुरू करताः

*गणेस आला नाचून गेला*
*नेटयो आयो मां रणमाल्या हो*
*नेटयो आयो मां रणमाल्या*
*नेटयो आयो रे भला*
*राजाचो राजनेट्यो आयो मां*

हे जतीच्या तालार 'नेट्यो' हें पात्र 'भोंवरी' मारीत मारीत प्रवेश करता. सादारण गणपती सारकोच हाचो भेस आसता. कमराक धोतर, ताचेर कापडाचो घोळ, माथ्याक मुंडाशें ताचेर आंब्याचो ताळो खोयिल्लो आनी दोनूय खांदा वयल्यान सोडिल्लो शेलो असो ताचो पारंपारीक भेस आसता. फोडण पडलें म्हणटकूच नेटयाचें नृत्य थांबता आनी मुखेल गानेली (सुत्रधार) आनी नेट्यां मर्दी संवाद सुरू जाता. सुत्रधार नेटयाक प्रस्न विचारता आनी नेट्यो ताच्या प्रश्नाच्यो जापो दिता.

**सुत्रधार** : पावले पावली देवूच काय हो फलार फलार?

**नेट्यो** : न्हूं पावली देव फलार न्हू गा जाण्ट्या जाण्ट्या.

**सुत्रधार** : पावले नवी देवच काय हो नळवर्णा नळवर्णा?

**नेट्यो** : न्हू नळी देवच काय हो वडला वडला.

**सुत्रधार** : पावले धोपरी देवच काय हो धोलगदा धोलगदा?

**नेट्यो** : न्हूं पावले धोपरी देवच काय हो भाया भाया.

अशे तरेन सुत्रधार जांग, कमर, बोंबली, धन्नी, चपके, कोपर, गळो, खाडकी, ओंठ, तोंड, जीब अशी कुडीच्या सगळ्या आंगांचीं नांवां घेवन तूं ताचो देव काय म्हण विचारता आनी नेट्यो न्हूं अशी जाप दिता. तांच्या ह्या संवादाक रणमाल्यांत 'सपांदनी' अशें म्हणटात. सपांदनी सोंपतकूच जत परतून सुरू जाता.

*नेट्यो आयो रे भला*

*देवांचो देव नेट्यो आयो मां*
*नेट्यो आयो रे भला*
*सर्वय भोंवारी नेट्यो आयो मां.*

ह्या सोंगाविशीं जायत्या जाण्ट्यांक विचारून लेगीत हें पात्र कोण? हाची जाप मेळना. सगळे जाण एकूच सांगतात आनी नेट्यो आयले बगर 'रणमालें' फुडें वचना. हें 'धोंग' पुर्वापार रणमाल्यांत येता. 'नेट्यो' हें 'सवंग' तें धोंग न्हूं ताची नाचपाची तरा गोल गोल आसमता, तो आपले भोंवतणीं भोंवत नाचता. ताच्या माथ्यार आशिल्लो आंब्याचो ताळो रणमाल्याचो काळ आनी ताच्या गितांची निमणी वळ.

*नेट्यो आयो रे भला*
*सर्वय भोंवारी नेट्यो आयो मां*

पळयल्यार तो 'वसंत ऋतु' काय कितें? अशें दिसूंक लागता. पूण 'सपांदनी' आनी वाटकुळोच भोंवत भोंवत तो नाचपाच्या जाग्यार एक वर्तुळ पूर्ण करता तें पळयल्यार तो कार्तिकेय बी आसूं येता काय कितें? असो प्रस्न पडटा.

कोंकणांत रत्नागिरी, राजापूर, लांजा, ह्या वाठारांत 'नमन खेळे' हो लोकनाट्य प्रकार पळोवंक मेळटा. ह्या लोकनाट्यांत नमना वेळार 'धारकरी' मानवी पडद्याचे काम करतात. रणमाल्यांत गानेल्यांची 'फाती' आसता तशीच थंय वाद्यवृंद आनी गायन करपी कलाकारांची (धारकरी) फाती आसता. नमन खेळ्यांच्या सादरीकरणा वेळार जीं नमनां जातात तातूंत गणेशा उपरांत म्हादेव-पार्वती हीं 'सवंगां' येवन कथानक सादर करतात. तातूंन पृथ्वी प्रदक्षिणा करपी कार्तिकेयाचेंय सवंग आसता. ताचें नाचपूय सादारण 'रणमाल्यांतल्या' 'नेटवो' ह्या सवंगां भशेन आसता. पूण नेट्यो आनी रणमाल्यांतल्या सुत्रधारा मर्दी जी 'सपांदनी' जाता ते सपांदनीचो भाशीक नदरेन अभ्यास केल्यार त्या पात्राच्या संवादाचेर 'मारवाडी' भाशेचो अदीक प्रभाव दिसून येता. तात्पर्य 'नेट्यो' ह्या 'सवंगा'चो खोलायेन अभ्यास जावक जाय. रणमाल्यांत 'नेट्यो' येवन गेलो काय पुर्वरंग सोंपता. ह्या फोडणार गानेली आपली 'जत' बदलता आनी मध्यरंगाक सुरवात जाता.

मध्यरंगांत गानेली 'रामकथा' आनी पुराणांतल्या हेर कथानकांचें 'जती'च्या रुपांत गायन करतात. 'जत' हो रणमाल्याचो प्राण. ह्यो जती पुराय रातभर चलतात. मध्यरंगांत अमुकूच एक जत गावक जाय अशें ना. तरीय पूण मध्यरंगाची सुरवात चड करून 'श्रावण बाळाची जत' वा 'राम-लक्ष्मण' चे जतीन जाता.

*राम लक्ष्मण सिता तिगां जाणां*
*ती तिगां चालली निरंजन वना.*
*निरंजनी वनी जाऊन गुंफा रे बांदल्यो*
*गुंफा बांदल्यो खडये पाशाणाच्यो*
*सितेन हात ओडून केल्यो सवर्णाच्यो*
*गुंफेर काडली तियेन किरां आनी मोरां*
*सितेन काडली गुंफेर उड्टी रे पाखरां*

अशे तरेन रामाच्या वनवासाचे जतीन सुरू जाल्लें गायन जतीच्या रुपांत फांतोड मेरेन चलता आनी मुखार बशिल्लीं भुरगीं बाळां, म्हातारीं-कोतारीं तल्लीन जावन त्या आख्यानाचो आस्वाद घेतात. रणमाल्यांत

रामायणां वांगडा चिल्लया बाळाची जत, सामरीची जत, कणकीची जत, राण्याची जत बी गावपाची परंपरा आसा.

सुरवेच्या काळांत रणमाल्यांत 'धोंगां-सोंगां'बी येनासलीं. गानेली आपल्या गायनाचे ताकीर जतीचें कथानक प्रेक्षकां मेरेन पावयताले. काळांतरान जतींतले प्रसंग उठावदार जावचे, अदीक प्रभावीपणान ते प्रेक्षकां मेरेन पावचे ह्या उद्देशान जतींतल्या प्रसंगा प्रमाण 'राम-लक्ष्मण' त्राटिका ही 'सवंगां' रणमाल्यांतले माचयेर येयल्ली आसूंक जाय. रणमाल्यांतलो हो प्रसंग प्रेक्षकांक भावलो. तातुंतल्यानूच फुडें रणमाल्यांत नाट्य आनी संवाद बी आयले आसूंक जाय. देखून जतींतले गंभीर वा भयाण प्रसंग अती गंभीर आनी भयाण जावन सादर जावंक लागले. अशा वेळार गंभीर प्रसंगांतल्यान प्रेक्षकांक भायर काडचे खातीर रणमाल्यांत केन्ना तरी 'धोंग' हो प्रकार सुरू जालो आनी तो फुडें रूढ जालो. पूण कितेंय आसलें तरी 'सोंग' आनी 'धोंग' रणमाल्याची रंगत वाडयतात. रणमाल्यांतली सोंगां आनी धोंगां जरी एक अशी दिसलीं तरी तांचो वाच्च्यार्थ वेगळो आसा. रणमाल्यांतलें 'सवंग' म्हणल्यार पुराण कथांतलीं खास करून देवत्वाक पाविल्लीं आनी राकेशी वृत्तीचीं पात्रां आसतात. रणमाल्यान तांचोच उल्लेख 'सवंग' असो जाता. आनी आयच्या सामाजीक विशयांचेर जी प्रहसनां सादर जातात, तीं पात्रां म्हणटल्यार 'धोंगां'.

गणपती, शारदा, नेटयो, गोमाटी, राम-लक्ष्मण, सीता, गुरु रावण, त्राटिका हीं सगळीं 'सवंगां' जाल्यार म्हार, म्हालो, कुल्ल्याकार, तारी, घाडी, शिपाय, नुस्तेकार, दोन बायलांचो घोव हीं सगळीं 'धोंगा' आसतात.

गानेली जत गायत वता तेन्ना एकाद्या विशिश्ट प्रसंगार जतीचे फोडट पडटा आनी 'धोंग' मानवी पड्ड्यांतल्यान मुखार येवन फेर धरून नाचत प्रहसन सादर करता.

*आगो लांकडांक वयतना*
*तुकां भावोजी बलयता गो*
*तुकां भावोजी बलयता।*
*बरे पोलके घालताय म्हुणोन*
*तुका रुपया दाखयता गो*
*तुका रुपया दाखयता।*
*आबोल्याचो गोंड तुजे ताळयेर मुगो*
*चेडवा ताळयेर मुगो*
*आनी भाओजी बलता तुकां*
*माळयेर मुगो चेडवा माळयेर मुगो।।*

अशे तरेन रणमाल्यांतलीं 'धोंगां' फकांणा-चिकाणां करीत हांसयत खेळत प्रेक्षकांक चिमटे काडीत विचार करूंक लायता. प्रेक्षक गंभीर प्रसंगांतल्यान भायर सरलो म्हणटकूच जत परतून सुरू जाता अशीं तरेकवार 'धोंगां' रणमाल्यांत सादर जातात. हातून 'हेबाड' लोकांची याद करून दिवपी चित्रविचित्र भेस आनी रंगवण केल्लो चोट्टो हें धोंग सादर जाता.

*चान्ना सुखाचा काळखी दुखाची*
*चोट्टो पावले गांवा मर्दी हो*
*चोट्टे पावले गावां मर्दी*

जतीचें आख्यान सोंप मेरेन मर्दी जायतीं

धोंगां येतात ते मेरेन फांतोड फुटूंक लागता. आनी फांतोड पारार कोंब्याच्या सादार 'गोंधळ' सुरू जाता.

*गोंधळ घातयालो देवळाचे द्वारी*
*तुकोबा दुवारी मां*
*ब्राम्हणी माये गोंधळा येई मां*
*तुकोबा दुवारी मां*
*सातेरी माये गोंधळा येई मां*
*तुकोबा दुवारी मां.*

अशे तरेन सगळ्या देव-देवतांक आनी गांवचे सुप्त शक्तींक आमंत्रणां वयतात आनी तांचे साक्षीन दिवट्यांच्या उजवाडांत गोंधळ सादर जाता. ह्या गोंधळा खातीर जे काकाडे लागतात तें करपाचे काम देवाचो सेवेकरी करता. हे पेट्टे काकाडे देवाच्या पांयाकडेन दवरून गोंधळ सोंपता आनी गानेली जत सुरू करता.

*चवथीचो चंद्रीम रमण पारा*
*उठा गा देवानो जावया घरा.*

अशे तरेन फांतोडेर 'रणमालें' सोंपता.

शेंकड्यांनी वर्सांची परंपरा आशिल्लें 'रणमालें' लोकनाट्य खऱ्या अर्थान तिगोवन दवरलां तें दोंगरी सत्तरी वाठारांतल्या आनी घांट माथ्या वयल्या लोकांनी. आयज आधुनीक युगाचे नदरेन हो वाठार आयजूय अविकसीत आसा. टीव्ही वा हेर माध्यमांचो त्या वाठाराचेर अजून तितलो सो प्रभाव नाशिल्ल्यान पुर्वापार चलत आयिल्ल्यो परंपरा आनी रिती रिवाज थंयच्या भौसान तिगोवन दवरल्यात. रणमालेंय तेका आडवाद ना. परंपरेन गांवच्या मांडार चलत आयिल्लें हें लोकनाट्य मनोरंजना वांगडाच धोंगाच्या माध्यमांतल्यान थळाव्या समाजीक प्रस्नांचेर भाश्य करता. हें जरी खरे आसलें तरी आधुनिकतायेच्या झगमगाटांत तें शेणत चल्लां हें मान्य करचेंच पडटलें.

रणमालें ही आमची परंपरा, दायज आनी जाणट्यांची मिरास. ती तिगोवन दवरप ही काळाची गरज. ते खातीर आधुनीक काळाच्यो गरजो, वेळाचें बंधन हांचो विचार करून रणमाल्याक नवो साज चडोवपाची गरज आसा. मात हें करतना रणमालें लोकनाट्याच्या अनुबंधाक खंयच बादा येवची ना हाची काळजी घेवची पडटली. ते खातीर शासकीय आनी गैर शासकीय पातळे वयल्यान यत्न जावक जाय. हें करतना रणमालें कलाकारांक प्रशिक्षण आनी प्रोत्साहन मेळूंक जाय. सगळ्योच गजाली सरकार दितलो म्हण रावचे परस थळाव्या गैर सरकारी संस्थांनी फुडाकार घेवन सरकाराच्या आदारान हें कार्य करूं येता. आयज गोंयांत 'तियात्र अकादमी' तियातिश्तांचे प्रस्न, अडचणी बी मतींत घेवन तियात्राच्या विकासा खातीर कार्यरत आसा. तशीच एखादी संस्था 'लोकनाट्याच्या मळार घडोवं येता. तशें जर जालें तर रणमालें, जागोर, लळीत, भरणूल सारकिल्लीं लोकनाट्यां सादर करपी कलाकार आनी संस्था एकठांय येवन लोककलांच्या मळार आयिल्ली मरगळ निश्चीतपणान पयस करूंक शकतली. हाचेर सगळ्या लोक कलाकारांनी आनी संस्थांनी एकठांय येवन विचार करूंक जाय.

000

मंथन

(लेख)

रजनी अशोक भेंब्रे

# आयचे स्थितींत बालसाहित्य

विचारवंतांचे नदरेन घर ही भुरग्यांची मुळावी शाळा. हांगा भुरग्यांची मुळावी जडण-घडण जाता. तांचेर मुळावे संस्कार जातात. बाल साहित्याची सुरवात लेगीत घरांतल्यानूच जाल्या. तिवूय बी मौखीक पद्दतीन. आजे-आज्या कडल्यान, घरांतल्या जाणटेल्यां कडल्यान, लोकांकाणयो, माणकुल्यांक जेवयतना, खेळयतना, न्हिदयतना म्हणपा खातीर रचिल्लीं बडबडगितां, आल्लयो, सवऱ्यांच्यो, चांदीमामाच्यो, गोरवां-वासरांच्यो, फुलपाक्यांच्यो काणयो ह्यो खरें म्हणल्यार बालसाहित्याची बुन्याद. जंय एकवटीत घराबे आसात आनी जाणटेल्यांक मानाची सुवात आसा. थंय अजून लेगीत हें मौखीक बालसाहित्य अणभवूंक मेळटा.

पूण काळ बदल्लो आनी जें मौखीक बालसाहित्य आसलें, कांय प्रमाणांत अजून लेगीत आसा, ते ल्हवू-ल्हवू फाटीं पडूंक लागलें. कारण देड वर्सांचें/दोन वर्सांचे / अडेज वर्सांचें माणकुलें भुरगें फाटीर पुस्तकांचें वजें घेवन इश्कोलांत वचपाक लागलें. मौखीक बालसाहित्य जायच पूण आयच्या भुरग्यांचे मानसिकतेचोय आमकां आयचे घटकेक विचार करूंक जाय. म्हणून बालमानसशास्त्राचेर विचार जावंक लागलो आनी प्रामुख्यान बालमनाचो विकासाचो पांवडो, आत्मसात आनी ग्रहण शक्तीचो पांवडो, हाचो विचार जावपाक लागलो. आनी वयोमाना प्रमाणे बालसाहित्याची रचणूक जावची म्हूण विचारवंतांचे नदरेन बालकांचे तीन गट तयार जाले.

1) शिशू गट – 4 ते 8 वर्सां पिरायेचीं भुरगीं.

**रजनी भेंब्रे** : जल्म : 1946, कथाकार, बालसाहित्यकार, 'घुस्मट' हो कथासंग्रह आनी डजना वयर बालसाहित्याचीं पुस्तकां प्रकाशीत. *'हांणी घडयलें गोंय'* आनी *'गोंयचीं माणकां – मोतयां'* हीं तातूंतलीं दोन भोव म्हत्वाचीं. गोंय सरकाराच्या समाज – कल्याण खात्याचो 'यशोदामिनी' आनी कला आनी संस्कृती खात्याचो 'कला गौरव' ह्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडें संस्थेच्या बालसाहित्य पुरस्कारानय सन्मानीत. मो. : 9822486955.

2) बाल गट - 8 ते12 वर्सां पिरायेचीं भुरगीं.

3) कुमार गट - 12 ते 16 वर्सां पिरायेचीं भुरगीं.

अशा गटांनी प्रामुख्यान तांची-तांची वैचारिक पातळी विचारांत घेवन बाल साहित्याची रचणूक जावची अशें साहित्यीक विचारवंतांचें मत जालें.'

1) शिशू गटाक सोंपी भास, ल्हान - सान वाक्यांची रचणूक माऊ-चिऊ, कुतू, फुलपाखुली, प्राणी आदी मनापसून भावतात. शिशू गटांत - चित्ररुपी काणयांक, गितांक शब्दा परस चड म्हत्व प्राप्त जालां. कारण शिशू गटांतल्या भुरग्यांची मानसिकता पळोवनच बालसाहित्याची रचणूक केल्ल्यान तांकां साहित्याची गोडी लागपाक चड आदार जावपाची शक्यताय. शब्द थोडे पूण चित्रां चड.

2) बालगटाक अद्‌भूत साहित्यच चड भावता. परीकथा, लोककथा, चेटकीण, राकेस, सैमाचेर आदारीत साहित्य, रानटी मोनजात, गांवठी मोनजात, सवर्णी, न्हंयो, समुद्र आदीचेर रचिल्लें साहित्य.

3) कुमार गटाक साहस + शौर्य तशेंच संवसाराचें वास्तव्य चित्रण कथा + कादंबऱ्यानी आवडटा.

सर्व सादारणपणान आयज मेरेन आमी हेंच सत मानीत आयल्यांत. आयचे घटकेक जो आमुलाग्र बदल घडपाक लागला. तसो बालसाहित्यांत बदल घडपाक लागूंक ना.

एका काळार भुरग्यांच्या जेवणाच्या ताटांत शीत, हुमण, भाजी चडांतचड तळिल्लें नुस्तें आसतालें. पूण आतांच्या भुरग्यांच्या ताटांत - शीत, हुमण, भाजी हाची सुवातच बददल्ल्या. आतां चिकन, चिकन फ्राय, चिकन टिक्का, बर्गर, फ्रायड रायस, सूप, बिर्याणी एक आनी दोन न्हय. जण एका भुरग्याची आवड-निवड वेगवेगळी जाल्या. हो बदल घडला.

पेड्यां-गड्डो, घुलांनी, कोयंडेबारांनी, लंगडी, लिपचेल्यांनी, ताबलांनी, मिठ-फळयांनी खेळ बदलले आनी तायकोंडो, काराटे, फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, क्रिकेट हांका पेंव फुटले.'

भुरग्यांच्या हातांत - जाव तो 3 वर्सांचो जाव 8-10-15 वर्सांचो, ताच्या हातांत मोबायल, वॉट्सॲप आयले. इंटरनॅटान सगळो संवसार, शिशू, बाल आनी कुमार गटा मुखार उगडो जालो. जेन्ना आख्खें विश्व बालकां मुखार उगडें जालें तेन्ना बाल मानसिकतेच्या चक्राक नेटाचो धपको लागलो. आनी त्या चक्रान इतल्या नेटान गती घेतल्या की भुरग्याच्या मानसशास्त्राचे आकलन शक्तीच्या भायर तांकां सुविधा प्राप्त जाल्यात.

अश्या वेळार आमचें बालसाहित्य आसा - थंयच आसा जे आमुलाग्र बदलाची वाट पळयता.

भावना, विचार, प्रतिभा हांणी व्हड झेप घेतिल्ली आसा. तांचे मेरेन आमच्या बालसाहित्याचो कस लागप कमी जाता.

आदलें बालसाहित्य आनी आतांच्या ह्या धा वर्सांचे बालसाहित्य रचणुकेंत बदल जाल्लो दिसना. जो जावप अत्यंत गरजेचो जावन आसा. साहित्य म्हणल्यार एक साधन जें मनशाचे संस्कृतीच्या संदर्भांतल्यान प्रज्ञा आनी प्रतिभेचो दिश्टावो घडयता.

स्पश्ट उलोवचें जालें जाल्यार 'अजून मेरेन बालसाहित्य 'तितलो कोको, तितलें मेमें' हातुंतच घुसपून उरलां. हालींसराक इल्लो - इल्लो बदल जावपाचो यत्न जाता. कल्पनाशक्ती आनी संवेदनशीलतेचो प्रखरपणान उणाव जाणवता.

बालसाहित्याची आयची स्थिती समाधानकारक ना. कारण – सोंपी भास, भुरग्यांचे कल्पनाशक्तीक चालना दिवपी कल्पीत कथा, कल्पनारम्य साहित्य, बालसाहित्य, कुमार साहित्य, लोक साहित्य, विज्ञान साहित्य, ग्रामीण साहित्य, प्रादेशीक साहित्य, स्थानीक साहित्य, (अत्यंत गरजेचें) राष्ट्रीय साहित्य (अत्यंत गरजेचें), संगणक साहित्य, संपर्क माध्यम साहित्य (कुमार गट) खेळां साहित्य, भुरग्यांक भाव सारकीं नेमाळीं, दिसाळीं. अशे तरेचीं साहित्यीक दालनां रितीं आसात. कांय प्रमाणांत साहित्य उपलब्ध आसा पूण ताचें प्रमाण साप कमी.

आयचो बालक फुडाराचो सुसंस्कृत आनी जागृत नागरीक जावून आपलें कर्तव्य पुराय करपाक फाटीं उरूंक जायना म्हण हें नदरेन विचार करतनाच रितीं दालना पुराय करूंक जाय तीं अशीं आसात : राष्ट्रीय तशेंच शिक्षणीक पुस्तकांचो उणाव नदरे सामकार येतनाच तातूंत शूरवीर, शास्त्रकार, संत गुरू, लोकनेते, व्हड-व्हड वेपारी, राष्ट्रीय प्रबोधनकार, भारतीय एकात्मता, तीर्थथळां, भौगोलीक, इतिहासीक नदरेन म्हत्वाचीं थळां, शिक्षणाक आदार म्हणूनय अशे तरेच्या साहित्यीक पुस्तकांची गरज आसा.

भारतीय भुंये बद्दल आदर, सहकार्याची भावना, विश्वप्रेम, म्हान मनीस, अध्यात्म, योग, अंधश्रद्धा, आस्तीक-नास्तीक अशें तरेच्या विशयांचें लिखाण बालसाहित्यांत साप कमी आसा. कुमार गटांत असले तरेच्या साहित्याची चड गरज आसा. आख्ख्या संवसारांत भारतीय संस्कृतीक मानाचो पाट फावो जाला तो सांबाळपाची लागणूक कुमार साहित्यांतल्यान मनार बिंबोवपी साहित्य आमचे कडेन कमी आसा.

साहित्याचे सटसुटीत व्याप्ती खातीर लोकसाहित्यांत मुखेलपणान बालगटा खातीर लोककथा, बोधकथा, नितीकथा, परिकथा, दंतकथा, बडबडगितां, म्हणीचो आसपाव आयच्या समयार कमी मेळटा. ताका लागून शिक्षणीक मळार पावला – पावलाक आडखळी निर्माण जातात. शिक्षणीक अभ्यासक्रमांत योगाक म्हत्व दिल्लें आसा. जें खास करून खेळां मैदान आनी एकाग्रते खातीर उपेगाक येता. काळाची गरज म्हणून अंधश्रद्धा, आस्तीक, नास्तीकाचेर लिखीत बाल साहित्याचो उणाव भरून काडचो आसा. अशे तरेचें साहित्य सापच ना.

सध्याच्या अतीप्रगत काळांत भारतीय

संस्कृतीचीं कांय मुल्ल्यां कालबाह्य जाल्यांत अशें दिसलें आनी कांय प्रमाणांत तातूंत तथ्य आसा शें मानलें तरी विविधतेंतल्यान एकवट कसो सादूं येता हाचेर बालसाहित्याचो सध्याचे स्थितींत उणाव आसा. कुमार साहित्यांत ताचो आसपाव जावप गरजेचो.

संवेदनशील असो समाजीक विशय हो खास करून बालसाहित्यांत येवुंकूच जाय. हो विशय शिशू गट, बाल गट आनी कुमार गट अशा तिनूय गटां कडेन संबंदीत.

आदले तेंपार रासवळ कुटुंबां आसतालीं. जंय आजो-आजी, काका-काकी, भावंडां, बापोल भावंडां, आका, मावश्यो, मामा-मामी मर्दी भुरगीं व्हड जातालीं. एकामेकां मर्दी मोग-माया, आदार, सहकार्य, अडी अडचणी वा केदीय व्हडली समस्या निर्माण जाली जाल्यार भंया विरयत भुरगेपण सांगातान सारतालीं. पूण अचकीत समाजीक बदल घडलो - व्हड उलथापालथ जाली. चक्र घुंवलें. इतले गतीन घुंवलें आनी एकत्रीत घराबे खिणां भितर विस्कळीत जावपाक लागले. जाणटेल्यांचे मांडावळींत अडगळ जावंक लागली. शिर्विशेच्या निमतान आवयबापूय भायर. बालमनाचेर एकलेपणाचो जाता तो परिणाम चिंतपाक कोणाकूच वेळ ना. हातुंतल्यान कितल्योश्योच वायट घडणुको घडपाक लागल्यात.

बालसाहित्य हाताळपी लेखकांची अशा ह्या गंभीर आनी काळजाक हात घालपी विशयाचेर लिखाणाची गरज उप्रासल्या, कांय नां? हो चिंतनाचो विशय जावन आसा. हाचेर खोलायेन चिंतन-मनन जावंक जाय.

भुरग्यां मर्दी कार्यक्षमता कमी जाल्या काय कितें? असो एक सूर आयकूंक येता. आयजवेर बालसाहित्याची रचणूक जायत्या लेखकां कडल्यान जाल्या, जायत आसा. बाल लेखक साप कमी प्रमाणांत लेखन करतात. शिशू गटाक समजूं येता पूण बालगट आनी कुमार गटा कडल्यान आमच्यांनी अपेक्षा बाळगूं येता. पूण इंटरनॅटां वयल्यान भुरग्यांक जाय तें साहित्य सहज रितीन उपलब्ध जाल्ल्यान भुरग्यांची सृजनशक्ती कमी-कमी जायत वता काय कितें? तांकां सगळें आयतें, त्रास करिनासतना, विचारांक गती दिनासतना मेळत आयलां. जें मेळटा तें चूक काय बरोबर हें लेगीत तीं चिंतपाक वचनाशीं दिसतात.

आयज - काल सर्रास आमकां दिसता घटस्फोट, आवयबापायचें पटप ना, मार-झोड, शिर्विशेंच्या वेळापत्रकाचो भुरग्यांचेर जावपी वायट परिणाम, एकसुरेपण आनी ताचो परिणाम, सैरभैर जावन, वायट संगत, वायट विचारांक पोसवण मेळप. आमच्या आधुनीक काळांत भुरग्यांच्यो कैक समस्या तोंड आं करून तांच्या सामकार उब्यो आसात. ह्या सगळ्यां समस्यांचे ते वांटेकार जातात.

जर तांणीच त्यो मांडपाचो यत्न करीत तर तांच्या मनांतलो घुसमटमार, मनो विश्लेशण बरे तरेन लिखीत साहित्य जाव येता. दर एके समस्येचेर बरी बालकथा,

बरी नवलिका, बरी कादंबरी जावं येता. स्वताच्या अणभवान बरयिल्लें लिखाण संवेदनशीलतेचें वास्तवीक चित्रण जावं येता. बाल साहित्यीक आपसूकच घडूंक शकतात. आयच्या समयार हाची कमी आसा.

बालसाहित्यांतल्या कुमार गटाक भुरग्यांचे परिसंवाद, बालसाहित्य संमेलनाचें आयोजनाची जापसालकी दिवंक जाय. स्वतंत्र विचार करपाक बालसाहित्यिकांक प्रोत्साहन दिवन तांची उर्बा वाडोवचे खातीर सैम भोंवडी सारक्या प्रोग्रामाच्या आयोजनाची जापसालकी दिवंन सैमाच्या गोपांत सोडूक जाय. तातुंतल्यान थोडे तरी बालसाहित्यीक मुखार येतले. ज्यांच्या हातांतल्यान बाल साहित्याची रचणूक जातली हो हावेस बाळगूं येता.

भुरग्यां मर्दीं कार्यक्षमता कमी जाल्या व्हय? हाका जाप दितनाच हांव म्हणन आयचे भुरगे सगळ्या दिकांनी मुखार पावलां मारूंक लागलां. तांचे खातीर खुंबर्शीं मळां उक्तीं जाल्यांत. विज्ञानान भरारी मारल्या. नवे-नवे सोद लागल्यात. नवीं-नवीं खेळणी बाजारांत पावल्यांत जी नव्या विज्ञानाची सुलूस दाखयतात. वचत थंय आधुनिकीकरणाचो भास जाता. अश्या वेळार भंयाची कीट दिसता, ती म्हणल्यार –

आयची सान पिळगी कितलीय हुशार आसली, नव्या-नव्या आव्हानांक आपणावन फुडें वचपाचो यत्न करपी आसली, युगपरिवर्तनां प्रमाण आपणां मर्दीं बदल घडोवपाक तयार आसलीं तरी आमचे संस्कृतायेचो तांकां विसर पडूंक दिवंक जायना. मळबांत उडटना आमचे पांय जमनीक लागुंकूच जाय अशे तरेची धारणा आनी विचार जावपाचें लिखाण आमच्या बालसाहित्यांत साप उणें आसा.

हुशारी, मोग, माया, इश्टागत, नितीमत्ता, शक्त, फटींगपणां, फाजील विस्वास, कुड्डो भंय, करणी तशें फळ, जैताची कुंजी, आळशाक पानवळ, आपले काम उणाकपणाचें नासता, कामाचें म्हत्व, जाणटेल्यांचो मान-सन्मान ह्या गजालींचें भान दिवपी बालसाहित्याचो प्रामुख्यान उणाव आसा.

आनी निमणें अस्तंती देशांनी खूब आर्दी सावन बालसाहित्य निर्मितीचेर विचार केला. तसो विचार जावन भुरग्यांच्या साहित्याचो कोंकणी भाशेंत अणकार जावन तीं पुस्तकां तांच्या हातांत पडूंक जाय जें बालसाहित्य आमच्यांत ना, जाची निर्मिती करपाक आमी कमी पडटात ताचें लुकसाण भुरग्यांक बांदूक जायना. हेर भासांतलें उंचेल्या दर्जाचें बालसाहित्य आमच्या भुरग्यां मेरेन पावंक जाय.

म्हजे विचार हांवें बालसाहित्याची आयची स्थिती इतक्या पुरती मर्यादीत दवरल्यात. बालसाहित्या मुखार फुडाराचीं आव्हानां खातीर वेगळे विचार आमचे मुखार येतले.

आमी चडांत चड आशावादी जावया आनी बालसाहित्याचो रथ वेगवेगळ्या उपक्रमा वरवीं मुखार ओडपाचो यत्न करुया.

000

# ग्रंथदालन

(पुस्तक परिक्षण)

वसंत सावंत

## धुमक्यार धुमके : दुखनात तर खातकुतल्यो करतात

हालींच्या वर्सांत कोंकणींतलें विनोदी साहित्य म्हणना फुडें सगळ्यांत आदी नांव येता तें कृ. म. सुखटणकारांचें. वेगवेगळ्या अंकांतल्यान, दिसाळ्यांतल्यान तांणी जें बरप केलां तें लक्ष ओडून घेवपी आसा. कोंकणींतल्या विनोदी साहित्याचो उणाव भरून काडपी बरप करून कृ. म. न जण एका वाचप्याच्या काळजांत एक खाशेली सुवात जोडल्या. समाजांत पावला पावलाक दिसपी वेगवेगळ्या थरा वयल्या लोकां मदीं आशिल्ल्या गुणा-अवगुणांचेर व्यंग करपाची तांची कळाशी खऱ्यांनीच तोखणायेची. एकाद्रो विशय केळयतना आपली खुसखुशीत शैली वापरून, मदींच त्रोसां, मदींच चिमटे, तत्वगिन्यान, शायरी हांची भरसण करून ते विशयाक न्याय दिवपी असो विनोद सहजपणान निर्मितात.

अश्याच विनोदी लेखांचें संकलन आशिल्ल्या चिमटे-धुमके, धंयार धुमके ह्या तांच्या पुस्तकांकय वाचप्यां मदीं बरो येवकार मेळ्ळा. धुमक्यार धुमके हें तांचें तिसरें पुस्तकय तेच कुळयेंतलें. संवसारीक विनोदी साहित्यांत अशें कांय विनोदी साहित्यीक आसात जांणी आपणाचेरूच व्यंग केलां. प्रथम पुरुषी निवेदनांतल्यान वेगवेगळ्या प्रसंगांक विनोदी वातावरणांत फुलयतना कृ. म. त्या व्यंगांत आपणाकूय भरशीक घेता. ते खातीर ती निंदा - नालस्ती दिसनासतना दिसपट्टे जिणेंतले अणभव कशे दिसपाक लागतात. विनोदाचो दर्जो आनी सातत्य सांबाळप हें भोव कठीण काम, कृ. म. न दर एका बरपांत

**वसंत सावंत** : जल्म : 1960, कथाकार, आनी नाट्यकर्मी 'निवल काणयो' हो कथासंग्रह तशेंच 'कीर-मोर' हो बालकवितांचो संग्रह प्रकाशीत. कला अकादमी, गोंय संस्थेच्या साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : रविन्द्र भवन, कुडचडें, गोंय 403 706. मो. : 9423058318

आपलो तोल वेवस्थीत सांबाळिल्लो दिसता. बरोवप्याचें कुटुंब, तांगेर वावर करपी मानाय – कामेरीं, शेजारी – पाजारी, इश्ट, ताच्यो इश्टिणी, गोरवां, सुर्णी हीं तागेलीं सदचीं पात्रा ह्यावूय पुस्तकांतल्या लेखांतल्यान आदलेच तांकीन उबीं जाल्लीं दिसतात. तांचे सभावगुण वाचप्यांक खबर आशिल्ल्यान वाचपी आपसूक कृ. म. च्या संवसारांत समरस जातात.

'धुमक्यार धुमके' पुस्तकांत एकूण 24 (चोवीस) लेखांचो आसपाव आसा. मिश्कील, नर्म विनोद, गरज पडटा थंय त्रोसां मारपांचे ताचे शैलीक लागून कृ. म. चे सगले लेख वाचप्यांच्या तोंडार हांसो हाडपाक जैतिवंत जाल्यात.

'अध्यात्म' लेखांत बरोवप्याची घरकान्न घोवाक 50 वर्सां जाल्ल्यान अध्यात्मा कडेन वळपाची सुचोवणी (धमकी) दिता. (तिवूय बी तव्यार कल्लेचे कुडके तळटना). मनाचो घुसपागोंदळ जाल्लो बरोवपी इश्टा सयत गादयेर (सोऱ्याचे) बसून ह्या विशयाक हात घालता.

सावळो आनी दत्ता ताका वेगवेगळ्यो देखी दिवन अध्यात्म ही सादी गजाल न्हय म्हणपाचें पटोवन दितना आनिकूय घुसपावन उडयतात. अध्यात्माची पयली पायरी म्हणून ताका ते ध्यान घालपाक सुचोवणी करतात तेन्ना ताका 'ॐ' दिसपा बदला बरडालें संध्या दिसता, पवरिचे हायवेवयले नायजेरियन दिसतात; आनी शेवटाक अध्यात्माक पिराय लागना तशी सुवातूय लागना हें पट्टकीर सगले गादयेरूच चिअर्स करतात.

'आमची विनोद बुद्धी' ह्या लेखांत गोंयकारांच्या आंगांत कसो विनोद भरला आनी तांच्या दर एका वाक्यां भितर उपहास कसो लिपिल्लो आसता हें वेगळ्या वेगळ्या प्रसंगा वयल्यो देखी दिवन दाखयलां.

'एकला चलो रे' ह्या लेखांत गुरुदेव टागोरांच्या ह्या स्फुर्ती गिताक पाळो दीत बरोवप्याकूय वाट कशी तांकची पडटा तें वेगवेगळ्या घडणुकांचेर भाश्ये करून मिश्कीलपणान मांडलां.

'काळ' लेखांत व्याकरणांतले काळ शिकतना आनी भुतकाळांत वेळावेळार वावुरतना ताचेर कसो काळ आयलो, तशेंच भविश्यकाळ सपनेतना निमाणें कोणाकोणाच्या वांट्याक कितें कितें आयलें हाचें विवेचन भोव रंजक जालां.

'कोल्ल' लेखांत दुसऱ्याक अडचणीत हाडपी प्रस्न विचारतकीर कोणाकोणालें कोल्ल कशें चाळवलें हाच्यो नर्म विनोदी देखी दिल्यात.

''कौन अपना कौन पराया'' लेखांत आपलीं मनशां, सामकीं घरचीं मनशां, परकी मनशां, रगताचीं मनशां हीं नातीं कशीं कशीं बदलतात हें दाखोवपाक बरोवप्या कडेन विनायक मेस्त, बरडालें संध्या, नलू (मेवणी), आगंतूक आयिल्लो सोयरो, रेखा हुवळीकार (वर्गइश्टीण), वेगवेगळ्या प्रसंगार कशीं वागलीं, हें आपले खाशेलें शैलींत विसकटावन सांगतना कांय चिंतपाक लावपा सारके शेरे मारल्यात.

'खीण आनी खिणां' लेखांत बरोवप्याचे जिणेत याद उरिल्ले खीण आनी त्या त्या खिणावेळार अपमानीत जाल्ल्यान जाल्लीं यादीचीं खिणां विनोदी ढंगांत भोव कलाशेन मांडून ह्या विशयाक न्याय दिला.

'डाकीया डाक लाया' लेखांत पंचवीस वर्सां आदीं पोस्ट आनी पोस्टमनाचो आमचे जीणेकडेन कितलो आपुलकेचो संबंध आसलो आनी संपर्क माध्यमांच्या प्रसारांत वाढ जाल्ल्यान आदली ती मजा आनी आपलेपण कशें सेणलां तें दाखयलां. ह्या लेखांत तार बी धाडटना भाशेच्या ज्यो भोयो जाताल्यो ताची उदाहरणां वाचतना मजा येता.

'स्वच्छ भारत अभियान' राबोवपाच्या उल्याक पाळो दितना महिला मंडळाची अध्यक्ष ह्या नात्यान बरोवप्याची घरकान्न नितळसाण घराकडसून सुरू करपाची घोशणा दिता. प्रत्यक्षांत नितळसाणीच्या वावराक सुरू जातगीर बरोवपी कसो कसो अडचणींत पडटा; आनी निमाणे आवयल्या बकच्छायेच्या उतरांतल्यान ताका माघार कशी घेवची पडटा हें अतीशय मिश्कील पद्धतीन 'नितळ घर अभियान' ह्या लेखांत दाखयलां. (हो लेख वाचतना 'वागळे की दुनियां'तलो श्रीनिवास वागळे दोळ्यांमुकार आयले बगर रावना.)

'न्हवरो म्हाका जाय' ह्या लेखांत बरोवप्याच्या वांगडच्या चलयांच्यो आपल्या न्हवऱ्याविशींच्यो अपेक्षा आनी प्रत्यक्षांत तांच्या वांट्याक आयिल्लो विरोधाभास अतीशय मार्मीक उतरांनी चित्रायला. (पी. केशवदास ह्या मल्याळी कथाकाराची ह्या विशयाचेर अतीशय सुंदर अशी गंभीर कथा आसा. त्याच उपहासाक विनोदी रुपय कशें मेळूं येता हाची प्रचिती हो लेख वाचतगीर जाली.)

'बुफे' विशयावेल्या लेखांत बुफे आमचे जीणेंत कितलो खोलायेन रिगला, बुफेक लागून मेळपी सोपेपणां आनी अडचणीं हांचो वेध घेवपी विनोद भोव रुचीक जाला.

'भुतां' लेखांत आपूण शेळे नक्षत्राची जाल्यान आपल्या घरांत भुतां पळोवपाची नदर आपणाकच मेळिल्ल्याचो अभिमान बाळगुपी बरोवपी, ताका फूस दिवपी घरचीं, भुतांविशीं लोकांच्या मनात आशिल्लो वेगवेगळो भैरोजोळोप, समज - अपसमज, हाचेर विनोदी उतरांनी उजवाड घातला. घरचीं जांव सोयरीं, तांचो संबंध भुताकडेन जोडून बरोवप्यान ह्या लेखाक वेगळ्याच पांवड्यार पावयला.

'भुल्लुसप' ह्या लेखांत वेगवेगळ्या प्रसंगार बरोवपी कसो भुल्लसलो आनी हांस्याची विशय जालो ताची वळेरी दिल्या. बरोवप्याभशेन ताचो बापूय आनी सुणोय कसो भुल्लशिल्लो तें वाचतना हांसो फुलता. 'म्हाका तें कित्याक जमना' ह्या लेखांत अडेच्या धाडसाक लागून बरोवपी कसो कसो त्रासांत पडला आनी साध्या साध्यांक जमता तें आपणाक कशें जमपाक पावना हो न्युनगंड कसो उत्पन्न जाला हाची मिश्कील फोडणीशी केल्या. 'यादी' लेखांत आपल्या विसरभोळ्या सभावाक लागून परिक्षेच्या वेळार, नाटकांत पार्ट करतना,

अश्या कांय प्रसंगांचेर बरोवपी कसो त्रासांत पडला हें सांगतनाच आपणाली याद सामकीच ना जाल्या काय आपूण संतपदाक पावलां हो प्रस्न आपणाक पडला अशें म्हणत विनोदाच्या दर्जाक उंचाय दिल्या.

'ये जो मोहब्बत है' ह्या लेखांत मोग करून लग्न जावचो म्हूण बरोवप्यान केल्ले उपद्व्याप आनी निमाणें सोयरगतच करून लग्न जावपाची आयिल्ली पाळी हें आपणाचेरूच व्यंग करून खुलोवन सांगलां. रसिकतेची (?) नदर आशिल्ल्यांचेर (गैर समजांतल्यान) कसले कसले आळ येतात हे 'रसिक' लेखांतल्यान सांगतना जायत्या जाणांच्यो खातकुतल्यो करपी देखी दिल्यात जाल्यार 'आमच्यो रुची आनी जेवणां' ह्या लेखांत गोंयकारांच्या रुचींच्यो पती दितना वखदांत लेगीत रुचीची मजा कशी घेवं येता तें मिश्कीलपणान मांडलां.

'रेफोर्मार गोंयकार' लेखांतल्यान रिटायर जाल्लो मनीस घरच्यांचे नदरेन कसो वेळारशुन्य थारता हो गंभीर विशय मार्मीक उतरांनी मांडला. 'लग्न' लेखांत जायत्या जाणांच्यो देखी दीत बरोवप्यान आपणाल्याय लग्नाची कर्मकाणी सांगल्या, जाल्यार 'वाज येता तेन्ना' ह्या लेखांत वाज हो कोणाक, खंय, केन्ना आनी कसो येवं येता हें जायत्यो देखी दीत खुलोवन सांगलां.

'वातावरण निर्मिती' लेखांत वेगवेगळ्यो गजाली करचे आदीं वातावरण निर्मिती करची पडटा हें दाखयतना कांय मजेशीर प्रसंगांचेर उजवाड घाला.

एकलो बरे भावनेन एक गजाल सांगना जावं करना पूण दुसरो ताचो भलतोच अर्थ काडून ताका कसो 'सवंग' करून सोडटा हाची सुरबूस देख सवंगां लेखांत मेळटा.

'साडेसाती' हो ह्या पुस्तकांतलो निमाणो लेख. आपणाक जमना अशी गजाल करपाची पाळी येतकीर ती साडेसाती फाटीक लागिल्ले भशेन जाता हें सुत्र धरून ह्या लेखांत वेगवेगळे प्रसंग खुलयल्यात आनी दर खेपे आपूण कसो कसो त्रासांत पडलां ताची एक वळेरीचशी आमच्या मुखार दवरल्या.

कृ. म. ची खासीयत म्हणल्यार विशयाचें सुत्र फुडें व्हरपी एकान एक वाक्यांत व्यंग करपाची ताची जबरदस्त तांक.

'धुमक्यार धुमके' हो निश्चितूच निखळ हांसो फुलोवपी लेखसंग्रह. तातूंत बरोवप्यान उबी केल्लीं एकान एक पात्रां तांच्या धोंगा पोगां सयत वाचप्यांच्या काळजांत घर करून रावतात, हें कृ. म. चे शैलीचे यश म्हणपाक जाय.

कृ. म. ले धुमके आमकां दुखनात जाल्यार खातकुतल्यो करीत रावतात.




**धुमक्यार धुमके**
कृ. म. सुखटणकर
बिम्ब प्रकाशन, आगशी-गोंय
पृ. आठ +168
मोल : रु. 200/-

## सपनमोगी

कोंकणी कथेक विशय आनी आशयाचे नदरेन गिरेस्त करपाक भाई म्हणल्यार दामोदर मावजो हांणी लक्षणीय अशें योगदान दिलां. कोंकणी कथा राष्ट्रीय पातळीचेर पावोवपाखातीरूय तांणी विशेश यत्न केल्यात. साहित्य ह्या विशयाचेर अधिकारवाणीन विवेचन आनी मार्गदर्शन करपी भाई मावज्यांनी बरयल्यो कथा वाचतना कथालेखनाच्या तंत्राचोय अभ्यास केल्ले भशेन जाता. जाग प्रकाशनान प्रकाशीत केल्लो 'सपनमोगी' हो कथासंग्रहय तांच्या प्रतिभेची तांक दाखयता.

'सपनमोगी' संग्रहांत एकूण 9 (णव) कथांचो आसपाव आसा. 'ज्युरामेंत' आनी 'विर्ज्यात' ह्यो दोन कथा सोडल्यार उरील्ल्यो सातूय कथा दीर्घकथा म्हणपा सारख्यो आसात. एकान एक कथा वाचतना भाईंच्या समृद्ध अश्या अणभवविविश्वाचेंच दर्शन घडटा.

'हॅपी बर्थ डे' कथेंत आपल्या पुताच्या फुडारा विशीं सपनां पळोवपी आमोद आनी हर्षाक आपलो पूत 'ॲबनोर्मल' म्हणपाचें कळटा तेन्ना तीं मानून घेवपाक तयार जायनात. तीं निर्शेतात, पूण तुमचो पूत क्रॅटीन चायल्ड म्हूण वाडटलो आनी तुमी ताचे वांगडा रावपाक शिकचें पडटलें, ताच्यो गरजो समजून घेवन ताचे वांगडा रावचें पडटलें म्हणून जेन्ना डॉक्टर शिटकायता तेन्ना तीं एक पेरेंटींगाची चॅलेंज म्हणून स्विकारतात. अश्या चैतन्याचो चवथो वाडदीवस मनोवपाचें तीं थारयतात. वाडदिसाक येतल्या सोयऱ्या इश्टांचें येवजून तीं घरांत जे जे बदल घडोवन हाडपाक धडपडटात तें हे भावस्पर्शी कथेंत काळजाक भिडटा. जाचो बर्थ डे आसा ताकाच कुशीक वडोवपाची मांडणी चलता तेन्ना एके तरेन आवय-बापायच्या ढोंगीपणाचेरूय उजवाड पडटा. कथेच्या आशयाक गडद करपी कांय पात्रां हे कथेक वेगळे आयाम दितात. फुटबॉल खेळपी आपल्या पुताच्यो व्हडविको गावपी फेर्नांडीस दांपत्य, झेत मिरोवपी दुबावी सभावाची इंदिरा, दुसऱ्यांच्यो खबरी जगार घालपाची संवय आशिल्ली आनी वेळाप्रसंगाक आदाराकय पावपी आमोणकान्न आनी वणटीचेर बिरबिटें केलां म्हणून पुताचेर धपके घालपी मल्ल्यामाम अशीं पात्रां तांच्या सभावगुणां सयत व्यक्त जाल्यांत. ॲबनोर्मल भुरग्यांच्या आवय-बापायची घालमेल वाचप्याक सुन्न करून सोडटा.

'सावदी अरेबिया'सारक्या देशांत आशिल्ल्या कडक समाजीक निर्बंधां खातीर सदांच माथ्यार चेपण आशिल्ले भशेन वागपाची पाळी आयिल्ल्या एका भारतीय जोडप्याची घुसमट 'केन्ना केन्नाय भुरग्यां कडसून देख घेवची' हे कथेंत विस्कटावन दाखयल्या.

एका सुपर मार्केटांत मिथीला सहजपणान आपल्या घोवाचो हात धरून ओडटा आनी तो विनयभंग जाल्ल्यान ताका धपकावणी आयकुची पडटा... अश्या घडणुकांचो एक दचक घेवन ती वागपाक लागता. तेन्ना फाटल्या म्होवांळ – मोगाळ यादींनी

घुसपता. आंकवारपणांत मामाल्या चल्यान तिचो ओंठ चोखिल्लो. तो सर्गसुखाचो अणभव परतून अणभवपाक मेळचो ही आस्त धरून घोवा वांगडा केल्ल्या शिरंगारांत तिची इत्सा पूर्ण जायना. हे फाटभुंयेर तांच्या साडेचार वर्सांच्या माणकुल्या बाबून आपले वर्गमैत्रिणीची पापी घेतली म्हूण स्कुलांतल्यान आवय-बापायक ताकीद मेळटा. राजेश भोगसणी मागता जाल्यार मिथिलाक बाबूचें कवतूक दिसता. मर्दी गंभीर, मर्दीच मिश्कील प्रसंगानी फुलिल्ली ही कथा सोंपत्या पांवड्यार कलात्मक मोडण घेता.

'मनशाच्या गांवांत' हीवूय काळजाक हात घालपी कथा. जुवान हलसिद्धप्पा गोरवां आमडून गोंया व्हरपाची जापसालदारकी घेवन भायर सरता. गोंयां मेरेनच्या प्रवासांत ताका कांय अडचणींक तोंड दिवचें पडटा. गोंयांत पावत येतकीर तो जायतीं सपनां रंगयता. गोंयचो लोक बरो ते खातीर गोंयांतूच रावून मनीस जावपाचें गोंयचें तो चिंतता. पूण कांय खिणां भितर देवळा कडेन चलतले सभेंतल्या लोकांचें ताचेर लक्ष वता आनी खाटीकखान्यात तो हीं गोरवां व्हरता अशें सांगून सभेंतलो वक्तो लोकांक खुबळायता. चाळवल्ल्या म्होंवां मुसां भशेन लोक आपणाक कित्याक मारतात हें बावड्याक कळना. सबंद कथा फुडें वतना गोरवां घेवन येवपी लोकांचें जिवीत दोळ्यां मुखार येता आनी एका वेगळ्याच संवसाराचें दर्शन घडटा.

'कावळ्याच्या शिरापान' कथेंतल्या टॅक्सी ड्रायव्हराक जाय तशी कसलीच घडणूक घडना. उरफाटें ताका वचत थंय लुकसाणूच सोंसचें पडटा. आपलो बापोलभाव बाबुसो देवस्पणां करता म्हूण सुख भोगता असो ताचो समज जाता. होच बाबुसो घराचो वांटो सोदता, लग्न जावन गेल्ले आपले भयणीक भांगराचो वांटो मागपाक फितायतां, अशें येवजून तो बाबुशाक बुद्द शिकोवपाक करणी करपाक घाड्या कडेन वता. घाडी ताका बंदोबस्त करपाखातीर कोंब्याचो मान दिवपाक सांगता. हेवटेन कोंबो दिवचे पयलींच बाबुसो दुयेंत पडटा आनी दुस्मान आसूनय लोकलजे खातीर ताका बाबुशाक हॉस्पिटलांत व्हरचो पडटा. शुद्धीर येतकीर बाबुसो ताका आपल्या मर्णार उठला म्हणून खेपता. निमाणें बाबुसो मरता आनी मर्णक्रियेची जापसालदारकी हाका घेवची पडटा. निमाणें बाराव्याक आपणाक जाय तशें घडटा अशें दिसता आसतनाच ताचेर कसलें लचांड येता हें वाचतकीर कथेक 'कावळ्याच्या शिरापान' हें सर्वाथान समर्पक अशें शिर्शक म्हणपाचें दिसून येता. अंधश्रद्धेचेर सुचक अशी बडी मारपी ही कथा मिश्कील भाशेची जोड घेवन आयल्या.

कथाकारान बरयिल्ली कथाकाराची कथा ही एका साहित्यीक सेमिनारांत कथाकाराच्या संपर्कांत आयिल्ल्या विक्षीप्त सभावाचे लेखिकेची कथा. सबंद कथेंत तिच्या हुळहुळेपणांचे आनी अनाकलनीय वागपाचें कथेच्या आशयाक पुरक जुस्ताजुस्त आनी प्रसंगनिश्ठ अशें वर्णन आयलां. तिचे कथेच्या विशयां संबंदान आयकतकीर

कथाकार प्रभावीत जाता आनी शक्य तितलो तिच्या सभावाक सांबाळून घेवन तिका आदार दिवपाचो यत्न करता. कांय काळा उपरांत ह्या कथाकारागेर ते कथालेखिकेच्या राज्यांतलो साहित्यीक पावता आनी तिणें सांगील्ल्यो प्रभावी कथा ह्यो मुळांत तिच्यो न्हयच हें समजतकीर ताचो अपेक्षाभंग जाता आनी आपल्या सहवासांत आसतना आपणें सद्भावनेन केल्ल्या आदाराची मोलावणी आपले कथेंत ते लेखिकेन कशी केल्या हें समजनाफुडें ताका धक्कोच बसता.

'ज्युरामेंत' हे कथेंत मांय पूत आनी सून अश्या तिगांच्या संवसारात घडटल्या नाट्यमय घडणुकांचो वेध घेतला. तसोच काजारी सिल्वेस्टर पार्टेक गेल्ले कडेन सोरो पिवन रातचो कळावान पावता तेन्ना आपल्या पिवपा वयल्यान मांय सुने मदीं झगडें जाल्ल्याचें ताका कळटा. एकामेकांच्यो कागाळी सांगपी मांयसून एक दीस बरे भशेन उलयतना ताका दिसतात, जाल्यार रोखडींच तांचीं परत झगडीं जातात. ह्या झगड्यांक विटून तो घरा कडेन राव नासतना शेजराक वचून बसपाक लागता तेन्ना तो सोरो पिवप चालू दवरीत म्हूण दोगांकूय हुसको जाता. निमाणे तागेर भुरगें जावपाचें आसा ही बातमी आनी पोटांतल्या भुरग्यांच्या ज्युरामेंतान दिल्लें उतर अश्या संयोगान कथेचो शेवट जाता. कथेचो विशय सादोसो दिसलो तरी कलात्मक कलाटणेक लागून ही कथा प्रभावी जाल्या.

'विज्मीत' ही एक काव्यात्म कथा. आवयचें दूद पिवपाचें सोडपाक तयार नाशिल्लें भुरगें, आलायते पयशे खुळखुळावपी तागेलो पुलिसेंतलो बापूय, भुयकांपान जाल्लो विध्वंस, पडझडींत चिड्डलें भुरगें, भुरग्याचो वियोग, पयश्यांक अश्या वेळार मोल ना ही जाल्ली भावना, वैजकी मजत कार्यांत ओपूंन घेवन तांणी सुरू केल्ली सेवा, मेल्ले बायलेची कूड काडटना थंय सापडिल्लें... आवयचें दूद पीवन शांत न्हिदिल्लें भुरगें, स म्हयन्याचें बाळक दोन दीस जावनय जितें उरलां म्हणपाचें 'विज्मीत' आनी हेंच विज्मीत आपणां ठांय घडिल्लें आसूं येता हें येवजून आपणाल्या घरा कडेन धावंत येवन कोसळून पडिल्ल्या घरांत भुरग्याचो थाव घेवपाक केल्ली सुरवात.

ही कथा भोव भावस्पर्शी जाल्या.

'वेव्हार' ही कथा दीर्घकथा एके अनपेक्षित कलाटणेन सोपता. आग्नेलीया आनी विनोद जिवाताच्या मोगाची काणी. वेगवेगळ्या मोडणांतल्यान फुडें वता. विनोद गिरेस्त आशिल्ल्यान आपणाक मोगांत धोको बसपाक शकता हाचो सतत हुसको बाळगुपी आग्नेलीया जाता तितले बेगीन लग्न जावपाखातीर मांडणी काडीत रावता. तांच्या लग्नाक आडखळ जावपी आडमेळीचें कितें जाता आनी तांच्या मोगाचो शेवट कसो जाता हाची कलात्मक गुंफण हे कथेंत आयल्या.

'सपनमोगी' कथेंत बंगालांतल्यान गोंयांत आयिल्ल्या कामगाराचे थळावे चलये कडेन जाल्ल्या सपनाळ्या मोगाची काणी आयल्या. तिच्या मोगाची आस्त दवरून तो

कसलीं कसलीं सपनां पळयता, ते चलये खातीर तो कसल्यो राटावळी करता, ताचो मोग सफळ जावपाक पावता? गांवघरा वचून येता तेन्ना ताचो कसलो अपेक्षाभंग जाता हें नकसूद प्रसंगांतल्यान हे कथेंत चित्रीत जालां.

सपनमोगी संग्रहांतल्यो कथा वाचतना भाई कथे खातीर विशय कशे सोदता आनी त्या विशयांक पुरक अश्या घडणुकांची, पात्रांची, वातावरणाची कशी मेळावण करता तें अभ्यास करपासारकें आसा. दर एका पात्रांचें समर्पक अशें मनोविश्लेशण हिवूय सपनमोगींतल्या कथांची खासीयत.



**सपनमोगी** (कथासंग्रह)
दामोदर मावजो
जाग प्रकाशन, प्रियोळ
पृ. 156
मोल : रु. 200/-

000



# ग्रंथदालन

(पुस्तक परिक्षण)

वल्ली क्वाड्रस

## किसरां : मनीस, जीण अनी लिसांव

'A human being should learn the secrets of life himself' अशें म्हणता बुद्ध. मनीस म्हळ्यार कोण, कित्याक तो संसाराक जल्मोन येता, जल्माथावन मरणा परयांतल्या आवदेक आवक म्हणता, आनी त्या आवकांत ताणें सारच्या दिसांक तो जिवीत म्हणता. हेच्च जिवितांत तो शिकता, समजणेवंत/जाणतो जाता पूण कितली जाणतिकाय आपणायली तरयी अजून जायत्या मिसतेरांक; मनीस जल्माधीं कंय आसल्लो, मरण पावतच कंय वेता? हे मिसतेर मनीस सुटवंक सकाना. सूक-दूक येंवचें मनशाक पारकुंक, जिवीत शिकंवक 'Never stop learning, because life never stops teaching' म्हळ्ळ्या सांगणेपरीं जिवीत आसतापरयांत शिकुंक पडता, शिकूनच उरोंक पडता.

कोण साहीत रचता वा वाचता मनरंजनाक वा वेळ पाशार करपाक आसुयेत, कोण साहीत रचता माहेत, समजणी, गिन्यान वांटुंक आसुयेत, पूण जेदनां अपलें जिवीत झरवन, त्या जिविताच्या वोज्यापंदा चिर्डोन चप्पट नार जाल्लो मनीस अपलो अनभव हेरांक बरी दिशा दिंवचेदिशेन उपकारुंदी म्हळ्ळे इराद्यान बरयता तसलें साहीत फकत साहितीक मेरेभितर उराना. बगार, कोणाक जिण्येदिवो, जिण्येलिसांव जावंक सकता. म्हजे तसल्या एका साहितीक रसिकाक असलें साहीत खरेंच जिण्ये अंधकाराची दिवटी जाता.

पळेंवचें, पर्मळ घेंवचो, आयकुंचें, चाकचें तशेंच आपडचें; ही इंद्रियां (senses) एका मनशाक आसुंकच

**वल्ली क्वाड्रस :** जल्म : 1967, कथाकार, कवी, कादंबरीकार, बालसाहित्यकार आनी पत्रकार. कन्नड आनी कोंकणी भाशेंतल्यान लेखन. 200 वयर कथांचें लेखन. *'आशावादी'* (कथा, 2001), *'खिळो'* (कथा, 2003), *'कंगाल आनी ताची कुंकेहळ्ळी'* (कथा, 2005), *'सतां आनी कथा'* (कथा, 2007), बंद (कथा, 2017), *'संघर्श'* (कादंबरी1991), *'मोगा म्हुज्या'* (कादंबरी 1988), *'पाटीं गांवांत'* (ई कादंबरी-2004), *'चारमुखां'* (कविता, 2002), *'कठपुतळी'* (कविता 2004), *'दरबारांतली पिरगण'* (कविता, 2006), *'बाजार'* (कविता, 2017) हीं तांचीं कांय प्रकाशीत स्वतंत्र पुस्तकां. *'विसाव्या शेंकड्याच्यो कोंकणी कथा '*ह्या कर्नाटक साहित्य अकादेमी प्रकाशीत कथासंग्रहाचें संपादन. *'पयणारी डॉट कॉम'*, हे ईपत्रिकेचें संपादक. कर्नाटक साहित्य अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान दोन फावटी सन्मानीत. तशेंच दिवो नेमाळ्याचे वतीनय सन्मानीत. संपर्क- 1801, स्कायलार्क, सेक्टर-15, घांसोळी, नवी मुंबय, 400701, मो. 07738038980-07021967880.

जाय जाल्लीं. पूण हीं हरेक इंद्रियां मनीस म्हळ्ळ्या जीविच्या एकेका कर्नेचेर प्रभार घालता. जशें हासुंक, रडुंक, मोनेपणीं सोसुंक, चिंतूंक वा उलवंक. कविता सयत एक असली आसत व वसत जी वैचारीक मनीस जाल्लो ग्रहण करुंक सक्ता. कवितेचीं उतरां सयत काळजाभितर रिगोन कोशेडदाक आपडुंक सकतात.

'किसरां' हो नयना आडारकार हिचो कविता संग्रह. किसरांतलो 'किसर' हो सब्ध बायबलांत भोव व्हड लिसांवाचो आसा. 'तुज्या दोळ्यांत व्हड आडें दवरून हेरांच्या दोळ्यांतलें किसर (कोयर) काडुंक व्हचानाका'. आयच्या संसारांत ह्याच चिंतपाक लागून मनीस देव, धर्म, जात, राज म्हणून एकामेकांकडेन झुजता. 'Intelligent and respectful people always have attitude of fact finding, not fault finding.'म्हळ्यार सत सोदूंक कोणायकयी नाका, पूण चुकी सोदूंक सरवांक जाय. अमेरिकाचो नामणेचो कादंबरिकार ज्याक केरोवाक अशें म्हणता; 'If moderation is a fault, then indifference is a crime.' हेंच चिंतप मुखरून वेलें तर एक भोव अर्थाभरीत सांगणी यादीक येता; 'Judging a person does not define who they are.. it defines who you are.' पूण हांगासर हें कित्याक गर्जेचें म्हळ्यार हीं 'किसरां' आनी तें 'किसर' दोन वेवेगळीं. पूण दोनांतयी सामान्य जावनासा 'मनीस'.

*वाचपाक जाय म्हूण वाचलें,*
*जाल्यार जातलें तें व्यर्थ*
*एकाय पानाचो तुका,*
*लागाना जाल्यार अर्थ*

नयना बायेची ही कविता वाचून, खरीच म्हाका हांतलीं एकेक किसरां भोव सोसणिकायेन वाचुंक आनी तांतलो सार, लिसांव, तत्वां समजुंक लागलों.

माहेत (Information), समजणी (Understanding), जाण्वाय (Knowledge), गिन्यान (Wisdom) आनी अणभव (Experience) हे सर्व वेवेगळे सब्ध मात्र न्हय, मनशा जिविताचे वेवेगळे हंत वा वेदी. हांतूं सर्व हंत मनशाक एक न्हय एक लिसांव शिकयता पूण सगळ्यांच्याकी व्हड लिसांव जावनासा जिण्ये-अणबव. आलबर्ट ऐनस्टेयन म्हणता; The only source of knowledge is experience.' 'किसरां' बुकांत म्हाका तोच्च अणभव एकेका कवितेच्या एकेका वळिच्या एकेका उतरांनी दिसता.

*असतुरेच्या जिणेची, सगळ्याक तीच गाथा*
*कोणाक सांगचें, हांगा, दांतूच जिबेक*
*चाबता*

जिविताचे वळवळे व कळवळे हेच; संसारांत भायल्या दुस्मानासवें झगडें करुयेत पूण भितरल्या दुस्मानासवें कशें झगडें कर्चें? हांगासर अपले दांतच अपली जीब चाबता. दांत मनशाचें अपलें पोट (भूक) भर्तात तर जीब हेरांलागीं उलवंक (अभिव्यक्ती) करता. हांगासर भुकेन अभिव्यक्तेचेर घाल्च्या बंदडेचें चिंतप उभजयता ही च्यार वळिंची ल्हान कविता.

*नवी आंकरी जाय, पानगळ सोंस*
*सूख हाडूंक जाय, मान दुख्खांतय खोस*

ह्यो वळी फकत उत्रांक घडसून घडल्ल्यो

वळी न्हय. एकेक उतर जिण्ये-अणभवान पिकोन आयिल्लें. कविता म्हळ्यार कितें म्हळ्ळेंच नेणासर्ची सयत ह्यो वळी वाचून कवितेच्या मोगार पडुंक आसात अशें म्हाका भगता. हांगासर नवी आंकरी म्हणजे नवें चिंतप, नवो भर्वसो, नवो जीव, नवी समाज. पूण हरेक नवेसांव येंवच्याधीं सोसुंक जाय आसलें 'दूक' आमी विसरनाये म्हळ्ळें चिंतप दिता. हें दूक भवतीक (Physical) आसुयेता, वैचारीक (Rational) आसुयेता, सिद्दांतीक (Principles) व तात्वीक (Phylosophical) आसुयेता.

*सुखाक आनी दुख्खाक, एकूच फाट*
*एकटचान तोंड परतिल्यारच, दूसऱ्याक वाट*

मनीस म्हळ्ळें तारूं जिवीत म्हळ्ळ्या दरयांत पयण करताना, ताका सूख-दूक म्हळ्ळीं ल्हारां आपटतात. सुखाचें ल्हार संतोसाचें, पूण दुखाचें ल्हार खरी परिक्षा करुंक लाग्ता. कोण ह्या परिक्षेंत जशें चुरी साण्याक धर्चेपरीं अपणाकच साण्याक धरता, तोच जिवितांत तेज जांवक पावता. याद आसूं भांगार पर्जळचे पयलें उज्यांत अपणाक सगळें कर्गवन घेता, वज्र सयत पर्जळचे पयलें अपणाक साण्याक धरता. मनीसयी तसोच.

*उभो, आडवो, हरंधरानी,*
*पावस कसोय शेनता*
*दुख्खाचींय रुपां,*
*अशींच आसता*

हीं उतरां जिण्ये-अणभवांत शिजोन, भाजोन, लासोन, कर्पोन आयिल्ल्यांनी सांगचीं उतरां जशीं भगनांत? हीच सोभाय ह्या बुकाच्या एकेका पानांनी उटोन दिसता. समाज-शासतीर, तत्व-शासतीर, गिन्यानी-शासतीर, मनशा-शासतीर तशेंच नयतीक लिसांवां दिंवचीं एकेक कविता एकेका वैचारीक संसाराक आपवन वर्तात.

पूण थोडीं उपराटीं (Contradicting) चिंत्पाचीं कविता मेळतात;

*पिकलें पान, पाचव्या पानांची सासाय*
*तरीय पाचव्या पानांक,*
*पिकल्या पानांची नसाय*

हांगासर जिण्ये-अणभव नासचे, तो आसच्यांचेर करच्या एका रितिच्या नसायेचें चिंतप दिता तर, ह्या चिंतपाक उपराटें चिंतप दिंवची कविता जावनासा;

*तरण्या पानांत, पिकें पान,*
*पिक्या पानांत, यादीं रान*

ह्या कवितेंतली गुंडाय खरी हकीगतेक उतरायता. असलिंच थोडीं उपराटीं कविता वाचुंक मेळतात.

*गडगड जोगलावणें, वादळ-वारो-पावस*
*हांतूंत कसलें कवीत,*
*हें तर आमचें सदाचेंच जिवीत*

हांगासर परत जिविताविशीं वेवेगळीं उपमां (Simile) वापारून सांगचें दिसोन येता.

*सुखाची लागता, आस*
*दुख्ख मात जाता, फांस*

जिवीत सूख आनी दूक म्हळ्ळ्या दोन कुशिचें नाणें तर, जिविताक दोनयी गर्जेच्यो म्हळ्ळें चिंतप उभजयता.

*उजवाडाक धांपून, काळोख पटटा*
*काळखाक गिळून, उजवाड फूटटा*

हांगासर उज्वाड म्हळ्यार शिकप,

काळोक म्हळ्यार ना-समजणी म्हणून केली तर कांय आयच्या संसाराचेर अपुर्भायेचो असों धर्चो कळता. आमी भुर्गेपणार आयकून आयिल्ल्यांव, आमच्या पुर्वजांची काणी, तांचें कश्ट, तांचें संघरष. दुबळिकायेचो काळ तो, सवलतायो नातल्लो काळ, शिकाप नातलो काळ तो पूण एक सत आमी आज पासोन पात्येवन आयिल्लें, त्ये दिसांनी सयत मनशापण आसलें, मायामोग आसलो, सत-नीत आसली. पूण आज आमचेलागीं शिकप आसा, समजणी (?) आसा, सवलतायो आसात पूण मनशामोग ना, मायामोग ना, नयतीक मोलां नांत. आयचें शिकप आमकां एका वेवसतेथावन कशें सुटका जोडुंक तशेंच हेरांक कशें ह्या वेवसतेचो गळपास दिंवचो म्हळ्ळे चिंत्पा भंवारीं आसा. शिकाप आसा पूण मौल्यां नांत देकून आज तानेल्ल्या एकल्याक एक घोट उदाक दितलो सयत त्या तानेल्ल्याचो धर्म विचार्ता तर आमीं निजायकयी शिकपिगी म्हळ्ळें व्हड सवाल आमचेसमोर उभें करता.

ह्या कवितेंत एका अर्थान शोषण वा एकामेका वापाचें चिंतप दिसोन येता. पूण अन्येका अर्थान हें संसारी नेम. 'भळ आसच्याचें बोळकें, उदाक आसचें कोळकें' म्हणचेपरीं.

*फोंडांत जाणा जावन, घालतात अपले पांय*
*आनी खोपीत म्हणटात, नशिबूच पाडें हाय*

कितले अपुर्भायेन कवितेंतली एकेक काणी एकेक लिसांव शिकवन वेतात.

*सगळे देव मळबांत, एकठांय रावतात*
*भेदभावाचें सुणें मात, मनशाकूच चाबता*

ही कविता परत वयर कळयिल्ले चिंत्पाचेर आसों धरता. हांगासर मनीस एकामेका दिसचे, एकामेका झुजतात, तेंयी दिसानासच्या देवांक लागोन. पूण ते देव सयत एकठांय रावतात पूण मनीस न्हय. कितलें वीपऱ्यास चिंतप हें.

*मनशां मधलो 'हांव', सोरपाचीं फणा*
*केन्ना करीत फोंरस, कोणूच सांगूंक नेणा*

हें चिंतप कितलें प्रामाणीक चिंतप, एक मनीस जावन जियेंवचो हांव एका सोरोपाचीं फणा, आनी म्हजेथंय आसचें वीक हेर कोणयी नेणा. केदनांय एका कवितेंनी सत-नीत अपली नीज वळोक दिता ती कविता एक दिवटी जाता म्हणच्याक ही गोवाय.

*दुभावाक दिल्यार थारो, तो मनशाक पिडटा*
*फांटे फोडीत सगळीं, नातीं-गोतीं तोडटा*

परत जिण्येलिसांव दिंवच्यो च्यार वोळी ह्यो, पूण केदिंच मुगदनातल्ली काणी सांगोन वेता अशें भगता.

*जिणेंत जर, रूच हाडूंक जाय*
*मिठा कणये कडेन, नातें जोडूंक जाय*

व्हा! ह्या च्यार वळिंनी आसची गुंडाय कांय मुगदनातली काणिंच सांगून वेता. जिणी, रूच, मीट आनी नातें. हांगासर मीट म्हळ्यार मिनत, घाम, परिश्रम. जिणे म्हळ्यार संसार, रूच म्हळ्यार सूख. हीं चिंतनां वेवेगळ्या वैचारीक चिंत्नांनी पळेवयेता. हांगासर फकत परिश्रमाक फळ दिंवचो तर ताका मोल ना अशें भगता. दाकलो दिंवचो तर; एक चिताळयी धांवता, पाटल्यान एक

वागयी धांवता, दोगांयचोय परिश्रम आसा. पूण हांगासर नयतीक दिश्टावो (Vision with Morality) गर्जेचो; म्हळ्यार, वाग धांवता चितळाचो जीव काडपाक, आनी चिताळ धांवता आपलो जीव वांचंवक. देकून दोनयी परिश्रम एक प्रकाराचे न्हय. हांगासर मीट म्हणजे परिश्रम पूण नयतीक परिश्रम, मिनत, संघरष हाचेसवें नातें जोडलें तर जिविताची रूच (सूख) लाभचें चिंतप दिसता.

*मरप आनी जगप, कितलो आसता फरक*
*एक फोंडांतलें सूख, एक जिणेंतलो नरक*

ही कविता परत जिण्ये संघरषांत खिरोन, जिरोन, इरोन गेल्लीं खुणां धाखयतात पूण एका रितिचें निराशावाद दितात. कवी जो जावनासा, तो जिवितापर चिंताप दितलो. मनीस येतलो मनीस वेतलो पूण हो संसार उरतलो देकून मनीस बरें वायट सर्व फूड करून जियेता पूण सदां बरेंच विंचता आनी बरेंच दिता.

*काळजाच्या दऱ्याचें, दूक एक ल्हार*
*देकून, तें खार*

काळजांतलो दरयो, आनी दूक एक ल्हार देकून तें खार. पळेया ह्या वळिंचो सार, वयर सांगलेल्या चिंतपाक आरसो धरिना?

*संकश्टांचेर, करूंक जाय मात*
*आत्मविस्वासाची, काळजांत पेटय वात*

लिसांव दिंवची कविता. बाय नयनाक एक काणियेगार्न देकून तिच्या कवितेंनी सयत काणी दिसता. अपुर्भायेच्या लिसांवाची काणी.

*चिंतनाचे वालीक, माटोव जाय*
*तरूच फुलतली, विचारांची जाय*

मनीस जाल्ल्याक शिकप (चिंतनां) मात्र पावाना, पूण ताका माटोव (एकामेका वांटून घेंवचो) जाय, तेदनांच जायो (फळ) उदेता अशें चिंतप उदेता.

*जिबेक जाय आसलें, एक हाड*
*घालूंक पावचें नासलें, कोणाचेंच पाड*

एका जिबेनिमर्ती समाजेंत जांवच्या अनाहुताविशीं आटोव ह्या कवितेंनी दिसोन येता. हाड नातल्ली जीब आसचो मनीस कितेंय उलयता म्हळ्ळें चिंतप दिंवची कविता ही.

*चंद्राक सदांच, सूऱ्याची नसाय*
*दिसा फाटल्यान रात, धांवता पिसाय*

हांगासर चंद्र म्हळ्यार उण्या अणभवाचो वा उण्या शिकपाचो वा उण्या सत्तेचो. सूऱ्यो म्हळ्यार सत्तेवंत वा जाणतो. देकून ताचेर केल्ली नसाय दिसोन येता.

*दुख्खाच्या पावलांकूय, बांदांत*
*हांशाचीं पायजणां, आनी मागीर पळयात*

व्हा, ह्या वळिंतली कविता सकत पळेया, आशावाद पळेया, दुख्खाच्या पावलांकयी हांशाचीं पायजणां भांदून तमासो पळेया. एका अर्थान कांय अकलास आनी दुकान हें सांगलां म्हण दिसत पूण अन्येका अर्थान मनीस जाल्ल्यान केदिंच धयर सांडिनासताना जिविताक फूड कर्ची गरज धाखयता.

*दादले मानतात बायलांक, भयण,*
*देवी, माता*
*पूण मनीस म्हणून मानूंक,*
*तांकां खुबूच जड वता*

संसाराची हकीगत कितली अपुर्भायेन धाखयल्या. खरेंच आमच्या देशांत नंयांक सयत देविंचीं नांवां, पूण हकीगतेंत हरेका एकवीस मिनुटाक एका चलियेचेर अत्याचार जाता. चलियेचेर अत्त्याचार कर्तेल्या दादल्याक चत्राय ना पूण दादल्यां थावन अत्त्याचार जायनाका म्हणून चलियांक चत्राय आसा. आनी ह्या विकृत पिडेक ल्हान ल्हाण भुर्गीं धरून उतर प्रायेचीं जाणतीं सयत बली जातात म्हळ्ळें संसारांत आमचो देश कितलो हल्क जावंक पावला म्हळ्ळे चिंतपाक धाखयता. पूण ती चली वा बायल सयत एक मनीस म्हणून दादल्यान मानलें तर हें खंडीत जातेंना.

*सुटल्यार पांच बोटांची, एक मूठ*
*धा तोंडांनी, पावता गूट*

दीस्पडत्या जिवितांत मनशाक एकेक लिसांव म्हळ्ळेपरीं दिता.

*जनेलां नाशिल्लीं घरां,*
*भितरले भितर घुस्मटटात*
*दार उक्तें मेळ्ळ्यार,*
*सगळें वाऱ्यार सोडटात*

ही अन्येक भळवंत चिंतपाची कविता म्हळ्ळेपरीं दिसता. हांगासर घर म्हळ्यार मनीस, जनेलां म्हळ्यार आदर्शां, ततवां, समजणी, बरेंपण, मनशापण, नयतिकता. दार उक्तें म्हळ्यार अपणाक जाय तें करुंक स्वतंत्र. हे अर्थ करून ही कविता वाचली तर ह्या कवितेची सकत दोडती जाता.

*देवाक सोदूंक जाय, मनशांत रीग*
*काळजाचे पाटयेर, मनीसपण शीक*

आज देव, धर्म, जात म्हळ्ळीं निबां घेवन एकामेकाक नास कर्चो मनीस ह्या चिंतनांत खरेपणीं समजुंक सकल्लो तर?

*अणभवान, जाता खूब शिकूंक*
*पूण शिकोवचे पयलीं, लायता खूब सोसूंक*

मनीस अपल्या शिकपाक, आपल्या अणभवाक तशेंच अपल्या पेल्याच्या बरे-फालेंत, सुखांत तशें दुखांत वांटेली जांवचेविशीं आनी मुळावी जवाभदारेविसीं जागयता.

*कश्ट केल्यार फळ मेळटा,*
*म्हणटाले आमचे जाणटे*
*फळ पिकचें रातयांत,*
*म्हणटात आमचे नेणटे*

परत ह्या कवितेंत, अनभव नासताना बुदी सांगतेल्यांचेर सहज रितिची शीण दिसता.

*दुडवांनी विकतो, घेता जायत तूं बजार*
*पूण काळीज खोटें आसल्यार,*
*मेळचोना बरो शेजार*

दिसानदीस बदलोन येंवचा संसारांत सगळे चड शिकपी जाल्यात तरयी, कायदे-कानुनांचो बजार, वख्तां-दोतोरांचो बजार, देव-धर्मांचो बजार, शिकप-सनदेंचो बजार अशें हर प्रकाराच्या बजारांत 'कवी' मात्र वेगळो. ह्या बजारांत मान-पुरसकारांचो बजार आसा पूण एक नीज कवी उदेता कोशेडदांत शिवाय तिंतेरांत न्हय. कविता एक कोशेडदाची प्रामाणीक अभिव्यक्ती. नीज कवीक धर्म ना, जात-कात ना, तो फकत मनशापणाचो कवी. सतच उलंवचो कवी. आनी ह्या संसारी बजारांत फकत 'कवी' मात्र एकलो, जो दुडवाक लागून

अपणाक विखिना.

दुडवांत बूक मेळतले पूण जाणवाय न्हय, व्हखतां मेळतलीं पूण भलायकी न्हय, ईश्ट मेळतले पूण इश्टागत न्हय म्हळ्ळें चिंतप दिताना, पयलें अपलें काळीज नितळ कर आनी बरो जा तेदनां तुजो सेजार बरो जातलो म्हणता.

*दूसऱ्यांचें मन कळपाक,*
*भास कित्याक जाय*
*फकत मेळय तुजें काळीज,*
*ताच्या काळजाक*

हेरांक अपलें काळीज दिंवचें व्हड मन आसचे मनीस आज कितले आसात म्हळ्ळें अन्येक सवाल.

*गुलाबाची जीण जाय,*
*कांटो आसतलोच*
*सुखाचे वाटेर लेगीत,*
*दुख्खाचो वांटो आसतलो*

परत सूक-दूख एका पाटल्यान एक पाटलाव करून येंवचें म्हळ्ळें चिंतप दिता.

*नशीब, तांदळाचें पीक*
*मळ्ळे-फाफूडले बगार, पोल जयना*
*कुशीक*

हांगासर फाफुडचें म्हळ्यार मिनत कर्ची, कश्ट काडचे, परिश्रम घेंवचें, तेदनां पोल (सार नासचें वा गर्जेभयलें) मेकळें करून फकत बरें अपणाक लग्ती कर्चें.

*घरांतले वणटींक, आशिल्लें जर तोंड*
*असतुरेच्या सोंसणुकेचो,*
*त्यो उसतुपाच्यो फोंड*

एका घरांत एका असतुरेचें रुदान आनी दूक पळेल्ली घरची वणद मात्र. देकून जेदनां घर्च्या वणदिंक तोंड येता तेदनां ह्या गांवांनी रुदान जातलें म्हळ्ळें चिंतप दिंवची कविता.

*वेळाच्या पाखांक आसता,*
*नेटाची गाती*
*ज्युसत धरना दोक्यांक,*
*जाल्यार खातलो माती*

बाय नयनाच्यो चडताव कविता म्हाका बसवण्णचीं 'वचन' यादीक हाडून दितात. पूण बसवण्णच्या वचनांनी 'कूडलसंगम' आसचें हांगासर मनीस आनी जिण्ये-संघर्शाचेर आटोव आसा. अशें सांगुंक गेल्यार सांगून मोगदोंचेंना. 'किसरां' बुकांतल्यो कविता कश्यो वाचुंक जाय तें एका वाचप्यान समजुंचें, काणी तर काणी, जिणी तर जिणी, लिसांव तर लिसांव. सलीसायेन वाचल्यार कांय ताळो आयकत, चीत दीवन आयकल्यार एक गीत आयकत, अनीकयी गमन दिलें तर तेंच गीत एक मधूर संगीत जावन कोणाचें काळीज उमाळ्यांनी उप्येशें कर्तेलें, कोणाचें काळीज शिंदतलें अनी कोणाचें काळीज पिगळायतेलें पूण एकेक कविता काळजा-मनांत कांय लांब काळ परयांत खंचोन उरतलें तें नखें.




किसरां (कविता संग्रह)
नयना आडारकार
हिरियूग प्रकाशन, गोंय
पर्गट जाल्लें वरस: 2015
पृ. 108
मोल: रुपय 125/-

000

